# जिणेची ल्हारां

सुधा सुरेश आमोणकार




गीता - प्रसार
म्हापशें - गोंय.



JINECHI LHARAM

A Collection of Essays.

2010



**Publisher**
Geeta Prasar
Guru-Kunj
Mapusa. Goa - 403 507

**Typesetting**
Kiran Graphics.
Merces-Goa.

**Printers**
Maureen Printers
Panaji. Goa - 403 001.

**Cover Picture**
Ajay Kothavale

**Price : Rs. 175/-**





जिणेची-ल्हारां

लघुनिबंध संग्रह

२०१०



प्रकाशन
गीताप्रसार
गुरु-कुंज
म्हापसा-गोवा - ४०३५०७

अक्षर जुळवणी
किरण ग्राफिक्स,
मेरशी-गोंवा.

छपाई
मौरीन प्रिंटर्स
पणजी, गोवा - ४०३ ००१.

मुखपृष्ट चित्र
अजय कोठावळे

किंमत : १७५/- रु.

आमच्या विद्यार्थी आनी विद्यार्थिनी, आपल्या
चलण्या – उलोवपातल्यान, कृतीन
म्हाका खूब शिकयलें.

तांका ही मायेमोगाची भेट

सुधा टिचर.

# उपकार

जायत्या बरें – मागप्यांच्या सदिच्छांक लागून हें पुस्तक जांवक पावलें.

भौ. भाई मावजो हांणी उमेदीन प्रस्तावना बरयली. मोरीन प्रिन्टर्सचे भौ. मातियेश वाझ हाणी टायपसेंटिगचे आनी छापणावळीचें काम आस्थेन केलें. सुरेशबाबांनीं बारीकसाणीन हातबरप वाचलें. भौ. अजय कोठावळे हाणीं सोबीत मुखपृष्ठ तयार केलें. 'गीताप्रसार' चे भौ. सुरेशबाब आमोणकार हाणीं पुस्तकाचें उजवाडावणेखातीर सहकार्य दिलें.

'सुनापरान्त', 'बिम्ब', 'कोंकणी', 'गुलाबा' न् हे निबंद पयले वटी उजवाडायलें.

ह्या सगळ्यांच्यांच उपकारांत हांव आसा.

सुधा सुरेश आमोणकार




जीणे ल्हारांचेर उतरतना . . . . . .

जीण सामकी रंगयाळी. तांतूतल्यान तांच्यो रंगयाळी ल्हारां ल्हारां आमकां खूबशें शिकयतात. जीणेतल्यो तरेतरेचे अणभव, आमचें मन हालोवन सोडटात. कोणाच्या हांसपांतल्यान, तर कोणाच्या उतरांतल्यान, कोणाचे कृतीतल्यान, तर कोणाचे नदरेंतल्यान दिव्यत्वाची अप्रुप धादोसकाय वांट्याक येता. जिणेच्या सूंदर–सोबीतपणाचें दर्शन घडयतात. तर कांय मनाक भितल्ल्यान धवळून काडटात, आनी मनाक अस्वस्थ करतात. खूबफावट ते खीण खोशेचें न्हाणय घालतात. आनी मागीर अचकित अप्रुप तांकीचो स्पर्श जाता.

जीणेत तरेतरेचे लोक मेळटात. ते आपल्या जीणेतल्यो घडणुको सांगतात. मन उचंबळ जाता, आणि ते संबंधी बरवपाचेंच, म्हजें मन सांगूक लागता, आनी मागीर आपली लेखणी चालू जाता.

तेवेळार दिव्यत्वाचो द्रिश्टावो घडोवपी होच तो भगवंताचो अंश अशें दिसूंक लागता. ती खोस उतरांचे तरंग निर्मितात. त्या ल्हारांतल्यान ब्रह्मानंद निर्मितात. ते उतरांचे तरंग तुमच्या काळजामेरेन पावले आनी तुमकांय आनंदाचे न्हाण घालूंक पावले जाल्यार हांवुय धादोस जायन.

सुधा सुरेश आमोणकार

# प्रस्तावना

प्रिय सुधाबाय,

तुगेल्या ललीत लेखनाचो हांव एक चहातो. तें मागीर बालमनाचेर जावं पालकत्वाचेर. हांव नेमान वाचतां. तुगेली सहज व्हांवती भास, लेखनाची शैली, लालित्यपूर्ण संवाद आनी जीवनाक भिडपाचो दिश्टीकोन म्हाका भोव मानवता. तुगेले कांय ललीत निबंद कथा ह्या साहित्यप्रकाराक खूब लागीं आसात. ताचें कारण तुगेले लिखणेंतल्यान अचळय/असरपी लालित्य. ह्या तुज्या निबंदांनी कथेचीं बिजां आसात. एखाद्या कथालेखकाक सांपडिल्ली जाल्यार तांच्यो कथा जावं येताल्यो. पूण तुजो पिण्डूच निबंदकाराचो. देखून ते निबंद जावंक पावले. ह्या निबंदांचें मोल कथेइतलेंच आसा आनी देखून जांवये म्हाका तुजें लेखन खूब आवडटा.

मनशाचें दिसपट्टे जिणेत नित्य नवे अणभव येत आसतात. पूण तांचे नवेपण पारखुपाची नदर जाय. खूब जाण अशे आसात जे जिणेकडेन सदचेंच रडचक्र जाल्लेवरी पळयतात. कांय जाण हांसून खेळून दीस सारतात. दोनूय वटेनची जीण यांत्रिकीच. पूण तुजेसारकी सर्जनशील मनशां मात जिणेत उजवाडपी दरेक दीस हो नवो लेखून तांतूतली नवलाय सोदतात. हे नवे नवलायेचो सोद घेवपाची तुजी वृत्ती तुगेल्या लेखनांत परावर्तित जाल्ली म्हाका दिश्टी पडटा.

दुसऱ्यांच्या मनांचो थाव घेवपाची कळाशी जांकां सादल्या तोच सर्जनशील लेखक म्हूण नांवारूपाक येता. ताका मानसशास्त्राचीं पुस्तकां वाचपाची गरज पडना. हाचो प्रत्यय तुका पुंडलीक नायकाचे 'अच्छेवांत' वा महाबळेश्वर सैलाले 'काळी गंगा' त येतलो. तुजी तोखणाय म्हणून सांगना, तुजेयकडेन दुसऱ्याच्या मनांत रिगपाची ही कळाशी आसा म्हणपाचें तुज्या बरपांत ठांय ठाय दिश्टी पडटा.

निबंदकार बहुश्रुत, बहुविध आसचो लागता. कांय निबंदलेखक 'हांव सर्वज्ञ' असो आव हाडून बरयतात. हांव सांगतां तूं आयक अशें तरेचें तें लिखाण

स्वकेंद्रित कशें दिसता. खरो निबंदकार हो चिन्तकाची भूमिका घेवन स्वताभितर बाग घेवन पळोवपाचो येत्न करता. स्वताभितरले अवगूण, अज्ञान, अपसमज समजून घेवन ते पयस करपाच्या येत्नांतले अणभव तो मांडटा. तेन्ना त्या सच्चाईचेर आदारिल्ल्या अणभवांचो लाव वाचकांकूय मेळटा. स्वताच्या अंतर्मनात बागून पळोवपाचे कृतीक internalization म्हणतात. एक फावट अंतर्मुख जावन स्वताच्यो चुको समजून घेवन सत्य होळमलें म्हणटकच मागीर लेखकाचो वा खंयच्याय कलाकाराचो externalization चो मार्ग उकतो जाता. अशा वेळार तो अभिव्यक्त जाता तेन्ना ताचें साहित्य हें शाश्वत स्वरूपाचें जाता. अशा अनेक शाश्वत मुल्यां तुवें कसलीच व्हडविकाय मिरयनासतनां सहजतायेन मांडल्यात. देखीक, मरण कोणाकूच चुकना हें जाणा आसुनूय तुका मरणाचो भंय कित्याक दिसचो हो तुका पडिल्लो प्रस्न तुवें कांयच भायरभितर दवरिनासतना मांडला. वांट्याक आयिल्लें जिवीत खुशाल अंतस्करणान जियेतात ते मरणाक भियेनात हें सांगतना आता हे तरतरेची खबर सांगल्या. बॉम्ब हल्ल्यांत जीव त्रासांत आनी धोक्यांत घालून जरकी लोकांक वाटावपाखातीर वावुरपी आनाची खबर वाचकाक अजापीत करता. ताचे फाटोफाट हायड्रॉलीक सिस्टम नादुरूस्त जाल्ल्यान इमर्जन्सी लॅण्डींग करपी विमानांतलो स्वताचो अणभव सांगला तो तर काळजाक पिळय घालपासारको विमान कोंसळत हे शिरांतेन विमानांतलो सगलो लोक आकुळपिकूळ जाला अशावेळार एक आवय आपल्या चार वर्साच्या भुरग्याकडेन खंयच कांयच घडूंक नाशिल्लेवरी शांतचित्तान गजाली सांगताली. 'हांव तुजो मोग करतां' हेच ती विंगड विंगड उतरांनी त्या भुरग्याक सांगताली. वात्सल्य आनी परस्पर विश्वास हांची केदी तांक ही!

सुधाबाय, जिवितांतली खोस तूं मेळोवंक सोदता हें म्हाका मानवता. पूण तेय परस ही खोस तूं हेरांमदीं वांटून घेता ताचें म्हाका चड अप्रुप. आत्म्याचें संगीत आयकुपांतली मजा तूं लुट्टाच. पूण तेच वांगडा तें संगीत हेरांकूय लुटयता. सादे आलापींत तूं पूर्ण राग सोदता. साद्या दिसपी मनशांमदीं तुका जिणेंत तत्वगिन्यानी दिश्टी पडटात. नुसतेंकान्नींची वाट पळयत बसपी माजर. तुका सुवार्थी दिशिल्लें पूण माजर आपणाक येवकार दिवपाक बसता हीं नुसतेंकान्नीचीं उतरां तुका नवी नदर दितात. आळंदीक वतना वाटेर मेळिल्ली

सत्य तुका विस्मित करता. हॉस्पिटलांत रेस्पिटेराचेर दवरिल्ली बायल तुका सांगता, ''इतलीं वर्सां म्हाका दिसतालें श्वास हांव घेता. आतां कळलें 'कर्ता करविता दुसरोच आसा.'' तेन्ना तुगेलें श्रद्धावंत मन भारावन वता. आपले जिणेंतले सुखदुख्खाचे हे अणभव तूं वाचका मरेन पावयता, तेन्ना ते मार्गदर्शक थारतात. तुवेंच एकेकडेन म्हळां - कांय जाण वाट दाखयतात. कांय जाण तुमकां थंय व्हरून पावयतात. तुगेल्या ह्या ललित निबंदांतल्यान तुवें नेमकें हेंच केलां.

काळजाचें दार फकत भितरल्यान उकतें जाता, हें शाश्वत सत्य सांगतना तुवें एका म्हान विचाराचें दार वाचकांखातीर सताड उकतें केलां दोळ्यांपरस आंतरीक दृष्टी चड म्हत्वाची हें सांगून कुड्ड्या-आंधळ्या वा अपंगुळांकडेन पळोवपाच्या आमच्या दोळ्यांत अंजन घालां. आमी सगलींच चुकतांव. पूण चूक कबूल करपाक वा क्षमा मागपाक कितलीं जाण तयार आसतात? चूक मागपाक काळीज व्हड जाय हें सत्यूय तुवें चलता भोंवतना सांगचें तितले सहजतायेन सांगलां. रोझेलीचे कांटे मेजीत गुलाबांपासून पयस रावपी लोकांक गुलाबाचो रंग, रुप, परमळ तोखेवपाचो दिल्लो संदेश खूब सुंदर आसा. समाजांत वायट आसत पूण बरेंय चलता ताची तुस्त तोखणाय करूंक शिकात म्हूण सांगपाची खरीच गरज आसा.

दिवप हें. घेवपापरस स्रेश्ठ हें चिरंतन सत्य, सुधाबाय, तुवें भोव नकसूद पणान सांगलां. दिवपांतलो आनंद हो घेवपांतल्या आनंदापरस कितलेशेच पटींनी व्हड. म्हाका विंदा करंदीकरांचे कवितेची याद आयली. 'देणाऱ्याने देत जावें । घेणाऱ्याने घेत जावे । घेता घेता घेणाऱ्याने देणाऱ्याचे हात घ्यावे ।' केदो व्हडलो हो विचार. खरें म्हळ्यार, दानतीचें गिरेस्त दायज मिरोवपी गोंयकरांक हें खबर आसा. कोठयेकूड रिती आसल्यारय अडचक्क्याचे होटयेंत पड अर्द पड तांदूळ घालपी पूर्वज आमचेच. पूण-आयज हें परत सांगपाची गरज आसा हें तितलेंच खरें.

सुधाबाय, तुजे निबंद वाचतनां म्हाकाय म्हजे अणभव याद जावंक लागले. 'सिध्दी उपरांतची प्रसिध्दी' त तुवें सिध्दी पुराय प्राप्त जावचे पयलींच प्रसिध्दी फाटल्यान धांवपी लोकांक शिटकायलां. फाटीं हांव किशोरी ताई आमोणकराक मेळूंक गेल्लो. दुसऱ्या दिसा तिगेले सुनेचो नृत्याचो पयलो कार्यक्रम जावपाचो

आसलो. किशोरी ताईन आगरो केलो म्हूण हांव गेलों. तिची सून खऱ्यांनीच नृत्यनिपुण आसली. देड वराचो तो कार्यक्रम पळोवन दोळ्यांची तान-भूक न्हिवली. मागीर किशोरी ताईनच सांगले. ''ती निपूण जाल्यार खूब वर्सां जाली. पूण तिका आजून 'पर्फेक्शन' येवंक नाशिल्ल्यान आपणे तिका रसिकांमुखार नाचपाक आडयिल्ली. आयज ती परिपूर्ण नर्तिका जाल्या.'' आयज काळ बदलला. सारेगम चे लिटल चँपिअन्स सर्तेंत आपलें भुरगें पावचें म्हूण भुरग्यांपरस पालक चड इत्सूक आसतात. अशा वेळार तांच्या दोळ्यांर उदक मारपाखातीर ह्यो गजाली सांगच्यो पडटात.

सुधाबाय, तूं आनी सुरेशबाब दोगांय स्रध्दावंत. परमेश्वराचेर तुमचो भावार्त. म्हजो ना. हांव देव-धर्म मानिना. पूण दुसऱ्याचे श्रद्धेचो आदर करतां. तेचखातीर तुगेल्या काका-काकी वयल्या निबंदाचं वाचन करतना हांव काकाचे भूमिकेकडेन तादात्म्य पावलों. म्हजेच जिणेंतलो एक प्रसंग सांगतां. म्हजें बायपास थारलें. तारीक थारली. उपरांत एकदीस मेवण्यान येवन सांगलें - त्या दिसां उपास आमी तारीक बदलून घेवंया. हांवें स्पश्ट न्हयकार दिलो. हांव बरो जावन परतो येतलों हाची खातरी आसतना म्हाका त्यो अंधश्रद्धेच्यों कुबड्यो नाकात. मागीर एके मेवणेन सांगलें ऑपरेशनाच्या दोन दीस पयलीं संकश्टी आसा. तू उपास करशी ? हांवूय करतलें. हांवें म्हळें, बाय, तू श्रध्देन उपास करतलें. कर. तुजे श्रध्देचेर म्हजी श्रध्दा आसा. हांवें पूण श्रध्देबगर हांवें उपास केल्यार तो तुगेल्या देवाक पावचो ना. तिका वायट दिसलें ना. तिणे संकश्टी केली आनी निवेद्य हाडून म्हाका दिलो. तिचे श्रद्धेची तोखणाय करीत हांवेंय तो खाल्लो तिचें समादान जालें. हांगा पर्थून हांव तुज्या मुद्याकडेन येतां. तिका समादान दिवपांत म्हाका जी खोस भोगली ती मोलाची. दुसऱ्यांक आनंद दितलो जाल्यार पयलीं आपणे खोशी रावंक जाय. तुजेभशेनच म्हजोय येत्न आसता - खोशी रावचें आनी दुसऱ्यांक खोशी करचें.

सुधाबाय, तुगेलींच उतरां वापरून म्हणटां - सदां खोशी ताची नित्य दिवाळी तुमच्या जिवितांत नित्य दिवाळी फुलची ही शुभेच्छा !

- तुजो भाई

(दामोदर मावजो)

# मांडावळ

पान क्र.

# हो जांवचेंत परतीचो प्रवास?

रानूक गेलें. नाळ्ळ फोडलो. बरें उदक आयलें. बायलांचो जल्म न्हय? उदक लेगीत वाया वचूंक फावना. सट् करून हांवें पेलो तोंडाक लायलो. घोंट गिळय थंड आसा. काश्याचें व्हडलें कूस ताळ्यांत शिरकलें. जीव घुसमटलो. ताळ्यांत बोटां घालून कूस भायर काडपाचो जायतो यत्न केलो. पुण कशेंच येना जालें. व्हडलो उदकाचो घोट घेतलो पुण किसर भितरय वचना जालें, भायरय सरना जालें. खिणाभितर जीव आकुळ पिकुळ जालो. खिणाभितर सगळें ब्रम्हांड आठवलें. भितल्ल्यान कुळकुळ्ळे. ह्याच खिणाक मरता दिसता हांव घुसमटून ! घामाघुम जालें. कपल्यावेल्यान हूमाच्यो झरी व्हांवक लागल्यो. मरण मूर्तिमंत उबें जालें. बेगीबेगीन मेजावेल्या उरिल्ल्या पावाचो कुडको तोंडात घालो. 'देवा पाव रे बाबा' म्हणीत गिळ्ळो. देव पावलो. काश्याचें किसर भितर गेलें. जिवाक सू जालें. दुसऱ्याच खिणान म्हाका विचाल्लें,

''एद्याश्या गजालीन इतलें भियलें गो तूं? सदांच आल्यापेऱ्यान, चलतां, उलयतना 'आतां आमचो परतीचो प्रवास सुरू जाला' अशें म्हणटा न्हय तूं ! पुण मनाक खऱ्यानीं पटलां तुका हें?''

खरेंच न्हय? सांगप सोपें. शब्दांचो खेळ करप कांयच न्हयशें. पुण खरीच वेळ येतकच आसता काय मनाची तितली म्हणपा सारकी तयारी?

आतां पासश्टी हुपली. जाली न्हय पिराय म्हजी फाव कशी? देवान म्हज्या भुर्ग्यांबाळांक आपणाल्या पायांर उबे केल्यात, नातरां खोशयेंत आसात. होच न्हय हो फाव कसो तेंप, हांवें राम म्हणपाचो? बुद्धीक पट्टा, पुण मन मानूंक तयार जायना. कळटा पुण वळना हेंच न्हय तें निमणे सत?

म्हजे बगर संवसार कसो चलतलो? म्हजे घोवाचें कशें जातले? ताजे दुसरें बायपासाचें (काळजाचें) ऑपरेसांव जालां. ताजें वखद विरसद, जेवण - खाण हावेंच पळोवप न्हय? हांव फाल्या हांगा नासतलें. पुण संवसार चलतलोच. एक खीणय थांबचो ना, चलत रावतलो. हें तत्त्वज्ञान हांव जाणा न्हय? मागीर?

भुर्गेपणातली याद त्याचं खिणाक जाली. आवयन नाल्ल फोडिल्लो. उदक पेल्यांत घालता थंय आसा, गाळणी काडून ती गाळूंक सोदी, आनी आनी कळाव केलो ना, सोमतोच पेलो तोंडाक लायलो. नाल्लाची केसरां ताळ्यांत शिरकलीं. हांव घुसमटूंक लागलें. आवय माथ्यार हात मारूंक, लागली. तिजीय मुळमुळी कांपली. तीय कासावीस जाली, धांवत वचून तिणे शीताची उंडी करून हाडली आनी म्हज्या तोंडात घाली.

''बाय, गिळगिळ ! अपुबार्येचे पोर म्हजें. देवा तार रे बाबा ! तिणे आकांतान देवाक उलो घालो. देव तिज्या उल्याक पावलो. शीता उंडेवांगडा किसर गेलें.

ती त्या खिणाक म्हाका विचारताली. 'आगो, बाये, नाका थंय घाई करपाची संवय अजून मेरेन वचूंक ना मगो ? संबाळून कर गो बाये सगळें.'

'आई, येता गे हांव स्वर्गात भेटेक तुज्या !' होय विचार आफुडिल्लो मनाक त्या खिणाक.

खंयतरी वाचिल्लें. मनीस खंय मरणाक भियेना, तर मरणावस्थेक भियेता. ताका सुखाचे मरण जाय आसता. एका खिणाभितर घुसमटून आयल्लें मरण हें सुखाचें मरण मानपाक कांय हरकत ना न्हय? या वेळार काळीज बंद पडून आयल्लें आकस्मिक मरण हें सुखाचें मरण म्हणपाक कितें हरकत आसा? पुण सगळ्यांक हें मंजुर जांव येत? जण एकल्या मनशाक आयुश्याची सगळी इतिकर्तव्यता सोपतकच शांतपणान, कसलीच यातना जायनासतना भुर्ग्याबाळांचो निरोप घेवन हें जग सोडचें अशें दिसता, हें म्हणपाक सोपे आसलें तरी प्रत्यक्षांत शांतपणान मरपाक, हो संवसार सोडून वचपाक कोणुच तयार नासता. जांवये आयुश्याची इतिकर्तव्यता पूर्ण जाली तरी मनशाचो इहलोकीचो मोह सुटना हेंच निमणे सासणाचें सत न्हय? ह्याच अणभवान म्हजे मन त्या खिणाक हालले. याद जाता वाचिल्ल्याची. इग्नेस फेप या फ्रेंच मानसशास्त्रज्ञान ह्या संबंधी एक मार्मिक अणभव सांगला: गेल्या म्हायुध्दांतल्या अणभवाबद्दल तो सांगता, जीणेत जांका कसलोच रस ना अशीच मनशां मरणाक भियेतात. विमान चल्ल्याचो बोंगो वाजलो, कांय अशी मनशां सगळ्यांपयली खंदकाचो आश्रय घेवपाखातीर

धांवतात. हॉस्पिटलांत असाध्य दुखण्यान जर्जर जाल्ले दुयेंती आनी वृद्धाश्रमातल्यो व्यक्ति या पळापळींत आघाडीयेर आसताले. १९४४ सालांत हांव ज्या शारांत रावतालो त्या शाराचेर एक सारको बॉम्बफेक जातालो, त्यावेळार म्हजेकडेन वावराक जी बायल आशिल्ली; तिजी कुटुंबिक जीण सामकी दुःखी आसली. तिजो बेबदो घोव तिका सदांच मारी आनी घरांत धड दोन वेळेर जेवणाक मारामार. अशा परिस्थितीत तिका एक असाध्य दुखणे जाल्लें. पूण विमान हल्लयाचो इशारो आयकलो काय, ती हातांतले काम सोडून खंदकाकडेन धांवत सुट्टाली. पळोवंक गेल्यार दोतोरान तिका धावपाची सक्त मनाई केल्ली. हांवें जायतेफावटी तिका विचाल्लें, 'तुजी जीण इतली दुःखी, तर तूं मरणाक इतली कित्याक भियेता?' तिणे जाप दिली,

'म्हाका असलें अपघाती मरण आवड ना'

इग्नेस फेप हाणी ह्या संबंधीचो आनी एक अणभव सांगला, तो खूबच उद्‌बोधक आसा.

तो म्हणटा, म्हजो असो अणभव आसा की, जांका जियेवपांत मजा दिसता. अशी मनशां मरणाक भियेनात. आमच्या वाठारांत विमान हल्ल्यांत, जखमी जाल्ल्या नागरिकांक पालव दिवपाखातीर आना नांवाची एक तरतरीत रूपेस्त चली सदांच येताली. ती बरी खेळाडू आनी उत्तम नर्तिका आशिल्ली. तिजे एका तरणाठ्याचेर मोग आसलो. आनी त्या दोगांयनीय लग्न जावपाचें थारायिल्लें. इतली संपन्न जीण जियेवपी ही तरणाठी आवय-बापायच्या विरोधाक जुमानीनासतना आपणाली जीण धोक्यात घालून विमान हल्लो जालो, तरी खंदकात आश्रय घेतले बगर, लोकांक आधार करूंक धाव. पुण दैवाचो विचित्र खेळ असो की, आपणाल्या जिवाक थर्त भियेवपी, जपपी म्हजी वावराडी विमान हल्लयांत खंदकातच मेली. आनी आना त्या लढायेंत सुरक्षित रावली.

तोच मानसशास्त्र म्हणटा, ''म्हजो असो अणभव आसा कीं, जांका जियेवपांत मजा दिसता अशी मनशां मरणाक भियेनांत.'' हें खरेंच काय? मागीर आयजमेरेन हांव म्हाका जिणेत मजेन जिवेवपी अशें समजताले न्हय? जीणेत आनंदान जियेवपी, आपणालेच तंद्रेत गुल्ल जावन प्रत्येक खिणाचो

रसिकतेन आस्वाद घेवपी अशा म्हज्या मनाक कितें जालें काय? भितल्लो रंग भायर सल्लो काय? मनांत झांकून पळयल्यारच बरें न्हय? म्हजो परतीचो प्रवास सुरू जाला अशें म्हजे म्हणप वयलें चाराचेंच आशिल्ले काय? आपणाल्या मनाक कित्याक फटवपाचें? आनी हेरांकुय???



# धैर्याचो दिश्टावो ! ! !

आयज वारांदाचेर बसून पुस्तक चाळटालें. कांय वळी वाचतास्तनाच अचकित पंचवीस वर्सांफाटल्या घडणूकीची याद जाली.

आमी अमेरीकेक वतालीं. ॲअरपोर्टावेल्यो सगळ्यो फॉर्मालदादी करून आमी आमचो जीव विमानात घालो. जिवाक सू जालें. आता अमेरीकेंत शिकतल्या चल्याक मेळपाची सपनां, मन रंगोवंक लागलें. विमानान बरे भाशेन उड्डाण केलें, मन उड्क्यो मारूंक लागलें. कांय वेळा उपरान्त अचकित विमान वयर सकल जांवक लागलें. पोटांत चकनळूंक लागलें. इतलें म्हणसर विमान दुसरेंच भाशेन हालूंक लागलें. ॲअर पॉकेटस् येतकच कांयवेळार जाता तशें. अश्यो चडश्यो नदरो आशिल्ल्यो. कांय नदरो सामक्यो भियेल्ल्यो. कांय मिनटांभितर तर एक विंग सामकी बागवली. कितें जालें काय अकस्मात? हो दुबाव सगळ्यांच्या नदरेंत. इतल्यांत पायलटान अनौंसमेंट केली,

''कितेंय पुण अचकित बिघाड जाला विमानांत. आमचो इंडिकेटर दाखयता की, आमची हायड्रोलिक सिस्टम फेल जाल्या. आमी लागसरल्या ॲअर पोर्टाचेर देंवतात. घडये देंवता आसतना हायड्रोलिक सिस्टम चलना जाल्ल्यान घडये लँडिंग गीअर लॉक न जावपाची शक्यताय आंसू येता. फ्लायट अटेंडंट्स तुमकां आदार करतले. घडये व्हडलो धक्को बसूं येता. तयारी दवरात.'' सगळे रात्री चुळबुळ करूंक लागले. कांय तर सामके हिस्टरीक जाल्लेवरी किंळच्यो मारूंक लागले. ॲअर हॉस्टेजांनीं आनी हेर अटेंडसांनी तांका थंडावपाचो यत्न केलो. पुण मरणाचो भंय कितलो आकांताळो आंसू येता हाजी जाणविकाय जाली. कांय जाणाची तोंडातर धवी फटफटीत पडिल्लीं. कांय अस्तुऱ्यो जपमाळो रोझरी ओढूंक लागल्यो. मरणाचो भंय जण एकल्याच्या मुखामळार. जण एकलो अस्वस्थ जाल्लो. हांवें असलो देखाव, हाजेपयली केन्नाच पळंवक नासलो. हांवुय भितल्ल्यान कुळकुळिल्लें. मन विचारतालें, ''इतली वरसां तूं गीता वाचता न्हय? मागीर देवावयली तुजी श्रध्दा कशी डळमळूंक लागली? मरणाचो विचार आयल्यारच मन थरथरलें तुजें? कोणुय एकलो तरी ह्या खिणार थंड –शांत

आंसू येता काय म्हूण सोदतालें. अखंड श्रध्दाच घडये धैर्य दीत, शांतताय दीत काय? म्हूण नियाळटालें. पुण एकटोय नासलो.

इतल्यांत फाटल्यान बारीक म्होवाळ आवाज कानार पडलो. फाटी वळून पळयत जाल्यार एके अस्तुरीचो सामको नमळायेन भरील्लो आवाज. समजिकायेचो स्वर. कांयच घडूंक नाशिल्लेवरी. आवाजांत मातुय कंप ना. थरथर ना. कसलेंच टेंशन ना. सामको अपुर्बायेचो आवाज.

चारूय वटांनीं हेरांचो बोवाळ. रड्डप, आड्डप चलिल्लें. कांय जाण सीटांक घट धरूंक बशिल्ले. कांय जाणांची दांतखिळीच बशिल्लेवरी जाल्ली. कांय जाण सुस्कारे सोडटाले, कांय जाणांचो श्वास अंदल्ल्याभाशेन जाल्लो. सगळीवाटेन भंय पाताळिल्लो.

म्हज्या अर्दकुट्या श्रध्देन म्हाका हिस्टरीक जांवक दिले ना हें जरी खरें आसलें तरी ते अस्तुरीभाशेन हांव शांत-थंड रांवक पावलें ना. ते अस्तुरीचो आवाज मायेमोगान भरील्लो. ह्या सगळ्या भयांकुळ बोवाळांत, ती आवय आपणाल्या भुर्ग्याकडेन उलयताली. ती आवय तिशीकडेन आंसूये. तिजी नदर अप्रुप कशी. आपणाल्या भुर्ग्याक दोळ्यांत तेल घालून तेळटाली. चार वरसांचे पोर आंसूये.भुर्गेय एकचित्त लक्ष दिवन आवयचें उलोवप  आयकतालें. आवयचे नदरेन भुर्ग्यार सामकी जादू केल्लेवरी. ताका लागूनच काय, चारूय वटेनच्या बोवाळाचो ताका मातुय आफुड जांवक पावलो ना जावये.

ही आवय उलयताली, जादू जाल्लेवरी -अजापच कशें. ल्हव... शांत .... आत्मविश्वासाच्या सुरांत. ती परतीपरती आपणाल्या भुर्ग्याक सांगताली,

''हांव, तुजेर खूब्ब मोग करतां. तुका खबर आसा. कित्याय परस हांव तुजेरच चड मोग करतां.

''हय, हय मम्मा'' त्या सुपुल्ल्या भुर्ग्यान म्हळें.

''आनी मतींत दवर. कितेंय जांव. हांव तुजेर सांसणाचो मोग करतलें. तूं बरें गुणाचें चली. कांयवेळार गजाली घडटात. तांतूत तुजी कांयच चूक नासतली. म्हजो मोग सदांच तुजे वांगडा आसतलो.

मागीर ते आवयन आपणाली कूड, एक  संरक्षण कवच जांवचे म्हूण, आपले भुर्ग्याक वेंगायलें, पट्ट्यान बांदलें. आनी मनाची तयारी केली जांवये. प्लेन क्रॅश जावपाची.

पुण कितें अजाप. देवाचीच करणी. विमानाचें गीअर चालू जालें. आनी विमानाचें देंवप शोकांतिका जांवक पावली ना.

ते दिसा, ते अस्तुरीचो, आयकल्लो शांत –अळंग आवाज, म्हजे काळीज हालयत उल्लो. दुबावाचो मातुय सूर तांतूत नासलो. निमणेमेरेन मवाळ आवाज. हें म्हजे दोळेमुखार घडलां हाजेर केन्ना केन्ना विश्वास लेगीत बसना. तिजेबगर हेर सगळ्यांक हें मातुय जमलें ना. आवयच्या उत्कट  वात्सल्यानच तिका ही अप्रुप तांक दिली कांय? तिज्या मोगानच धैर्याचें हें नवे रूप घेतलें?

हेंच न्हय धैर्याचें मन हालोवपी रूप आवयचो हो मोगच अशी समर्पणाची भास उलोवंक लागता काय? ह्या धैर्याकच लागून तिका भिरांतीचो मातुय आफुड जांवक पावलो ना? जीवघेण्या संकटांत, खोशयेन झोंकून दिवपाची शक्त –धैर्य, ह्या मोगांतल्यान तिका मेळ्ळें काय?

धैर्याचो हो अप्रुप दिश्टावो न्हय?



# दिवं येत खोस आपणाली हेरांक वांटून?

अचकित, अपेक्षेबगर कोणेय आपणा खातीर, मुजरत माया – आपलेप दाखयलें, काय मन हालिल्लेवरी जाता. आतां तर तें पावलाकणकणी - खिणाखिणाक जाणवतां. आतां जाण्टेपणात कदेली सट् करून उखलप जायना पुण तें हालयतासतना सट् करून कोणूय फुडें सरून, आपणाल्या हातातल्यान तें धरता आनी कदेल उखलून दवरता, तेन्ना काळजांत उपकाराची ल्हारां उदेतात आतां तर ह्या जाण्टेपणात खूबफावटी जाणवता हेंच. तरणाठेपणाची उर्बा, मस्ती ल्हवल्हव उणीउणी जायत चल्ल्या हेंय जाणवता. आपुण जाय तें करूंक शकता म्हणपाचो अहंकार ल्हवल्हव पातळ जावंक लागता हेंच खरें.

चल्यागेर चार दिस रांवक गेल्लें थंय मेजार एक ताका आयल्लें ग्रीटींग कार्ड आशिल्लें. उकते केलें. भितर बरयल्ल्यो वळी वाचल्यो. कांय जाणांकडेन आसता देणगी हेरांक पावपाची, आनी हेय पळयतात. संसार एक सुवात कितें घडूयेत हाजी कांय वांट्टात शाणपण, जांव सुशेग आनी जतनाय हेरांक कांय जाण मार्ग दाखयतात, आनी कांय तुमकां मुजरत थंय व्हरू न सोडटात. कांय काळीज फुलयतात, आपणाल्या अरळ, म्होवाळ, अचळय स्पर्शान ह्यो सगळ्यो देणग्यो, बाब, तुजेकडेन आसात.

देव तुका बरें करूं. एके बायलेचे नांव. आनी हस्ताक्षर काळजाथावन उप्राशिल्लीं तिजी ही उतरां म्हज्या काळजामेरेन पावलीं. काळीज उचंबळ जालें. हेरान मोगान केल्ली इल्ली गजाल लेगीत जाच्या काळजाक भावता, ताजें काळीज खरेंच कृतज्ञतायेन भरील्लें आसूंक जाय न्हय? आनी घडये ताकाच लागून तें काळीज आपणाले भाव आपलेच कडेन उकते करूंक लागता जावये. त्या काळजाची जातय अस्सल आसतली. जितल्या उत्कटतायेन उपकाराची जाणविकाय ताका जाल्या, तितल्याच उत्कटतायेन ती उकती जाले बगर ताका

सुशेग मेळना जावये. चैन पडना जावये. तिजी ही म्होवाळ उतरां गुणगुणूंक लागली.

तिजाभाशेन म्हज्यार जीणेत अश्यो जायत्यो घडणुको घडल्यात न्हय ? तिका दिसलां तशें म्हाकाय खूबफावटीं दिसला न्हय ? अशे जायते खीण म्हज्याय जीणेंत आयल्यात न्हय ? पुण तिजें काळीज मनमेकळेपणान जशें उलोवंक पावले तशें म्हजेकडल्यान कित्याक जावंक पावले ना ? घडये म्हजी भावना तिजेभाशेन अस्सल नासू येत, तिजेभाशेन म्हजे मन संवेदनशीलच नासू येत. कृतज्ञतेची भावना काळजांत उप्रासत हेंच न्हय चड म्हत्त्वाचें ? आपल्याक जाणे इतली खोस दिल्या, ताका लागून म्हाका जितली खोस मेळ्ळ्या ती ताका वांटून दिवची, अशें दिसप हेंच न्हय त्या काळजाचें म्होवाळपण ? खोस वांटिल्यान दोट्टी जाता हें म्हाकाय खबर आसा न्हय ? पुण कित्याक दिवंक पावलें ना हांव, म्हज्या काळजांतली ही खोस हेरांक वांटून ?





# चिंत ! मना बगर !

फोनाची बेल वाजली. फोन घेतलो. एकटे वळखीच्या बायलेचो आसलो. तिणे म्हळें,

''सुधाबाय, आत्तांच रेडियोचेर तुवें गायल्लें पद आयकलें. बरें गायतालें मगो तूं! आतां तुवें गावप साप्प कित्याक सोडलें?''

तिजो हो प्रश्न आयकून, सट् करून, म्हजे तोंडसून उतरां आयलीं. ''आगो बाय, आतां घडये भितल्लें संगीत आयकुपाचो वेळ आयल्या जायत, तांतूतच घड्ये गुल्ल जालां जावये, म्हूण भायलें संगीत सुटलें जावये. उस्फुर्तपणान ही उतरां काळजातल्यान आयलीं खरीं, पुण मन म्हाकाच विचारूंक लागलें, 'बाय, तुझ्या उतरांचेर तुवेंफकत मोग केला जायत, भितल्लें संगीत, अंतरंगातले सूर आयकप इतलें सोपे?''

चडसो वेळ म्हजो भायले वातावरणातच घुस्पल्लो आसता न्हय? आज हें करूंक जाय, तें करूंक जाय, हाणें तशें म्हळें, ताणे हे केलेना ह्याच चक्रांत घुंवत आसता न्हय मन? अपेक्षा करीत रावलीं काय अपेक्षाभंगाचें दुःखच पडटलें न्हय पदरांत? हाकाच लागून मन पिकार जाता.मनस्तापाक आफोवन दिवप जाता. मन ताचेय भोंवतणी घुवत उरता न्हय? मागीर त्या मनाक भितल्लें आंतरिक संगीत कशें आयकूंक येतलें? तें मातुय सोपें न्हय. पांच सेकंद तरी मन, विचाराबगर रांवक शकता? बुध्दान सांगिल्ल्या विपश्चनेच्या १० दिसांच्या शिबिराक गेल्लें. तेन्ना होच अणभव म्हाका आयल्लो न्हय? १० –११ वरां शांत चित्तान ध्यान, मौन. ते वेळेर होच प्रश्न हांव मनाक विचारतालें. देवान म्हाका सगळें भरभरून दिलां. दोळे, कान, नाक, जीब, हातपाय. पुण तरी कसली ना विवंचना हांवें कारणाशिवाय जिवाक कित्याक लावन घेतल्या? अर्द मिनीट लेगीत म्हज्यान शांतपणान राव नज? भितर शिजिल्ले षडविकारांचें वीख ल्हवल्हव वयर सरत काय? साप्प विसरून गेल्ल्यो यादी लेगीत उफाळून वयर येताल्यो. तोच न्हय मनाक मेळिल्लो शाप?

मनएव मनुष्याणाम् कारणम् बंधमोक्षये ।

मनुस्मृतीत हेंच म्हळां मन हेंच मनशाक बंधनात घालपी आनी तेंच ताजी सुटका करपी.

ताचो आता पावलाकणकणी प्रत्यय येंवक लागला. मनच न्हय मनशाक धोंसता? सगळो हो मनाचोच खेळ न्हय?

बहिणीबायन म्हळांच,

मन जहरी जहरी, त्याच न्यार ते तंतर

आरे इचू -साप बरा, त्याले उतार मंतर.

असो मतर आणि उतारो नाशिल्ल्या मनान, आपणालो आदि जांव अंत हाचो कायच ठावठिकाणो केन्नाच लागूंक दिवंक ना.

मन पीडादायी, वाऱ्यापरस चपळ चंचल. एका खिणात धर्तरिर तर दुसऱ्या खिणात सर्गार मळबार?

ओशोच्या उतरांची याद जाली

Walk without feet पाया बगर चल

Fly without wings पाखां बगर उड

Think without mind आनी चित, मनाबगर

खूबफावटी आमी उलयतात ते मनाबगर, बुध्दि बगरच न्हय? ते वेळार बुध्द आनी काळीज हांका आमी खरे अर्थान उजार केल्यार, संवसार सुखी, सोबीत आनी सुंदर जातलो आसलो न्हय? मनाचो विलय कर. तूं आपशीच देवाम्हऱ्यान पावतलो अशेंच सांगतात न्हय आमचे व्हडले व्हडले संत? मन जेन्ना उडक्यो मारूंक लागता, तेन्ना घडये ताज्या फाटल्यान हांव कर्ताहांव करपी हेंच 'मी पण' त्याफाटी दडिल्लें आसता जावये. हीच सुचोवणी मेळटा न्हय?

मनान, मळबांत उड्डाण करतकच, ताका पाखां तरी खंय लागतात? मन चलता तेन्ना ताका पायाची जांव पाखांची गरजच नासता न्हय? बशिल्लेकडेनच न्हय तें भराऱ्यो मारता? पुण ताजेफाटल्यान हांवुच ' मुखेलपणान आसता

न्हय? एकदां हांव संजीवन स्कूलांत गेल्लें. थंय अपंग भुरग्यांक पळोवन म्हाका दिसलें की, जांका कानांनी आयकूंक येना, दिश्टी पडना, उलोवंक येना, तांच्या दोळ्यांत मोगाळ भाव, तितलेच अगतिक. पुण प्रत्येकाकडेन नाळ जोडपी, पुण जांका सगळें कांय आसा, तांचे कडल्यान कानाय बरें पडप कठीनच. दुरापास्तच. आनी खूबफावटी तांची वाणी उतरां, मनाची सालां काडपी, मनाक टोंचणी दिवपी आसतात. असल्या लोकांनी, जायते घेवपासारकें आसता न्हय तांचे कडल्यान? जायत्या प्रस्नाच्यो जापो तांका मेळूं येता न्हय? आमकां जे देवान दिलां ताजो उजार जावचो, आपणाखातीर, दुसऱ्याखातीर आनी समाजाखातीर?

अलिप्तपणान मोह -स्वार्थ सोडून, संवसारात घुस्पून पडनासतना भितल्ल्या अंतरंगातल्या संगीतांत गुल्ल जावपाक हीच वृत्ती लागता जावये. ओशोन म्हळांच न्हय! निष्पाप जायात. आनी तुमी देवाकडेन पावतले. मीपण विरून वचूंक जाय. आपुण कोणतरी खाशेलो मनीस आसा, हें मनातल्यान साप्प काडून वडयात. तेन्नाच त्या खिणाक तुमी असामान्य आनी अप्रुप जातले.

जेन्ना तुमचेकडेन मनच ना जाता. तेन्नाच तुमका अस्सल काळीज मेळटा. जेन्ना तुमचेकडेन मन ना जाता, तेन्नाच तुमचे काळीज सद्‌भावनेच्या स्पंदनानी पिटपिटूंक लागता. तेन्नाच तुमचेकडेन मोग उप्रासता. मन ना जावप म्हळ्यार मोगच मोग.

पुण हें केन्ना जांव येता? सगळो मायापाश. मायाजाळ्यांतल्यान मन मेकळें जाता तेन्नाच न्हय? जेन्ना मनाचो विलय जाता तेन्नाच न्हय, त्या मार्गार आमचे पयलें पावल पडूं येता? ज्या मार्गांन मीपण विरलां. तेन्नाच न्हय आमी मनाबगर चिंतूक पावतले? हाजो दिश्टावो केन्ना जायत म्हज्या मनाक?



# “कोण वरतो कोण उणाक?”

घरांत बांधकाम चलतालें. चलो,वावुरप्यांक एकूच गजाल, परती परती सांगतालो. ताणे वाजेवन म्हळें, “ आगे, हो वावर करप्यांक एक गजाल चार चारफावटी सांगची पडटा. नाजाल्यार कायचेकाय करतात ते. आपल्याक जाय तशे. शिकपाची आनी सारके आयकुपाचीय तकली नासता तांका.” तांचेर आड्डी मारून घडये तोय पिकार जालो जावये.

हांवे सट् करून म्हळें, “आरे, म्हूणच न्हय ते बाबडे, आसा थंयच उरतात?” हीं उतरां सट् करून म्हजे तोंडसून भायर सरलीं खरीं पुण दुसऱ्याच खिणाक म्हज्या काळजाच्या खोल तळांतल्यान एक आवाज वयर सरलो,” आगो, ते थंयच उरल्यात म्हणजे कितें? तूं वयर आसा, तूं वरते आसा आनी ते सकल उरल्यात, उणाक उरल्यात हीच सुचोवणी दिली न्हय तुवें? घड्ये ते तुजे सारकेले ते पदवीधर जांवक पावले ना जायत म्हूण ते थंयच उरले म्हणपाचो अधिकार तुका कोणे दिलो? तो हक्क तुवेंच आपणाकडेन ओढोवन घेतलो न्हय? होच न्हय तुजो अहंकार? तुका घडये दिसला जावये, तूं संवसारातल्या हेर लोकांपरस उंचेल्या पांवड्यार आसा म्हूण. पुण घडये तो मनीस खऱ्या अर्थान अध्यात्म मार्गार तुजेपरस खूबफुडें पावला जायत. तो आपलो वावर करीत, वर्तमान खीण आताचो खीण खोस घेत घेत जियेत आसतलो. आनी म्हूण घडये ताका भूतकाळाचो खेदय नासत आनी भविष्याची चिंतायनासत आनी अशेंच अलिप्तपणान तो सगळीकडेन पळयत आसतलो. आनी म्हणूनच घडये कित्यातच, घुस्पून पडनासतना तो आपलो वावर करता आसत. हें जमत तुका? खरेंच न्हय हें? ‘हांव-म्हजें-म्हाका ’ ह्याच चक्रांत घुस्पलां न्हय म्हजें मन? मागीर त्या मनशाची ही वाटचाल म्हाका तरी कशी कळटली? आनी कळल्यारय वळटली काय?

हेरांनी म्हजी हुशारी वळखुची, हांव जायते घडोवंक शकतां, बरोवंक शकता होच न्हय म्हजो अहंकार? हेंच मीपण नडटा न्हय म्हाका? हेंच न्हय तें ‘मीपणाचें’ विपरीत चक्र? हेर सुस्त, मंदबुध्दी, तांचेकडेन तल्लख बुध्द ना म्हूण

ते आसा थंयच उरतात अशें दिसप हेंच न्हय तें मीपण! म्हज्या दर एका कर्तुबांत अहंकार आसता जावये. म्हणूनच न्हय तो उफाळून वयर सरलो? ताजी मातपसून म्हाका जाणविकाय नासली. हाजी मनाक हुरहुर लागून रावली. हांव तीर्थ यात्रेक गेलें, दान केलें, दया केली होच अहंकार , हेंच मीपण घड्ये आमकां ईश्वरापसून पयस दवरता जावये. आमच्या साधु–संतानी आमकां हेंच तत्वज्ञान सांगला न्हय? भगवंताक जर समर्पण करचे आसत जाल्यार ताचेखातीर अहंकार त्यागूंक जाय. अहंकार साप्प सोडून दिवंक जाय. हें सासणाचें सत न्हय? हांवें हें केलें, तें केलें, ही सगळी माया. ताचेच इच्छेन हें सगळें घडटा, हें मातपसून जाणवना न्हय मनाक? मनशाच्या अहंकाराचो नेट हांगा चलपाचो ना. देवाचे गुण गांवपात नेट चलचो ना. मौनात रावनय चलचो ना. अंत:स्कर्णात आमी ओग्गी आसपाक जायना. राजमहालांत रावपांत वा सत्ता मेळोवपांत, वा पयशे जोडपांतु नेट आंसूक जायना. आमी कोण जांवचें हे परमेश्वराच्याच इच्छेर निंबून आसता हें सदांच आमचे सगळे संत – सत्पुरूष सांगीत आयल्यात न्हय आमकां? पुण म्हज्या सारकेल्याक, सामान्यतायेन दिसता जावये कीं, जें कितें आपणे जोडलां तें आपल्याच बळाचेर जोडलां. थंयच आमचे चुकता न्हय?

परमेश्वराविशीं आमच्या मनात जायती उर्बा वा उत्साह आसत. ज्ञान मेळोवपांत, विचार करपांत, चित्ताचें तन्मयतेंत आमचो नेट चलचो ना. संवसारातल्यान हांव सुट्टलो, आनी ते खातीर म्हजी साधना चलता होवुय नेट चलपाचो ना. जांच्या हातात नेट, बळ वा सामर्थ्य आसा, तो भगवंतच सगळें करता, तोच आपलीं भुरगीं कशी चलतात हें नियाळटा. हेंच खातीर गुरू नानक म्हण्टात, ''ह्या संवसारात कोणुय वरतो ना, उणाक ना, वा नीच ना. भगवंताचो जाचेर अनुग्रह जाता तोच उंच वावरतो जाता, जाचेय ताची अवकृपा जाता, तो नीच वा उणाक जाता.''

हें कळपाक, जांव समजुपाक, देवान सद्बुध्दी दिल्यारच जातलें न्हय? आनी समजूनय वळत काय हें म्हजे मन?



# अखंड श्रध्देचो दिश्टावो !

सद्चेभाशेन पासयेक गेल्लें. दोन तीन राउंड मारतकच अचकित घुसमटिल्लेवरी जांवक लागलें. खरसय मारूंक लागली. छातयेंत कसकशिल्लेंवरी जांवक लागलें. हांवें खर श्वास घेवपाचो यत्न केलो. हें म्हाका अकस्मात कितें जाले काय? नाय म्हळ्यार मन हाललें. म्हाका सोंपेपणान जाय तसो श्वास घेवंक येना जालो. श्वास घेवंचो पडट्टा हाजी जाणविकाय त्या खिणामेरेन नाशिल्ली. काळीज कलकलूंक लागलें. हांवें थंयच थपकल मारली. घोवान म्हळें, ''आगो, जमनीरशें कित्याक बसलां तूं?''

उलवपाकय त्रास जालो. हांवें म्हळें, '' आरे, म्हाका मातशें बरें दिसना जालां. श्वास धपटिल्लेवरी, घुसमटिल्लेवरी दिसूंक लागला.''

''तर चल. सरळ हॉस्पिटलांत वचुयां. दोतोर आसतलोच थंय. हांव ताकाफोन करतांच. घोवान हात धरून उठयलें. आनी मोटारींत बसपाक आधार केलो. रेस्पिटरेचेर बी दवरतले काय म्हाका? काळजाचें दुयेंसबी जालां काय? नाना दुबाव येवंक लागले. हांव घोवाच्या बायपासावेळार (काळजाच्या ऑपरेशनावेळार) एके जाण्टेले बायलेक रेस्पिटरेचेर दवरील्लें पळयल्लें. तिणे चार दिसा उपरान्त सांगिल्ल्या त्या उतरांची याद जाली. घडये त्या खिणाक तिजें हें म्हणणे म्हाका पटूंक नाशिल्लें. पुण ह्या खिणाक मात तिजी ती जाणविकाय, म्हाकाय जाणोवंक लागली. तिणे म्हळ्ळें, ''बाय, ह्या रेस्पिटरेच्या मशीनान म्हाका जें कितें शिकयलें तेंच म्हजे मुखार सारकें उबे आसा. म्हाका दिसतालें हांवुच श्वास घेता म्हूण. पुण आतां म्हाका जाणविकाय जाल्या. म्हजेकडेन कसलीच तांक ना, जांव स्वातंत्र्यय ना. असो दिश्टावो ज्या खिणाक जाता, त्याच खिणाक तूं खऱ्या अर्थान भक्त जाता. ताजे पयली तसो भक्त जांवक पावना. तूंफक्त भक्त जावपाच्या मार्गार वचत आसता.

निमणेमेरेन हातातली दाय हांव सोडची ना, हो अहंकार, होंच सोंस, होच अट्टाहास आसता न्हय आमचे सारख्याल्या बायलांचो! हांवुच म्हजो हात जाय तसो चलयतली हेंच न्हय तें मीपण?

भक्ति ही बांधिलकी! हें फक्त जांव येता अणभवाच्या खोलायेतल्यान. ती उसणी घेवप जायना. ती पुस्तकांतल्यान मेळना. ती एकफावटी आमचेकडेन आयली, काय ती आमकां केन्नाच सोडीना. श्वास घेवप हें आपणाल्या स्वाधीन ना ही भावना ते बायलेक केन्नाच सोडूंक पावली ना. आपणालो श्वास घेवपाक लेगीत स्वातंत्र्य ना ही जाणविकाय अखंड श्रध्दा निर्मिता, हेंच खरें सत न्हय? तिणें म्हळें, 'आतां म्हजी पुराय श्रध्दा देवार बसल्या. म्हाका चड कळना, हांव चडशें वाचीनासली. म्हाका म्हणसारके ज्ञानय ना. पुण हर, म्हजेकडेन ही श्रध्दा आयल्या. आनी ही श्रध्दा म्हळ्यार कितें?फक्त देवाचो मोग आनी तांतूय पुराय श्रध्दा.'

आमच्या काळजांत मोग आसता. तो सभाविकच. आमी हेरांकय मोग दितात. संसारातल्या जायत्या जाणांक. पुण आमी ते तांचे खातीर दिनात, तर त्या बदला आमच्या पदरांत खोस पडची ह्या हेतूनच चड. तांचेकडल्यान आमची हीच अपेक्षा आसता की, ते आमकां खोस परती करतले म्हूण. आनी ही अपेक्षा करपांतल्यान जांव हें दिवपांतल्यान अपेक्षा केली, काय आमचे पदरांत निर्शेवणी येता आनी आमी दु:खी जातात. ल्हवल्हव आमी हे शिकतात. निमणे आमकां कळटा कीं, आमी जें चिंततालीं, ती फकत आमची सपनां, त्यो आमच्यो कल्पना आनी आमच्यो अपेक्षा. ती खरी सत्य परिस्थिती न्हय. तेन्नाच आमकां खरी जाणविकाय जाता की, निमणें हेंच खरें वास्तव. हीच खरी वस्तूस्थिती. अखंड श्रध्दाच आमकां हो दिश्टावो घडोवंक शकता.



# खरें दिसत हें सांगल्यार?
# योगायोगांचो हो शिंवर???

जिणेंत घडिल्ल्या जायत्या घडणूकांचेर एक नदर घालीत जाल्यार खीणभर विस्वासच बसना. मनांत संभ्रम जांवक लागता. खरेंच घडला काय तशें? काय म्हज्या मनाक दिसलां तशें? योगायोग म्हणूं येता हांका? म्हजोच विस्वास बसना, हेरांक तरी हो योगायोग म्हूण खरे दिसत? पुण सांगलेबगर राव नज म्हूण हे सांगतां.

आयज ह्या ज्ञानेश्वरीच्या लोकार्पणाची कार्यावळ जाली. ५।। – ६ वरसांचो पट दोळेमुखार जिवो टट्टीत जालो.

म्हज्या घोवान, सुरेशबाब आमोणकारान अदीं मदीं, काळजांतली उतरां उकतावन दाखोवचीं, ''ज्ञानेश्वरी कोंकणीत करचीशी दिसता.'' पुण हो णव हजार ओव्यांचो प्रचंड ग्रंथ पळोवन मनफाटीं–फुडें जाता.''

बी.ए. च्या निमण्यावरसा, ज्ञानेश्वरीचो १६ वो अध्याय आमकां अभ्यासाक आसलो. ते उपरान्त, ज्ञानेश्वरीक हात लावपाची सद्बुध्दी म्हाका केन्नाच जाली ना. म्हजेंच दुर्दैव म्हणचें पडटलें. घडये ज्ञानेशाची कृपाय म्हजे सारकेल्या संसाराचे मायेंत घुस्पल्ल्या मनाचेर जांवक पावली ना जांवये.

पुण चाळीस वरसां उपरान्त जेन्ना सुरेशबाबान ज्ञानेश्वरीतल्या पसायदानाच्यो, आपणे केल्ल्यो होंवयो म्हज्या हातांत दवल्ल्यो, तेन्ना त्यो वाचतकच मनाक खूबच भावल्यो. आनी त्यो परथून परथून वाचच्योश्यो दिसल्यो. ज्ञानेश्वर केदे अलौकिक प्रतिभेचो मनीस हाजो नव्यान प्रत्यय येवंक लागलो. आमच्या प्रा. वा.ल.कुलकर्णीची रसाळ लेक्चरां बोलकी जाली.

'' आगो, देडहजार होंवयो वेंचून काडटां आनी करतां अणकार तांचो.'' सुरेशबाबांचें हें विचार चक्र चलतालेंच, आपणालें हे मनोगत ते वयलेवयर उलोवन

दाखयी. पुण एक दीस अचकित तांका फातोडेर जाग आयली. तो दीस आसलो २ फेब्रु. २००२. हरशीं ते सुर्यवंशी. उसरां उठपी.फात्तोडेर न्हावपी मनीस न्हय हो. ४५ दिवाळीचे दीस पळयल्यात न्हय हांवें तांचे वांगडा? म्हाकाय अजाप जालें. म्हज्या सभावापरमाण हांवें तांका विचाल्लें,

आयज कितें इस्पिशिअल? फात्तोडेचेर उठूनसो न्हाता तूं? ताणे शांतपणान, मुमुरखोसो हांशीत म्हळें,

'' आगो, अंत:प्रेरणा जाल्लेवरी दिसली आनी जाग आयली. ''

''बाबा चल तूफुडें. फकत देड हजार होंवयो कित्याक?

सगळ्योच कर. ज्ञानेश्वरच दितलो तुका ती अप्रुप तांक !''

हो माऊलीचोच आदेश जाला, असो आपल्या अंतर्मनाचो आवाज आयकत ताणीं बैठक मारली. आनी ज्ञानेश्वरीचो आरंभ केलो.

सतत अविरत, अथक परिश्रमानीं विलक्षण ध्यासान आनी अभ्यासान, तांचे कडल्यान ही नवनिर्मिती जाली हाजो सात्विक आनंद आतां आमच्या पदरांत पडला.

हे सगळे जाता आसतनां, तांचेर जिवावेलीं जायती संकश्टां आयली. तांका अक्षरां धुंवरेल्लीं कशीं दिसूंक लागली. दोळ्यांच्या दोतोरान, तांच्या दोनुय दोळ्यांत मोतीबिंदु जाल्यात म्हूण सांगलें. सारकें दिसना म्हूण सुरेशबाबान मॅग्निफाअींग ग्लास (बहिर्गोल भिंग) घेवन वाचपाक सुरूवात केली.

ज्ञानेश्वरीचे वाचप –बरवप चलिल्लेंच. १७ वो अध्याय चलिल्लो. दोळ्यांचो त्रास सोशिंत ते मोन्यांनी काम करताले. तांतूत खंड पडलो ना. १८ वो अध्याय सुरू जालो. दाव्या हातांत मॅग्निफाईंग ग्लास आनी उजव्या हातांत पेन –परतो मॅग्निफाअींग ग्लास सकल दवरप, परतीय ज्ञानेश्वरीच्या जड, मूळ ग्रथांची पानां परतप. तांची ही कसरत, धडपड म्हज्यान पळव नज जाली. घड्ये त्या कसरतीचो तांका त्रासय जाणवलो ना जायत, कारण त्यावेळार ते अप्रुप, आगळ्या वेगळ्या ब्रम्हानंदात न्हावन येताले जावये. तांचे मुखामळावेल्यान सात्विक आनंद भरून

व्हांवतालो. मनीस ध्यासान पेटून उठलो काय ताका ह्यो कसल्योच आडखळी जाणवनात काय? ज्ञानेश्वराच्या अलौकिक दृश्टांतांच्या म्हासागरांत ते उफेत उल्ले. पुण म्हाकाय तांची काकूट आयली. हांवेंच जावन म्हळें तांका, ''आरे, हांव वाचूं ती मूळ ज्ञानेश्वरी? तुका मातसो आदार जांव येत.'' पयलेच फावटी म्हजी ही आदाराची भास आयकून घोव फुललो. ''आरे वा! ज्ञानेशाचीच कृपा ही. म्हाका खरोच आदार जातलो.''

ताणीं म्हळें.

घडये जोडप्यान, १८ अध्यायाची साग्रसंगीत समाप्ती जावपाचो योग आसतलो. मनाक दिसलें. नाय म्हळ्यार घोवान म्हजेर विश्वास दाखयलो म्हूण म्हाकाय खोस जाली.

आमी १८ वो अध्याय वाचपाक सुरूवात केली. कांय खीण माऊलीच्या अप्रुप दृश्टांतांनीं न्हावन धादोस जालीं. आतां मेरेन घोवाच्या पदरांत पडिल्ली धादोसकाय म्हज्याय वांट्याक आयली. होय एक योगायोगच न्हय?

अध्यायाची सुरवातीची आनी अध्यायाच्या पूर्ततेची तारीख घालपाची सुरेखबाबांक संवय. ज्ञानेश्वरीचें दुसरें निवळावप पुराय जालें तें म्हज्या मांवाच्या– कै. आपांच्या श्राध्दा दिसा. तिसरें वाचन पुराय जालें तो दीस आसलो मांयच्या श्राध्दाचो. तांचीर सांसाय आमचे भोंवतणीच पाताळिल्ली आसूं येत. सांगल्यार अतिताय जांव येता, पुण जाण्ट्यांचो आशीर्वाद फाटल्यान आसा हें भावनेन प्रसन्नताय आयली. आनी तेच धादोसकायेच्या ल्हारांर आमी उफेताली. इतले म्हणसर पंढरपूर सावन प्रसाद घेवन एक वाळपयचो स्वामी आमगेर आयलो आनी ताणे हातांत एक सुपुल्ली पोटली दिली आनी म्हळें,

''हो घेयात विठ्ठलाचो प्रसाद! आज तुमगेर पावपाचो, देवाचो आदेश जालो आनी पावलों हांव योगायोगान. म्हाका तुमचें कोंकणीतलें पसायदान जाय. आळंदीच्या सर्वभाशीक संमेलनात तें म्हाका गावपाचें आसा.''

ज्ञानेश्वरीचें चौथे निवळावप जातकच अचकित तांच्या छातयेंत किसकिसूंक लागलें. पयली काळजाची –बायपास सर्जरी जावन १२ वरसां जाल्ली. घडये

तांका आपणाल्या जिवीताची शाश्वती ना जाली जावये, म्हूण ताणीं आपणाल्या ज्ञानेश्वरीच्यो दोन झॅरोक्स कॉपीज काडून हाडल्यो आनी गोंयांतल्या विद्वान, अभ्यासू व्यक्तींकडेन एक डॉ. सोमनाथ कोमरपंत आनी दुसरी डॉ. किरणबाय बुडकुले हांचेकडेन त्यो सुपूर्त केल्यो आनी म्हळें,

''तुमकां दोगांयचोय म्हाका आदार जाय ह्या ज्ञानेश्वर पूर्ती खातीर. घडये दुसरी बायपास करची पडत. घडये हांव परतो येन वा ना. सुधाबाय तुमचे वांगडा आसाच. तिगानुय मेळून ती छापची'' सुरेशबाबांची निर्वाणीची भास आयकून ती दोगांय उचंबळ जालीं. 'तुमी येतलेच बरे भाशेन' किरणबायन गंयवर येवन म्हळें.

तांका दुसरेफावटी काळजाची बायपास सर्जरी करुन घेवंची पडली.

ऑपरेशन थिअेटराकडेन, स्ट्रेचराचेर वयल्यान पावयतकच सुरेशबाबान म्हळें म्हजेकडेन आनी पूताकडेन पळयत म्हळें, ''आगो, सुधा ज्ञानेश्वराच्या मनात, म्हजेकडल्यान ज्ञानेश्वरी पूर्ण करुन घेवपाची आसत तर हांव परतो येन. नाजाल्यार 'बायबाय' शांतपणान हास्य करीत आनी हात हालयत ताणी आमचो निरोप घेतलो.

७ वरांच्या खर ऑपरेशना उपरान्त दोतोर भायर आयले आनी ताणी म्हळें,

'' आतां आमोणकार थारायल्यात. पुण ऑपरेशन करता आसतना तीनफावटी घातक गजाली घडल्यो पूण देव तांचे वांगडा आसा.''

ज्ञानेश्वरीची करकरीत प्रत हातांत आयली. तो दीस आसलो ५ नव्हें. २००५. त्याच दिसा म्हज्या मायचें श्राध्द आसलें. हो योगायोगच न्हय? घडये सुरेशबाबांच्या मनाची घेतिल्ली पकड, ज्ञानेश्वरीन कशीच सोडली ना. म्हूण ते म्हणतात,

ज्ञानेश्वरी आपणे करुंक ना, ज्ञानेश्वरानूच ती आपणा कडल्यान कोंकणी रसिक वाचप्यांखातीर करुन घेतल्या.

आमच्या देशांत सगळे ईशज्ञान, सगळी ब्रम्हविद्या संस्कृत भाशेंत बंदिस्त करुन दवरिल्ली. ताका लागून लोकांक ती जाणून घेवप भोव कठीण जाल्लें. हाजेर बंड केलें तें जैन आनी बुध्दमुनींनीं. संस्कृतातलें ज्ञान, तत्वज्ञान, अध्यात्म विचार ताणी लोकभाशेंत हाडलें. जैनमुनींनीं अर्धमागधींत आनी बुध्दान पालीभाशेंत. १३ व्या शतकांतल्या महाराश्ट्रातय अशीच परिस्थिती आशिल्ली म्हणून ज्ञानेश्वरांनी म्हळें,

मराठियेंचा नगरी   ब्रह्मविद्येचा सुकाळ करी

संस्कृत भाशेंतली ब्रम्हविद्या सगळ्या सामान्य लोकांमेरेन पावोवपाचें काम, आपूण सरसमान मराठी भाषिकांखातीर करतलों, हेच आस्थेन, हेच तळमळीन ताणीं हो ग्रंथ निर्मिला. त्या काळांत संस्कृत ही भाशा आसली आनी मराठी बोली आशिल्ली. ज्ञानेश्वरांक मराठीचो खूब अभिमान आशिल्लो आनी संस्कृत भाशेतली ब्रम्हविद्या, अध्यात्मज्ञान मराठीत सहजतेनं आनी सोपेरीतीनं आपुण हाडूंक शकतां असो अखंड आत्मविश्वासय तांचेकडेन आसलो. 'अमृताते ही पैजा जिंकी' असो तांचो भावार्थ आनी आत्मविश्वास आशिल्लो. घड्ये कोंकणीखातीर तूंफुडें चल म्हूण ताणी स्फूर्त दिली जांवये सुरेशबाबांक. तोय योगायोगच न्हय? या ह्रदयींचे त्या ह्रदयी घातलें काय? होय दिश्टावो आयज म्हज्या मनाक जाला. होय एक व्हडलो योगायोगच न्हय?



# प्रार्थनेचो खरो आरंभ

शाळेतल्या भुग्र्यांची ॲसेंबली सुरू जाली. भुर्गीं व्हडाव्हडान प्रार्थना करूंक लागली. माखना परमाण सगळें चलतालें. शेंकड्यांनी भुरगीं एका सुरांत प्रार्थना म्हण्टालीं. गंभीर सुरांचीं ल्हारां आंगावेल्यान गेल्लेवरी दिसले कानय सुखावले. खीणभर हांव थंयच उबें रावलें. कल्पनांची ल्हारां उप्रासलीं. हे सगळे आवाज एक जाल्यात खरे, पुण सगळ्यांची मनां एकाच भावनेन एकठ्यांय जाल्यात काय? प्रति एक भुग्र्यांच्या मनात तेच भक्ति भाव आसात काय?

भुरगीं प्रार्थना करतालीं -

असतो मा सद्गमय

तमसो मा जोतिर्गमय

आपली जीण शुध्द जांवची, आपणाल्या जीणेच्या मार्गावेलो काळोख ना जांवचो आनी तो मार्ग उजवाडान भरून वचचो, ही तांची तळमळ खऱ्यानीच उत्कट आसतली काय?

कांय भुरग्यांचीं मुखामळां मिस्किल हांसतालीं, कांय जाणा चुळबुळटालीं. कांय तोंडा निर्विकार कशी. प्रार्थना म्हणूंक जाय म्हूण म्हण्टालों माखनां कशीं. कांय जाणांचे चित्त जाग्यार आसलेशें दिसले ना. तांचे दोळे -मानो हांगा थंय घुंवताल्यो. कांय जाणा फकत तोंडा हालयताले. कितें म्हणटाले, देवाक खबर. होच तांचो भाव.

ज्या उजवाडाची-मांगल्याची तीं पोरां मागणी करतालीं, ताजो खऱ्यानीच समज आशिल्लो काय तांका? काय फकत कीर कशी अर्थहीण भावविरयत उतरां तीं भुरगीं गायतालीं?

म्हज्या भुरगेपणाचो उगडास जालो. घंटा जाताली, आनी आसा थंयसून धांव मारतालीं. आमी सगळ्यो इश्टिणी मेळून मायका सामखार येवन उबी रावतालीं एका वळींत. एकमेकांक धुकलीत धुकलीत हेर सगळीं भुरगीं इस्कॉलाच्या व्हडल्या हॉलांत वळींनी. एकठ्यांय उबीं रावतालीं. संगीताचे शिक्षक पेटी वाजोवंक

लाग. बटण दाबून माखन सुरू जाता तशीं आमी प्रार्थना म्हणूंक लागतालीं. व्हडल्या हॉलांत आवाज घुमतालो. ताजी ल्हारां परतीं कानार येतालीं. सुखदिणी आशिल्ली ती भावना. घडये म्हजे मीपण फुलून येतालें जावये. हांव कितें पुण करता ही जाणविकाय मनाक खोस दिताली जावये. म्हजो आवाज – म्हजो सूर म्हजेच आवाजाच्या मोगात पडिल्ले हांव तेन्ना. प्रार्थना म्हणटा आसतना आमची नदर एकमेकांचेर पडटाली. एकमेकांचेर लक्ष वचत उरतालें. मदीं मदींच हांसो येतालो. पुण प्रार्थना ? ताजो खरो अर्थ आमकां खंय कळटालो तेन्ना ? काळजांतलो भाव उतरांत देवतां न्हय ? पुण आमचे प्रार्थनेतलो भाव गीतांतल्यान खंय देंवतालो ? ती खरी प्रार्थना नाशिल्लीच, सामुदायिक प्रार्थनेतल्यान फकत समूहाची तांक जाणवता. समूहाचो एकवट जाणवता. पुण खरी प्रार्थना सुरू जाता ती एकट्याची आनी एकान्तातच. हाजो अणभव आतां ह्या पिरायेचेर, पावलां कणकणी हांव घेत आसा. अचकित आपणाले असहाय्यपणाची जाणीव जाता तेन्ना जाग येता, काळजांत कलकलिल्लेवरी जाता, आपणापरस खूब व्हडल्या प्रचंड, अप्रूप अशा तांकीचें अस्तित्व, सामखार दिसूंक लागता आनी नकळ्यां त्या तांकीक जेन्ना पुरायेन शरण वचचेशें दिसता. त्याच वेळार खऱ्या प्रार्थनेक आरंभ जाता अशें कोणे म्हळां. तोच द्रिश्टावो जांवक लागला. जो मेरेन शरणागतीची भावना उप्रासना तो मेरेन धडपड उरतलीच. तो मेरेन 'हांवुच' करपी. 'म्हज्याच' कर्तुपाचेर सादतालें सगळें. अशेंच दिसतलें न्हय ? ते 'मीपण' जेन्ना विरतलें तेन्नाच खरी प्रार्थना सुरू जातली हें व्हड मनशांनी सांगिल्लें सत् खिणाखिणाक पटूंक लागला. जांव खऱ्या प्रार्थनेक सुरूवात जाल्या. त्या मार्गार पावल पडलां हीय खोस थोडी न्हय न्ही ?



# तुमचें हें चुकीचें !

वारांदाचेर बशिल्लें. निकतेंच आयिल्लें म्हयन्याळें चाळटालें. एक आमचो इश्ट आयलो.सदांच हासत्या मुखाचो. उमेदीन जियेवपी. दुसऱ्यांकय उमेद दिवपी. खूब तेंपान ताका पळोवन खोस जाली. म्हयन्याळें सकल दवल्लें आनी ताका येवकार दिवपाक गेटीकडेन गेलें.

'' या या. जायत्या तेंपान आयले तुमी. सामके बिझी आसतात न्हय? आयज भेट जाली म्हूण बरें दिसलें.'' हांवें म्हळें

'' हय हय ! तुमची याद सदांच येता. पुण कामाक लागून मेळूंक पावना. आयज शनवार. मातसो निवांत मेळ्ळो म्हूण आयलो. मुजरत तुमकां मेळूंक. तुमचे वांगडा थोडे खीण घालोवपाक बरें दिसता.'' ताणी म्हळें, ''आमकांय बी. तुमचीं भुरगीं – बाळां बरीं आसात मूं?'' हांव विचारता थंय आसा.

ताणी आपणाली खंत उकतायली. भुर्ग्यांकडल्यान आपणाली कसलीच अपेक्षा ना. पुण दुख भोगता एके गजालीचें. जेन्ना ते म्हणटात ''तुमी चूक करतात. तुमचें हें चुकीचें. तुमी चुको केल्यात.'' त्या इश्टाचें तोंड निर्शेल्लें. म्हजेय मन हालले. म्हजे विचारचक्र सुरू जालें.

पोरां शिकून सवरून सुशिक्षित जातात खरीं, पुण खऱ्या अर्थान सुसंस्कृत जातात काय? दोन पिळगे मदलें हें अंतर आंसूये. घडये ते सभाविकच आसत. पुण तें इतलें खर आसचें?

राजा दशरथान तीन बायलो केल्यो. ताका लागून आकांताळो संघर्श जालो. म्हूण रामान ताका, तुवें ही चूक केली म्हूण आमकां हें भोगचें पडलें म्हूण सांगलें ना. पुण ही चूक आपणाले हातसून जावची न्हय म्हूण ताणे एक पत्नीव्रत आपणायलें. होच न्हय आमचो आदर्श? ह्या आदर्शाचें रूप काळापरमाण बदलतलेंच. पुण तो आदर्श साप्प लयाक वचूंक लागलो काय?

बापायन कशें जियेवंक जाय आसलें हें भुरगे थारांवक लागले? बापायची जीण बापुय जियेलो न्हय? भुर्ग्यांनीं कितें करचें, आपणाली जीण ताणी कशी जियेवपाची, ह्या गजालींचेर मातुय ब्र न काडपी बापायक, तागेल्या भुर्ग्याकडल्यान

अशीं उतरां आयकुचीं पडलीं? भुर्ग्यांची जीण ही तांची खाशेली जीण, निजाची जीण. ती तांका जाय तशी जियेवंक दिवंची, आपणेय सुखान रावपाचें, तांकाय सुखान जियवंक दिवपाचें, अशें व्हडा समजिकायेन जियेवपी ह्या बापायक, ताज्या भुर्ग्याकडल्यान हें नाकाशिल्लें आयकुचें पडलें? अशी ही नवी पिळगी सामकीच बेपर्वा आनी आपल्या वाट्याची. स्वार्थी कशी जांवक लागली?

दुसऱ्यांक जोखपाचो, Judge करपाचो, त्या भुर्ग्यांक कसलो अधिकार? बापायन कशें जियेवचें, कितें करूंक जाय आसलें, कितें करूं येतालें, कितें करपाचें, हें थारावपी ते भुरगे तरी कोण? दुसऱ्यांकडल्यान सतत अपेक्षा करीत रावणाऱ्याच्या भाग्यांत चड करून अपेक्षा भंगाचेच दुःख पडटलें न्हय?

बापायचो आतां परतीचो प्रवास सुरू जाला. जीणभर ताजे जें कितें करपाचें तें कर्तुत्व करू न जालां. घडये धरूया, ताणे जीणभर चुकोच केल्यात, पुण आतां ती चूक तुमी केल्या अशें बापायक सांगून, ती चूक सुधरूंक येता? घडपाचें घडून जालें, आतां ताजेर रडून कितें उपेग? उरफाटे ह्या खर उतरांनीं बापायचें मन दुखोवन, ताका नाकाशिल्लो मनस्ताप दिवन ही नवी पिळगी कितें सांगूक सोदता? बापायच्यो चूको नदरेंत येतकच, त्योच चुको आपणाल्या हातसून जांवच्यो न्हय म्हूण ताणी जतनाय घेवंक येता न्हय? ताजेखातीर नाकाशिल्ल्या उतरांनी आपणाली जीब भ्रश्ट करूंकच जाय? इतली बेपर्वा आसप फाव कशी? हेरांच्या भावनांची मातुय कदर करप ना? होच निरर्थक रंग येवंक लागला काय ह्या कालप्रवाहाक? आपलें तेंच खरें, बरें आनी तेंचफाव कशें, म्हणपाची ही वृत्ती बऱ्याची?फाव कशी? आपले परस चार पावसाळें बापायन अदिक पळयल्यात, आपणापरस ताजो अणभव मात तरी वयले पांवडेर आसतलो, तो एकतरी सपण, आपले पयस वयर चडलो आसतलो, हेंर मानूंक तो तयार ना? बापायच्या अणभवाचो, आपणाकुय कितेंय पुण लाव जांव येता, इतलीय समजिकाय ताणे दाखोवंक नज? आपणाल्याच पांयार फातर मारून घेवपाची ही तरा न्हय? खंयच्या आदाराचेर ते, हें करूंक पळयतात? तांच्या अहंकाराक लागूनच अशें घडटा काय? ताजें 'मी पण' च ताका नडटा जावये. ताका लागूनच अशेतरेच्या चिंतनाच्या जाळ्यात, ते घुस्पता आसतले. कितें बरें दिसता, कितेंफाव कशें तांका दिसता तें ताणीं आपणे पयली करून दाखोवप हेंच योग्य कशें न्हय? पुण घडये तशें आपणाले हातसून घडना म्हूण तर तांका हो न्यूनगंड जायना मूं?

कोणे म्हळां, ''आपणालीं भुरगीं आमकां खूबशें कितें शिकयतात. आमचे उणेपण दाखोवन दिवन तेच आमचे खूबफावटी शिक्षक जातात.'' हें कांय अंशान खरेंय आसत. पुण इतल्या तोंकावेली ताणी घेतिल्ली ही भूमिका कितें सादतली?

कोणे अशेंय म्हळां, '' कीं, पूताचे आनी बापायचें नातें '' मॅन टू मॅन'' अशेंच चडशें आसता. हेंय घडये सत आसूये, म्हूण ताणे बापायक सगळोच दोश दिवप योग्य? ताणे कितें तरी बरेंय केलें आसतलें न्हय? तेंय आपणांवक येता न्हय?

पूत म्हणटा तशें, ''शीणभर बापुय चुकलो, ताणे जीणभर चुकोच केल्यो'' अशेंय जरी खरें मानलें, तरी तें आतां सुधरूंक येतलें? जालें, गेलें तें फाटी पडलें. तें परतें येवंचे ना न्हय? बापायन चुकेर चुक्यो केल्यात म्हूण ताका वयलेवयर हिणसावन बेजार केलो म्हूण गेल्लो तो काळ परतो येवंचो ना न्हय? ताका लागून बापायच्यो चुको भरून येवं येतात? मागीर ताजेर चर्वीचर्वण करचे परस ताकाय क्षमा करपाची, आपणाली तांक वाढोवंक येता न्हय? पुण हाजी तरी अपेक्षा आमी ह्या नव्या पिळगेकडल्यान कित्याक करपाची? तांची जीण, तांका जाय तशी जियेवंक दिवपाची. नकार घंटा वाजोवपांतच जर तांका सुख दिसता तर ते तांका बाबड्यांक मेळोवनी. घडये तांचीफुडली पिळगी-तांचे भुर्गेतांका तांचीच ही उतरां आयकूंक दीत-तांका घडये जागयत, घडये तांका चिंतूक लावये.

आतां आमच्या सारकेल्या हातांत एकुच गजाल उरता-ती म्हळ्यार त्या भुर्ग्यांचे हे उतरांचे बाण, आपणाल्या मनाक लागून दिवप ना. इतली ही अप्रुप तांक हाडपाची ही एक साधनाच. तपश्चर्याच. यत्न करीत रावपाचें. भुर्ग्यांच्या ह्या उतरांनीं मनांत निर्शेवणीची ल्हारां उप्रासूंक दिनास्तना, जाता तितलें देवान आपणाल्या हातसून कितें घडयलें हाजी खोस घेवन, समाधानांत रावपाचें. हें समाधान वगडावपाची चूक, करी नासतनां...........



# हीच न्हय खरी साधना

एक पुस्तक चाळटालें. तांतली दोन वाक्यां वाचलीं.

"Good to Forgive"

Best to Forget

हीं उतरां वाचतकच मन हाललें. तरांकतरांची विचारांची ल्हारां उप्रासलीं.

कोणेय तिडक उक्तायली जाल्यार, त्या मनशाचो राग येवप हें सभाविकच न्हय? सोंसून घेवप हें कठीणच न्हय? तिडकेचो आपणाक त्रास जाता हे घडये आमकांय कळना. ताजो दुष्परिणाम जाताच. पुण ते तकलेंतल्यान काडूंक येता न्हय? तें झरयत झरयत दवरप, हाजोय आपल्याक त्रास जाता आनी ते आपणेच जावन त्या मनस्तापाक आमंत्रण दिवप हें फाव कशें जांव येता? आमच्या ह्या अनिष्ट संवयेन  आमी हें करता जावये. आनी म्हूण अणभवी विद्वान मनशांची ही समजिकायेचीं उतरां खूबशें कितें शिकोवन वतात.

आपणाल्या खर-वायट उतरांनीं हेरांक खुबळावपाचो यत्नय घडये कांय लोक करतात जावये. त्या खिणार आपली तकली तापली-तिडकली जाल्यार आपणाल्या विचारांची शेंडी, ताणी आपल्या कडल्यान जाय तशी हालयली हाजो तामसी आनंद ताज्या पदरांत पडटा न्हय? हाकाय आमी जापसालदार न्हय? ताज्या खर उतरांनी म्हजी तकली हांवें तापूंक दिवंक नाशिल्ली, जाल्यार खरेंच जैत म्हज्या पदरांत पडूं येताले न्हय? लोकां मनाभितर जें आसा तेंच भायर येतलें न्हय? तांच्या मनांतलें वीख, ओकल्याबगर तांका सुशेग मेळना जावये. हें खऱ्या अर्थान कळलें जाल्यार आपशींच मनशाचें मन वळूं येता न्हय? ताजेखातीर थोडो अभ्यास करचो पडटा न्हय? सतत मनाक शिकवचे पडटा न्हय?

क्षमाभाव मनात येवप हें सोपें न्हय? 'दया-क्षमा-शांती, तेथे देवाची वसती' अशें संतांनीं सांगलाच न्हय? दुसऱ्यांची दया येवप, ताणे वायट गजाल केल्यार ताका समजून घेवप हें खूब कठीण. समजिकायेन आमी ताजी साधना केल्यार आमच्या मनात हो विचार येवं येता. ही गजाल आमी वायट वांसानी

करतात हें त्या मनशांक कळिल्लें, जाल्यार घडये ते लोक हे करूंक पावतले अशेंय दिसना. तें नकळटा घडटा जावये. दुसऱ्यांची काकूट दिसप, दया दिसप हें सोपेंपणान जायना. जाचें मन संवेदनशील आसता, भावुक आसता, ताका हेरांची दया दिसता. जाचेकडेन खावपासारकें कायच नासता, ताका कितेंय तरी दिवन संतुश्ट जातना, तांका पळवन आपणे खोस घेवची ही वृत्ती. भावना मनशाकडेन आसत जाल्यारच न्हय हें घडटले? गेल्या जन्माची पुण्याय, आपलेच वांगडा तो घेवन आयला जायत तरच न्हय हें घडटा? ताज्या मनात मातुय सद्भावना नासत जाल्यार ती कशी वयर येतली? व्हडल्या काळजान हेरांक क्षमा करप, हाजेखातीर खूबशी समजिकाय येंवची पडटा. दुसऱ्यांक दुःख-त्रास दिवपाचो हेरांचो घड्ये स्वभावय नासत, पुण आपणाल्या रागाचेर नियंत्रण नासत जाल्यार हें घडूंक शकता. दुसऱ्यांचेर तिडकतच त्या मनशाक तरी शांती मेळू येता? दया-क्षमा हाजोय समजिकायेन अभ्यास करतकचच, मनशाच्या जीणेत शांती येवंक शकता न्हय? जेजूख्रिस्तान हेंच सांगला न्हय? आपुण वायट करतां हाजी जाणविकाय त्या मनशाक कळत जाल्यार ही करणी तो करचोच नाशिल्लो. ताका क्षमा कर.

हो क्षमाभाव सामको फाव करसो. राग-द्वेष ह्या षड्विकारांच्या विखयाळ्या दुःखाचो आपल्या मनाक त्रास करून, घेवपाबदला, तें मनातल्यान साप्प पुसून वडोवप, हेंच न्हय सगळ्या नदरेन फावच कशें?

खंयच्याय मनशांच्या उतरांक लागून, आपल्याक त्रास जाता तो कित्याक लागून? ताणे आपलो अपमान केला, म्हाका ताणे दुखयला-म्हज्या 'मी पणा' क आव्हान दिला, अशेंच दिसता न्हय मनशाक? उलथ्या घागरेय उदक पडलें जाल्यार तें व्हांवनूच वता न्हय? उदकाचो मातुय अंश उरना न्हय उलथ्या घागरेर? तशीच तांक आमचे मनाक मेळत जाल्यार, कोणाच्याय खर उतरांचो आपल्याक त्रास जायना.

ताणे आपणाल्या वायट उतरांनीं म्हजी विचारांची शेंडी हांव ताज्या हातांत दिवंक पावले ना, ताणे ताका जाय आसली तशी आपली शेंडी हालयली हाजें सात्त्विक समाधान मनशाच्या मनात पडू येता न्हय? ही सात्त्विक भावना येवपाखातीर, साधना करची पडटा हेंच न्हय खरेंच सत्य?



# मारवांचे सूर !!

पणजे वतालें. घोग्यांनी पावस. मार्गार पावलांकणकणी फोणकुलां. एका हातांत छत्री, दुसरे हातांत साडयेच्यो निऱ्यो, खांद्याक पर्स. शटल भरून सुट्टाली. ती मेळोवपाची म्हजी धडपड. धांवपळ. खीणभर म्हजेरच उबगलें हांव. कोणे सांगलां म्हाका अशें धडपडूंक? सुशेगाद टॅक्सीन वचूंक येतालें न्हय? पुण मदले वेळार टॅक्सी भरपाक खूब कळाव जाता. वेळेर पावचे ना रिकॉर्डींगाक. ते पयस शटलान सट् करून पावतात. जायते जाण सांगतात हें. ओगीच तिट्टी पयशे कित्याक मोडपाचे? बायलांचो जन्म न्हय? नाका थंय वांटपण!! चिंतता थंय आसा. शटल भरून सुटली. इतलें धांवधांव करून आयलें आनी जावपाचें जालें. आतां पयलीच तिकीट काडुया आनी सुशेगाद जावया म्हळें. तिकिट काडपाचे जनेलावटेन गेलें. ताका विचाल्लें,

आरे बाबा, केन्ना येतली दुसरी शटल?

''आगे राव गे मात्शी येवं दी तरी मगे दुसरी बस. आतांच गेल्या न्हय ही! ती येतकच काडपाची तिकीट. तुका खबर ना हें!'' म्हाकाय हो अणभव नवोच आसलो.

सगळे जाण शटलाची तोंड भरून तोखणाय करतात म्हूण म्हळें वचुया. थंयच्या लोकांची बेफिकीर-बेमुर्वत तरा/बेपर्वा पळवन ना म्हळ्यार तिडक माल्ली. पुण कितें करतलें?

तूं किस पेडका पत्ता गे! हेंच सुचोवपी तांच्यो नदरो-जाय जाल्यार राव क्यूंत! अपुर्बाय नाका. आमकां तुजें विचारपय नाका आनी आमकां जाप दिवपाकय वेळ ना. आमकां तूं धोंसू नाका. अशीच तांची नुरा.

नाय म्हळ्यार निर्शेवणी आयली. उबें लेगीत रांवचें न्हय थंय चलूंक लागचें अशें दिसलें. मनातले मनात खेपलें तांका हांवें इतले म्हणसर मायेमोगाचो स्वर कानार पडलो.

''कशीं आसात तुमी?'' वळून पळयत जाल्यार एक वळखीचो मनीस वास्तपूस्त करतालो. जाण्टो मनीस. ताजो प्रसन्न हांसो आनी शांत मुखामळ पळवन, मनावेले निर्शेवणीचे ल्हार आपशीच ना जालें. त्या मनशाक पळवन उमेद जाली. थंडसाणीन ताणे म्हळें, आत्तांच सुटली ती शटल भरून ताजे उतरांत कसलीच उबगण नासली. ताकाय ती चुकली न्हय? पुण हें सदचेंच. कितें घडटा तें शांत मनान आपणावपाचें-हीच ल्हारां ताजेकडल्यान आयलीं म्हजेमेरेन. म्हज्या संतापी सबावाची म्हजी म्हाकाच लज दिसली. हो मनीस पोरूं पयलेचफावटी पाविल्लो आमगेर. ताजी सद्भावनेची उतरां म्हजे तकलेंत उरिल्लीं. समाजाखातीर वावुरपी हो मनीस. म्हाका सांवरीत हांवें म्हळें,

''केन्ना आयले तुमी मुंबय सावन?''

कालच पावलो हांव हांगा. चवथीक म्हूण आयला. आता हांव पणजे चललों. एक पुस्तक छापपाचें आसा. आमचे संस्थेन तें काम म्हजेय सोंपयलां. सुरेशबाब कशें आसात? तांचे व्हडले काम चललां. तांची 'भगवद्गीता' कळपाक सामकी सोपी जाल्या.'भगवंतान गायिल्लें गीत' हें पुस्तकाचे शीर्शकय खूब मानवलें म्हाका.दिसपट्टी वाचतां हांव. तांची ज्ञानेश्वरी खंय पावल्या? आस्थेन ताणी एकाफाटल्यान एक प्रश्न विचाल्लें. प्रत्येक उतरांत खूब आस्थ जाणवली. हेरांखातीर वावर करपांत धन्यताय मानपी हो मनीस, ह्या पिरायेचेर लेगीत सात्विक समाधानान आनी व्हडा उमेदीन घेत घेत असो धडपडलो आनी हांव म्हज्या स्वार्थाखातीरच वतालें आनी तरूय उबगतालें. मनशाच्या काळजांतली सद्भावना, मुखामळार पडबींबाच्या रूपान उदेली जातली. ताजे दोळे लेगीत मायेन भरील्लें कशे.ताणे सट् करून विचाल्लें.

तुजें शिक्षण मुंबयच जाल्लें न्हय? तूंय विलसन कॉलेजीची विद्यार्थिनी न्हय? हांवुय थंयच शिकलों. थंय एक हुशार प्राध्यापिका आसली-गणित शिकोवपी. आयकलां नांव तुवें, तिजें?

हय,हय! परी दिसताली ती. आनी हुशार बायल म्हूण आयकल्लें हांवें. तिजें उलोवपय सामकें नमळायेचें. खूब इनामां मेळिल्ली तिका म्हूण वाचिल्लें

त्यावेळार. घट याद आसा म्हाका. आतां ती रिटारर्ड जाल्ली आसतली. खंय आसता ती? हांवें विचाल्लें.

ताणी म्हळें,

आगो, तीच खबर सांगूक सोदतालो हांव. आमी दोगांय एकाच क्लासांत शिकतालीं. तिका कँसर जाला म्हूण हालींच कळ्ळें. म्हूण मुजरत तिका मेळूंक गेलो. म्हाका पळवन ती खूब खोशी जाली. प्रसन्नतायेन उलयताली. आपणाले दुयेंसाचो मातपसून उल्लेख तिणे केलो ना. कॉलेजीतल्या म्होवाळ यादींनीं पोटभर गजाली केल्यो. ती भुर्गेपणांत कारवारा शिकिल्ली. हांव तें जाणा आसलों. त्योय म्होवाळ यादी सांगून ती आनंदित जाली. तिका संगीताची भोव आवड आसली. जायतेफावटी तिणे गॅदरींगात हेर कार्यावळींत पदां म्हणिल्लीं. संगीताच्यो कार्यावळींय तिणे आयोजित केल्ल्यो. तिका खोस जांवची म्हूण एक मारवा रागाची एक कॅसेट आनी हालींच उजवाडा आयिल्लें 'कारवारा गांवचो इतिहास' पुस्तक घेवन हांव तिगेर गेलो. म्हाका पळवन तें खोशी जालें. पुण ताजें मुखामळ काळवंडील्लें -ताजे दिसपय दुसरेच भाशेनचे जाल्लें, पुण ताजे हांसप मात पयली भाशेनचेच आसलें. दोनुय वस्तू तिजे हातांत दिल्यो. तिणे बारीक साणीन पळयलें आनी म्हळें,

आरे श्रीपाद, देव बरें करूं हां तुका! कशी कळ्ळी रे म्हजी आवड तुका? मारवा राग तर म्हजे सामको आवडीचो. कारवार तर म्हजें कुळार! वा! वा! वा! तीनफावटी तिणे खोशयेन म्हळें. तिजें तोंडावेली खोस पळवन म्हाकाय खोस जाली. हांव तिजो निरोप घेवन परतलों. पावलां जड जाल्लीं.

आठ दिसांनीच तिजे मर्णाची खबर वाचली. जाण्टेल्याचो ताळो सरांटलो. ताणीं म्हळें,

निमणे मेरेनचें तिजें हांसकुरें, आनी खोसभरीत मुखामळच दोळेमुखार येत रावलें. तिजें दोळे सांगतालें,

श्रीपाद, तुवें दिल्ल्या मारवा रागाच्या विश्वांत हांव उफेंत आसा. विरहाची सुरां ल्हारां म्हजे काळजामेरेन पावल्यात.



# काय वेंग सदळ करपाची?

एक दीस अहमदनगरच्या आमच्या एका इश्टाचो फोन आयलो. आपुण आमच्या कॉलेजींत 'ज्ञानेश्वरीचेर' एक परिसंवाद दवरूंक सोदतां. कॉलेजीच्या भुग्यांक एक बरी संद मेळटली. फुडल्या म्हयन्यांत तुमकां खंयचो दीसफाव जाता तें कळय. दोन -तीन दीस आमगेर रांवकच जाय त्यावेळार. ताणे कांळजाथावन आमकां आग्रो केलो.

ज्ञानेश्वरीच्या प्रकाशना उपरान्त आमी आमकां आळंदी–नेवासाक वचपाचीच आसलीं. आमी ताका दीस कळयलो. आनी आमी अहमदनगराक पावली.

कॉलेजातली कार्यावळ बरी जाली. बरे बरे साहित्यिक मेळ्ळे. तांका मेळून आमकां खूब खोस जाली. दोन दीस ताजे वांगडा रावलीं. ताज्या मोगाळ सहवासांत मन प्रफुल्लित जालें. तो इश्ट मुजरत अहमदनगर स्टेशनाचेर पावोंक आयलो. निरोप घेतास्तना ताजे दोळे भरील्लें. गोंय वचपी गाडी तीन लेट आसा म्हूण कळ्ळें. आमी प्लॅटफॉर्माचेरच पासयो मारूंक लागलीं. मातशें रावन हांव एका बांकार बसलें. लागींच एक म्हातारी, इंगळ्यांचेर कणसां भाजताली. तिजे गळ्याच्यो, हाताच्यो काती लोंबताल्यो. दोळे सामके जीव नाशिल्लेवरी. खूबच थकिल्लेवरी दिसताली ती. तरूय उमेदीन ती कणसां भाजताली. भाजतासतना ती कितेंय पुण येवजताली जावये. भुरगीं–बाळां नासली काय हे जाण्टेलेक? इतले उतार पिरायेचेर लेगीत हो वावर तिका करचो पडटा? कोणाचोच आदार नासलो काय तिका? तिका पळोवन काकूट दिसली. तरेक तरांचे विचार येताले मनात. तिजी नदर म्हजेर पडली. भाजिल्लें एक कणस घेवन ती म्हजेसरी आयली. आनी तिणे म्हळें:

बाय, बरें अरळ आसा हें कणस ! चुरचुरीत भाजलां. घे. हांवें म्हजी पर्स उकती केली. ती म्हजेकडेन बारीकसाणीन पळोवं लागली. तिणे म्हळें,

बाय, तूं म्हाका धूव कशी दिसली म्हाका. धुवेकडल्यान पयशें घेवपाचे आवयन? तिजे दोळे भरील्ले. तिणे म्हजे पायांकडे बसकण मार्ली. आनी पदरान दोळे पुसूंक लागली. ती उलोवंक लागली.

बाय, कितें सांगू कर्मभोग म्हजो? सामको विरार कसो जाला जीव म्हजो. म्हज्या घरकारान उमळशिकेन सांगिल्लें म्हाका, म्हजेफाटल्यान घे येदोसो जमनीचो कुडको तुजोच तो. सारको कस. ताजेरच आमचे पोट. ताजी सारकी मशागत कर. तुका कायच उणे पडचे ना. हांवुय मेळटलीं तुका सदींच तांतूल्यान.

हांवुय हटानच उरलें हांगा, जमनीच्या कुडक्याक घट धरचे परस, भुर्ग्यांनी आपणागेर यो म्हूण खूब आग्रो केलो म्हाका. पुण घरकाराचे अर्दवट उरिल्लें सपन म्हाकाच पुराय करूंक जाय आसलें न्हय? कोण करतलो आसलो हें म्हजेबगर? भुरग्यांकय खूब वायट दिसलें, म्हज्या हटाफुडें तेवूय निर्शेले. सुनांनी घडये निश्वास सोडले जावये.

भुरग्यांक सोडून हांव कशीत उरलें ही जमीन. पुण ही जीण सामकी एकली एक सुरी जाल्या. एकसुऱ्या मनाक व्हडल्यो वेरो पडत गेल्यात. सुर्वेक नातरां प्रतिएक सुटयेंत येवन मेळटालीं, रावतालीं. तांची माया उमळशीक पळोवन म्हजे मन फुलतालें. पुण ल्हव ल्हव तांचेर येवप उणे जायत गेलें. सुनो-पूत नातरां आयलीं काय घरा दिवाळी जाल्लेवरी खोस मेळप. पुण आतां घडना म्हूण मन खंती जाता. पुण कोणाकडेन उलोवन दाखयतली हांव हें म्हज्या काळजांतलें दुःख? नात्यातली उबसाण ल्हव ल्हव ना जायत चलल्या. भुरगीं वयले चाराची जायत गेल्यात. मोग, आपलेपण, माया ह्या सगळ्या गजालींची बेपर्वा जाल्या तांका. ती आपल्याच वाद्याची जाल्यात.

जीव तोडून कश्ट करून थकिल्ल्या जाण्टेलेक आतां जायजायसो दिसत चलला आधार या भुरग्यांचो, नातरां ती बाबडी आतुरतायेन, उमळशीकेन तांची वाट पळयत रावल्या खरी पुण आतां भुरग्यांक म्हातारेविणे रावपाची संवय जाल्या. तीं आपणाल्या घरट्यांत गुल्ल जाल्यांत हाजीय तिका जाणीव जाल्या आसतलीच. ओघ असोचफुडें वचत रावतलो न्हय? तो फाटल्यान वळून पळोवचो ना हेंच न्हय तें विदारक सत्य? म्हातारी, निमणे आवय-मनीसच न्हय?

काळजांतली माया-वात्सल्य आफयत उरतलेंच न्हय पोटच्या भुरग्यांक? नाळीचे नातें तुटून तुटना न्हय? म्हूण बाबडी घुसपत उल्ली जावये ह्या मायाजाळांत. आपणे जावन ह्या संसार-मायेच्या खांबाक वेंगायलें न्हय तिणें? म्हूण न्हय तिजें मन अस्वस्थ जालां? खांबाक तिणे मारील्ली वेंग तिज्यान सदळ करूं येत? तिणेंच निर्णय घेंवचो पडटलो हें जरी खरें आसलें तरी ते बाबडे खातीर हांव कांयच करूंक पाव ना हाजी हुरहुर मनाक लागून उल्ली.



# "बाय, ओंवी जियेवंक शीक !"

म्हज्या घोवाच्या, सुरेशबाबांच्या कोंकणी ज्ञानेश्वरीच्या पुस्तकाचे उकतावण जाले उपरान्त आमी आळंदीक वचपाचो बेत केलो. बसीन आळंदीक वतालीं. वाटेरच बस मोडली. ड्रायव्हरान म्हळें,

''ही बस सारकी जावपाक ४-५ वरां तरी लागतली. हिजो फॅन बेल्ट मोडला.'' ताजी ही उतरां आयकतच, एकेक करीत आमी सगळे यात्री सकला देंवले. त्रास घेतलेबगर सोंपेपणान देवदर्शन जायना जायत. मनाक समजायलें. धा-बारा किलोमीटराचेर आळंदी. घडये सट् करून रिक्षा जांव टॅक्सी मेळत म्हूण आमी रस्त्यारच रावली. एक व्हडली रिक्षा आमचे दिखेन येवंक लागली. आमी हात केलो. ती रावली.

''बाबा, आळंदीक व्हरता आमकां तूं?'' हांवे रिक्षावाल्याक विचाल्लें.

''हय हय बसा.'' ताणे म्हळें. आमी भितर सरता थंयच आसात दोन बायलो धांवत आयल्यो.

''आमी थारायल्या ही रिक्षा पयली'' एके अस्तुरीन म्हळें. ४-५ लोकांक बसपा सारकीच रिक्षा आसली.

चला, देवानच धाडल्या ही आमकां चौंगायखातीर ! ते मदले एके अस्तुरीन समजिकायेन म्हळें. ती अस्तुरी शांतपणान, मुमुरखीशी हांसली. तिजे नदरेन खूबशें कितें सुचयलें म्हाका. . आमी सगळीं रिक्षेंत बसली.

घोवाच्या हातातली ज्ञानेश्वरी पळयत ते अस्तुरीन म्हळें, ही ज्ञानेश्वरी खंय घेतली तुमी? तुमी आतां आळंदीक चलले न्हय?

ही ज्ञानेश्वरी ह्याच मनशान केल्या. घोवाकडे हात दाखयत हावें म्हळें.

तिणें अजाप उकतायत म्हळें,कितें ह्या मनशान केल्या ही ज्ञानेश्वरी? इतले म्हणून तिणे वाकून घोवाच्या पायाक हात लावन नमस्कार केलो. दुसरे अस्तुरीनय तशेंच केलें.

तुमी खंयच्या भाशेंत केल्या ही ज्ञानेश्वरी? तिणें घोवाक विचाल्लें.

''आमची आवय भास कोंकणी. तांतूतच केल्या ती हांवें! देवानुच म्हजेकडल्यान करून घेतल्या.'' घोवान म्हळें,

तिणे म्हळें, ''आठवला हरी,साठवला पोथी'–नामदेवाची ही ओवी तुमी सार्थ केली म्हणपाची.'' तिजी ही भावपूर्ण उतरां आयकून म्हाका धक्कोच बशिल्लेवरी जालें. तांच्या न्हेसपावेल्यान हांव समजल्लें, ह्यो अस्तुरी सामक्यो अशिक्षित आनी गांवगिऱ्यो कश्यो. हांका आनी कितें कळटलें ज्ञानेश्वरी संबधी! पुण तीच खरेपणान ओवी जियेता आसतलीं.

हांव धरून आसलें अनवळखी मनशाचे पाय? इतलें भावीकपण म्हजेकडेन आसूंक नाका? खरेपणानच त्या अस्तुरींचे उलोवप – बोलप सामकें नमळायेन भरील्लें. ताका मातुय अहंकाराचो आफुडय नासलो. भावीकपणच मनशाचो अहंकार ना नपश्चात करता जावये. म्हणूनच अशी अप्रुप नमळाय तांचे वांट्याक आयली जावये.

पुण हांव मात मीपणात साप्प बुडबुडील्लें. त्याच खिणाक म्हजे मन हाललें. म्हजेमुखार सगळो संवसार भिसक्यार मारपासारको – हांवुच सर्वगुण संपन्न हीच न्हय म्हज्या काळजातली भावना?

घडये ताकाच लागून म्हज्या जिणेची दुसरीच तरा जाली जावये. भावीकपण लागसार येवंक पावले ना. अशा मनशाची बॉडी लँगवेजय खेरीतच जाता जावये. ताजे उलोवप, बोलप, दिसप – चलप लेगीत नॉर्मलशें जाय नासतलें. ताका पळवणाऱ्या परस ताजो ताकाच भितल्ल्यान घुसमटमार जाता आसतलो. म्हणूनच काय तें लिपोवपाखातीर तो फटीचो मुखवटो घालपाकफुडें सरता? आपुणच आपणाक तज्ज्ञ –विद्वान समजुपी मनशाची अशीच गत जाता काय?

पुण ह्या अस्तुरींनी १० मिनटांच्या सहवासांत म्हाका सादूर केलें–

बाय, ओवी वाचली म्हूण ज्ञानेश्वरी कळटाच अशें ना. आनी ती समजलीच म्हूण वळटा अशेंय ना. ती ओवी तूं जियेवंक शीक. आपशींच तुज्या पदरांत ब्रम्हानंद पडटलो. तो सोदूंक वचचे पडचें ना तुका!



# “पणज्यान इतली जमीन कित्याक दिली?”

हांव बरोवंक बशिल्लें वारांदाचेर. इतले म्हणसर व्हडलो नातू म्हऱ्यान आयलो आनी विचारूंक लागलो,

आगे, आज्ञे, आमच्या पणज्यान, येदी व्हडली सगळी जमीन, जी. एस्. आमोणकर विद्या मंदीराक कित्याक दिली? अर्द आमकां दिवंक येताली न्हय? अचकित ताजो हो प्रस्न आयकून, नाय म्हळ्यार हांवुय गडबडलें. पूण ताज्या मनातलो हो दुबाव पयस करपाचो अशें म्हाका दिसलें. हांवें ताका म्हळें,

आरे बाबा बस म्हजे म्हऱ्यान. हांवें हातांतलें पेन कागद पयस दवल्लो. घडये वांगडचे भुर्गेय खेळूंक बी मेळना म्हूण घडये ताकाय हो प्रस्न पडला जावये. अर्द इस्कोलाक, अर्द खेळाच्या मैदानाक. जर जमीन दिल्ली जाल्यार चड बरें जातलें आसलें अशें घडये ताणी येवजिल्लें जाय. हांवें म्हळें,

पळय बाबा, हांवें चॉकलेटी हाडल्यो काय हांव कोणाक दितां? तुमकां दितां. म्हज्याच नातरांक दितां. शेजरांच्या नातरांक दिना न्हय हांव? आइस्क्रीम हाडलें काय, तूं ते मायेन म्हाका दितां, तुज्या आज्ञेक दिता. शेजाऱ्यांच्या आजेक दिना न्हय? म्हळ्यार तुजें आनी म्हजे विश्व तुजेकडल्यान म्हजेकडेन आनी म्हजेकडल्यान तुजेकडेन. हें आमचें सर्कल एदें ल्हान आनी सुपुल्लेंच. आमी ह्याच वर्तुळांत घुंवत रावतात. हांव-म्हजें-म्हाका हेंच आमचें विश्व. पुण तुज्या पणज्याचें विश्व खूब विशाळ आनी व्हडलें आसलें. तें आमचे भाशेन कुटुंबापुरतेंच उल्लें ना. तें समाजामेरेन पाविल्लें. समाजांतली, म्हापशा गांवची सगळीं भुरगीं तांका आपणाली दिसतालीं आनी म्हणून तांका बरें शिक्षण मेळपाची संद दिवप आनी तांची सगळ्या आंगांनी उदरगत जाल्ली पळवप; गांवफुडें काडप ही तांची तळमळ आसली. होच तांचो ध्यास जाल्लो. गांवचे भुरगे बरे तरेचे शिक्षण घेवंक पावल्यार तांका बरे भाशेन मानाचे पान मेळोवंक स्फूर्त मेळटली अशें तांचे सपन आसलें. ही तांची अखंड श्रध्दा आसली. आनी हे घडपाक, आपणे फुडें सरून कितेंय पुण करूंक जाय अशी तांची उमळशीक आसली.

समाजांतली सगळीं भुरगीं ही आपलीच नातरां अशें तांका दिसताले हीच तांची व्हडली सद्भावना. आनी म्हूण सत्तर वरसां पयली ताणीं ही संस्था उबारली. त्या तेंपार म्हणपासारकी शिक्षणाची वेवस्था नासली. म्हूण ही गरजेची गजाल ताणी केली. आयज कित्येक वरसां समाजांतली हजारांनी भुरगीं ह्या संस्थेत शिकून भायर सरलीं. आनी ती संसारभर पाताळ्ळ्यांत. जायते जाण मानाचे पान घेवन जियेतात. त्या विद्यार्थ्यांभितर कांय मंत्री जाल्यात, मुख्यमंत्री जाल्यात. नवे गोंय घडोवपांत ते व्हड वांटेकरी जाल्यात. तुज्या पणज्याची नदर खूब व्हडली आनी खूब उंचेल्या पांवड्यावेली आसली. म्हूण हें तांचेकडल्यान बरें काम जालें.

दुसरी गजाल म्हळ्यार ताणीं त्या तेंपार भोंवकश्ट करून जोड जोडली. ती तांची जोड ताणीं कशी मोडची हें ताणींच थारावपाचे न्हय? तांकाफाव कशें दिसलें तशें ताणीं केलें. ती तांची जोड कशी मोडची हें थारावपाचो आमकां कसलोच अधिकार ना. तशी अपेक्षा करप लेगीतफाव कशें न्हय.

तिसरी गजाल, घडये तूं शिकून संवरून जोडूंक लागलो काय, पणज्या परसय दस पटीन जोडशीत आनी तांचे परसय दसपटीन समाजाखातीर दिशीत. हें तुजें बरें कर्तृप पळोवन तुज्या पणज्याच्या आत्म्याकय खूब्ब धादोसकाय भोगत. आपणालें अप्रुप दायज तुवें फुडें चलयलें म्हूण. प्रसन्न जातलें तांचे मन.

हरशीं, कितेंय सांगतकच नातरांचे प्रस्न–भासाभास चालू जाता. ताचे आनी म्हजे मदीं जुगलबंदी चालूच आसता. हांवुय त्या खेळांत खूब रमतां. तांचेकडल्यान जायते शिकूंक मेळटा आनी म्हजे मनय तांचेच पिरायेचे जाता. गेल्लें भुरगेपण परते जियेवंक लागता. पुण आयज म्हजो नातू ओग्गी रावलो. ताजे समाधान जालें काय ना खबर ना. ताजो दुबाव पुरायेन पयस जालो काय ना हाजीय कल्पना ना. पुण तो ओग्गी रावन कितेंय पुण चितूंक लागलो म्हणपाचे ताजे नुरेवयल्यान जाणवलें. ताजें काळजांत संतोशयकायेची ल्हारां उदेलीं जाल्यार हांव म्हजें म्हाकाच भाग्यवान समजन आनी म्हजो ताजे सांगातीक जाल्लो बौध्दिक प्रवास सफळ जालो अशें हांव मानीन.





# जांव येत काळीज म्हजें, तिजे भाशेनचे?

सकाळचे पारार आमचे बीली-माजर म्यांव म्यांव करूंक लागले, काय समजूपाचे आमची नुस्तेकान्न येवंक लागल्या जातली? नुस्त्याचो परमळ ताका पयलो येता जातलो. घडये नुस्त्याचो वास ताज्या पोटांत क्यांव जाता आसतले. नुस्त्याबगर आनी कायच खायना तें. नुस्तेकान्न येवंक लागल्या, म्हज्यान आतां कशेंच राव नज हाजीच सुचोवणी तें दिता आसतलें. नुस्त्याचोच न्हय ताजो पिंड? आतां जाय तें खांवक मेळटलें ह्याच आशेन ते म्यांव म्यांव करता जातले म्हजे नातू तर ताची खूब्ब अपुरबाय करतात. बिली बांगडे खायना, शेश्ट्यो खायना म्हूण मुजरत ते बाजारांत वचून ताल्ले-वेल्ल्यो घेवन येतात.

''जांव, ताजो जन्म जर म्हाका मेळिल्लो जाल्यार म्हज्या नातवांकडल्यान ही अप्रुप अर्थ अपुर्बाय करून घेवपाची संद म्हाकाय मेळटली आसली रे बाबा'' अशी फकाणा हांव नातवावांगडा करीत आसता. हांव हांसता आनी तेय हांसतात.

नुस्तेकान्न दारामुखार दत्त म्हूण उबी जाली. ''आगे, तुजी सदाच वाट पळयता गे हें आमचे बिली'' हांवे नुस्तेकान्नीक म्हळें.

''हय बाय, मोनजातच खरी. हेरान इल्ली लेगीत माया करीत जाल्यार उपकार मानपी. हांव ताजेखातीर कितें करता? चार ताल्ले घालता ताका तेय बी आसल्यार दिवं ना दिवंक ते मोगाळ येवकार दीत आसता म्हजो उगडास काडटा. मनीस हे करता? विचार करपी जीव म्हणटात न्हय ताका? मागीर दुसरो ताजे खातीर जायते करता तरी तो तें कित्याक मानून घेना? आपणाचेर उपकार करपी मनशांचो ताका उगडासय कित्याक येना? मनीस खऱ्यानीच बेईमान न्हय? आवय मरमर मरता न्हय आपणाल्या पोटच्या पोराखातीर? पुण ताका ताजें भान आसता? सगळेंच कशें विसरायेर घालता तो? आवयन कितें करचें, हेरांनी कशें चलचे हें तो अचळय थारायता, पुण हेरांखातीर हांवें कितें करपाचें,

हें तो मातुय येवजिना. मातपसून चिंतीना. हेरांकडल्यान ताज्यो अपेक्षाच अपेक्षा. अपेक्षांच्या राशीर रावन हुयेली मारता.''तिणे बाबडेन आपणाली खंत उकतायली.

म्हज्या मनाचे चक्र घुवंक लागलें. माजराची वृत्ती स्वार्थी दिसली म्हाका. पुण ते नुस्तेकान्नीक ताजी कृतज्ञता दिसली. ताजें उपकार मानपी व्हड मन दिसलें. जशें अंतरंग तशेंच बाह्यरंग दिसता काय मनशाक? जशी दृश्टी तशी सृश्टी म्हण्टात न्हय? ही म्हणणी साप्प लटीक न्हय तर. ज्या रंगाचें वक्ल लांवचे त्याच रंगाचो संवसार दिसतलो न्हय? म्हज्या स्वार्थी नदरेक माजराचें म्यांव म्यांव लेगीत स्वार्थी दिसलें. म्हजे भितल्ले स्वार्थीपण जागें जालें काय? नाजाल्यार नुस्तेकान्नी भाशेन म्हाकाय जांव येतालें न्हय दर्शन माजराच्या व्हडपणाचें? ताकाय व्हडलें काळीज आसचे पडटा जावये. हेराचे व्हडपण समजुपाइतलो व्हडपणाचो अंश तरी आपले भितर आसचो पडटा न्हय?

नाय म्हळ्यार, म्हजी म्हाकाच लजशी जाली. नुस्तेकान्नीचे काळीज खऱ्यानीच उंचेल्या पांवड्यावेले.

जावयेत काळीज म्हजे तिजेभाशेनचे?



# काळखाक श्राप दिवंचें बदला वात लावपाची!

हांव एके सभेक गेल्लें.

''टिचर कशी आसा तूं?'' एके म्हजे विद्यार्थिनीन म्हाका हटकिलें. सदांच हांसतें मुखामळाचें चली तें. पुण आयज सदचे भाशेन तें उमेदी दिसलें ना. मातशें त्रस्तचशें दिसलें. ताणें सट् करून म्हळें,

''टिचर, मनीस असो विचित्रपणान कित्याक वागता गे? उमळशीकेन केल्ल्या बऱ्या गजालींचो लेगीत असो उरफाटो अर्थ जांव विपर्यास कित्याक करता? आयज म्हजी तकली सामकी बेजार जाल्या. नाका आसतना म्हज्या भावजेन, आयज म्हजेर व्हडलें लचांड घालां. सोंसूकच नज जालां हें म्हज्यान. ते तरणाठे चली भडभड करून उलयतालें. आपणालो संताप ताणे उकतो केलो. खूबच मनस्ताप ताका जाला म्हणपाचें ताजें बाविल्लें मुखामळ सांगतालें. पोराची काकूट दिसली.

''बाये, कितें जालां गो अशें?''आपणालें मन तरी मेकळे करूंनी ताका, म्हूण हांवें ताका विचारलें.

टिचर, म्हजी भावज बाळंत जाल्या. तिका चली जाली म्हूण म्हाका खूब खोस जाली. म्हाका दोनूय चले. चलयेची म्हाका उमेद आसली, पुण म्हाका तेंफाव जाले ना, पुण म्हज्या भावाच्या वांट्याक तरी हे भाग्य आयलें म्हूण हांव नकळ्यां भुरकुटलें. हांवें बेगीबेगीन वचून बर्फी हाडली आनी हॉस्पिटलांतल्या लोकांक वांटली. आनी भावजेक कितें जेवंक हाडूं विचारून घरा गेलें आनी सगळें करून हाडलें हें करपांत म्हाका खूब उमेद आनी खोस मेळ्ळी. तिने विचारील्ल्या प्रस्नाक लागून म्हज्या त्या खोशयेर विरजण पडलें.

आईन विचारलें,''आगो, कित्याक नाका आसतना त्रास केलो गो तुवें तुज्या भावजेक? आपल्याक चली जाल्या म्हूण तुवें सामकी चड खोस मनयली, आपणाले मोटारीचो झेत दाखयत यो वच केलें, नाचलें, असो शीण कडलो मगो

तिणें. म्हज्या दुःखार ताणे मीठ चोळलें अशें म्हळें मगो सुनेन म्हज्या. कित्याक केलें तुवें हें सगळें?'' तिज्या त्या उतरांनीं म्हजे मन सामकें अखिन्न जालें. दुखोवपाचो मातुय हेतू नासतना म्हजेर हें लचांड आयलें म्हूण मन बेचैन जालें. आईक समजावचें म्हूण हांवें म्हळें,

आगे आई. म्हाका खूब खोस जाली. ती आपशीच उकती जाली. म्हजे म्हाका लेगीत तें कळ्ळें ना. हांवें तिका त्रास करचो म्हूण कसलीच कृती करूंक ना. पूण तिका हें अशें विपरीत कित्याक दिसलें हेंय कळना जालां म्हाका. घड्ये तिका चलोच जाय आशिल्लो जावये. पुण चली जाली म्हूण दुःख मानपाचे? जायत्या तेपान देवान भुर्गे दिलां हाजीर खोस मनवपाची ना? आनी हेरांची उमेद, खोस, ही झेंतच दाखोवपी अशें समजपफाव कशें? त्या चलयेचों गळो भरून आयलो. आपल्या उमेदीक लागून हेरांक नाका आसतना त्रास जालो हाजेंर पोराक चड दुःख जाले जावये. ताका समजावपाचो यत्न करचो म्हूण हांवें ताका म्हळें,

बाय, एक गजाल हांवें वाचिल्ली. ती तुका सांगूक सोदतां. जाय ते लोक आसतात. ते जेन्ना गुलाबांच्या बागेंत वतात, तेन्ना गुलाबांक पळोवन खोस घेवंचे सुवातीर गुलाबाचे कांटे मेजूंक लागतात. रंगयाळ्या गुलाबांच्या दर्शनान तांका खोंस मेळना. तांका दिसतात फकत कांटे आनी ते कांटे मेजनासतना तांची बोटां रक्त बंबाळ जातात. तांका खूब दुख जाता. हें पळवन तांका सोनकटो मारता, तिडक येता आनी ते रागान - संतापान गुलाबांकडे पळोवंक लागतात. ती तांची नदर भयांकुळ जाता. गुलाबांच्या सोबीत कोराचो, तांच्या परमळाचो आस्वाद घेवपाची वानसा लेगीत तांका जायना. तिडकीन तांका चारूय वटानी रेवडायल्लें आसता. ह्या सगळ्या मनस्तापाक आपुणच जावन ते लोक आफोवणे दितात न्हय? हीच देख न्हय तुज्या भावजेक लागू पडटा? तिका तुजो बरो हेतू दिश्टीच पडलो ना. दिसलो फक्त नाकांशिल्लो विपर्यास. मनशान ह्या निरर्थक गजालींकडेन लक्ष दिवंकफाव ना. सोबीत गुलाबांकडेन पळय नासतना, कांटे मेजप, आनी आपुण जावन आपणाक त्रास करून घेवप हेंच न्हय तें न्हयकारी कर्तृप?फुलिल्ल्या फुलांचेर नदर पडटकच मनशाचें गिअर बदलता. मनाकडल्यान

काळजामेरेन, धूर्तपणाकडल्यान निश्पापपणाकडेन, न्हयकाराकडल्यान हयकाराकडेन. तेन्नाच न्हय जीण जाता एक सुरेल, सांसणाचें गीत?

जीण एक मिस्टरी. रहस्यमय घडणूक. एक चमत्कार. ती एक अप्रुप तांक म्हूण जियेवपाची. ती प्रोब्लेम–समस्या सोडेवपाची गजाल, ही भावनाच मनातल्यान काडूनच वडवपाची. तरच आमची वाटचाल आनंदाच्या वाटेर जांव येता न्हय?

एका १०० वरसां जाल्ल्या जाण्ट्याक विचाल्लें, तूं सदांच हांसते मुखाचो. तूं सदांच खोशयेंत आसता हाजें गुपीत कितें? ताणें म्हळें, सदचे सकाळी उठनाफुडें म्हजे मुखार दोन पर्याय आसतात. खोशी आसप वा दुःखी आसप. दुःखी आसपा परस खोशी रावप होच पर्याय हांव आपणायता.

''टिचर, त्या जाण्टेल्याचीच उतरां खरी गे.'' खोशयेचोच मार्ग आपणावपाचो. मुमुरख्यान ताणें म्हळें.

काळखाक श्राप दिवंचे परस वात लावपाची हेंच खरें न्हय? हांवेय ताची री ओडली.



# "मेळ्ळी नवी नदर!"

टि.व्ही चेर कार्यावळ पळयतालें. आपणाल्या इस्कॉलातल्या दिसांच्यो यादी तो बरो करून सांगतालो. म्हाकाय म्हज्या कॉलेजांतल्या दिसांची याद जाली. एक म्हजी इश्टीण आनी हांव हॉस्टेलांत एकाच रूमात रावतालीं. तें चली सदांच पिरंगुपी. सकाळी सावन ताज्यो तक्रारी. नानाकाराची घंटा आयकून म्हजेंय मन निर्शेल्लेवरी जाई. ताचो हे निर्शेवणीचो वसो हेरांकय मेळटालो जावये. केन्नाच ताणे हेरांबद्दल बरीं उतरां सांगल्या, हें आयकूंकच मेळनासलें.

हांवें एकदां म्हणिल्लें, 'आगो, अरूणा,आमची वर्गमैत्रिण, ताचें अक्षर सुंदर मोतयाळें आसा न्हय?'' तर सट्ट करून ताणें म्हणिल्लें, ''आगो, तांतूत व्हडलें कितें? ताजी आवय टिचर न्हय? तिणेंच काडून दिला जावये ताका तें.''

कोणे म्हळें, ''आगो, तो प्रताप हुशार हां! सदांच पयलो येता. सगळ्या विशयांत ताका बरे गुण मेळ्ळ्यात.''

ताणे म्हणिल्लें, कांय ना गो तांतूत. ताजो बापुय प्रोफेसर न्हय गो? एक सारको शिकयता आसतलो ताका दिस -रात. मागीर कित्याक येंवचो ना तो पयलो?

कोणे म्हळें, आगो, तें चली जातीवंत सुंदर आनी सोबीत न्हय?

ताणें म्हणलें, ''आगो, भुर्गेपणात सगळीं सुंदर दिसतात. मागीर पळोवया. वयार येतकच रूपांत मुदार जातात. आनी मागीर पळपासारकीं लेगीत दिसनात तीं.'' सदांच नानाकार.

खूबफावटी हांवें ताका म्हणचें, आगो, आज पासयेक वचुयां. दिस बरो आसा. व्यायाम बरो मगो साउदीक?

ताणे म्हणचें, ''नाका गो बाये. बरो मूड ना म्हाका भोंवपाचो. आयज खूब मळबट दिसता म्हाका.

आपणाल्या आवय बापाय कडल्यान पयस, हॉस्टेलांत राविल्ल्यान घडये तें अशें जालें जावये. एकमुळेपण, न्हयकारी नदर दिता जावये. ताज्या ह्या नानाकाराक लागून, ताजो वांगड कोणाकुच माननासलो. शिकून जातकच आमी आपणाले गांवात परतलीं. हांव जाल्यार ताका साप्प विसरलें लेगीत.

हांव मुंबय गेल्लेकडेन तें म्हाका एक दुकाना सामखार दिश्टी पडलें. ताजी रडी आयकूचे परस ताका कूसच मारची अशें हांवें येवजिलें. पुण इतल्यांत ताजी नदर म्हजेर पडली. तें धांवत म्हजे म्हऱ्यान आयलें. ताणे म्हजो हात घट धरलो. आनी खोशयेन ताणे म्हाका वेंगायलें.

ताणे खळखळून हांसत म्हळें, आगो, सुधा, तुका मेळून कितली खोस जाली म्हूण सांगू? तूं हांगा कितें करतां?

हांवें ताका सगळी खबर सांगली. ताणें उमेदीन म्हळें, ''आयज रातचें तुवें म्हगेर येवंकच जाय. येवंकच जाय. खूब उलोवया आमी. तुका खबर आसाच न्हय? ओल्ड वायन, ओल्डफ्रेंड आनी ओल्ड यादी ह्यो खूब मोलाच्यो आनी मन रिझवाण्यो आसतात म्हूण!''

हेंच ते पिरंगुपी चली आसा हाजेर म्हजो खिणभर विश्वासच बसना जालो. सपनांत आसा काय हांव? ना ना हें सपन नासलें. हेंच चली दुसरेच भाशेनचे जाल्लें. पयलेच फावटी ताका हांवें खळखळून हांसतना पळयलें. सामके सुंदर आनी सोबीत दिसलें. खंयतरी धवे केंस दिसले खरे, पुण ताकाय लागून एके तरेचे तेज पाताळिल्लें ताजे मुखामळार. ही सात्विक सया ताज्या मुखामळार कशी उदेली? काय हावें मनापसून अजाप दिसलें.

इतल्यांत ताणें म्हळें, आगो सुधा, तुवें आयज रातचें म्हगेर जेवंकच येवंक जाय. हांव तुका कशेंच सोडचे ना. ताणें व्हडा उमेदीन आग्रो केलो. ताजे मन म्हाका मोडू नज जालें. पुण नाईलाज आशिल्लो. म्हणून ताका समजावचें म्हूण हांवें म्हळें, ''बाय, आयज म्हाका मिटींग आसा आनी त्या उपरांत रातचें जेवण आसा. तुजो नामो दी. मोबायल नंबर दी. हांव तुका फोन करतां आनी येता तुगेर. तें सामकें निर्शेलें. ताणें म्हळें, ''बरें तर लागच्या हॉटेलांत वचून, वांगडा चा तरी घेवया मगो.

आगो, सामको घोग्यांनीं पावस पडटा मगो? हांवें म्हळें,

टॅक्सी आसाच न्हय? ताणें म्हळें,

''मागीर कितें जालें?

''आगो, ह्या वेळार टॅक्सी मेळप कठीण मगो?''

हांवें म्हळें,

''मागीर कितें जालें? घेवया मगो सत्री विकत. अशी निर्शेवणीची भास कित्याक उलयता तूं? ना जाल्यार चलत वचूं येता न्हय आमच्यांनीं?'' ताणें म्हळें.

खंयच्याय परिस्थितीचेर मात करपाची ताजी तयारी पळवन अजाप जालें. ताज्यात जाल्लो हो बदल, कसो घडलो काय? म्हजेर कुतुहल जागें जालें. म्हज्यान राव नज जालें. हांवें ताका विचारलें,

''आगो, असो कोण राजकुंवर मेळ्ळो तुका? जाणे तुका सामकें मुदार केलें?''

ते मुमुरखेंशें हांसलें आनी ताणे म्हळें, सांगता तुका. आगो, घरासामखारल्या झोपडेंत रावपी बायल म्हजेकडेन वावर करी. दोन अपुबार्येची भुरगीं तिजीं. घोव सदांच पियेवन झेलत झेलत घरा येतालो. भुरग्यांच्या आंगार सदांच लक्तरां. दळदीर तिज्या वांट्याकच आयिल्लें जावये. काकूट दिसताली म्हाका तांची. तिका चार पयशे मेळूं म्हूण तिका हांवें वावर करूंक लागलो. घोव मर्यादिभायर पिओवन येई आनी तिका आनी भुर्ग्यांक मारी, भुकेक तळमळायी म्हूण एक दिस तिणे म्हजे कडेन तक्रार केली ना. पुण सदचीच ती हांसून म्हणी,

''बाय, तुवें म्हाका आनी म्हज्या पोरांक पोटाक लायलें. उपकार तुजें!''

एक दिस उटंगारानी पावस पडूंक लागलो. जनेलांतसून हांवें पळयलें. पावसाक शाप दिलो. हांव भिजूंक नासलें, तरी कदेलाचेर बसूनच हांवें तक्रार केली, पिरंगलें. सदांच कितें उरिल्लें जेवण खाण दि हांव तिका. पुण त्या दिसां

हांवें तिका कांयच दिलें ना. तीं उपाशीं उल्ल्यां जातलीं. अशें म्हाका दिर
पुण जो देखाव हांवें जनेलांतसून पळयलो, ताणें हांव सामकें अजापित जा

तीं दोगांय पोरां रस्त्यार खेळटालीं. पावसात भिजतालीं. वांगडा वावर
ताची आवयय तांचो हात धरून वांटकुळीं घुंवताली. हांसताली, ताळ्यो मारता
खोशयेन आडुतालीं, जशीं सर्गातच आशिल्लेवरी. भूक आनी पावस तांची
खोस आडावंक पावली नात. तांच्या ह्या जीणेची अप्रुप उमेद पळवन म्हजे
हाललें.

ह्याच घडणुकेन, म्हाका म्हज्या जिणेकडेन पळवपाची नवी नदर दि
म्हाका जायजायतें सगळे मेळ्ळां, सगळ्यो आरामाच्यो गजाली, सगळे कंफ
मेळ्ळ्यात. तांतली एक लेगीत गजाल तांचेकडेन नाशिल्ली. ना धड खावप
न्हेसप. पुण तांचेकडेन व्हडली संपत्ती आशिल्ली, ती मात म्हजेलागीं नाशि
तांका खबर आसलें. आसा त्या परिस्थितीत कशें खोशयेंत रावपाचें? म्हज
म्हाका लज दिसली. हांवें म्हजेकडेन आशिल्ल्या गजालींचें लिस्ट करपाक सुरूव
केली आनी म्हजेकडेन कितें ना हाजेय लेगीत. तांचे पयस, म्हजेकडेन ख
कितें भरभरून आसा. जाचेखातीर हांवें खिणाखिणाक उपकार मानूंक जाय,
द्रिश्टावो म्हाका त्या दिसा जालो. म्हजी वृत्ती बदलली. न्हयकारान फाट परति
ती दळिद्री वावराडी आनी कळिंद्री पोरांच म्हज्या जिणेचो आदर्श जाली. त्या
खिणाक म्हाका खोस घेवपाचो ईश्वरी हुकूम जालो जावये. सुपुल्ल्या गजालीं
आनी हरएक गजालींनी म्हाका हयकारी ल्हारां दिसूंक लागलीं. आनी तांतल्या
म्हाका उमेद-खोस मेळूंक लागलीं.

म्हजेंय मन हाललें हें आयकून हांवें ताका विचाल्लें, येदी व्हडली भें
दिली मगो ताणी तुका? मागीर कितें गुरूदक्षिणा दिली गो तुवें तांका?

हांवें त्या सुपुल्ल्या भुर्ग्यांच्या एस एस सी मेरेनच्या शिक्षणाचं
जापसालदारकी घेवपाचें उतर त्या आवयक दिलां.

तिजी धादोसकायेची नदर म्हाका खूब कितें सांगून गेली. अशें म्हणीत
ताणे सात्विक खोस उकतायली आनी दुपेटीन वांटली.



# विश्वरूप दर्शन घडवपी ताजे हात!

लग्न जालें, तेन्ना आमी तरणाठी आशिल्ली. तेन्ना ताज्या हाताचो स्पर्श, न्प्रुप आशिल्लो हाजी जाणविकाय आशिल्ली. पुण त्यावेळार तन्नेपणाच्या धुंदेत ाव गुल्ल आशिल्लें. त्यावेळार ताजे हातासंबंधी हांव चडशें काय चितूंक पावले ा. व्हकल म्हूण हेर गजाली तकलेंत आशिल्ल्यो. पयलें वरस एकमेकांक ळखूपाक गेलीं. एक वर्स सामकें उणे.

म्हज्या मावान, गुंडूबाब आमोणकरान संस्थापित केल्ल्या शाळेंत तो ्हजो घोव हेडमास्तर आसलो. हांवुय तांतूत शिकयतालें. भुरग्यांखातीर तरेकवार ्वलती दिवपाखातीर तांची जीण फुलोवपाखातीर, चारूय वटांनी तो खूब ावुरतालो. नवे तरेचे तरेकतराच्या रंगाच्यो पिनी लावन तो टायमटेबल करी. रेकवार प्लॅनिंग करून कामात गुल्ल जावन वरांवरां वावुरपी ताजे हात जायत्यो गीबेरंगी कलाकृती घडोवपी आसले. आपूण फुडें जावन, कोणाचीच वाट पळय ासतना कसलाय वावर करपी ताजे हात हांवे पळयल्यात. मागीर ते हात ्देली हालयताले,फर्निचर हालयतले, झाडू मारताले. धुल्ल काडटाले. इस्कॉलाची वी बिल्डिंग बांदताले तेन्ना, सिमेंटाच्या स्लेबाचेर, उदक मारप. हें सगळें हांव ळयत आयल्लें. तेवेळार ताजे हातार म्हजे लक्षय गेले ना.

आमका भुरगीं जाली तेन्ना ताणे भुरग्यांक धरिल्ल्याची याद जायना. तो ापणाल्याच विश्वांत गुल्ल आसलो. शिक्षणीक मळफुलोवपाचो तरेकवार समाजिक ्स्था घडवपाच्या आनी ताका पोसवण दिवपाचो श्वास ताका लागिल्लो. दीसभर याच कार्यावळींत तो गुल्ल आसलो.

आपुण जावन पोन्न्या घराची नवी मांडावळ करपाखातीर तो कितलो ावुरलो तंय हांवे पळयलां. नवी बाग केली तेन्ना ताजे हात गार्डनर, कार्पेंटर ाल्ल्याचेंय पळयलां.

हालींच नवी नात जाल्या तिका मायेन छातयेकडेन धरून, ताका सांसपी ाज्या हाताचें नवेच दर्शन घडयता. ताजो मायेन उमो घेवन आनंदीत जावपीय ाजे हात आतां पळयत आसा. ताज्या हाताचे नवे दर्शन घडत आसा. ताज्या

हातांतली मायेची उबय त्या नातीक जाणवता जावये. त्या नातीन आज्याचे काळीज हालोवन सोडलां जावये. घडये ताणेच आज्याच्या हातांतल्यान मायेची झर व्हावोवंक लायली जायत.

आज्याची याद काडीत, 'आबा, आबा' करता. आवय बापायकडेन फोन हाडून दिता. बटना दाबून आबा, आबा करता. आजोय परतो परतो ताजी याद काडीत, वयले वयर फोन करता. मागीर आको माको तेल माको हुंदीर म्हज्या मामा ही पद गायता तेन्ना ताजे मुखामळ खोशयेन फुलून येता. ताज्या हातात ह्या वात्सल्याचें दर्शन पळोवन मनाक खोस भोगता. ताका भोंवडायता पायांर घालून न्हिदयता झोपाळ्याचेर बसोवन हालयता. आतां मेरेन हांवें हें पळोवंक नासलें. नातीन ताजे हात इतले मायेन अरळ केले काय?

आतां आमी जाण्टी जावंक लागल्यात तरी आमी प्रवास करूंक लागल्यात. ताका मोटार चलोवपाक आवडटा. ताजे हात मार्ग दाखोवपी–मार्गदर्शन करपी जाल्यात हेय हांव पळयतां.

आतां ४७ वरसां जालीं आमच्या लग्नाक. ताज्या हाताचें विश्वरूप दर्शन घडोवपी ताजे हात आतां म्हज्या जीणेचोच एक अपरिहार्य अविभाज्य भागच जाला. ताजे हात आतां चुकनाशिल्लो असोच जीणेचो भागच जाला. आर्थरायटीसाक (संधीवाताक) लागून म्हजे पांय धोपरां लडखडूंक लागल्यात. सपणां देवतना तर खूबच दुख जांवक लागल्या, पुण तो म्हाका हाताक धरून, सपणां देंवपाक आदार करता. रस्तो ओलांडपाक आदार करता. आता ताज्या हातांतल्यान समजिकायेची उब जाणोवंक लागल्या. हेंच न्हय तें सात्विक समाधान. ताकाच लागून, पायांतली भयांकुळ दुख–वेदना घडये उणी जाता जावये. आता ताजे हात मायेचे सेवक जाल्यात. ताजे हात हेंच आता म्हजे वखद जालां. तो जायतेफावट चा हाडून दिता–हात जोडून देवाकडे म्हजी दुख उणी कर म्हूण मागता. ते हात धोंपरार तेल चोळपी नर्सींभशेन जाल्यात. ताजे हात आतां नर्सच जाल्यात.

जीणभर ताज्या हातांतल्यान तरेकवार भूमिका पळयत. हात खिणाखिणाक विश्वरूप दर्शन घड्यत आयल्यात ते हात ते आतां जाण्टे वयस्क जांवक लागल्यात. घटय उणी जाल्या आसत.

तांतलो मायेचो अरळ स्पर्श, वात्सल्ल्याचो दिश्टावो घडयत आसा. हेंच न्हय ते अप्रूप दर्शन?



# “म्हणूनच न्हय हांव सक्सेसफुल!”

आमच्या एका इश्टावांगडा, आमी एका पार्टेक बचपाचें थारायलें. ताणें सांगिल्लें परमाण तो सारको वेळेर पावलो. म्हाका मनापासून ताजी तोखणाय दिसली. राव नज जावन हांवें उस्फूर्तपणान ताका म्हळें,

“आरे, सामको शिस्तीचो हां तूं! बेल जावये पयली एक मिनीट हजर रावपी टीचर कसो मरे तूं!”

ताणे सट् करून म्हळें, “म्हूणच न्हय हांव सक्सेसफुल जालां.”

ताजी ही उतरां, म्हजे मन हालोवन गेलीं. नाय म्हळ्यार बेचैनीची ल्हांरा उप्रासली. मन मातशें अखिन्न जालें.

ही घडये त्या मनशाची धुंदी–मस्ती आसत. आपुण शिस्तीचो आसा म्हूण हांव जिकलो, हांव जायते यश मेळोवंक पावलो. होय अहंकार ताज्या मनात आसू येत. ह्या ‘मी पणा’ नच घडये ताकाफुगार केला जावये. म्हूणच आपशी हीं उतरां ताज्या तोंडसून भायर सरली जायत.

सादलो तो शाणो! हीच भावना ताकाफुलयत आयली जायत म्हूण घडये ताज्या ह्या मीपणान रंगिल्ली विखारी ल्हारां पाताळ्ळीं काय म्हजे मेरेन?

त्या इश्टाच्या ह्या उतरांनी म्हज्या मनाची अशी प्रतिक्रिया कित्याक जाली काय? म्हज्या मनात ह्या बेचैनीची भावना कित्याक उप्रासली काय? म्हजे मन जर सावध आशिल्लें जाल्यार ही प्रतिक्रिया जांवची नाशिल्ली न्हय?

हेरांच्या उलोवपांन आपणाली तितली लुकसाणी जायना जायत पुण तांच्या उलोवण्याक लागून आपल्या चित्तांत ज्यो प्रतिक्रिया उप्रासतात आनी त्या प्रतिक्रियांचे स्वाधीन जाल्ल्यान आपणाले लुकसाण जाता अशें जायत्या संतांनी, विद्वानांनी सांगलाच न्हय!

या प्रतिक्रियेतल्यान उप्राशिल्ली बेचैनी तिडक दाखोवक जायना. हेरांक उलोवन दुखवचें न्हय, खुश दवरचें, हो सगळो देखावो-नाटक आपल्याक करचेंच पडटा न्हय? मनातली ही प्रतिक्रिया भायर दाखोवंक येना आनी भितरय जियेंवक येना म्हूण ताजो एकूण ताण पडटाच न्हय मनाचेर? तो ओगीच कित्याक करून घेवपाचो? जाच्या मनाभितर आसा तेंच येतले न्हय आपशीच भायर? ताजेकडेन जर तें नाच जाल्यार, ताणें तेंच दिवंचे असो तरी अट्टाहास आपणे कित्याक करपाचो? म्हाका जें दिसता ते हेरांनी करचें अशी अपेक्षा करीत जाल्यार, अपेक्षाभंगाचें दुःख कारणाशिवाय पदरांत पडटा न्हय? ताका आपणेंच जावन कित्याक आफोवणे दिवपाचें?

दुसऱ्यांच्या उतरांनी आपणाल्या मनांत कसल्योच अनाठायी प्रतिक्रिया जांवच्यो न्हय, जांव ताजेपसून मुक्त जावप, वा ताजेपसून मेकळो जावन जर मन हेर गजालीत लायलें, तशेंच आपणाले व्यवहार करूंक लागलें तरच न्हय चित्त सावध जावंक शकता?

हेरांच्या उतरांनीं आपणाल्या मनाची अस्थिरता कित्याक वाडोवपाची? ताका लागून आपणाले लुकसाण कित्याक करून घेवपाचे? आपल्या सामखारचो मनीस अहंकारान उलयलो जांव अप्रिय उलयलो जाल्यार आपल्या बुद्धीक तें जरूर कळचें पूण ताका लागून आपलें चित्त संतापित जांवचे न्हय. अस्वस्थ जांवचें न्हय. ही जर युक्ति साधली, हाजी जर आपणे साधना केली तरच न्हय आपलें सावध-चित्त टिकूंक शकता?

इतलो तेंप हांव गीता वाचतां, ताजेर चिंतन करतां मागीर हो वेदान्त खिणाभितर कसो पयसावलो काय? मनाचें हें समतोलपण कित्याक डळमळ्ळें काय? कळटा पुण वळना अशेंच घडलें काय आयज?

सावधचित्त राखपाखातीर, आपले भितर कसलीय प्रतिक्रिया जावंक दिवपना, आनी तशी प्रतिक्रिया जालीच जाल्यार, तिजेकडेन चडशें लक्ष दिवप ना, तिजें चड म्हत्व वाडय नासतना, तें प्रतिक्रियेची अपुर्बाय करीनासतना, हें सगळें सादूंक जाय आनी ताजेर तक्रार करपांत जांव रडत बसपांत, पिरंगण करपांत कायच अर्थ ना हेच तत्वज्ञान जांव अध्यात्म संत-विद्रान सांगीत

हेंय घडये कळना जायत वता आसतली. तें एक कुवाडेच जावन पडटा. तिजें विश्व सामकें बदलता. खंय नाच जातात. तिजी सुंदर सुंदर म्होवाळ अपुबार्येची सपना? पयली ती आपणाली सपना फुलोवपाक फुडे सरताली. आतां तिजी सगळी जीणच दुसऱ्यात घुसपून वता.

तीच बायल माय जातकच तर तिजी नुरा लेगीत दुसरेच भाशेन जाता जावये. ती तांतूतच घुसपून उरता जावये. पुता-सुनेच्या संसार मायाजाळ्यात घुसपून पडिल्ल्या मनाच्यो अपेक्षा वाढत वतात जावये आनी म्हणूनच अपेक्षा भगाचें दुःख तिज्या पदरांत पडटा जावये. हें दुःख तिज्या मुखामळार प्रतिबिंबित जाता जातलें. त्याच मनस्तापान ती हुलपून वता जावये.

जाण्टेपण जांवक लागलें काय एकमेकांची उणी दुणी काडपातच चड वेळ वता जावये.

तुवें हें सारकें करूंक ना, तुवें भाजयेंत मीठ सारकें घाले ना अशा ह्या इल्ल्या इल्ल्या अर्थहीण गजालींचेर तंटे-मनस्ताप शिणप कित्याक करून घेवपाचें? चा पिवन जातकच चिकरां जाग्यार गेलीं नात-ती थंयच उरलीं म्हूण कितें जाता? प्रत्येक गजाली आपल्याक जाय तश्योच जांवक जाय हो अट्टाहास पिराये वांगडाच चड येता काय?

माडाखाला, वेंगेत पितारिल्लीं-रंगयल्ली म्होवाळ सपनां, एकमेकांच्या सांगातात चंवरील्ले खीण, ह्यो सुपुल्ल्यो सुपुल्ल्यो मोगाळ यादी, सदचे हे जाण्टे पिरायेचेर कितल्यो सुखदिण्यो जाव येता न्हय? पुण ही गजाल, आमी बायलां साप्प विसरून वतात काय?

म्हज्या घोवाक घडये हें सगळें जाणवलें आसतले. आवयचें नाळीचें नातें म्हळ्यार कितें, हे जरी बायले इतलें दादल्याक, आवय इतलें बापायक कळना जावये, उमगना जावये तरी नाळीच्या नात्याक लागून,आपणाल्या जिवाभावाच्या नात्याकडल्यान ती पयस जांवक लागल्या. आपली जीवन साथी हेराची साथी जांवक लागल्या ही खंत ताज्या ह्या उतरांतल्यान म्हाका जाणवली.



# "दिवप्याक मेळटात काय हजार हात?"

कंप्युटराचेर पूत बशिल्लो ताणे म्हळें,

"आगे, मम्मा, पळय हांगा. जायते प्रसंग, घडणूको दाखयतात हाजेर. ह्यो गजाली वाचून, तुकाय बरवपाक खबरो मसालो मेळत. ताणे बटणां दाबून, फाटीफुडें कशें वचपाचें, तें दाखयलें. हांवुय फाटीफुडें करीत बसलें कंप्युटराचेर. तितले म्हणसर ताणे एक गजाल वाचूंक लायली. हांवें ती वाचली. मनांत जायती ल्हारां उप्रासलीं.

एक व्हडलो अभ्यासू आनी ५० वरसांचो प्रयोगशील नवो रिसर्च- नवो सोद सांगता.

जे लोक इस्कॉलांत शिकता आसतना, हेरांक दीत आयल्यात, तांका सगळे जीणभर बरी शारिरीक आनी मानसिक भलायकी मेळटा. तशेंच मनशां खंयच्याय पिरायेचेर हेरांक वांटीत आसतात तांका बरें दीर्घायुश मेळटा. न दिवप्यांपरस दुसऱ्यांक सदांच पालव दिवप्यांक, बऱ्या प्रसन्न भलायकेचो लाव जाता. इतलेंच न्हय तर जायत्या जाणांची, खूप तेंपाची दुयेंसाय बरी जातात."

दुसऱ्यांक नेमान आधार करपी, पालव दिवपी मनशांक बरें आरोग्य आनी दीर्घायुश मेळटा. हें सगळे प्रयोग सामके विश्वासनीय आनी प्रत्यक्ष पुराव्यासयत सिध्द केल्यात."

कितलें सासणाचें सत न्हय हें? दिणाऱ्याच्याच पदरांत पडटा न्हय ही पुण्याय? दिणाऱ्याच्याच हाताक मेळटा काय हजार हातांची तांक?

उखलून दुसऱ्यांक दिवप हें सोपेपणान, मनशांकडल्यान जायना न्हय? हातांतलें सुटच ना न्हय मनशाच्या. मनशाक संग्रह करपाचोच सोंस आसता न्हय? सगळें आपलेंच जांवक जाय, आपल्याकच सगळें मेळूंक जाय, म्हजेकडेनच ह्यो गजाली आसूंक जाय, हीच न्हय ती भयांकुळ तृष्णा? होच तो वखवख,

लोभ आनी मोह? ह्या पिरायेचेर तरी संग्रह करचो ही वांसाच म्हज्या मनाक स्पर्श करूंक पावली ना काय? आजमेरेन कितें तें पुंजायलेंच संग्रहच संग्रह. सादें सूत लेगीत गुंठलावन दवल्लें. केन्नाय उपकारा पडत म्हूण प्रेझेंटाची रंगयाळी कागदां एकठ्यांय करून दवरल्ली, केन्नाय उपकारा पडत म्हूण. कितें कितें म्हूण एकठ्यांय केले ना? चुकनासतना, एकसारकें ५०-६० वरसां हेंच करीत आयलें न्हय हांव? आनी दिवपाचेच तर सोडाच पुण तांतूतलें कितेंय शेणटकच कितलो मनस्ताप आफोवन घेतलो? तकलीय विरार करून घेतल्या हांवें जायतेफावटी. कितलो विपरीत मोह हो? हेरांक दिता तेंच हात न्हय लोकांक एकठांयतात? तेच हात जोडतात न्हय इश्टागत तांचे वांगडा? घेणारो दितलोच न्हय, ताज्या काळजांतल्या उपकाराच्यो भावना, दिणाऱ्याक? घेणाऱ्याची धादोसकाय दिणाऱ्याच्या वांट्याक येता आसतली आनी म्हणूनच दिणाऱ्याच्या वांट्याकय येताली आसतली आनी म्हणूनय दिणाऱ्याच्या पदरांत सात्त्विक समाधान पडटा आसतलें. कृतज्ञतायेचे आशिर्वाद दिवप्याक बरें आरोग्य आनी दीर्घायुश दिता जांवये.

दुसऱ्यांक, दिवपांत कितली अप्रुप खोस मेळटा हें दिणाऱ्याकच कळटा जावये. तांतल्यान जें सात्त्विक समाधान ताका मेळटा, तेंच ताच्या मनाक जायती उभारी दिता जावये. सृश्टीकडेन दया भावान, हयकारी दृश्टीन पळयतकच, सामखारची सृश्टच बदलता न्हय? गरजवंताच्या सुवातीर हांव आशिल्लो जाल्यार, म्हाका कितें भोगतले आसले, हाजी जाणविकाय त्याच मनशाच्या काकूटेन भरील्ल्या- दयाभावान रंगिल्ल्या मनाकच कळू येता न्हय?

दिणारो जेन्ना दिता, तेन्ना घेणाऱ्याच्या तोंडावेली खोस, धादोसकाय पळवन, दिवप्याकय एक आगळ्या वेगळ्या भाशेनची तांक मेळटा आसतली ताज्या मनाक बळगेंय मेळटा जावये. चडशी दुयेंसां मनाकच लागून जातात असोय सोद लागला न्हय? घडये हीच दिणाऱ्याक मेळिल्ली तांक, ताज्या मनाक घटसाण दिता आसतली. जाचें मन घट, जाचे मन हयकारी, ताकाच उत्तम बरें आरोग्य मेळटा जांवये. तीच तांक ताका अप्रुप उमेद दिता जावये. तीच उमेद, तीच प्रसन्नता ताका शारिरीक आनी मानसिक अप्रुप तांक तांतल्यान मेळत आसत.



# ‘‘दाराक भायल्यान हँडल ना!’’

एक पुस्तक वाचतालें. तांतली एक घडणूक मन हालोवन गेली. एक चित्रकार. ताजें नांव हॉलमन हंट. ताणें एक सुंदर चित्र काडिल्लें. तांतूत ताणें पितारील्लें. जेजू एका बागेंत उबो आसा. एका हातांत दिवो घेवन आनी दुसऱ्या हातान तो दारार मारता अशें.

त्या चित्रकाराच्या एका इश्टान ताका म्हळें, ‘‘आरे हॉलमन, तुवें एक व्हडली चूक केल्या. जें दार तुवें चित्रांत पितारलां, ताका हँडल ना मरे.’’

‘‘ती चूक न्हय’’ चित्रकारान थंडसाणेन जाप दिली. ताणेंफुडें म्हणलें,

‘‘तें दार मनशाचें काळीज. तेंफकत उकतें जांव येता भितल्ल्यानच.’’

खरींच न्हय हीं उतरां. मनात जायते प्रश्न उबे जालें.

आमची जीण चड करून भायल्या संवसारातच घुसपल्ली आसता न्हय? वयलेचाराच्या उलोवण्याचेरच न्हय आमची सगळी मदार? जायत्यो गजाली, मनाथावन आमकां कळनात. पुण हेंय आमकां कळना न्हय? तें दार म्हळ्यार काळीज. जाल्यार काळीज भितल्ल्यानच उकते करचें पडटलें न्हय? खंयचीय बरी गजाल आपणावपाची तांक मेळत जाल्यारच न्हय ती भितर येतली? देवानच तें दार भायल्यान उकतें करीत जाल्यार ती गजाल आपले भितर कशी येतली? आपणेच ताका भितल्ल्यान उकते करून आफोवपाची न्हय? सद्‌भावनेन भरील्ली गजाल, आपणे जावनच आपणावची पडटली न्हय? मनाक भितल्ल्यानच न्हाण घालपाची वांसा आसत जाल्यारच न्हय, फुडें आशिल्ल्या गजालीचे व्हडपण समजतले? आत्मपरिक्षण करपाची तांक मेळ्ळें उपरान्तच न्हय खंयचेय बरेपण काळजाभितर रिगू येता? ना जाल्यार ते भायलेभायर, उमथ्या कळशेर घाल्ल्या उदकाभशेन वादाविसुळ जातलें न्हय?

मनाभितर कितें घुस्पागोंदळ चल्ला हें जर हेरांक पळोवंक मेळिल्लें, जांव तें पारदर्शक जाल्लें जाल्यार कितें जातलें आसलें? हेरांक काळजांतले नश्टेपण दिसचे न्हय म्हूण तरी मनीस, बरे विचार करूंक पावतलो आसलो काय? जाचे

काळीज सद्भावनांनी भरलां ताकाच न्हय ईश्वरीशक्तिचो द्रिश्टावो जांव येता? काळजांतल्या अहंकाराची- खोदुळसाण, षड्विकारांचो शेळो पयस केलेबगर, ताजेभितर आशिल्लें देवपण आमकां कशें दिश्टी पडटलें? ताजी जाणीव लेगीत मनशाक जांवक पावनासतली जावये. दिव्याची जोत घेवन, दुसऱ्यांक मार्ग दाखोवपी ईश्वरीशक्ति, जर आपले भितर आफोवन घेवंची आसत जाल्यार ती आपणेंच जावन भितल्ल्यान घेवंची पडटली न्हय? तरच न्हय काळजांत उजवाड पडूं येता?

हीच अप्रुप सुचोवणी त्या व्हड प्रतिभावंत चित्रकारान दिली जांवये काय?



# “कोण हो मनीस?”

फोनाची बेल वाजली. पुण्याचो एक विद्वान मनीस उलयतालो,

सुधाबाय उलयता? सुरेशबाबांक हुनहुनीत परबीं दिवंक जाय. गेले सप्तकांत म्हज्या हातांत ताणीं कोंकणींत अणकारिल्ली ज्ञानेश्वरी पडली. ती हांवें चार दिसांनीं वाचून काडली. अप्रुप अणकार केला ताणी. ताचो सत्कार करचो अशें आमच्या संस्थेक दिसता. हेंच संबंधी हांव तांचेकडेन उलोवंक सोदता आसात तें?

हांवें फोन सुरेशबाबांकडे दिलो. ते मुजरत तांका सांगताले, ती उतरां म्हज्या कानार आयलीं, देवान करून घेतलो हो ज्ञानेश्वरीचो अणकार म्हज्या हातांतल्यान. सत्कार करून घेवपाक म्हजें मन फाटीफुडें जाता. आपलो सत्कार करचे परस 'ज्ञानेश्वरी वाचन' करपाची कार्यावळ करची. कार्यावळ करपाखातीर दिल्लें तांचे आग्रहाचें आमंत्रण न्हयकारू नज जालें. सुरेशबाबान रेल्वेची तिकिटां रिझर्व्ह करूंक लायली. पुण्याची कार्यावळ बरी जाली. सगळ्यांची मनां प्रसन्न जालीं. ताणी ज्ञानेश्वराची व्हडली म्हूर्त कांचेच्या बॉक्सींत घालून भेट म्हूण दिली.

दुसरे दिसा आमी परतलीं. गाडी वेळार आयली. ती ज्ञानेश्वराची म्हूर्त, मुस्तायकी वांगडा दवरल्यार घडये धक्को बी लागूनफुटत म्हूण घोवान जनेलाक टेकून दवल्ली आनी ताजेर हात दवरलो.

आमच्या देशाचो इतिहास केद्या व्हडविकेचो? व्हडले व्हडले आदर्श नेते, व्हडले नामनेचे लेखक, व्हडले व्हडले संत, व्हडले निस्वार्थी लढपी शूरवीर हाणी आपणाल्या अप्रुप कर्तृपान तेजस्वी इतिहास घडयलो. तांचे हे अलौकिक करणेमुखार मान बागोवपासारकी. पुण ह्या नव्या पिळगेच्या तरणाठ्यांक हाजी जाणीव तरी आसता?

दोन तरणाठीं भुरगीं सामखारच्या सीटार बशिल्लीं. आसत, १८–२० वरसां पिरायेची. म्हारग ब्रँडेड जीन्स घाल्ल्यो दोगांनी, चलो आनी चली. दोगांनीय केंस

कापिल्ले. दोगांय सारकी दिसतालीं.फकत चलेयेन कान तोंपिल्ले. इतलोच फरक. ती दोगांय च्युइंगम चाबडायतालीं आनी कानांक एम.पी. ३ प्लेअर लावन, ती दोगांय आपणाल्याच विश्वांत गुल्ल जाल्लीं. ती दोगांय बऱ्या गिरेस्त घरातलीं आसूंक जाय, म्हूण कळटालें. ती उलोवपाच्या मुडांत नासलींच. एकमेकावांगडा लेगीत तीं उलय नासलीं. जण एकलो आपणाल्या विश्वांत. हेरांचे कायच लावन घेवप ना. हेरांवागडा कित्याक उलोवपाचें? हीच ती वृत्ती. संगीत आनी च्युइंगम ह्या गजाली घडये तांका ही मौनाची तांक दिता जावये.

हांव एक शिक्षिका. भुरग्यांवांगडा उलोवपांत म्हाका खूब उमेद. तांचे वांगडा भासाभास करपांत म्हाका खूब खोस मेळटा. ह्या पिरायेचेर तीं भुरगीं निश्पाप आसतात. तीं धूर्त जांव एकमेकांमदीं लावन दिवपी नासतात. ती आपल्याक कितें दिसता तें उस्फूर्तपणान, सादेपणान, उलोवन दाखयतात. तांच्या उलोवपाचेर कसलेंच सादेपणान, उलोवन दाखयतात. तांच्या उलोवपाचेर कसलेंच चेंपण नासता तांची नवी मतां, नवे विचार आमकां खूबफावटीं विचार करूंक लायतात. म्हाका हो अणभव पावलां कणकणी येवंक लागला. तांची आनी म्हजी खूबफावटीं जुगलबंदी चलता खरी, पुण निमणे तांचे कडल्यानय कांय गजाली म्हाका विचार करूंक लायतात.

तीं दोगांय भुरगीं ११ वींत आशिल्लीं. एकमेकांची बापोल भावंडां. तीं पुण्याक आपणाले आज्ञे - आज्याक मेळून गोंयां परततालीं.

तांतल्या चलयेन विचारलें,

ही म्हूर्त कोणाची? ही येदी व्हडली काचेची बॉक्स, तुमी इतलो त्रास घेवन कित्याक व्हरतात? कितें स्पेशल कारण आसा काय ताजेफाटल्यान?

"बाय, तो एक पुरस्कार म्हूण तांका मेळ्ळा." हावें घोवाकडेन हात दाखयत म्हळें,

"हो आसरमांडी घालून मनीस कोण गे?" ताणे विचारलें.

म्हज्यातली टिचर जागी जाली.

''बाय, बारीकसाणीन पळय म्हुर्त. आनी तुका हो कोणसो दिसता तें सांग.

तुमी भारताचो इतिहास बी शिकतात मगो?'' हांवे विचारलें.

''हय. पुण म्हाका सांग, ह्या म्हूर्तेफाटल्यान कसलो खांबसो दिसता?'' ताजो हो प्रस्न आयकून अजाप जालें. ह्या खांबाचे नांव 'पैस' हें ह्या चलयेक खबर ना देखून ताका ज्ञानेश्वर माऊली संबंधी सांगप हें म्हजे कर्तव्य अशें दिसलें.

आतां म्हज्या लक्षांत आयलां की म्हजे चले खूबफावटी म्हाका चिडयतात. कित्याक ते? ते म्हण्टात.

'' आगे मम्मा, तुका जण एकलो तरणाठो जांव तरणाठी, सामकी बरे अभ्यास करपी विद्यार्थीच आसतात अशेंच दिसता न्हय? आनी म्हूण तुज्यातली टिचर जागी जाता जावये. आनी ताका लागून तूं व्हडा उत्साहान, उमेदीन तूं तांका शिकोवंक मेळटा काय पळयता जातली. तें हें सगळे तुजे आयकुपाच्या मनस्थितीत आसात काय नात हाजो तरी अदमास घेता गे तूं?''

भुर्गे म्हण्टात ते सापफट न्हय. हांवेर ताजो अदमास घेवंक जाय न्हय? पुण मूळ सभाव वचना हेंच खरें.

आरे, भारतांतल्या संताची नांवा आयकल्यात तुमी? हांवें तांका विचारलें.

हय हय. सेंट झेव्हियर्स न्हय? आमी सेंट झेव्हियर्साच्या कॉलेजात शिकतात. सुर्वेकय ऐंत्रादाक ताजो व्हडलो पुतळो लायला. त्या चल्यान म्हळें.

सेंट झेव्हियर्स हो एक संतच. पुण तो युरोपांतलो. भारतांतलो न्हय. भारतांतल्या संतांचे एक नांव तरी सांगात. हांवे म्हळें.

तांका उत्तर दिवंक आयले ना.

हावें म्हळें, ज्ञानेश्वर, तुकाराम, रामदास, नामदेव, एकनाथ, जनाबाई हांची नांवा आयकल्यात मरे? ज्ञानेश्वरान आमच्या 'गीता' ग्रंथाचो सोप्या, साद्या मराठीत अणकार केलो. ताजोच हो ज्ञानेश्वरी ग्रंथ रचपी संत ज्ञानेश्वर.

त्या म्हूर्तेकडेन हात दाखयत हांवें म्हळें.

एकुय उतर उलयनासतना तीं दोगांय थंडसाणीन म्हजें भाश्य आयकतालीं. च्युइंगम चाबडाय नासतना.



# "आइस्क्रीम दिवपी भुर्गो मरें तूं !"

माई ! म्हजी माय खूब हुशार आनी तल्लख बुध्दीची. तिची यादस्तां सामकी अप्रुप. घर बांदल्यार पन्नास वरसां जाली. पुण इतले तेंपा उपरान्त लेगीत प्रत्येक कुडीची लांबाय, रूंदाय बांदावळीचो खर्च, तिका विचारचो. जाप सामकी तयार. घरांतल्याचे, आप्तइश्टांचे वाढदिस खंयचे तारकेक आनी खंयच्या वरसां ती सट् करून सांगी.

म्हजे तिनुय भुर्गेतिज्या म्होवाळ, मोगाळ सहवासात ल्हानाचे व्हड जाले. पावकी, निमकी, औंटकी मेरेनचे सगळे पाढे तिका तोंडपाठ. भुर्गेतिका खूबफावटी पाढे विचारीत आनी गणिता सोडयी. तीय व्हडा उमेदीन तांका ते पाढे म्हणून दाखयी.

''आमकां ती गरजेक पावताली. ती आसतकीच आमकां कॅलक्युलेटरची गरज दीस नासली.'' पळय, आमची आज्जी कितली व्हडली गणिततज्ञ ती नातू अभिमानान म्हण्टाले. तरेकतरांची स्तोत्रां तिका सामकी तोंडपाठ. सामके जुस्ता – जुस्त सांगप तिजें. भुर्ग्यांक तिजी खूब ओढ आसली. न्हिदतारत्तनां ती तांका काण्यो सांगी. आपणाल्या जिणेतल्यो घडणूकी सांगी. तांचेर बरे संस्कार तिणे घडयले. तिजे चतुरायेक लागून पूत म्हण्टाले,

''आमची आजी एक व्हडली उद्वेजक आसली. त्या तेंपारय तिणे आपले परीन आपल्या घोवान, आपले शाळेखातीर काडिल्ली रिणां, काटकसर करून फारीक केली. त्यावेळार घोवाच्या ध्येयवादांत समरस जावन, चतुरायेन आनी धिरान आपल्या कर्तुपी व्यक्तित्वाचें दर्शन घडयलें.'' तांका तिजी सदांच खूब व्हडवीक.

तिजी सत्तरी नातवांनीं उमेदीन मनयली. तिगांनुय तिका उबारून नाचयली. तीय खळखळून हांसली खोशी जाली. खीणभर तीय नातवांवांगडा भुर्गी जाली. म्हजे हे तीनुय खांबे! म्हजो आदार! म्हणीत ती व्हडाव्हडान हांसू लागली. आनंदीत जाली. सत्तरी उपरान्त तिजी यादस्ती हालली. सगळ्यां गजालींचो

तिका विसर पडूंक लागलो. कसलीच याद तिका उरना जाली. दोतोरान सांगलें, ''तिका स्मतीभ्रंश अलझायमरचे दुयेंस जाला.''

आपणाल्या अस्तित्त्वाचें भानय ल्हव ल्हव ना जांवक लागलें सामकी उमेदी, नातवांवांगडां तशीच भुर्गी जावन खळखळून हांसपी, खेळपी ती निर्विकार दिसू लागली.

नातू खेदान म्हणू लागले, आगे, आतां आमची आजी अशीच जायत वतली गे? ''ती आतां आमकांय वळखना जाल्या मगे?'' तिका विचाल्लें, आगे आज्ञे, म्हजे नांव कितें गे?

ती म्हण्टा, '' तूं आमचोच मरे!'' पोरांक खूब खंत भोगूंक लागली. तिने हांसप आनी दुसरेंच भाशेनचे जालां म्हणीत पोर बेचैन जाताले.

ती तशी केन्नाच नासली मगे! सामकी लायव्हली आशिल्ली मगे! अशें अचकित कशें घडलें? ती अशीच जायत उल्ली जाल्यार आमी कितें करतलीं? तांचे मुखार हो एक भयांकुळ प्रश्न राकेस कसो उबो जालो. पुण पोर दाखय नासले ते तिजे कुशीत न्हिदताले, तिजे वांगडा गजाली करताले - तिजी फकाणां करून तिका हांसोवपाचो यत्न करताले. पुण तिजी प्रतिक्रिया दुसरेच भाशेनची जाल्ली म्हूण ते अस्वस्थ जायी.

तिका आइस्क्रिम आवडटा म्हूण ते तिका अदीं मदीं आइस्क्रिम हाडून दीत.

एकट्या नातवान तिका म्हळें, 'आगे, आज्ञे आसा मगे बरें आइस्क्रिम? ती कायच उलयली ना,फकत आइस्क्रिम खायत उल्ली. कांयच न्हय कशीं ताणे खंत उकतायली.

पुताचे दोळे भरील्ले. आगे, म्हाका ती मातुय वळख ना जाल्या.'' ताजो ताळो सरांटिल्लो. तो परतो तिजे म्हऱ्यान गेलो. तिजेफाटीर हात ओडीत ताणे म्हळें,

''आगे आज्जे, हांव कोण तें सांगीना मगे तूं म्हाका?'' तिणें सट् करून म्हळें, आरे, आइस्क्रिम दिवपी भुर्गोमरे तू ती भावविरयत हांसली. पोर सामको नेर्शेलो. तिका हे अवस्थेंत पळोवन ताका खूबच भडभडून येई.

ती आपणालेच विश्वात वावरी. हातांत मेळटा ती ताचे कुडके करी. मागीर जांव तुवालो, जांव चादर. ताजे कुडके कुंडके करीत, बॉस्कीत भरी. परतें ओतयी. मदींच ते तशातशें सगळे सोडून उठी. पयलीच्यो घडणुकी अर्दकुट्यो सांगी. हयन्हयशा धुंवरेल्ल्या यादस्तीच्या विश्वात ती जियेताली एकलीच–एकसुरी–एकटुकी. चारूयवटांनीं कितें घडटा, हाजी तिका नातच ना जाली.

दुसरो नातू तिजे म्हन्यान गेलो. भायर सल्लो तेन्ना दोळे पुसतालो. ''आजी सामकी शेणिल्ली कशी दिसता मगे. आमची आज्जीशी दिसना मगे मम्मा. आत्तांच तिका आइस्क्रिम हाडून दितकच हांवें विचाल्लें,

''आज्ने, म्हजी याद आसा मगे?''

तिणे म्हळें, '' हय हय! याद आसा माया– मोग!'' पोराचे तोंड सामकें पडिल्लेवरी जाले. म्हज्यानय राव नज जालें. हांवें पुताक म्हळें, आरे, आतां तिका जाय आमची माया आनी मोग. आमी आतां तिका दिवपाचें. मनाक समजायत ताणे म्हळें,

खरें गे बाये. नावात कितें आसा? माये– मोगाचीच तिका याद आसा तेंच व्हड. ती आता आमकां वळखता

आइस्क्रिम दिवपी भुर्गो म्हूण! तीच तिच्या मायेमोगाची समजिकायेची कुरू न्हय?



# उसरां काय जायना!!!

निबंद बरोवपांत गुल्ल आसलें. अचकित फोनाची बेल वाजली. एक अनवळखी आवाज.

''हॅलो, कोण उलयता?'' हांवे विचाल्लें.

हॅलो टिचर, वळखली म्हाका? कशी आसा तूं?

टिचर म्हळां; म्हण्टकच हो कोणुय पुण विद्यार्थी आंसूक जाय म्हूण कळ्ळें पुण कोण तें लक्षांत येना जालें.

''बाब, फोनाचेर तुजें मुखामळ पळवंक मेळिल्लें जाल्यार घडये वळखूंक येतले आसलें. आतां तुजी टिचरय जाण्टी जाल्या न्हय रे.''

हांवे सदचेच फकाणाच्या स्वरान म्हळें.

टिचर, हांव कालच अमेरिकेसावन आयलां. तुका आनी सराक मेळूंक सोदता. केन्ना येवं हांव? ताणे म्हळें.

''यो मरे तुका जाय तेन्ना.'' हांवे म्हळें.

फाल्या सांजचे आयल्यार जाता टिचर?

हय, हय. हांवे म्हळें खरें. पुण हांवुय गोंदळांत पडलें. पोरान आपणाले नांव अजुनय सांगू ना.

''आरे बाब, नांव सांगता मरे?''

''हांव मस्तो म्हूणफामाद आसलो मगे. हांव अविनाश च्यारी.'' ताणे म्हळें.

हां! आरे अविनाश, कसो आसा तूं? जायत्या तेंपान आयकलो मरे आवाज तुजो.

तोय खळखळून हांसलो. ताजे हांसप तशेच मेकळेमेकळे आसले. हांसपांतल्या ताज्या स्वरान म्हाका २५-३० वरसांफाटल्यान व्हेलें. ती घडणूक जिवी -टट्टीत जाली.

चार मस्त भुर्गी एकठ्यांय जावन झगडूंक लागलीं. सामकी हाणामारी जाली. एकमेकांचेर सामके तुटून पडिल्लेवरी. बांक धाडांवक लागले. कदेली मोखून माल्ल्यो. त्यो मोडल्यो. सामको सावांर आयिल्लेवरी करूंक लागले पोर. इतले म्हणसर एका भुर्ग्यान ऑफिसांत येवंन म्हळें,

''टिचर, अविनाश सामको खुबला. पिसाविल्लेवरी करता. बुरख्यांनी, रकतां काडल्यात. कसोच आयकना सांगल्यार.''

हांव बेगीबेगीन त्या वर्गाम्हऱ्यान गेलें जाल्यार आमचो पि.टी. टिचर अविनाशाक पेटटालो. म्हज्यान पळंव नज जालें. हांवें हातानच ताका, मारू नाका म्हूण कुरू केली.

कदेलांचो हो चुरो जाल्लो. तिडक मारपाचीच. पुण मनाक आवर घाली.

त्या चारूय भुर्ग्यांक हांवें ताणशेवन म्हळें, 'चौगुय चलात. आनी म्हज्या ऑफिसाभायर वचून उबे रावात. म्हजीय तकली तापिल्ली.

पि.टी. टिचर डिसोजा सामको तांबडो गुंज जाल्लो. ताणे म्हळें, ''मॅडम, कशेंच सोडू नाका तांका. सामकी खर ख्यास्त दी तांका. यादींत उरची अशी.''

ताजीय तकली तापिल्ली.

ऑफिसाच्या दारातच ते चारूयजाण उबे आसले. तांचे कडेन पळयत हांवें म्हळें, ''एक वर अशेंच हांगा उबे रावात. विचार करात. तुमी केलें तें बरें केलें काय वायट तें. मागीर उलयतां तुमचेकडेन हांव. आनी हांव ऑफिसाभितर गेलें पुण कामांत कशेंच लक्ष लागना जालें. मन अस्वस्थ जालें. हांव परतेंय ऑफिसाभायर आयलें. चारूय पोर मान सकल घालून उबे आसले. एका फाटल्यान एक तांतल्या तिगांनी म्हळें,



'टिचर सॉरी, चूक जाली. आमी कदेलांबी मोडपाची न्हय. आमकां क्षम कर. एकटो वांकून पायां पडूंक लागलो. एकट्याचे दोळे भरील्ले. एकट्याची नद सामकी धर्तरेर लागिल्ली. तांका खूबच पश्चाताप जाल्लेवरी दिसले. पुण तांतले एकटो मात सामको बेदरकार, निर्लज्ज कसो उबो आसलो. आपणे कांयच करूंव ना. बेपर्वाई ताज्या मुखामळाचेर भरून ओतताली. होच तो भुर्गो अविनाश च्यारी. म्हाका घट याद जाली त्या घडणुकेची.

तेवेळार तिगानुय चूक मान्य केली म्हूण, परतें अशें करूंक फावना अर्श तंबी दिवन तांका, हांवें सोडलें. पुण चौथो भुर्गो अविनाश, ताका हांवें भित आफयलें तो कांयच उलोवंक तयार नासलो. तिरसुवादपणान ताणे म्हळें,

'टिचर हांवें कांयच करूंक ना.' ताज्या उतरांभितर आकांताळो द आसलो. हांवुय भितल्ल्यान पेटलें.

तूं फटी उलयता! खरें कितें तें सांग. नाजाल्यार तुज्या बापायक आफोवंक धाडटलें. तुजे आनी म्हजे मदीं ही गजाल आसा तेंच बरें. तुका बापाय उजीर लज करपाची म्हजी इत्सा ना. पोर कसोच बाडगना जालो. तुका ह्या गजालीचेर विचार करपाक २४ वरां दितां हांव. फाल्या कितें तें येवन सांग म्हाका. हांवें साम- दाम- दंड- भेद ह्या पध्दतीन ताजें मन वळवपाचो यत्न केलो. पुण वाया गेलो.

दुसऱ्या दिसा इस्कॉलाच्या वण्टीचेर हळशिकावणी उतरां बरयल्लीं दिश्टी पडली. घडये ह्याच पोरान तिडक उकतायली आसतली. हांवें अंदाज केलो. दुसरे दिसा तांची परीक्षा चालू जाली. त्यावेळार ताका आनी टेंशन करचे न्हय म्हूण हांव ओगी रावलें. १० वेची परीक्षा सोंपले उपरान्त तांका सुटी पडली. आनी ती गजाल तशीच उल्ली. ह्या घडणूकेक ना म्हळ्यार पंचवीस – तीस वरसां जाली.

दुसरे दिसा अविनाश मेळूंक आयलो. पोर आतां सामको दुसरेच भाशेनचो जाल्लो. सारको पकदस्त, रूबाबदार कसो. नमळायेन भरील्लो.

आयले बराबर ताणे म्हजो हात, आपणाल्या दोनुय हातांनी धल्लो आनी वांकून नमस्कार केलो.

टिचर, हांवुच तो अविनाश. मस्तो भुर्गो! आयज तुजी क्षमा मागूंक आयलां. हांवेंच ती कदेलांची फोड-मोड केल्ली. क्षमा मागतां हांव आतां. चूक जाल्ली म्हजी तेवेळार.

हांव जाणा आसलें तें! एक गजाल सांगू तुका अविनाश? तूज्या त्या तिनुय इश्टांनी आपणालें पातक, तेन्नाच क्षमा मागून, धुवन वडयले. तांची काळजां लिप जालीं, त्याच वेळार. तूं मात इतली वरसां तें पातकाचें वजें, आपणाल्या खांदार व्हाववयलें. वेळ कांय जायना. पुण तुका ही आपणाली चूक जाणवली हेंच व्हड. तुका उपरती जाली म्हूण मुजरत तुवें येवन सांगलें म्हूण तुजी तोखणाय दिसली.

ताजे दोळे भल्ले ताणे म्हळे, टिचर ऐदी व्हडली चूक हांवें करूनय, तुवें म्हज्या बापायक आफोवक धाडलो ना. हाजे खातीर तुका जायते फाव! कशी करूं हांव भरपाय?

तुवें हांगा येवनच भरपाय केली'' हांसतच म्हळें हांवें. तोय मुमुरखो हांसलो. पुण म्हजेय मन म्हणू लागलें.

पोरान जायत्या वरसांनीं काय जायना, आपणाली व्हडली चूक काळजाथावन मानली. उपरतीच्या भावान आपणालो भूतकाळ धुवून काडपाचो यत्न केलो.

उसरां काय जायना, नव्या निश्चेवाच्या उजवाडाक ताणें आपणायलें. आनी आपणाले मन निवळ-नितळ केलें जावये.



# "सुंदर, सोबीत दीस न्हय आयचो?"

आयज सकाळीं जाग येतकच, हांथुणावेल्यान उठूच न्हय कशें दिसलें. जीव सामको आळसायल्लेवरी जाल्लो. जनेलांतसून भायर पळयत जाल्यार दीसय दमट कसो दिसलो. सगळेवटेन मंदशें वातावरण दिसले. घडये मनाचें पडबिंब दोळ्याभितर देंवलें जावये.

अचकित याद जाली. आमी थायलंड पळोवपाक गेल्ली. टुरिस्टांखातीर आशिल्ली बस, आमची वाट पळयत उबी आसली. सगळ्या संवसारातले, तरेकवार लोक बशिल्ले तांतूत जपानी, चीनी, युरोपियन, भारतीय.

इतल्यांत एकल्याचो आवाज कानार आयलो. ''सुंदर सोबीत दीस न्हय गो आयचो? कोण उलयता म्हूणफाटी वळून पळयलें, पुण उलोवप्याचेर नदर पावली ना. जायते लोक बसीतल्या मदल्या पेसेजीत उबे आसले. आपणाली मुरत्तायकी लायताले. ताणे आयचो दीस सुंदर – सोबीत म्हळें, तें मनाक त्यावेळार पटलें ना. त्या दिसा म्हाका तो दीस दमट मंदसोच दिशिल्लो. बस धांवक लागली. बसीची जनेलां खूब व्हडली आसलीं. हारश्यांतल्यान भायलो सगळो देखाव सारको दिश्टी पडटालो. गायडान म्हळें,

शुभप्रभात! देव तुमकां सगल्यांक बरो दीस दिवं. आतां थायलंडची जायती सोबीत थळां आमकां पळोवंक मेळटली. आतां भायर पळयात. बरी झर तुमकां आतां दिश्टी पडटली. चारुय वटेनचो सोबीत सैम तुमच्या मनाक फुलयतलो. उभारी दितलो. आतां उजवेवटेन जी इमारत तुमकां दिश्टी पडटा, तिणे ह्या देशाचो इतिहास घडोवपाक व्हडलो वांटो घेतला. डावे वटेनची दोंगुल्ली वर्सभरय पांचवीचार आसता. आतां आयलें चर्च! खूब पोन्रे. पुण आसा तशेंच. ताजेफुडली स्मशानभूमी दुसरेच भाशेन बांदल्या. व्हडल्या नामनेच्या आर्किटेकान बांदल्या ती. सगळे भोंवडेकार बारीकसाणीन जनेलांतसून भायर पळयताले. खोशयेन, धादोस जाल्लेवरी. व्हडा उमेदीन तो गायडय उलयतालो. मदीं मदीं विनोदय

करतालो. लोकांक हांसयतालो. थळांय सुंदर, सैम पांचवोचार आनी ताजी कॉमेंट्री तांतूत चडच भर घालताली. नाय म्हळ्यार म्हज्या मनातली उबगण वयसावली त्या खिणाक. मनावेले मळबट ना जालें. ताणे केल्ल्या विनोदाचेर म्हाकाय हांसो आयलो. आमी एका स्टॉपार पावलीं.

गायडान म्हळें,''हांगा चा - नाश्तो जातलो. अर्दवराभितर सोपोवन आमीफुडें वचपाचें.''

आमी ल्हवल्हव दारांतसून देवंक लागली. म्हजी नदर त्या गायडार पडली. हांव थक्क जालें. व्हडल्या खाडाचो तो. ताणे काळे वक्ल लायल्लें आनी हातांत कुड्डे धरतात तसली बडी. ताका पळवन काळीज हाललें. इतलो वेळ आमका खोस दिवपी हो मनीस कुड्डो तर. खिणभर ह्या गजालीचेर विश्वासच बसना जालो. तो कुड्डो आसा म्हणपाचो मागमूसय लांवक दिलो ना ताणें. आवाजातल्यान तीच उमेद, तोच उत्साह. जीणेत सगळो काळो - किट्ट काळोख आसूनय ताज्या अंतर्मनात सौंदर्याचो उजवाडच पाताळिल्लो काय? म्हणूनच तो त्या सौंदर्याची खोस हेरांक वांटूंक पावलो? हांव कमनशीबीच म्हणचे पडटलें न्हय? दृश्टी आसूनय मनान कुड्डे? आनी हेंच कुड्डेपण देंवले काय म्हज्या नदरेंत? म्हूणच म्हाका दीसय मळबट करसो दिसलो? मनातले विकारच दोळ्यांत देंवता आसतले. दर एकलो दीस सुंदर सोबीत दिसपाक आंतरिक मन, आंतरीक दृश्टीय तितलीच सुंदर सोबीत आसची पडटा हाजोच दिश्टावो घडयलो न्हय त्या कुड्ड्या मनशान?



# ब्रह्मानंदी लागली टाळी!

हांव सत्तरीकडेन पावन अशें म्हाका मातुय दिसूंक नासलें. साठी जाली, तेन्नासावन म्हाका दिसूक लागलें. आतां हो म्हजो परतीचो प्रवास सुरू जाला. धोंपरा दुखूंक लागलीं. हाडां-सांदे कुरूकुरूंक लागल्यात. एकाच सुवातीर थंडसाणीन बसचें, वाचचें - बरवंचें, संगीत आयकूंचे अशें दिसूंक लागलां. सोप्यार बसून झाडां - पेडांर, फुलां - पानार नदर वडवची, सवण्यांचो चिंवचिंवाट आयकूचो, हांतूतच खूब खोस मेळूंक लागली.

आतां देवान सत्तरी पदरांत घाली. आतां तर पुरायेन सुशेग आनी मेकळेपण. कसलीच बंधना नात. अमुक अमक्याच वेळार करूंक जाय म्हणपाचें मातुय टेंशन ना. आमच्या भोंवतणचें लोक, आमी अमुकच करचें अश्यो अपेक्षाय करीनात. उरफाटें तेच आमकां आदाराचो हात दिवंक फुडें सरतात. तांचे हे अगत्य, ही माया सुखदिणीच न्हय?

साठी उपरान्त हांव रिटाअर जातकच जायतीं जाणां म्हाका विचारीत,

आगे, आतां रिटायरमेंट उपरान्त कितें करतली तूं? हांव म्हणी, आगो आयजमेरेन जायत्यो उड्यो मारल्यो. आतां थंडसाणीन वावुरपाचें. जिवाच्यान, कूडीच्यान जाता तें करपाचें. वाचन, लेखन, संगीत हांचो मनमेकळो आस्वाद घेवपाचो. हांतूतच गुल्ल जावपाचें. खोशये ल्हारांर आतां हुफेवपाचें.

जेन्ना म्हाका आड पडन दिसता तेन्ना आड पडपाचें. जायते फावटी तेवेळार मन चोरशें जाता. पुण आतां दुसऱ्यांक कितें दिसतलें हाजो ताण आपणे जावन ओडोवन घेवपांत अर्थ नासता. कोणाक फरक पडटा, हाजोय विचार करप ना आइन्स्टायन, एडिसन सारकेले व्हडले नामनेचे शास्त्रज्ञ दिसभरांत अदीमदीं झेम काडटले खंय. आनी कोणाकच ताजो त्रास जालो ना.

आतां तर म्हजे सगळे केंस धवे फुल्ल जाल्यात. मुखामळार निरयांचे जाळें पाताळूंक लागलां. काय जण म्हणटा,

''आगे, धव्या केंसान बरें सोबीत पण आयलां तुज्या मुखामळार''
घडये म्हज्या मनाक थाकाय दिवपा खातीर जावये हीं उतरां

आतां हांवें कांय गजाली चुकनासतना करपाचें थारायलां. आयजपसून नानाकाराची घांट वाजोवप ना. आपली नदर उकती आनी मेकळी दवरप. नव्यो नव्यो गजाली आपणावपाची तांक वाढोवप. जाय त्यो गजाली हांसून व्हरप ही हयकारी नदरच न्हय मनाक खोस दिवंक पावतली? जीणेतले जायते अणभव ह्यो गजाली आतां शिकोवंक लागल्यात. इतलो तेंप ही शिकवण आपणावपाचो यत्न करप जालो ना हाजी खंत आता जाणोवंक लागल्या, जीणेंत जायत्या जाणांनी उमेद दिली, आपणाल्या बऱ्या वावरान बरी देख दिली. तांच्या चलपा – उलोवपांतल्यान जायतें शिकूंक मेळ्ळें. तांचे संबंधीची कृतज्ञताय म्हज्या मनाक फुलयत आसा. कांय मनशां तर खूबच भावलीं. कांय जिवाभावाची जाली. तांच्या ह्या म्होवाळ यादींनी मन आयजवयर प्रसन्न जायत आसा. त्योच यादी केळोवप आनी खोस मेळोवप आनी ती खोस हेरांक वांटीत वचचें ही सद्भावना आतां काळजांत उप्रासूंक लागल्या.

२०, २५ वरसां पयलीची तांक त्या पिरायेचेर आतां आपले वांटेक येवंची ना हें न्हय तें सांसणाचे सत? पुण देव आमकां अजून मेरेन चलयता हीच न्हय ती संतोश दिवपी गजाल? अध्यात्मिक, भावनिक आनी मानसिक नदरेन आमचें पावल फुडें फुडें पडत आसा हीच न्हय ती दुसरेच भाशेनची खोस?

सत्तरी तर सामकी अपुबार्येची म्हणची पडटा. पयर एके अस्तुरीन तर म्हाका अजापित केलें.

''आगे सुधाबाय, सामक्या धव्या केसांनी तूं तेजपूर्ण दिसली आं! आयजमेरेन तुवें शाणपण लिपयल्लें तें आतां सारकें दिसूंक लागलां.

ह्या पिरायेचेर आमचे उलोवप – चलप – हांसप उमेदीन चलल्या हें पळवन कांय जाण अजापित जातात. विसर पडिल्ल्याची पिरंगण करीनासतना सारकीं उलयतात. सत्तरीचेर आयकूंकय सारके येता,जें आयकूंक फावना तें कानाभितर वचना, हाजे खातीरूय जायते आमची तुस्त – तोखणाय करतात हें आयकून आमचेंय मनफुलता न्हय?

ह्या पिरायेचेर, आमकां जाण्ट्यांक पळवन, जायते जाण हात धरूंक फुडें सरतात. हातातली मुस्तायकी धरतात. हॉटेलांची दारां उकती करून आमकां वाट करून दितात. तांचे हें अगत्य, आपलेपण पळवन मन भितल्ल्यान खोशी जातलेंच न्हय?

साठीपरस सत्तरी बरी आनी पन्नाशी परस तर चड बरी अशें कोणे बरयल्लें. पन्नाशींत हेर, तुका जायत्या गजालीं खातीर जापसालदार धरतात. त्या पिरायेचेर सगळ्योच गजाली घडये करपाची तांक आसता अशें नासता. तरूय लेगीत.

सत्तरीकडेन पावतकच आपणाले भुरगेय पिरायेन वाडटात. तांकाय समजिकाय येता. आनी मागीर तांकाय पटटा कीं आवय - बापायन केलें तें बरें आनी खरें आसले म्हूण. आनी म्हूण ते आपणाल्या प्रॉब्लेमाखातीर आमकां जापसालदार धरीनात. आनी हाका लागून हांव नातरांचे उपकार मानता कारण ताणीच म्हज्या भुरग्यांक ही समजिकाय दिली म्हूण.

तूं सत्तरीकडेन पावतकच तुका चड पर्याय ( choises) मेळटात. तुका तरणाठे जांव येता वा म्हातारो जांव येता. जर तूं तरणाठ्या भाशेन तरतरीत चलूंक लागलो जाल्यार हेर म्हण्टात तुजें हें दुसरें भुर्गेपण आनी ती कडकडत चलूंक लागली जाल्यार ही सामकी सतरवितर जाल्या. हिजे पांय ना सारके आनी कित्याक ही धडपडटा? अशेंय हेर म्हणूंक लागतात. पुण जायत्या जाणांक ही अवस्था पळवन काकूट दिसता आनी ते मुजरत आदार करूंक फुडें सरतात. ह्या पिरायेचेर दुसऱ्यांक आपुण, खोशीच करतलें, ही भावना आमी ल्हवल्हव सोडून दिवप हेंचफाव कशें. दुसऱ्यांक खोस दिवपाचे हे उमळशीकेक लागून आमी धडपडूंक लागतात. पुण ताका लागून हेरांक ताजो उपद्रव जाव त्रास जांव येता चडफुडें सरून (इनिशियेटीव घेवन) दुसऱ्यांक आदार करूंक धावप हेंवुय घडये तांका मानवना जायत आनी ह्या उमळशीके पोटी जाय तसो प्रतिसाद मेळ्ळो ना जाल्यार मनस्ताप आपणाल्या पदरांत पडूं येता. मागीर ह्या नाकाशिल्ल्या मनस्तापाक आमी ओगीच आफोवन कित्याक हाडपाचें?

आतां इल्ल्या इल्ल्या गजालींचो त्रास करून घेवप ना. तो साप्प सोडून दिवप, हांतूनल्यानच आमकां थाकाय मेळूंक येता. आतां वेळ खूब उणो उल्लां.

आतां वता तो खीण म्हत्त्वाचो. खूबफावटीं हेरांचो तिरस्कार करपांत, काळजांत हेरांबद्दल कडवेपण धरपांत, दुसऱ्यांचेर डूख दवरपांत, क्षमा करप अशक्य, होच अट्टाहास धरपांत आमचो चडसो वेळ पिड्ड्यार जाता न्हय? आनी तांतल्यान उप्रासता तो संताप आनी तिडक. ताका लागून आपणाल्या मनाची जिवाची तगमग. मागीर हो नसतो उपदव्याप कित्याक करपाचो?

आतां सत्तरीचेर हीच सुपुत घेतल्या. बरें तेंच करीत वचपाचें. हेरांक जाता तितली खोस वांटीत वचपाचें. हेरांकय बऱ्यो गजाली करपाची प्रेरणा स्फूर्त दिवपाचो यत्न करपाचो. तांतल्यान म्हज्याय पदरांत खोस पडटली. दिल्ल्या मापान घेवंचें हेंच न्हय. तें सासणाचें सत? ताका लागून म्हजेय मन घटमूट आनी तेजाळ जातलें अशी म्हाका आस्थ आसा.

हेर अमुक करीनात, तें करीनात अशी नानाकाराची घांट बाजोवन आपणाली तांक वगडावचे परस, हेरांनी कितें केलां हाजेर जर चड लक्ष दवरलें जाल्यार आपल्या मनाक खोस मेळटली. आनी त्रासय उणो जातलो.

दुसऱ्यांक बदलावपाचो आमकां तरी कसलो अधिकार? आपणे आपल्याकच बदलावप फाव कशें न्हय? सृश्टीक बदलावपाचें सुवातीर आपणालीच दृश्टि बदलप सोपेपणाचे जांव येता न्हय?

जण एकलो आसा, तसोच ताका आपणावपाची तांक आमकां मेळत जाल्यार, दुसऱ्यांकडल्यान कसलीय अपेक्षा करप जायना, आनी अपेक्षाभंगाचे दुःखय पदरांत पडना.

म्हाका खबर ना, फुडाराक कितें घडटलें तें. पुण म्हज्यान कितेंय बरवपाची बरी येवजण करूं येता न्हय?

जीणतलो हो नवो द्रिश्टावो जाल्यार, आतां परतीच्या प्रवासाक लागप. ल्हव ल्हव ब्रम्हानंदाचेर वाटेर म्हजें पयलें पावल पडत जाल्यार ल्हव ल्हव 'ब्रह्मानंदी लागली टाळी' हें भाग्य म्हज्या पदरांत पडूं येता न्हय?



# "मळब कितलें सोबीत न्हय?"

झाडा – रोपांक उदक घालतासतना मन धादोस जाता. पाना –फुलांची भास मायेमोगाची. काळीज हालयता. मन प्रसन्न जाता. काल नळ आयलो ना. उदक घालप जालें ना. मनाक चुटपुटे लागून उल्लें. आयज तांका दोट्टी उदक घालून न्हाणवचेशें दिसलें. जायतो वेळ हांव उदक घालीत उल्लें. म्हज्याच नादात उरलें, आंगार ओताची तिरप येताली, हाजेर भान उल्लें ना. मन कितलेंय तरणाठे आसलें तरी कूड आसू नाका तशी? पुरोशें जाल्लेवरी दिसलें. धर्तरी घुंवताशी दिसूंक लागली. हांवें थंयच थपकल मारली. काळीज कलकलूंक लागलें. हांव थंयच आडवे जालें. देह आडवो घालतकच जिवाक सूं जालें. मळबार नदर पडली. भुर्गेपण जागे जालें. त्या यादीनी गुल्ल जालें. केन्ना दाळो लागलो हेंय कळ्ळे ना. दोळे उकते जाले तेन्ना पळयलें, एक तरणाठी चली म्हाका तेंकून बशिल्लें. म्हाकाय अजाप जालें. फाटीर हात ओडीत ताणे विचारलें,

"आगे आज्जे आसा मगे बरी तूं?"

"आगो, कोण गो बाये तूं?" हांवें विचारलें. हांवें ताका केन्नाच पळवंक नासलें.

"आगे, ही पळय बिल्डिंग, तुज्याच बागेक तेंकून आसा. ताजेच पाचव्या माळ्यार रावता हांव. जनेलातसून पळयलें तेन्ना तूं उदक घालताली, इतले म्हणसर तुका आडवी जाल्लें पळयलें. तुका घडये घुंवळबी आयली जायत. हांव थंय गेल्यार म्हज्यान उदक बी मारूंक जातलें म्हूण आयलें हांव धांवत. पुण इतले म्हणसर तुका दोळो लागिल्लो. तुजी नाडी बी हात लावन पळयली हांवें. दोळो लागून तुका घडये बरें दिसतलें म्हूण तुका हांवें उठयलें ना. हांवुय तुजेच म्हऱ्यान बसलें."

म्हजोय जीव चोरसो जालो. ताज्या ह्या अगत्यान नाय म्हळ्यार म्हजेय मन फुललें.

''बाय, तुजें कल्याण जांव.'' तुजें काळीज सद्भावनांनी भरील्लें आसा म्हणूनच न्हय तूं म्हाका आदार करूंक आयलें? म्हजेय मन भरून आयलें.

पोरान सुस्कारो सोडलो आनी तें तशेंच म्हजे म्हऱ्यान बसलें. आमी दोगांय एकमेकावांगडा थंडसायेन बसली.

ताणें म्हळें, ''आगे, तूं मातशी आड पडली तें बरें जालें. खूब्ब पुरो जाला जावये तुका. तूं आडवी जाली हें वयल्यान पळवनच हांव सकल आयलें तें बरेंच जाले. तुजे वांगडा आडवें जाल्ल्यान सोबीत मळब पळोवंक पावलें. कितलें मनभुलोवणे आनी सुंदर मळब न्हय? मळबाक हांवें अशें केन्ना पळयलां, हाजो उगडास लेगीत जायना म्हाका.'' अशें म्हणीत तें मुमुरख्यान हांसलें.



# कोण जिंकचो ना. हारचो ना.

गोवा कला ॲकडॅमीचो पुरस्कार मेळ्ळो म्हूण म्हाका जायते जाणांचेफोन आयले. मुजरत तांचे अगत्य पळवन म्हजेय मन प्रफुल्लित जालें.

एकटेन म्हळें, ''सुधाबाय, तुका हो पुरस्कार तुज्या पयल्याच पुस्तकाखातीर म्हळ्यार' आत्म्याचें संगीत' ह्या पुस्तकाक मेळपाचो'' ह्या तिज्या उतराफाटल्यो तिज्यो मायेमोगाच्यो भावना म्हजेय मन हालोवन गेल्यो. हांवें तिका म्हळेंच, ''बाय ह्यो तुज्यो अस्सल भावना होच म्हाका मेळिल्लो खरेलो पुरस्कार अशेंच म्हाका दिसता.''

पुण म्हजेंय मन खंयतरी म्हणूंक लागलें.

म्हज्या ह्या पुस्तकाक जांव कलाकृतीक पुरस्कार मेळूंकच जाय आसलो ही भावना, हो अट्टाहास मनातली खोस मातये भरवण करता न्हय? ज्या अप्रुप खोशये खातीर हे जायते उरलें, आयल्ली प्रचिती, उकती जायत आसतना धुंद आनंद मेळत गेलो तोच न्हय खरेलो ब्रह्मानंद? पुरस्कार मेळू न मेळू. तांतली खोस तो पुरस्कार आडावंक शकता? खंयचीय मोख आसली काय मेळिल्ली अप्रुप खोस नाशी जाता न्हय? खयच्याय खेळीक, जेन्ना कसलीच मोख जांव लक्ष्य नासता तेन्नाच न्हय तो खरेलो आनंदभरीत खेळ जाता?

कोणे म्हळां न्हय? खेळाक जेन्ना मोख आसता, लक्ष्य आसता तेन्ना तो खेळ उरना, तो डाव जाता. गेम जाता.

जेन्ना आमी मोख (गोल - Goal) विसरून वतात, तेन्ना आमी खंयच्याय विशिष्ट दिखेन वचूंक लागतात. अमकी कडेन वचुंकच जाय हो विचार लेगीत मनातल्यान फाफडून वडयल्लेवरी जाता तो विचार मनातल्यान झडून वता. आनी तेन्नाच खऱ्या अर्थान आनंदी खेळ चालू जाता न्हय आमचे भितर? गेम आनी खेळ हांतूत फरक आसा. जेन्ना खेळ गंभीर (सिरियस) जाता तेन्ना तो डाव जाता.

खेळात ध्येय वा मोख सादपाची नासता तेन्नाच न्हय तो खेळ जातलो? कोण जिंकचो ना. हारचो ना.



# " म्हजी खोस कित्याक ना केली तुवें? "

पासपोर्ट परतो नव्यान करपाचो आसलो म्हूण पासपोर्ट ऑफिसांत गेलीं.

पासपोर्टाचो फॉर्म घोवान भरून दिलो. काय रकाने भरपाचे आसले. ताणें म्हणलें, आगो ते रकाने भर आनी दावे वटेन तूं सय कर.

हांव बारीकसाणेन पळयत उरलें. वाचूंक लागलें. इतल्यान घोवान आवाज वाडयत म्हणलें, आगो, वाचूंक कळना तुका? हांगा थंय कितें पळयता? सगळे जायतें मेळटकच अशेंच जाता न्हय?

'देवान हें म्हज्या वाट्याक दिलां. हेंच न्हय म्हजें भाग्य? अशें म्हणीत हांव खळखळून हांसलें. म्हज्या वाट्याक घडये खुबळावपी मनय आयलां जायत!

म्हज्या हांशाचो घडये घोवाक त्रास जालो जावंये. आनी तिडकय आयली जायत. सगळें सटासट जावंक जाय ही ताची संवय. म्हजी संथगती पळोवन तोय खुबळ्ळो जायत. हे जाण्टेपणाक लागून घडूं येता न्हय? जायतो अणभव आसूनय कांय गजाली सट करून लक्षांत येनात न्हय? अज्ञानांत लेगीत सूख मेळटा अशें जायते म्हणटात न्हय? म्हजो अणभव ज्या मनाक येता त्या मनाक ब्रह्मानंदाच्या ल्हारार उफेवपाचो योग येता जांवये. हावें सय खंय करपाची हें हेरांनी सांगचें, ही भावना घड्ये, आपली अपुरबाय करून घेवपाचीय आसूं येता न्हय? सुप्तपणान ती उत्की जाता आसतली. कळ्ळे बगर.

ह्या धव्या केंसाचे जाण्टेलेक आपणें आदार केलो, हें समाधान त्या ऑफिसांतल्या मनशाच्या पदरांत पडलें जाल्यार पडूं दी न्हय? ही ताची भावना समजून घेवपाची तांक म्हजे कडेन आयली जाल्यार भोव बरी न्हय? म्हजेंय मन मस्तेंच कशें. आपूण, गिन्यानी आनी सामकारची अस्तुरी अज्ञानी, ह्या भावनेंतल्यान ताकाय आसुरो आनंद मेळूं येता न्हय? तो ताणें घेवचो अशें म्हज्या मस्त मनाक घडये दिसलें जायत. म्हाका कांयच कळना ही भावना, कांय वेळार एके तरेची नशा दिवन वता न्हय?फुडल्या मनशाची हालचाल, ताच्या

मुखामळावेल्यो ताज्यो भावना, वाचपांत लेगीत मजा आसता. तातूंतल्यान जायते विश्वरूप - दर्शन घडूं येता न्हय?

आपणाल्याच तांकीर, निमणे मेरेन हांव सगळें सटसट करूंक शकता. हीच घडये अहंकाराची भावना आसूं येता न्हय? ही 'मीपणाची' भावना काळजांत सदांच कित्याक बाळगुची? जे सामकार आयलां तें तशेंच सहजतायेन. आपणावपांत एक सात्वीक आनंद मेळटा असो अणभव म्हाका त्या खिणाक आयलो.

पुराय शरणागतीची भावना जेन्ना मनांत येता तेन्नाच न्हय हेरांचे हातफुडें सरतात आदार करपाक? सुपुल्ल्या भुरग्यांचे हात अशेंच तरेन शरणागतीची भावना उक्तायता म्हूण न्हय, दरेकलो ताका धरपाक आदार करपाक फुडें सरता! केन्ना येवंक पावली ही पुराय शरणागतीची भावना म्हज्या मनांत?

द्रौपदीचें वस्त्रहरण जातना, द्रौपदीन कृष्णाचो धावो केलो ताका आकांतात उलो केलो, 'म्हाका हातूंतल्यान वाटाय रे'! कृष्ण मुमुरकोसो हांसलो, 'बाय, तुवें तुजो हात एक निरेर घट दवरून दवरला आनी दुसऱ्या हातांत तूं म्हाका वाटय म्हणटा. तुजी अर्द श्रध्दा आनी विस्वास तुज्या हातार. आनी तुजी अर्द श्रध्दा विस्वास म्हजेर. ही अर्दकुटी श्रद्धा विस्वास कशी वाटायतली तुका? तुवें दोनुय हातान पुराय शरणागतीचे भावनेन तूं उलो मारशीत जाल्यारच तुका हाव आदार करूंक फुडे सरतलो न्हय? द्रौपदीन आकांतान असाह्यपणान कृष्णाक उलो मारलो आनी कृष्ण तिका पावलो न्हय?

ह्याच विचारांत हांव गुल्ल आसलें, पूण घोवान धेंगसो घालतकच हांवूय जाग्यार आयलें.

ऑफिसांतल्या फुडल्या मनशाच्या दोळ्यांत म्हाका करूणेचे –दयेचे ल्हार दिश्टी पडलें. 'हो जाण्टेलो ते जाण्टेलेचेर कित्याक ताणशेता? हांव करताच न्हय तिका आदार? ती म्हजी खोस तुवें कित्याक ना शी केली?' ताचें मुखामळ म्हाका हें सांगून गेलें. उतरां विरयत.



# कोणें आडायली सुरां ल्हारां?

वारांदार बरोवंक बशिल्लें. इतले म्हणसर भुरग्याच्या पदाचे सूर कानार
ांडले.

पळयत जाल्यार पोर व्हडा व्हडान गायतालो. ताची आवयूच आसूंक
ााय ती. ती पोराच्या हाताक धरून ओडीत व्हरताली. भुरगो आपणाल्याच
ादांत उड्क्यो मारीत. ती बाबडी आपणाल्या विचारांत. कपलाक आंठयो.
चेंतेचें जाळें तोंडार. कसलो तरी ताण तिच्या मुखामळार. भुरगो आपणाले गुर्मेत
ार ती आपणाले चिंतेंत. तो पोर आपल्याच वांगडा घेवन आयिल्लो कांय संगिताचीं
ल्हारां-सुरांचे पिशें! आनी म्हणुनूच चारूय वटेनच्या खर वास्तवाची -अस्तित्वाची
कसलीच बादा ताका आफडूंक पावली ना? 'रम्य तें बालपण' हेंच खरें न्हय?
त्या पोराचे म्होवाळ स्वर आवयच्या कानां मेरेन पावंक पावले नात काय? काय
तिच्याच कानांनी फाफडून वडयले ते म्होवाळ स्वर? ती साप्प बुडिल्ली खंयच्या
तरी चिंतनानी! तिचे मनामेरेन पावले नात काय त्या पोराच्या अंतर्मनांतले सूर?

चारूय वटेनच्या घडणुकांनी आवयचें मन लासून आयिल्लें काय? म्हूण
ती इतली चिंतेस्त दिसताली? भुरग्यांचें लुडबे बोल लेगीत आवयचें मन फुलयतात.
ती ताच्या सगळ्या लिलां भितर रमता. पूण आयज घडयें तिचें मन सारकें
नाशिल्लें जावये. कसलीपूण चिंता तिका धोंसता आसतली.

मनीस एक आयामी, एकूच तांस आशिल्लो प्राणी न्हय हें खरेंच! भोव
आयामी. जायत्या तांसांचो प्राणी. ताजे लागीं ससंवेद्यता (फॅकल्टी ऑफ सॅल्फ
अवेरनेस) आशिल्ल्यान ताची भुमिका हेर सगळ्या प्राण्यांपरस दुसरे भाशेनची
आसता. वेगळी आसता हें आमी वाचलां आनी आयकलांय न्हय? पूण कळ्ळुनूय
वळना हेंच खरें.

लोकांच्या उलोवपाक लागून आपणालें म्हणपासारकें लुकसाण जायना
हेंय खरें आसलें तरी त्या उतरांनी आपणाल्या मनांत ज्यो प्रतिक्रिया उपरासतात,
त्या प्रतिक्रियांचे सुवादीन गेल्ल्यान आपणालें लुकसाण जाता आनी मागीर
आपल्याक कांयच सुचना. जीव घुसमट्टा. तो राग भायरय काडूंक येना. आयिल्ली

तिडकय दाखोवंक येना. ती प्रतिक्रिया भायरय काडूंक येना आनी भितल्ले भितरय जिरोवंक येना म्हूण ताका लागून जो कांय एकूण ताण पडटा तांतूत मनीस ल्हासून होरपळून येता.

तशेंच जाल्लें काय ते आवयचें? तिचें मुखामळ सामकें बाविल्लें. तरेक तरांच्या ताणाक लागून तिचे कानय भेरेल्लेवरीं जाल्ले काय? आनी म्हणुनूच पोराचे निरागस स्वरूय तिज्या कानां मेरेन पावूंक पावले नात काय? घडये ही जादू ते स्वरूय करूंक पावतले आसले, पूण तिच्या मनाच्या ताणानच तांकां घडयें आडायले जातलें. मनच जर त्रस्त आसत जाल्यार संगिताची म्होवाळ सूर ल्हारां भितर कशी पावतली?



# देवान कितें कितें दिलां ताजी याद कर

मुंबय एका सुवाळ्याक गेल्लें. रेल्वेतल्यान परतताले. फुडल्या बांकाचेर एक बायल आनी सुपुल्लें चली बशिल्ली. चली न्हिदिल्लें. ती म्हाका पळोवन मुमुरखीशी हांसली. कांय वेळान ते चलयेक जाग आयली. बरें सोबीत मुखामळाचें चली. ताणें आवयक कितें सांगले आनी ते चलयेन ताका हाताक धरून उबें केलें. आनी ताका घेवन ती टॉयलेटी कडेन व्हरूंक लागली. देरेपेंत लक्षांत आयलें की पोराक दिश्टी पडना जावये. जीव चुरचुरलो. आपलेपणान ते बायलेन आमची खबर घेतली. आपलें चली कुड्डें आसा म्हूण तिणें खेदय उकतायलो ना. ना कसली पिरंगण, ना कसली कागाळ. ही तिची शांत वृत्ती पळोवन म्हाकाय अजाप जालें. म्हजे मन हाल्लें. म्हजेंच मन म्हाका विचारूंक लागलें.

हांव सदांच पिरंगतां न्हय? हें जाण्टेपण कठीण. कठीण उठप –बसप– चलप कठीण जालां. दीस सोंपून सोंपना. भूतकाळांत रमप. यादी काडप. ते वेळार जाय जाय तें केल्लें. पूण आतां म्हज्यान हें कित्याक जायना? हाचेर विचार करून हांव वेळ वगडायतां. हें फाव कशें? देवान म्हज्या वांट्यांक जेंजें भरून दिलां, तें येवजून जिणेंतलो दरेक खीण खोशेन घालोवं येता न्हय? नानाकारेर मन केंद्रीत करून परते परतें घुवन घुंवन तशीच पिरंगण करून आपणाली जीण दुख्खी करप, हातूंतल्यान हांव कितें सादूंक सोदता? ह्या गजालींनी आपणे आपणाकच त्रास करून घेवप हातूंत तथ्यच ना न्हय? कोण सोडयतलो हे दुखीतल्यान? आपणाचेर उपाट मोग करपी भुरगी, आपणाली ही दुख, ही वेदना वांटून घेवंक शकतात? ना न्हय? मागीर?

ही सुंदर अप्रुप सृश्ट पळोवपाची नदर–दृश्टी देवान आपल्याक दिल्या. तशेंच जंय वचपाची इत्सा आसा थंय वचपाची तांक पांयांक दिल्या. जें मनांत येता तें करूंक हात दिल्यात. गावपा खातीर ताळो दिला, म्होवाळ संगीत आयकूंक कान दिल्यात, चिंतपाक बुद्द दिल्या. देवान हें भरभरून दिल्लें हें देणें अप्रुपच न्हय? ताचो आनंद घेवचे बदला म्हज्यान पयली भशेनचे करप जायना,

हाचो मनस्ताप हांव कारणा शिवाय करून घेतां न्हय? ताचे बदला, प्रत्येक खिणाक देवान म्हजे खातीर कितें कितें दिलां. जायत्यो बऱ्यो बऱ्यो गजाली दिल्यात हाचो घडये आपशींच विसर पडटा जावंये. तेंय कळना जावंये. म्हणुनूच घडये मनांतली ही नानाकाराची घांट वाजूंक लागता जावंये.

मन म्हणूंक लागलें.

जरी हांव जाण्टे जाले. एकले जालें. पूण एकसुरे जावंक ना. आनी केन्नाच जावचें ना. हें घडूंक दिवचे ना. अशें जावचें न्हय म्हूण म्हज्यान मनाक घटसाण दिवं येता न्हय? तशे तरेची शिस्तूय लावपाचो यत्न करतलें. हांव म्हजेच कडेन हे तरेन उलयतलें. म्हजे कडेन जायतीं पुस्तकां आसात. वाचपाक दोळे आसात. बरोवचें दिसल्यार बरयतलें.

फोन उखलपाचो- इश्ट- इश्टिणीक आपोवचें. तांचे वांगडा उलोवन खोस घेवपाची. तांचें वांगडा पासयेक वचपाचें. पेडां-सवणीं-फुलां-पानां पळोवन चित्ताक खोशी करपाचें.

टी व्ही पळोवपाचो निश्चिंतपणान.

'जे बाबडे कुड्डे-भेरे अपंगूळ आसतात तांचे विशी चिंतपाचे. ह्यो जायत्यो गजाली म्हाका करूंक येता न्हय? मागीर तूं हें सगळे कशें विसल्लें? दोळे, कान, हात, पांय दिवन देवान म्हजेर कृपा केल्या. दरेका खिणाकखिणाक ताची याद कर. आपशींच पिरंगण ना नपश्चात जातली.



# दोन वृत्तींचें दर्शन!

दोतोरान म्हणलें, 'आरे, चेन्नायचें शंकर नेत्रालय एकदम बरें! व्हडले व्हडले कुशळ दोतोर आसात थंय. सगळ्या देशांतल्यान, परदेशांतल्यान हजारानी दुयेंती दोळे दाखोवंक येतात. थंयच वच आनी दोळे दाखय. त्या हॉस्पिटलांत २ दीस रावलीं. थंयची एक घडणूक मन हालोवन गेली.

सकाळीं आमी हॉटेलांत पावली. च्या-डोसा खालो. घोवा कडेंन मोडचे पयशे नाशिल्ले. म्हजे कडेनय नाशिल्ले म्हूण ताणें मालका कडेन ५०० रूपयांची नोट दिली. ताणें फकत १५ रूपया परत केले.

घोवान म्हणलें, 'आरे तुका हांवें ५०० रूपयांची नोट दिल्या. मालकान कपलाक आंठयो घाल्यो आनी ताणें व्हडल्या आवाजान म्हणलें, 'तुवें म्हाका १०० रूपयाचीच नोट दिल्ली हांव तुका कित्याक फट सांगतलो?

बाब, तुज्या ड्राव्हरांत पळय, ती ५०० रूपयांची नोट. हो म्हातारो-जाण्टो आपल्याक शाणपण शिकोवंक आयला जायत, घडये त्या मनशाची बुद्द हाल्ली जायत, असोय ताणें समज केलो जांवये, पूण घोवान ठणकावन सांगतकच ताणें चार शंबराच्यो नोटी दिल्यो. घडये ताच्या हाताक ड्राव्हरांतल्यान ५०० रूपयांची नोट मेळ्ळी जायत.

ताणें आपली चूक जाली अशेंय म्हणलें ना. आपली चूक मानपाक काळीजय व्हडलें लागता न्हय? पूण जांव जें जालें तें जालें. पूण आपल्याकूय लुकसाणी जाली ना हाचीच खोस घेवपाची न्हय?

त्याच दिसा आमी भायर सरतना फळ्यार बरयिल्लें तें वाचलें. नुस्तें-चिकन रातचें मेळटलें. नुस्तें खावपाची रूच आयली म्हूण ते रातीं त्याच हॉटेलांत पावली. वयल्या माळ्यार ॲर कंडिशन आसलें. चेन्नायांत खूब उजो जातालो 'थय थंडसाणेन बसून जेवया' घोवान म्हणलें.

म्हाकाय पटलें आमी दोन डिशी मागयल्यो. एक चिकनाची आनी एक नुस्त्याची. आमी बरी करून जेवली. वेटराक बील हाडूंक लायलें. ताणें बील हाडलें. घोवान पयशे दवरले. तो परत आयलो. तो सादो थंड भुरगो. तोवूय

मराठी उलोवंक लागलो. ताणें विचारलें, 'कितल्यो नोटी दिल्ल्यो तुमी?' तो मुमुरखोच हांसलो आनी म्हणलें, 'बाबा, तुम्ही ५०० रूपयाची एक नोट आनी १०० रूपयाची १ नोट दिलीत. बील १७५ रूपयांचे, म्हणून ४२५ रूपये परत आणलेत' ताणें थंडसाणेन म्हणलें. तो वेटर सारको गिरेस्त नासलो हें खरें, पूण मनान तो खरोच गिरेस्त आसलो म्हूण ताका हेरांक फटोवपाची मातूय इत्सा नासली जायत. लोभान, स्वार्थान ताका मातूय स्पर्श केलो ना.

एकाच दिसाच्यो ह्यो वेग-वेगळ्यो घडणुको. एकमेकां आडच्यो. दोन मनाचें दोन वृत्तींचें दर्शन घडलें. हें सोपेपणान जावंक शकता? हो व्हडल्या हॉटेलाचो मालक-धनी. पूण साद्या वेटरान दाखयिल्ली ही व्हडली सद्भावना, व्हडल्या व्हडल्या गिरेस्तां कडेन आसची हाची तरी अपेक्षा कित्याक दवरपाची ? तांतूतल्यान अपेक्षा भंगाचे दुख्ख आपणे जावन कित्याक आपोवणें दिवपाचें?

खूब वेळ ह्या घडणुकांचो विचार करूंक लागलें. मनीस आपलेंच वांगडा, पुर्वजल्माची पुण्याय घेवन येता काय? एकाच आवय-बापायची चार भुरगीं वेगवेगळीं जातात काय?

महाभारत काळा सावन हे तरेतरेचें लोक आपलें दर्शन घडयतातच न्हय? अर्जुन-दुर्योधन ह्यो दोन व्यक्ती. सभाववृत्ती वेगवेगळ्यो. त्या मालकाची वृत्ती आनी त्या वेटराची वृत्ती! मालक गिरेस्त आसत म्हूण ताचो लोभ मोह सुट्टा काय? जावं ताचे कडेन कांयच ना. पोटली ना. म्हूण ताकाय मोह जायना? घडये तो पोर. सद्भावनेन भरिल्ले काळीज, आपलें वांगडाच घेवन आयलो जायत. हाचो अप्रुप अणभव म्हाका त्या खिणाक अस्वस्थ करून गेलो.

एक गजाल त्या अणभवातल्यान शिकूंक पावलें. सचोटी, प्रामाणिकपण हीं कांय विशिश्ट वर्गाची मक्तेदारी न्हय. ताचो शिक्षणा कडेन जांव गिरेस्तपणा कडेन संबंद ना. ती खंयच्याय विद्यापिठांत शिकोवप जायना. जायत्या मनशां कडेन, ती काळजांतल्यानच फुलून आयिल्ली आसता. त्या खेडवळ, गांवगिऱ्या वाठारांत वाडिल्ल्या भुरग्याच्या प्रामाणिकपणाचेर कशी आनी कितली प्रतिक्रिया दिवची हेंच म्हाका कळना. देवान ह्या वेटराचेर आनी ताच्या कुटुंबाचेर आपलें कृपाछत्र सदांच दवरचें अशी हांव मनापासून देवाकडेन प्रार्थना करता.



# जाणटेपणांतले वादळ!

एका इश्टान फोन केलो. 'आगो सुधा, कितें लागलां तुमचें फाटल्यान? घोवाक 'लिंफोमा (कॅसर) जाला म्हूण ताका कळ्ळें जावये. म्हूण खबर घेवपा खातीर ताणें फोन केलो आसुये.

'आगो इतलीं वर्सां म्हाका कांयच दुयेंस जावंक नासलें, आतां म्हाका गोड्या मुताचें (डायबेटीस) दुयेंस जालां.'

ताचो आवाज थरथरतालो. हांवें म्हणलें, 'आरे इश्टा, आमी आतां सत्तरी हुपल्या न्हय? आतां आमचें पावल परतीच्या मार्गार पडलां! कितें ना कितें जातलेंच न्हय रे बाबा! हे पिरायेचेर केन्ना केन्ना पाय लडखडटले, हात थरथरतले, कानाची तांक उणीं जातली. दोळ्यांनी अस्पश्ट दिसूंक लागतलें. तरातरांचीं कुडीची व्यथा जातली. तरातरांचीं दुयेसां जातलीं. हाचेर पिरंगण करून तें पयसावतलें? ताचे कडेन सकारात्मक नदरेन पळयल्यार ताची भास उणो जावं येता न्हय मनाक?

जरी आपल्याक उणें आयकूंक येता, पूण अजूनय हें आयकूंक मेळटा, दिसप अस्पश्ट दिसलें तरी, अजून दिश्टी पडटा. हाची हयकारी घांट आनंद दिवंक शकता न्हय? देंवते पिरायेर हें सोंपेपणान जातलेंच न्हय? ताचे सामकार शांतपणान वचपाची तांक देवाकडेन श्रद्धेनच मागपाची. देवाचेर पुराय श्रद्धा दवरपाची.

'गॉड इज ग्रेट' हेच भावनेन न्हय? देवच हें घडयता न्हय? आमच्या हातांत कांयच ना. आमकां खूबफावटी दिसता की, हांवूच म्हजे पांय चलयता. हांवूच म्हजो हात हालयतां. म्हजे कडेन वाडपाची शक्त आसा. ह्याच भ्रमांत आमी खूबफावटी आसतात न्हय? जेन्ना आमची गात्रां शिथील जातात तेन्नाच आमच्या हातांत कांयच ना हाची जाणीव जाता जावंये.

पयर एक घडणूक वाचिल्ली. ताची ह्या खिणाक याद जाली. एका मनशान बरयिल्लें. 'हांव एके बायलेक मेळ्ळों. तिचें दोळे, तोंड सामके शांत आनी विरक्त दिसलें. तिणें ताका म्हणलें, 'आरे बाबा, हांव एक धडो शिकलें म्हजे जिणेंत. ह्या मशिनांतल्यान (रेसपिरेटर) म्हाका ऑक्सिजन प्राणवायू मेळटा. ह्या मशीनान म्हाका पुरायेन जाणीव दिली की तूं स्वता स्वास घेता. ह्याच भ्रमांत हांव आयज मेरेन आसलें. त्या मशीनान म्हाका ह्या भ्रमांतल्यान भायर काडलें. आतां म्हज्या लक्षांत आयलां की, म्हजे कडेन स्वास घेवपाची लेगीत तांक ना. ज्या खिणाक हाचो अणभव येवंक लागता. तेन्नाच मनशाक हीं जाणविकाय जाता जावंये. तेन्नाच तुजें कडेन शक्त ना, स्वातंत्र्य ना ही भावना उप्रासता, तेन्ना खऱ्या अर्थान तो देवाचो भक्त जाता जावंये. ते पयलीं जावप कठीण. हो दर्शन दिश्टावो जालो तरच आमचें पावल भक्ती मार्गार पडटा जावंये.

भक्ती म्हणल्यार तत्वनिश्ठाच न्हय? आनी हें फकत अणभवांतल्या खोलायेंतल्यानच येता जावंये. आनी हाची जाणविकाय जाली की, ती आपल्याक केन्नाच सोडून वचना. आपूण स्वता श्वास घेवंक पावना, ही भावना अप्रूप श्रद्धेतल्यानच निर्माण जाता. देव थारायता तेंच खरें. आपल्या हातात कांयच ना. होच देवावयलो मोग आनी श्रद्धा, आपले मन शांत करून वता.

आमच्या काळजांत मोग आसता तोवूय सभावीकच. आमी खूब जाणांक मोगूय दितात. तांतूतल्यान आमकां खोशीय मेळटा. कांय वेळार मोग दिवनय आनी घेवनय, आमच्या पदरांत निर्शेणी येता. आमकांय ताचो त्रास जाता. आमी जीणभर जाची इत्सा करताले, ते आमचे कल्पनाविश्व आनी अपेक्षाविश्व आसलें. ती सत्यसृश्टी नाशिल्ली. ते जाणविकेच्या पांवड्यार आमी पावतात, तो खीण आगळो-वेगळो. अप्रूप कसो.

देवाक शरणागती वचप हीच खरी साधना! ही खऱ्याच अर्थाची! आमकां दिसता की, म्हजे कडेन जाय तो पयसो, संपत्ती आसा. म्हजेकडेन कोणाकूय हालोवपाची शक्त आसा, हांव म्हाका जाय तशें करूंक शकता हीच आमची 'सेक्युरिटी' आसा. आमी सुरक्षीत आसात. अशाच भ्रमांत आसतात न्हय आमी?

जेन्ना जिणेंत वादळ येता, तेन्ना देवाचेरच अखंड श्रद्धा पुरायेन दवरप हीच खरी साधना न्हय? ही जाणविकाय जाता, तेन्ना देवा कडल्यान आमकां एक तरेची तांक मेळटा, येता ते परिस्थितीक तोंड दिवपाची! तोच खरो ब्रह्मानंदाचो अणभव.

देवा, जीणभर हांवें हें ते मेळयलें, ह्याच भ्रमांत आमी अडकून पडटात न्हय? पूण जिणेंतले वादळ शिकोवन वता आपल्या मनाक, की देवाचेर अप्रुप श्रद्धा दवरल्यारच ही तांक मनाक मेळटा.



# सत्तरीची हीच रचना

जाण्टेपणांत पांय लडखडूंक लागतात. हातूय कडकडटांत. विसर पडटा खंयच्योय वस्तू जाग्यार दवरल्यार, त्यो जायत्या वेळार मेळनात. हेंच न्हय जाण्टेपणाचें लक्षण? म्हजी आजी म्हाका सांगताली,

जाण्टेपण कठीण गो बाये.

बाये, सत्तरीची हीच रचना,

उठल्या बसवेना, बसल्या हालवेना,

हालल्या चालवेना.

हे तरणाटे पिरायेर हें कळनासलें. पूण आता खिणाखिणाक ह्या तरेतरेच्या दुखीची जाणविकाय जावंक लागल्या. ताकाय लागून घडये मनाची पिरंगण चालू जाता जावंये. पयलीं हांव सटसट करून चलतालें. फट करून काम करतालें. खूबशें चपळपण आशिल्लें म्हजे कडेन, पूण आतां हें ल्हवू ल्हवू उणें जायत चल्लां. हाचें विचार चक्र चालू जाता. आनी म्हणूनच मनांत, ह्या नानाकाराची घांट वाजूंक लागल्या जायत. म्हज्यान आतां खूबश्यो गजाली करूंक जायनात. हाचोय मनाक खूब त्रास जावंक लागला. मागीर तशींच मंद उतरां तोंडसून येवंक लागतात. भुतकाळांतल्यो आमच्यो गजाली आयकुपांत हेरांक वेळ तरी खंय आसा? मन पिरंगता. पूण ताचो कितें उपेग? एके अस्तुरेन आपणाल्या भाशणांत म्हणिल्लें, त्या उतरांची सदांच याद जाता.

काळखाक स्त्राप दिवंचे बदला, मेणवात लावन उजवाड करप हेंच न्हय फावो अशें? (It is better to light a candle than curse the darkness)

म्हातारपणाक शाप दिवचे बदला, हयकाराची एक मेणवात लायत जाल्यार हांव हेर गजाली विसरतां, पूण हांव अजून मेरेन जेवंक विसरूंक ना, हेच नदरेत

पळयत जाल्यार उजवाडच आमच्या दोळ्यामुखार दिसूंक लागता न्हय? देव आमकां आयज मेरेन चलयत आयलां, जिरवण उणी जाल्या जायत पूण अजूनय रूच आसा हाचेच समाधान आमच्या पदरांत पडूं येता न्हय?

एकल्यान, एका १०० वर्साच्या मनशाक विचारलें, 'तूं सदांच हांसत्या मुखाचो. सदांच खोशयेंत आसता. हाचें रहस्य कितें?

ताणें म्हणलें, 'सदचें सकाळीं उठनाफुडें म्हजे मुखार दोन पर्याय (Alternatives) आसतात. आनंदी आसप वा आनंदी नासप. हाव, आनंदी रावप होच पर्याय आपणायता. होच न्हय खरो फावो कसो उपाय ह्या पिरायेचेर? पिरगण करून, दुख्ख उणें जावप कठीणच न्हय? मागीर आमीच पिरंगण त्रासांक आपोवणें कित्याक दिवपाचें? रडून, रडून पिरायेचे हें दुखणें पयस जावंक शकता? आसा तें परिस्थितींत जें म्हाका मेळ्ळां, ताजीच याद काडून ह्या कठीण परिस्थितीची टक्कर दिवपाची तांक आमचे हयकारी मनच दिवंक शकता न्हय?"Count the blessings" देवान म्हज्या पदरांत जें जें दिलां, ताचीच सतत याद काडीत, जाल्यार मनाक हयकाराची शक्त आपशीच मेळूं येता.

दोळ्याक सारकें दिसना, हाचेर रडपा पयस, इतलो तेंप हांव बाह्य रंगच पळयत आयलां. आतां म्हजे मन अंतरंगाक पळोवंक शकता. ताचे अप्रूप दर्शन म्हाका घडटा. तांतूत म्हजें मन रंगत. तर होच न्हय अप्रूप आनंद आमकां मेळूंक शकता? अंतरंगातले तरेतरेचे रंग रंगाचे इंद्रधोण आमच्या मन:चक्षूंक खोस दिवंक शकतातच न्हय? इतलो तेप भायल्या गजालींतच रंगिल्लें न्हय म्हजें मन?

म्हज्यान आतां कांयच करप जायना, हो न्हयकाराचो विचार मना पसून पयस केल्यार, हांव फाल्यां नासत जाल्यार कांयच उरचें ना. कांयच थांबचे ना. सगळे नेमाप्रमाण चालूंच उरतलें न्हय? 'रामकृष्ण हे आले गेले, त्याविण जग का ओसचे पडले.' ही समज, मनांत आयली जाल्यार अध्यात्माची ही शिकवण मेळप सोपें जावंक शकता न्हय? आतां ह्या पिरायेचेर सगळी आपणाली इंद्रियां

आंवळून कांसवाचें नदरेन अध्यात्माचे वांटेर नदर पडत जाल्यार हीच वाटचाल फावो कशी जावं येता न्हय?

त्या ब्रह्मानंदाच्या मार्गार, म्हजें पयलें पावल पडलें जाल्यार, म्हज्या मनाकय मन:शांती मेळूं येता न्हय?



# भुरग्या तुका दृश्टीच मेळ्ळी ना! जाल्यार!!!

'शंकरा नेत्रालय' चेन्नयांतलें (मद्रास) व्हडलें हॉस्पिटल, सामकें जगप्रसिद्ध. आमी थंय पावलीं. त्या दिसा दोतोरान थंयच तुमची दोळ्यांची तपासणी करात म्हूण सांगिल्लें. थंय गांवांतलें खूबशें लोक बशिल्लें. भारतांतल्यान तरातरांचें लोक थंय आयिल्लें. खूबशीं सुपुल्लीं भुरगींय तांचे वांगडा बशिल्लीं. कांय भुरगीं रडटालीं. कांय भुरगीं तिरश्या दोळ्यांनी पळयताली.

आठ-धा म्हयन्याचीं सुपुल्लीं भुरगीं आवयच्या हातांत आशिल्लीं.

कांय भुरग्यांचे दोळेच उक्ते जायनासले. खूब लोक गरीब आसले. ह्या लोकांक आपली जीण कितली दुख्खान चल्ल्या, हाची दुख्खी वेदना तांच्या तोंडावेल्यानच दिसताली. हें सगळें करून वातावरण पळोवन म्हजें मन खूबच बेचैन जालें.

हांवें सत्तरी हुपल्या. आतां हांव परतीच्या मार्गार चलतां. पूण ह्या सुपुल्ल्या भुरग्यांच्या जिणेची आतांच सुरवात जाल्या आनी तीं भुरगीं फुडली जीण कशीं जियेतली? जल्मा सावनच त्या भुरग्यांक दोळ्यांचे त्रास जातात, दोळे उक्ते जायनात. सृश्ट दिसना, हें पळयतकच म्हजें मन खूबच हाललें. हीं बाबडीं पोरां आपणाल्या पुर्वजल्मांतले त्रास-पाप आपल्याच वांगडा घेवन आयल्यात काय? ते आपणाले व्यवहार कशे करतले? ह्या विचारांनी मन खिन्न जालें. पूण थंयचे एके आवयन, आशेचो किरण दाखयलो. तिणें म्हणलें, "हांगा दोळ्यांचेर जायते उपाय जातात. ते निमाणे मेरेन करपा खातीर आमी हांगा आयल्यात, देवाचेर श्रद्धा दवरून. तिच्या उतरांनी मनाक उभारी आयली.

कांय आवयांची तोंडा, दुख्खांनी ओली चिप्प जाल्लीं. कांय भुरगीं आवयांची दुख्खा पुसताली. आवयच्या गळ्या भोंवतणीं हात घालून, कांय भुरगीं आपले भाशेन आवयांक समजायतालीं. कांय आवयांची तोंडां अपराध्याचे भावनेन भरिल्लीं. सगळ्या आवयांची तोंडां चिंतेंन भरिल्लीं. तीं तोंडां सांगताली. काळजी

करपी. मन म्हजे तुज्याच आवयचे न्हय रे? हें तुजें निश्पाप भुरगेंपण आनि
किशोरपण! पूण बाळा, खंयच्या खंयच्या अडचणीक तुका तोंड दिवचें पडटले
हाची तुका मातूय कल्पना ना रे पुता? कितें खरें आनी कितेंफट, हें न कळपाच्या
वळणार तूं आसा. अशें निश्पापपण तुजें हे पिरायेक सोबशें.

आयज तुज्या वांट्याक जें आयलां, ते खातीर कसलेंय मोल
दिवन, तें परतें केन्नाच मेळना. हाची मातूय कल्पना ना रे भुरग्या? अरे बाळा,
तुका दिश्टीच मेळ्ळी ना, जाल्यार व्हडल्या व्हडल्या चंवराक तूं चुकतलो. मोहर
बहराक तूं चुकतलो. स्वताचो उत्तुंग खोस, कारणा बगर शेणून बसतलो. अशी
ही दृश्यां पळोवन म्हजेंय मन गलबल्लें. दोळ्यातल्यान दुकां व्हावक लागली.

म्हज्या मनावेलो संयम सुटलो जावये. हें अचकीत कशें घडलें? खंयचीय
दुख्ख सोंसपाची एक तांक मनांत आशिल्ली जाल्यार घडये हें घडचें नाशिल्लें.
सत्तरी हुपल्या. जाण्टीं, ल्हान भुरग्यां परस वेगळे नासतात. जाण्टेपण, भुरगेपणाची
पुनरावृत्ती आसता, अशें जायते जाण सांगतात न्हय? सत्तरींत पार पडलो,
काय आमची कूड थकिल्ली आसता जावये. मन भियेता, काळीज कलकलता.
एक विचार परतो परतो मनाक सतायता.

देवा, मनाक शक्त दी. कितेंय सामकार आयलें जाल्यार मनाचेर नियंत्रण
दवरपाची तांक दी रे बाबा. हे खातीर साधनाच करची पडटा न्हय? तें सोपेंपणान
जावंक शकता? खंयचेय घडणुकेन मनाचो तोल ढळ नासतना वैराग्यात व्हडलें
सूख आसता. अशें जायते संत सांगतात न्हय? ही तपश्चर्या करचीच पडटा
न्हय?



# "V फॉर व्हिक्टरी"
# व्ही म्हणल्यार जैत!

अमृतसराक सुवर्ण मंदीर पळोवन आमी परतलीं. देखणे देवूळ पळोवन ामकां सगळ्यांक भोव खोस जाली. म्हज्या घोवान सुरेशबाबान 'जपुजी साहेब' रूनानकाच्या शिकवणीचे कोकणींत अणकार केल्लें पुस्तक पळोवन ते सगळे ीख लोक खोशी जाले.

देवळाच्या महंतानी आमकां सगळ्यांक ' सरोपा' (शाल) दिवन कृतज्ञताय ारगटायली. आमचे वांगडा पूत आनी नातू आसले. त्याच वेळार आमचो नातू ाष्ट्रीय सर्तीत वांटो घेवंक आयिल्लो. तीन पिळग्यो गुरूनानकाच्या पांया कडेन ावल्यात. होच न्हय अप्रुप योगायोग! थंय सावन येतकच ८-१० दिसा उपरांत सुरेशबाबाक चलपाक त्रास जावंक लागले. आपले जांगेक एक गांठ आयल्या तेन्ना आपूण दोतोराक मेळून येता अशें ताणें म्हणलें.

दोतोरान म्हणलें, 'आरे सुरेश, ही गांठ घडये टीबी क (क्षयाक) लागून जावं येता. हो दुबाव आमी पयस करूंया. पयली हड्डयाचो 'एक्स-रे' काडुंया आनी मागीर पळोवया. दुसऱ्या दिसा एक्स-रे काडलो. दोतोरान म्हणलें, 'टीबी चो दुबाव पयस जाला. पूण हांव तुका सरळ स्पश्टपणान सांगता तूं सामको पोझिटिव्ह मनीस. तुका हो घडये लिंफोमा गांठीचो कांक्र जाला जांवये. ताची सारकी परिक्षा करप खूब गरजेचें. ताणें एका मुंबयच्या व्हडल्या नामनेच्या कुशळ दोतोराचें नांव सांगून ताका चीट बरोवन दिली. आनी तो दोतोर सगळें वेवस्थीत करतलो हाची दोतोरान हमीय दिली.

आमी मुंबयक गेलीं. त्या दोतोराक मेळ्ळीं. ताणें जायत्यो परिक्षा करूंक लायल्यो आनी मागीर तांणी पयलो कॅमोथेरेपीचो डोझ, थंयच्या रईझा हॉस्पिटलांत दिलो. त्या दोतोराक पळोवन म्हाका अजाप दिसलें. तो दोतोर भुरगेपणा सावन व्हीलचेराचेरच आसा. पूण हेंरा खातीर कितेंय आदार दिवपाची तांक आनी तेज

ताच्या मुखामळाचेर दिसलें. दोतोराक पळोवन बरें दिसलें. आनी ताची उ
दिवपी उतरां आयकून म्हाका धीर मेळ्ळेवरी दिसलें. पूण नाका नाकाशिल्ल
विचारांनी मन भंडावन सोडलें. मन खूबच त्रस्त जाल्लें. 'मन चिंती ते वैरी
चिंती' हेंच न्हय खरें सत्य?

हॉस्पिटलांत जायती सुपुल्लीं भुरगीं आवय बापायच्या खांदार, मांडये
बशिल्लीं. तांच्या मुखामळार दुख्खच दुख्ख दिसतालें. सामकी भागिल्ली, सुकिल्ल
दुयेंत पोरां, दुबळी आवय बापूय पळोवन तर मन खूब बेचैन जालें. ताव
कांक्राचें दुयेंस जाल्लें. तीं आवय बापूय इतले म्हारगायेचेर उपाय कशीं करतली
हाजीय खंत जाणवली. देवच तांकां घडये आदार दीत, अशे म्हणीत हां
म्हज्याच मनाक थाथारलें.

दोतोराक आमी मेळ्ळीं. हॉस्पिटलांतल्यान येतना एका वॉर्डांतली सुपुल्ल
भुरगीं दोन बोटां वयर करून दाखयताली. हीं भुरगीं कितें सांगूक सोदताल
काय? म्हूण एका भुरग्या म्हऱ्यांत गेलें. तो ८ ते १० वर्सां पिरायेचो आसतलो
बाबा, हात वयर करून कितें सांगूक सोदतात तुमी? हांवें ताका विचारलें.

ताणें म्हणलें, आज्ञे, आतां हांगा जो दातोर आयला, ताणें आमक
सांगलां की, तुका बरें दिसना जायत तरच म्हाका सांगात. नाजाल्यार तुमी
हाताची दोन बोटां वयर उखलून म्हाका कुरू करपाची 'V फॉर व्हिक्टरी' व्ह
म्हणल्यार जैत! मातशें बरें दिसलें म्हूण हांव हांशीत म्हजी बोटां वयर करतां
कांय वेळार भितरल्यान दुख जाता, पूण खीणभर ती कुशीक सारून, म्हजी
बोटां हांव वयर करून तांकां दाखयता. त्या दोतोराक आमी हे करतात हे
पळोवन खोस जातलीच न्हय? म्हूण आमी हें तांकां करून दाखयतात. हेर जे
हांथरूणाचेर बसल्यात, आमी आडवे जाल्यात, तेवूय थंयच्यान बोटां वयर
करून दोतोराक दाखयतात. तांच्या आंगात घडये त्राणय नासत त्या भुरग्यान
बरें करून सांगलें. ताचीय खूब अपुरबाय दिसली.

त्या सगळ्या भुरग्याची नदर म्हाका सांगताली.

'दोतोर सायबान आमकां हें सांगलांच न्हय, आमी म्हणूनच अजूनय
आमी धीर धरून आसात, आमी एक दीस बरीं जातलीं ह्याच विश्वासान'

हें दृश्य पळोवन हांव सामकें अस्वस्थ जालें. सूत्रपण जाणवलें. तीं पोरां
ुःख सोशीत सोशीत हात वयर करून 'व्ही फॉर व्हिक्टरी' म्हूण दाखयतालीं.
केतलीं हीं त्या सूपूल्ल्या पोराची ही अप्रुप तांक? तांतूतल्यान तांणी आपलो
ोतोरय वयलो अखंड विश्वास दाखयलो न्हय?

देवाचेर श्रद्धा दवरून जायतीं वर्सां गीतेची शिकवण वाचीत आयले न्हय
ांव? पूण कळप समजप सोंपे पूण वळप हें खूब कठीण हें त्या खिणाक
उत्कटतायेन जाणवलें. मन लडखडलें की कूड तरी कितें करतली? मनांतलें
त्राणच गेल्लेवरी दिसलें.

ह्याच वेळार सुरेशबाबाक 'पद्मश्री' मेळिल्ल्याची खबर आयली. भरभरून
खोस जाली. पूण त्याच खिणाक मन म्हाका विचारूंक लागलें. 'आगो, येदो
व्हडलो पुरस्कार तुज्या घोवाक मेळ्ळा, पूण तांतूत बेचैनीची झांक तातूंत कशी
भरसली? म्हजें म्हाकाच कळना जालें. जायते लोक उमेदीन तांकां मेळूंक
आयले. हुनहुनीत परबीं दिवंक एकाचेर एक फोन. लोकांच्या दर्शनान, तांच्या
उतरांतल्यान तांच्या स्वरांतल्यान सात्वीक आनंद मेळत उरलो.

पूण स म्हयने घोवान कसलीच नानाकाराची घांट वाजयली ना. कागाळ
केली ना. हीच देवाची कृपा. तो वाचीत रावलो. हेरांनी जायतीं पत्रां धाडलीं.
तांच्यो जापो धाडीत रावलो. एसएमएस धाडीत रावलो. तांच्या ज्ञानेश्वरी गीतेन
ही घडये ताका अप्रुप तांक दिली जावंये. घडये त्याच रंगान रंगून गेलो जांवये.
त्याच विश्वासान पाविल्लो काय तो? 'ब्रह्मानंदी लागली टाळी' अशी ताची ही
अवस्था पळोवन, म्हज्याय मनाक, नाय म्हणल्यार थाकाय मेळ्ळी.

जायत्यो तरेच्यो प्रतिक्रिया ह्या दुयेंसाक लागून आनी कॅमोथेरपीच्या
डोझाक लागून जातात. पूण देवादयेन ताचें मन आनी कूड शांत उरली हीच
ईश्वरी कृपा.

सगळे कॅमोथेरपीचे डोझ जाले. दोतोर मुद्दाम सुरेशबाबाक मेळूंक आयले
आनी हुनहुनीत परबीं दिवन तांणी ताचे हात हालयले. तांणी म्हणलें, 'तूं सारको
बरो जाला. तुजो हो रिपोर्ट पळोवन म्हाका खूब खोस जाली. आतां तुका आनी
कॅमोथेरपी जावं वखदां घेवची पडचीं नात. म्हूण हांव तुका हें मुजरत सांगूक

आयलां. तुका बरी भलायकी मेळूं' ताणें ही खोसदिणी खबर दिली. पूण अजू
मनाक उभारी येना.

हांव त्या हॉस्पिटलांतल्या भुरग्यां भाशेन हांव म्हजो हात वयर कर
'व्ही फॉर व्हिक्टरी' म्हूण दाखोवंक पावतलें आशिल्लें काय? होच प्रस्न म्हा
अजूनय मनाक धोंशींत आसा.



# भुरगीं जागयतात???

# 'केन्ना शिकतली गे हें तूं?'

आमी नातरांक घेवन हॉटेलांत गेल्लीं. पोरांक हॉटेलांत वचपाची खूब उमेद. ती एकमेकां वांगडा खोशयेंत उलयतालीं. तुका कितें जाय रे? म्हाका ती त्या दिसाची डीश जाय रे! तांची भासाभास चलिल्ली. हांवें तांका म्हणलें, जण एकल्यान आपणाक कितें कितें जाय ते घेवपाचे.

आगे , आमी तुवें सांगचे पयलींच थारायलां. आमी वेटरची वाट पळयतात. नातीन झेतान म्हणलें.

नातीन डीश मागयली. दुसरेच भशेनची. भायले कट्टे घट्ट कशें. आनी भितरलो गरप मोव कसो. पोरान तें फोडून भायले कट्टे पेल्यान दवरलें आनी भितरलो मोव सो वांटो, कुलेरान बरें करून खावंक लागलें. हांवें ताका म्हणलें,

'आगो बाय, भायलो कुरकुरीत वांटो आनी भितरलो मोव वांगडाच खावपाचो गो. तो कित्याक भायर उडोवपाचो? दोनूय वांगडा खातकच बरे रूचीक लागतलें.

ताणें म्हज्या उलोवपा कडेन मातूय लक्ष दिलें ना. ताणें न आयकल्लें भशेन केलें. तें खावपात गुल्ल जाल्लें. दुसरे फावटी हांवें ताका तशेंच म्हणलें. तेन्ना ताणें तिरशें नदरेन म्हजे कडेन पळयलें आनी म्हणलें,

आगे आज्ञे, वायट, पोट फुगे कट्टे खावन पोट कित्याक भरपाचें? भितरलोच वाटो बरो रूचीक लागता. तो वांगडाच खायत जाल्यार 'चार्म' वता. केन्ना समजतलें गे हे तुका?

पोरान हो प्रस्न विचारलो आनी म्हजे विचारचक्र सुरू जाले. पोर म्हणटा तें साप्पफट न्हय. आमी रूची परस पोट भरपाचेंच चड पळयतात. हो भायलो वांटो भायर पडटलो हाचीच चड चिंता मनाक.

भुरगेपणासावन, रूचीक खावपाचें, हीच गजाल चड म्हत्वाची ही सुचोवणी आमी दियच नात. तीच संवय जाता जावंये आमका मागीर. घडये तशेंच करप

हेंच फावो कशें अशें घडये मनाक दिसूंक लागता जावंये. नव्या पिळगेंतलीं हीं भुरगीं आमचे परस शाणीच अशेंच म्हणचें पडटले न्हय?

आयची पिळगी आमचे खूबफुडें पावल्यात. खलील जिब्रान सारकेलो विद्वान म्हणटाच न्हय, आमचीं पोरां आमच्याच खांद्यार बसल्यात म्हूण, तांची नदर जंय विशाळ विश्वा कडेन लागल्या, थंय आमी विचारांनी लेगीत पावची नात.

ओगीच अन्न वायट जातलें म्हूण, रूचींचें पेल्यान उडोवन वायट तें पयलीं खावन कित्याक पोट भरपाचें? भायर पडटा म्हूण पोटा भितर घालपांत आमचो बायलांचो जल्म काबार न्हय?

आमचीं नदर बिलाचे राशीचेर, नाका आसतना आमी आमकांच चिंतेच्या जाळांत घुस्पावन घेतात. कितें करूंक जाय, हातूंतच घुस्पून उरतात.

अशें म्हणटात, जाचेर आमची नदर लागिल्ली आसता तेंच आमचें नशीब घडयता. म्हणटकच आमी बऱ्याच गजालींचेर आमची नदर लावप हेंच फावो कशें न्हय? पोरान हीच सुचोवणी दिली न्हय म्हाका?

खरेंच तें! आमची पोरांच आमकां बरीं समजिकायेची मनशां जावची म्हूण स्फूर्तय दितात.

पोर, रूचीचें खावपाचेर आनंद घेतालें. हेर चिंता ताच्या मनाक लेगीत आफुडली ना. बरें लागना तें निश्चीतपणान भायर उडोवपाचें. तांतूत आनी आनीक कसलीच काटकसर करपाची ना. कसलींच चिंता, हुस्को काडपाचो ना. कोण कितें म्हणीत हाची पर्वा करपाची ना. फाफडून उडोवपाचें. मेकळेपणान जगप मनसोक्त मेकळी मजा लुटप, निवळ नितळ खोस घेवप.

पोरान सुचयलें हें म्हाका. पूण म्हणटात न्हय? 'पडले वळण सकल इंद्रिया' हेंच धोंसता न्हय मनाक?

भुरगीं आमकां खूबशें कितें शिकयतात. प्रगल्भ जिणेंचें दर्शन घडयतात. आमकां तीं उत्क्रांत करतात. evolve करतात.

म्हज्यांतलें हें उणेपण, हो दोश पोरान कितल्या म्होंवाळ, मोगाळ पद्धतीन दाखोवन दिलो. मातूय दुखयनासतना अचळय, अलगद.

ताणें सुचयलें, 'आज्जे, हेर कांयच चिंती नासतना निर्भेळ नितळ खोस घेवंक आता नव्यान शीक!'

केन्ना शिकतली गे हें तूं?



# कृतघ्नतायेचो अतिरेक

खबरांपत्र उक्ते केलें. पयल्याच पानार खबर आसली. आंध्र प्रदेशांतल्या चित्तूर जिल्ल्यांतल्या एका गांवात एके आवयक तिच्या भुरग्यांनी मसुंडेत व्हरून जिवीच लासपाचो यत्न केलो. ही घडणूक वाचून मन खुबूच बेचैन जालें. मन उचंबळून आयलें.

'आई थोर तुझे उपकार', स्वामी तिन्ही जगाचा आईविना भिकारी', 'येशिल तू घराला परतून केधवा गे, दवडू नको घडीला ये निघून वेगे', असो कळकळीचो उलो मारून आनी आवयच्या वात्सल्याची व्हडवीक गावपी आनी काळजातलो मातृसागर जागोवपी हे कवी यशवंत, माधव ज्युलियन आनी तांच्यो कविता आता पड्ड्याफाटल्यान वचूंक लागल्यात काय?

आपणाक जल्म दिवपी आवयक जिती-जिवी लासपाचो यत्न करून त्या भुरग्यांनी तिच्या माया ममतेची विटंबनाच केली न्हय? तांचे मन इतलें रानवट आनी निर्दय जालें? आवय-भुरग्यांचें नातें अरळ-अप्रुप आनी उदात्त न्हय? पुण मनशाचें मन इतलें फातरा भाशेन घट जावं येता?

'नटसम्राट' ह्या नाटकांतल्या प्रसंगाची याद जाली आनी दोळ्यांक झरी लागल्यो. तातूंत धुवेन बापायचेर चोरयेचो आळ घालो. बापूय सामको सैरभैर जालो. बापायच्या निस्वार्थ मायेमोगाक धुवेन सुवार्थी चुट्टी लायली. आवयक घरां भायर घाल्ल्यो जायत्यो गजाली कानांर आयल्यो. पूण शिकयल्ल्या पोरांनी आपणाले आवयक भीक मागूंक लावन तिका मसुंडेंत चिरेलच दवरले हें वाचुन आंगार कांटो आयलो.

आवयचे मायेक साप्पफाफडून घडोवपी घडणुको घडत आसात. शारीकरण, यांत्रिकीकरण, चंगळवाद, तोंकाचो व्यक्तिवाद, पाताळिल्ली सुवार्थी वृत्ती, बेजापसालदारपण ह्या सारकिल्ल्या जायत्या वादळांत आवयो घुसल्यांत. तांतूतल्यान सुटका करून कोण अनाथाश्रमाचो, तर कोण न्यायालयाचो, कोण भिकेचोय मार्ग आपणायत आसा. आवयची अशी भिरांकुळ अवस्था जावप हाचे सारकीलें दुख्ख ना. घडये कुटुंबा चारकोनी जांव दोन कोनी जांवक लागल्यांत

जायत. म्हूण भुरग्यांच्या काळजांतली आवयची सुवातच ना जायत चल्ल्या? घरांतली तिची सुवात नाच करपी ही भुरग्यांची वृत्ती जनावरां पाश्ट जाली अशेंच म्हणचें पडटा न्हय?

जाण्टी आवय बापूय म्हणल्यार एक वजेंशें तांकां दिसूंक लागलां काय? हीच न्हय तांचे कृतघ्नतायेची भावना? आवयन हाताचो पाळणो करून, दोळ्यांचो दिवो करून, अंगाई गीत गायत गायत, रातदीस वाडयिल्ल्या, पोशिल्ल्या ह्या भुरग्यांक ह्यो गजाली कांयच न्हयश्यो दिसूंक लागल्यो? दिसां कणकणी भुरग्यांची तिणें दुखणीं काडलीं, जागरणां केलीं, जायत्यो खस्तो खाल्ल्यो. आपणाल्या भुरग्यांची जीण सुखदिणी जांवची म्हूण ती वोतात रावली, कश्टली हे सगळें तीं भुरगीं इतल्या सोंपेपणान विसरूंक पावली? काय तांची बुद्दीच नष्ट जाली? 'दिल्ल्या मापान घेवंचे' - 'करावे तसे भरावे' हांचीय याद ना जाली काय ताका? भुरग्यांफुडें आपणे दवरिल्लो आदर्श, परतो बूमरँगा भाशेन जाण्टेपणात आपल्याकच नडूं येता. इतली लेगीत भिरांत दिसली ना काय तांकां? आपणाले आवयक फुटिल्ल्या आयदनांत पेज दिवपी बापायक, आनी आवयक ताच्या भुरग्यान ताचे खातीर तेंच फुटके आयदन राखून दवरिल्लें हाचेय भान उरलें ना काय तांकां?

जाण्ट्या आवय बापायक सांबाळप हें तरणाट्या भुरग्यांक उणेंपणाचें लक्षण दिसूंक लागलें जाल्यार, आमची आयज मेरेन त्याग, सेवेन चलत आयिल्ली भारतीय संस्कृती खंयचे दिकेन चलूंक लागल्या, हाचेर विचार करप ख्र्यानीच गरजेचें न्हय? आधुनिकतायेचो हो घडये शाप जावं नये हाचीय जतनाय घेवची पडटली न्हय?

भुरग्यांक चुरको लागल्यार ताची दुख, ताचे वळ आवयच्या आंगार उदेतात. आपणाल्या पोटच्या पोराक सगळ्या आगांनीं फुलोवपाचो यत्न करपी आवयचेर असली भिरांकूळ आक्रमणां जावप हेंच न्हय तें अमानुशपण?

गर्भ आनी मातृत्व मारपाचे यत्न दिसान दीस वाडत आसात. गर्भाशय भाड्यान दिवपाच्या प्रयोगाक लागून तर नवे नवे प्रस्न उप्रासत आसात.

ताका लागून जर हुमन्याचें भान मातये भरवण जावंक लागत जाल्यार ही गजाल हुस्को करपा सारकीच न्हय ?

भाकरेचो कुडको हीच आवयची एकमेव गरज नासता तर गोठ्यांत वासराच्या आंगार जीब भोंवडावपाचीय तिची भूक आसता हेंय समजूंक जाय न्हय मनशाक ?



# मायेस्त पोर

बायलांचो मेळावो आसलो. हांव थंय गेल्लें. अस्तुरी बऱ्यो न्हेशिल्ल्यो. उमेदीन वावुरताल्यो. पळोवन खोस जाली. तांच्या चलपातली तुरतुरसाण, तांचो आत्मविश्वास उक्तायताली. आयची अस्तुरी फुडें वचत आसा हें जाणवलें. आनी जिवाक बरें दिसलें.

एक तरणाटी अस्तुरी म्हजे म्हऱ्यांत बशिल्ली. तिचे मांडयेर एक सुपुल्लें पोर बशिल्लें आसतलें. चार पाच वर्सां पिरायेचें, अपुरबायेचें मुखामळ पोराचें आवयक एका फाटल्यान एक प्रस्न विचारतालें. आवय थंडसाणीन आनी उमेदीन उलयताली ताचे वांगडा.

हांवें पोराक विचारलें, 'बाय कितें गो नांव तुजें?'

म्हजे नांव श्रुती. पूण आई म्हाका बाय म्हणटा. पोर उमेदीन उलयलें. ताची हुशारी पळोवन तोखणाय दिसली. पोर एक नदर लावन म्हजे लागीं पळोवंक लागलें आनी सट्ट करून ताणें म्हणलें, 'आगे तूच न्हय ती? सुनापरान्तात बरयता ती? तुजें फोटो पळयल्यात हांवें, जायते फावटी. तूंच मगे ती?' येद्याशा पोराचें चाणाक्षपण पळोवन अजाप जालें. हांवें म्हणलें, 'आगो श्रुती, तूं वाचता गो बाय तें दिसाळें?

'हय हय! आमच्या इस्कोलांत ॲसेंब्ली वेळार आमकां काणयो, कांय गजाली दिसपट्ट्यो सांगच्यो पडटात. हांव केन्ना केन्ना चित्रांय धाडटा त्या दिसाळ्याक.'

येदेशें पोर, पूण तल्लख बुध्दीचे. मनापासून अपुरबाय दिसली पोराची. हांवें आवयक म्हणलें, 'पोर तुजें सामकें गुणी आं!'

तिणें म्हणलें, 'देव बरें करूं.' पोर अशेंच तुरतुर करून उलोवपी. वता थंय काळीज जिखपी पळवणाऱ्यांचे. पयरचीच गजाल सांगता.

शेजरा एक जाण्टो आनी जाण्टी रावतात. पयर त्या जाण्टेलाची घरकान्न भायर पडली. ताका मेळूंक हांव फुडेंफाटीं जाताले. मन घट्ट करून जाण्टेल्याक

मेळूंक गेलें. बाबड्याची धतर–वितर अवस्था पळोवन खूब वायट दिसलें. जीव म्हजो बेचैन जालो. काळीज भडभडून येवंक लागलें. हें पोर फाटल्यान लागलें. 'कितें जाला गे तात्याक? तो एकसारको कित्याक रडटा? हांव वतलें ताका मेळूंक!

'आगो ती जाण्टेली आजी देवागेर गेली. अशावेळार भुरगीं वचनात गो. हांवे ताका जायते समजावपाचो यत्न केलो. पोर कशेंच आयकना जालें. पोरान जनेलांतसून जाण्टेल्याक रडटा आसतना पळयलें. तें धावत तागेर गेलें. ताका आडावंक म्हण हांव ताचे फाटल्यान धांवलें. पूण पोर हाताक लागलें ना. ते तडक गेलें आनी जाण्टेल्याचें मांडयेर बसलें. ताची दुख्खां पुसूंक लागलें.

थोड्या वेळान तें घरां परतलें. पोराचें तोंड सामके बाविल्लें. आवाज रडकुरो जाल्लो. हांवें ताका विचारलें, 'आगो बाय, तात्याकडेन कितें उलयलें तूं?

हांव ताचेकडेन कांयच उलोवंक ना. हांवें ताका फकत रडपाक दिलो. हांवें ताची दुका पुसलीं.

म्हजेंय मन हाललें.

पोराचें काळीज कितलें ल्हवूपिक, म्होंवाळ! मोगाळ! पोरानच जाण्टेल्याक खऱ्यांनी समजून घेतले न्हय? हाचे परस आनी इतली उत्कट समजीकायेची बुजवण आनी कसली जावं येताली?

पोराचें काळीज खरेंच अप्रुप कशें न्हय?



# येत काय दुकां हेरांच्या दोळ्यांत म्हज्या मरणा उपरांत?

पुतागरे गेल्लें. पुताक आनी सुनेक दोगांकूय वाचपाचो छंद. वेळ मेळटा तेन्ना दोगांय वाचतात. वता वता थंयसून तरेकवार पुस्तकां हाडप हो तांचो सामको आवडीचो छंद. सुनेच्या मेजार एक पुस्तक पळयलें.

"Who will cry when you die?"(तूं मरतलो तेन्ना कोण रडटलो?)

नाय म्हणल्यार मन हाललें.

हावें सुनेक म्हणलें, 'आगो वर्षा, बरें पुस्तक सोदून हाडलां मगो तुवें? मरण हें निश्चीतच. तें चुकूंक येवचें ना हें खबर आसून लेगीत आमी मरणाचें उतर लेगीत उक्तावप म्हणल्यार 'थुमेकाल' म्हणटात न्हय? पूण ह्या पुस्तकाचो माथाळोच पळोवन भयांकूळ सत्यान, मनाचो कोनसो हाललो गो बाये.'

तें मुमुरखेशें हांसलें आनी ताणें म्हणलें,

'म्हाकाय तशेंच जालें गे. म्हूण हावें तें घेतलें. बरें विचार करी सारकें आसा पुस्तक. तूं वाच हां! म्हणू ताणें तें पुस्तक म्हज्या हातांत दिलें.

पान परतिलें जाल्यार चार वळींचेर नदर गेली.

'चलेबाब, जेन्ना तूं जल्माक आयलो. तेन्ना तो रडटालो. त्यावेळार संवसार खोस मनयतालो. तूं अशी जीण जियें. जेन्ना तूं मरतलो तेन्ना संवसार रडटलो आनी तूं खोस मनयतलो.'

कितली सार्थ सांगणी ही ! मनांत खवदोळ उप्रासलो.

म्हज्या मरणा उपरांत हेरांच्या दोळ्यांत दुकां येवपासारकें हांवे कितें केलां? तांकां म्हजी माया दिसपासारकी करणी म्हज्या हातसून घडल्या तरी? कोणाक आदार तरी केला हांवें? कितले जाणाची जीण फुलोवपाचो यत्न केला

हांवें? जिणेंत, थोडे तरी खीण वावुरलें काय हेरांखातीर? कोणाचेर उपकार तरी केलें? कित्याक मानतले ते म्हाका? गेले उपरांत, फुडले पिळगेक याद उरची असले, कसले संस्कार हांवें निर्मुपाचे यत्न केल्यात? निमाणो स्वास घेवचे पयलीं बरें दायज, बरी परंपरा निर्मुपासारकी कसली देख हांवें दिल्या?

मरणासान्न जाल्ल्यां एका व्हडा नामनेच्या लेखकाक–बर्नाड शॉक विचारलें खंय, 'जर परती जीण जियेवंक मेळ्ळी तर तूं कितें करतलो?'

ताणे सुस्कारो सोडीत म्हणलें, 'जसो हांव जावंक सोदी तसो हांव जावंक पावलो ना. जावं येतालो. तसो 'मनीस' हांव जावंक सोदता.'

दुसऱ्यान कशें जावंचे, कितें करचें, कशें जियेवंचें हेंच सांगपांत म्हजी जीण सोंपत आयली न्हय? दुसऱ्याकडेन दोशाचे एक बोट दाखयतासतना दुसरे बोट आपणावटेन कुरु करता, हें म्हजे केन्नाच मतींत आयलें ना काय?'

देवान दिल्ल्या हातांचो खऱ्या अर्थान हांवे उपेग केलो? दुसऱ्यांक कांयच उबारून कित्याक दिवंक पावलें ना? जो हात, दिता तोच जायत्या जाणांक एकठायता जायत्या जाणांक पुंजायता हें हांव नकळों आशिल्लें? गांठीक कितें आसतना तरी हेरांक कितें दिवया अशी वानसा केन्नाच कित्याक जाली ना? आयज म्हज्या म्हऱ्यान आसा तें फाल्यां उरतच म्हणू सांगूं येता? सगलें हांगाच सोडून वचूंक जाय न्हय? कांयच आपले वांगडा व्हरूंक मेळना हेंय म्हाका खबर आसा न्हय? रासभर मेळयिल्लें, पूण आपले वांगडा कूस लेगीत व्हरूंक मेळना म्हूण गझनीचो महमंद, हुंडक्या हुंडक्यांनी रडलो खंय निमणें. तशीच पाळी येवंची ना मूं म्हजेर?

हांव फाल्या हांगा नासतलें, हेंवूय खबर आसा न्हय म्हाका? पूण कळून वळना अशीच जाल्या न्हय म्हजी अवस्था?

व्हडली गजाल नाका, पूण येदीशी – इल्लीशी गजाल व्हडा मायेन करूं येताली न्हय म्हज्यान हेरांखातीर? दुसऱ्यांक खोस दिवन केन्ना तांकां हांसोवपाचो यत्न तरी केलो हांवें? हांवूय पोटभर हांसूंक पावलें ना. हेरांकूय हांसोवंक पावलें ना. सदांच हेरान म्हजे खातीर कशें वावुरचें, संवसार कसो आसचो हाचीच

अपेक्षा करीत उरलें आनी म्हूणच कांय अपेक्षाभंगाच्या दुख्खाचो दोंगरच म्हजेर कोसळून पडलो? ताच्याच चेंपणासकयल हांव अशें चिड्डून गेलें?

दुसऱ्यांनी कितें करचें हें सांगपाचो म्हाका कितें अधिकार? पूण सोंपेपणान हो अधिकार हांवे जावनूच म्हजेकडेन झोंबून घेतलो न्हय? हो संवसार मात तरी बरो करचो म्हूण हांवें कितें केलां? हांव रावता ती सुवात म्हज्यानय मात तरी बरी करूं येताली न्हय?

फकत हेरांकूच पळोवपापरस म्हज्यान, म्हज्या मनाभितर झांकून पळोवं येताले न्हय? पूण केन्नाच तें पळोवपाची बुद्द म्हाका कित्याक जाली ना काय?

दुसरो, दोशांनीच भरिल्लो पुतळो अशेंच म्हाका कित्याक दिसतालें? तांच्या बऱ्या गुणाचेर नदर मारूंक येताली न्हय? तांचे सद्गूण पळोवपाची म्हजी दृश्टीच ना नपश्चात जाल्ली काय? आपणांवक येताले न्हय तांचे बरे गूण? दोळेच धांपून घेतले काय हांवे मुद्दमच? हेरांच्या बऱ्या गुणांची तोखणाय करप म्हाका कित्यांक जमले ना. म्हज्या काळजांतच ना काय ही सद्भावना? ताकाय व्हडलें काळीज लागता जावंये. दुसऱ्यांची तोखणाय करून तांका आनंद दिवप म्हाका जमलें ना. म्हज्या काळजांतच आनंद ना जाल्यार हांव दुसऱ्यांक आनंद कशें दिवंक पावतलें? तेंच खरेंच न्हय? भितर आसा तेंच भायर सरतलें न्हय?

काळजाक लागतात अशींच उतरां ओंकून हांवें घडये हें मनांतलें वीख ओंकलें जातलें. जीणभर हीच व्हडली चूक करीत आयलें जावये हांव. म्हजें उलोवप, चलप, बोलप हेरांक घडये सारकें लागलें ना जावये. म्हजे भितरलो अहंकाराचो 'मीपणा' चो रंग घडये, नकळ्यां भायर सरलो जावये. ताका लागून हेरांक खूब त्रासय जाला जावये.

जिणेंत हांव आपणांतच गुल्ल उरलें. म्हजेंच मस्तींत. म्हजेच तंद्रेंत. म्हज्याच मोगांत. आपणालें रूप, कर्तूब, प्रसिध्दी हातूंतच हांव घुस्पून उरलें. 'हांव', 'म्हाका' 'म्हजेकडल्यान', 'म्हजें' 'म्हजो, 'म्हज्यांत' ह्याच चक्रांत घुंवत उरलें हांव. हातूंत 'मीपण' आस, आत्मप्रौढी आसा. हें म्हाका केन्नाच कळ्ळें ना काय? अहंगंडाची भूतबादा जाल्ली जावये म्हाका त्या वेळार. कित्ती आनी कर्तूब हांच्या वलयाभितर हांव उफेत उरलें.

होच तो इगो. अहंगंड म्हणल्यार 'घनिभूत मीपण' ताणेंच म्हाका आपणाल्या मोहजाळांत घुस्पून दवरलें. आत्मस्तुतीचेंय पिशें लागिल्लें म्हाका. हांव आकांताचें आत्मकेंद्रीत जालें आनी म्हूणच हेरांचो विचार लेगीत मनाक आफुडलो ना. लोकांनी म्हाकाच वयर उबारून धरचे, म्हजीच तोखणाय करची, हाचीच म्हाका संवय जाली हाचेंच म्हाका व्यसन जाल्यान म्हजी विवेकबुद्ध सोंपली जावये. आत्मस्तुतीचो शापच दिलो काय नियतीन म्हाका? स्तुतीबगर हेर कांयच म्हाका आयकूंक आयलें ना काय? हेरांचे दुख्ख, हेरांचो मनस्ताप, त्रास म्हाका दिसले नात. हेरांची वेदना म्हाका आयकूंक आयली ना.

'मीपणा' क पोसवण दिवपाचेंच कर्तूब घडलें काय जीणभर म्हज्या हातसून? आनी म्हूणच ताची भूक वाडत गेली जावंये 'भस्म' रोग जाल्लेवरी.

एकूच फावटी मेळटा न्हय हो मनीस जल्म? परतो मेळत काय ना खबर ना. ह्याच जल्माची सार्थकताय पदरांत घालून घेवया अशें म्हाका कित्याक दिसलें ना? म्हजेच धुंदीत आसलें न्हय हांव सदांच.

दुसऱ्यांकडल्यान सदांच अपेक्षा करपी म्हज्या मनानच सतत मनस्तापाक आपोवणें दिलां न्हय? दुसऱ्यांनी कितें करचें हें थारावचेपरस, म्हज्यानय तें तांचे खातीर करूं येता न्हय? पूण तशी सदबुध्दी कित्याक जायना म्हाका?

'तूं अशी जीण जिये, जेन्ना तूं मरतलो तेन्ना संवसार रडटलो आनी तूं खोस मनयतलो.'

हीं उतरां मनाक धोंसूक लागलीं. म्हजे जिणेच्या बेरीज-वजाबाकींत, चडशीं वजाबाकीतलीं शून्यांच उरलीं. उत्कटतायेन खेदाची जाणविकाय जाली. मन भायर-भितरल्यान धवळून आयिल्लेवरी जालें.

नाय म्हणल्यार मनाक बऱ्या विचारांचे न्हाण पडलें. केन्ना काय मन नितळ निवळ जातलें हांची वाट पळयत आसां.

'जायत काय बरी बुदद्द बरी जीण जियेवपाची-मरणा उपरांत हेरांच्या दोळ्यांत दुकां येवपासारकीं?'



# पूण केन्ना जातलें म्हजें मन तयार हो खेळ खेळूंक ?

धाकटो नातू फाटल्यान लागलो. 'आगे, आज्जे योमगे खेळूंक. उडय मगे बॉल !' हांव उठलें. म्हणलें, 'आरे, बॅट दी रे म्हाका. तूं घे हो बॉल हातांत आनी कर बॉलींग'

'तुका दर फावटीं बॅटिंगूच कित्याक, करूंक जाय गे? हे फावटी तूं बॉलिंग कर.' नातवान नेटान म्हणलें, म्हजेंय मन हाललें.

तो म्हणटा तें फट न्हय ! दर फावटी हांवेंच कित्याक करपाची बॅटिंग? भुरगेपणांतूय, हेच गजालीचेर, हांव म्हज्या भावंडांकडेन हुज्जत घाली न्हय? सदांच हांव पयली बॅटिंग करतलें. असोच आसली न्हय म्हजो आगरो आनी अट्टाहास? एके सुवातीर रावन पराक्रम गाजोवप सोंपें – बॉल घेवन हांगा थंय नाचचें पडना न्हय? श्रम उणें आनी जिद्द चड. होच हट ! होच अहंकार !

विमला ठकार हांच्या उतरांची याद जाली.

समजा, तुमी हातात बॅट घेतली आनी बॅटिंग करप तुमका खूब मानवलें म्हणू कितें जालें? म्हण कितें बॅट हातांतली सोडपच ना. आगो बाय, अशें जायना. बॅट सोडचीच पडटा. आनी बॉल हातांत घेवचो पडटलो. आनी समजा, तुमी बॉल हातांत घेतलो म्हूण बॅट सोडचीच नात काय? अशें न्हय गो बाये. बॉल लेगीत हातचो सोडचो पडटा. तशें केलें ना जाल्यार ताका खेळ जांव क्रिडा म्हणूंक येवंचेलें ना. हातांत घेवप आनी सोडप, दोनूय मेळून खेळ जांव क्रिडा म्हणप जाता. म्हूण आमी केन्ना केन्ना बॅटस्मन म्हणोवन घेतात तर केन्ना बॉलर, तर केन्ना फिल्डर म्हणोवन घेतात. कितें ना कितें म्हणोवन घेतच आसतात. हेच न्हय बरो खेळ?

आई, भुरगेपणांत खंत उत्तायताली,

'कशें जातलें काय हे चलयेचें? सगळे चल्यांचे खेळ जाय हाका खेळूंक! सदांच बॅट घेवन खेळूंक सोदता. सदांच हेरांचेर दादागिरी. हांव सांगतां तें तूं आयक ! होच हाचो हेरांक दबाडगो. हेरूय बाबडे ओग्गी रावन आयकतात हाचें.'

पूण आजय म्हज्या नातवानूच बुद्द शिकयली न्हय म्हाका? ताच्यांतय आयलो काय म्हजो हो अहंकार आनी अट्टाहास?

आतां साठी हुंपून सत्तरीच्या घरांत पावल दवरलां. पळोवंक गेल्यार पन्नास-पंचावन्न वर्सांमिरेन धनसंग्रह करप, कुटूंबाचें पालन पोशण करप, समाजीक जापसालदारक्यो उखलप; अश्या जायत्यो गजाली केल्यो. खेळाचें एक आंग सांबाळ्ळें. आतां ह्या खेळाचें दुसरेंय आंग सांबाळूंक जाय न्हय? हें सांबाळप हेंय शिकूंक जाय न्हय आतां ! अर्थांत विसर्जनाची-हातांतल्यान सोडपाची तयारी करूंक जाय हेंच खरें न्हय? पूण तितली तयारी आसा म्हज्या मनाची? आयज मेरेन हांव 'अहं आनी मम्' - हांव आनी म्हजें ह्याच चक्रांत घुस्पून उरिल्लें न्हय?

दिसभरांत, कोणाय कडेन वेव्हार करतासतना 'हांव आनी म्हजे' हीं दोन उतरां उजार केलेबगर रावलां हांव?

अहमभाव आनी मम्भाव होच म्हज्या मनाचो मुखेल आहार जावन उरलो न्हय? हांवें व्यायाम केलो, हांवें म्हजी कूड सशक्त, सुंदर केली. हांवे बुद्धीची जोपासना केली. हांवें हें ज्ञान मेळयलें आनी हांवें तें ज्ञान मेळयलें, हें हांवें केलें, हांवें केलें. हांव - हांव - हांव !!!

पूण आजय मेरेन अहमभाव पोसवपाचो, मम्भावाचो विस्तार-पातळावपाचो यत्न करीत आयलें. त्या अहंभावाचें विसर्जन करपाचें शिक्षण घेवपाची हीच वेळ न्हय? एक ना एक दीस हांव मरतलें, हांगासून नाच जातलें हें निश्चीतच न्हय? हें चुकपाचेंच ना न्हय?

अर्दावयर जिवीत सोंपलें. अर्दी यात्रा पार जाली. आतां वानप्रस्थ पयली ब्रह्मचर्य मागीर गृहस्थ आनी आतां हो वानप्रस्थ अशी हीं तीन पर्वा. पूण अजून

म्हजो मूळ पीळ वचना. सदांच बॅटींग जाय, हें चित्तांतल्यान सुटूंक जाय. भितरल्ल्यान सगळें आतां सुटूंक जाय म्हणपाचें अजून मनाक पटना.

जाचें पयलीं ग्रहण केलें ताचें विसर्जन करिनासतना जर एकसारकें ताका घट धरूनच दवरलें जाल्यार तो खऱ्या अर्थान खेळ जावं येता? कितलेंय कर, ताकाच घट धरून रावं नजो तुज्यान बाये ! केन्ना तरी तुका सोडचेंच पडटलें. म्हणटकच ताची तयारी आतांपसूनच कित्याक करूंक लागना तूं?

मनांतलो खवदळ कसोच शांत जायना जालो. नातवान जागयलें खरें म्हाका, पूण केन्ना जातलें म्हजें मन तयार हो खेळ खेळूंक ?



# मनशाची जीण ?

सांजचीं बागेंत पासयेक गेल्ली. पंदरा–वीस मिनटां चल्ले उपरांत थंयसरल्या बांकार बसपाक म्हूण गेलीं. थंय एक सिगाराचें रितें पाकीट आनी एक फस्क पडिल्लें. हांवे ती दोनूय एकठांय केलीं आनी कोनशाक आशिल्ल्या डब्यांत उडोवंक वतालें, इतल्यांत घोवान म्हणले,

'आगो फस्कूय कित्याक उडयता? सदांच तू फस्क सोदता न्हय उजवाती लावंक. दवर तें. म्हाकाय खरें दिसलें. हांवे फस्क पर्सीत घालें.

आयज सकाळी सदचे भाशेनूच उजवाती लावंक गेलें. म्हाका त्या फस्काची याद जाली. फस्क पर्सीतल्यान काडलें. उजवाती लायल्यो. आनी फस्क म्हज्या मेजाच्या खणांत दवरलें. फाल्याच्यान हाताकडेन तरी मेळटलें तें. मनांत विचार उप्रासलें.

ह्याच फस्कान कालमेरेन सिगरेटी पेटयल्यो आसतल्यो. पूण आयच्यान तें उजवाती लावंक पावतलें. ताचे जिणेची दिशांच बदल्ली. ताचो प्रवास वयल्या सोंपणाचेर पावलो काय? हो योगायोगूच आसूंचे. मनशाचेय जिणेत केन्ना केन्ना अशेंच घडटा न्हय? हरशीं विकारांनी भरिल्लें मन. तातूंतल्यान भायर सरून, बऱ्या मार्गाक लागू येता न्हय? खूब फावटी पश्चाताप जावन बऱ्या मार्गाक लागता न्हय मनीस?

आतां मेरेन पयशांचो धुंवर करून मनशाच्या जिवाक घातक असो वावर करपी हेंच फस्क, अकस्मात चोवीस वरांभितर आपणालो मार्ग बदलता, उजवात लावंक लागता, तिच्या घमघमान हेरांक प्रसन्न करता. आपणाली भुमिका साप्प बदलपाची स्फूर्त जाली काय त्या फस्काक? घडये तशेंच घडपाचें आसलें जावये. म्हुणुनूच तें थंयच उरलां जातलें. मालक ताका विसरून गेलो जावंये. ताका घडये उपरती जाली जावंये. आनी ताका लागून त्या सिगरेटी फुंकपी मनशाच्या हातसून तें सुटलें. तोवूय एक योगायोगच म्हणचो पडटलो. वेळ आयले उपरांतच जाता काय हे परिवर्तन? ही क्रांतीचो हो बदल?

ते फस्क चडशें भरिल्लेंच आशिल्लें. चार-पांचच सिगरेटी ताणें पेटयिल्यो जायत. तितलेंच घडये त्या फस्काचें पातक आसुंये. घडये तेच मोहांचे खीण आसूये ताचे जिणेंत. जे ताका चुकोवंक आयले नात. घडये निरपेक्ष, निरासक्त भावनेनय ताणें तें आपणालें कर्तव्य म्हुणनूय केलें जायत. घडये हें वायट कर्तुप धुंवन वचूं म्हणूय ताका ही संद मेळ्ळी जावंये. तें फस्क वान्सेन बरें आसतलें. वान्सा तशें फळ म्हणटात न्हय? गीतेंत श्रीकृष्णान सांगला न्हय? बरे सदभावनेन, बरें काम करपी कसोच वायट गतीक पावना म्हूण. दोन खिणांखातीर तें फस्क, सिगरेटी पेटोवपाच्या वायट कर्तुपांत घुस्पलें जावंये पूण तात्काळ उजवाती लावपाच्या कामाक लागलें. अशीच आसता काय मनशाचीच जीण? नवे नवे रूप घेवपी.... रंग आपणावपी.... व्हांवत रावपी, फुलपी फळपी ?



# जाची खोस तिगता ताची आसता नित्य दिवाळी !

काल एक मासिक चाळटालें. मुंबयच्या आकांताळ्या प्रलयाचो अणभव ताणें बरयिल्लो. सगळ्यो रेलवे गाडयो बंद जाल्यात. पावस ओततालो. रस्त्यार उदक. पळयतां उदक गळ्यामेरेन जालें. टॅक्सी जांव रिक्षा सगळ्यो ठप्प जाल्यात. ट्रॅफीक जॅम. सगळेवटेन वाहनां उदकांत अर्द बुडल्यांत. लोक एकामेकांचे हात धरीत अडखळत चल्ल्यात. मळबान सामकें गच्च काळखाचें पांघरूण घेतलां. आतां कशी पावतलीं आमी आपणाल्या घरा? घरांतलीं मनशां, भुरगींबाळां कशीं आसतलीं? खंय आसतलीं? हीच चिंता सगळ्यांच्या तोंडार. घरच्यांचें कितें जालां काय हीच जिवघेणी, आकांताळी भिरांत सगळ्यांच्या दोळ्यांत? चर्नीरोड ते घाटकोपर २५ किलोमिटरांचे हें अंतर कशीं काडटलीं? एकसारकीं ११-१२ वरां चलत रावलीं. हा हू करीत. रिकाम्या पोटार. चिप्प भिजून घरामेरेन पावलीं जाल्यार, सगळो तळमजलो, रावपाचो ब्लॉक उदकान भरला. पुस्तकां, आयदनां ल्हारार उफेत आसत. सगळी लुकसाण पळोवन धपको बसलो. हें सगळें सांगून निमाणें ताणें जें म्हणलां तें वाचून मन हाललें ! 'एक सुखदिणी गजाल म्हणल्यार १२ वरां, म्हजे बायलेचो हात धरून हांवे २५ किलोमिटर चलपाचें धैर्य मेळयलें.'

ह्या मनशाची जिणेकडेन पळोवपाची हयकारी वृत्ती पळोवन अजाप दिसलें. मनोमन ताची तोखणाय दिसली. मनांत अचकीत ल्हारां उप्रासली.

हांव जर ताच्या जाग्यार आशिल्लें जाल्यार? इतले विपरीत परिस्थितींत हो आनंदाचो तरंग म्हज्या मनांत उप्रासतलो आशिल्लो काय? खंयचीय वस्तू अस्तित्वांत नासतना जावपी आनंद, तेंच खरें परमात्म्याचें व्यक्त स्वरूप आसता ही संताची म्हणणी ताणें खऱ्या अर्थान आपणायिल्ली काय? आनंदाक जें मारक तें न करप म्हणल्यारूच वैराग्य. आनी आनंदाक बळकटी हाडपाखातीर जें करप, ताजेच नांव विवेक. हेंच मानपाची तांक ताका मेळिल्ली काय? आनंद म्हणल्यार आत्मचिंतनान येवपी मानसीक समाधानूच आसा. अशें म्हणटात न्हय

ाधुसंत? जो निस्वार्थ बुद्दीन मोगकरता. ताका मेळपी आनंद दुसरेच भाशेनचो. वपी हांव जेन्ना दिवपी जातां, त्याचवेळार ताका खरो आनंद जाता न्हय? ह्मानंद हो जण एकल्याच्या काळजांत स्वयंभू आसा. वृत्ती पळोवन तो चाखूंक जाय अशें गोंदवलेकर महाराजान म्हणलां न्हय? ती दोगांय घोव बायलां ह्या सात्वीक समाधानान उफेतालीं काय? आनी म्हणून एकमेकांकडल्यान धैर्य घेत-घेत, दीत-दीत ती इतलीं वरां संकटाक तोंड दीत फुडें सरली? घरा पावलीं? घोवान आपणें बायलेक कितें दिलें, हाचो उच्चार करिनासतना बायलेन म्हाका धैर्य दिलें म्हूण हांव हें दिव्य करूंक पावलों अशें म्हणलें. कितली अप्रूप नमळाय! खऱ्या निस्वार्थी मोगाची आनी अस्सल समजिकायेची कुरू न्हय ही? हाव जाल्यार पिरंगून पिरंगून, नाकाशिल्ले प्रस्न विचारून घोवाक नाका धर्म करून सोडटलें आशिल्लें. ताचो जीव खातलें आशिल्लें! वायटांतल्यान लेगीत थंडसाणीन, आनंदाचो खीण सोदपाची आनी जियेवपाची तांक ताणीं दोगांयनीय मेळयिल्ली काय?

पुरो जावन घरा पावतकूच नदर पडिल्ल्या देखाव्यान हांव खचून वतलें आशिल्लें. टी. वी ची वाट लागल्या, फर्नीचर नश्ट जालां. गादयो, कपाटां भिजून चिप्प जाल्यांत. उमेदीन सवसार रुजयिल्लो तो असो मातयेभरवण जालो हें पळोवन कशें ओगी रावत मन? धक्कोच बसतलो आशिल्लो न्हय? हें सगळें परतें उबें करपाक हजारांनी पयशे उबे करचे पडटले. होच राहू केतू ग्रासतलो आसलो न्हय म्हज्या मनाक? सगळ्याचोच मोह-लगाव-ओढ न्हय मनाक? संवसारूच नाका. हें जिवितूच नाका ही उबगण मनाक रेवडायतली आसली. आनी कसलोच सुखदिणी खीण आफडूंक पावचो नासलो मनाक. मनूच जर दुख्खान आनी मनस्तापान भरलां जाल्यार ताका खंयची खोस स्पर्श करूंक पावतली? कशी भितर सरत समाधानाची जांव खोशयेचीं ल्हारां मनांत? खरोच स्थितप्रज्ञ काय तो मनीस? इतलें विपरीत घडून लेगीत हाचेपरसूय कितें वायट घडूं येतालें. मेळ्ळां तेंच व्हडलें. सगळ्या घरच्याचो जीव वांटावलो हेंच खरें! जीव आसत जाल्यार भीक मागून खायन. हीच देवाची व्हडली कृपा. अशें चिंतपी हो मनीस खरोच मनार जैत मेळोवपी न्हय? आपणालें दुख्ख जांव यातना जर कोणूच ना करूंक शकनात तर दुसरो कोणूय सूख दितलो ही तरी अपेक्षा कित्याक करपाची?

आपणेच जावन जिणेंतलो प्रत्येक खीण आनंदान जियेवपाचो ही शिकवण पुरायेन
आपणायिल्ली काय ताणें? जाचो आनंद तिगदा ताकाच नित्य दिवाळी दिसता है
गोंदवलेकर महाराजांचें सांगप त्या मनशान आपणायिल्लें जावयें. म्हूण तो खूबशे
कितें म्हाका शिकोवन गेलो.



# सिध्दी उपरांतची प्रसिध्दी

हालींच 'सरगम' ची कार्यावळ टी.व्हीचेर पळयतालें. तरणाटी भुरगीं सुरेल गायलीं.तांचो ध्यास, तळमळ, साधनां पळोवन तांची काळजा थावन तोखणाय दिसली. तांचो आत्मविस्वास, तशींच तांची गावपाची तरा पळोवन मन प्रसन्न जालें. आयची तरणाटी पिळगी खूब फुडें पावल्या. तांचे पिरायेचेर आमकां तशें गावंक येनाशिल्लें. हीय खंत भोगली. इतले म्हणसर त्या परिक्षकान म्हळें, आयज तुमकां म्हजे जिणेंत घडिल्ली एक घडणूक सांगता. ''बडे गुलाम अली खाँ. व्हडलो नामनेचो गायक. तुमी जाणाच. तो जाण्टो जाल्लो. बरो ना जालो. ताचे खबरेक हांव गेल्लो. तांकां हांवें सुरा संबंदी प्रस्न विचारलो तांणी म्हळें,

'अभी अभी सूर मिला है, और मैं जा रहा हूँ।'जीणभर साठ-सत्तर वर्सां सतत संगिताची साधना करपी हो मनीस, निमणेमेरेन आपूण सुरांत निपूण जाला. आपणे तातूंत प्रभुत्व मेळयलां. आपूण पुर्ततेक पावलां अशें म्हणिना. खऱ्या अर्थान सुरांचेर प्रभुत्व मेळयल्लो हो मनीस अशें उलयता. कितली अप्रूप नमळाय ही? जाचें 'मीपण' साप्प विरगळ्ळां, ताकाच मेळटा काय ही सिध्दी?

आमच्या सारकेल्यांक इल्लें कितें खबर जालें कीं आमी आपणाक सर्वज्ञ समजूंक लागतात. अर्द्या हळकुंडान हळदुवो जावपाची आमची ही वृत्ती. इल्लें ज्ञान मेळटकच, आपणाक तातूंतलें सगळें खबर आसा अशें दिसप, हो एक व्हडलो श्रापच म्हणपाचो. ज्या खिणाक आपणांक सगळें खबर आसा अशें दिसूंक लागता, त्याच खिणाक आमचे उदरगतीची दारां बंद जातात जावंये. आमची वाड खुटूंक लागता जावंये. अहंकाराची कीड मनशाक भितरल्यान पोखरूंक लागता जावंये.

संगितात व्हडल्यो व्हडल्यो पदव्यो घेतल्यो म्हूण सूर गंवसताच म्हूण सांगू नजं. हें गिन्यान जर मनशाक उमजत जाल्यार तो त्या ज्ञानमार्गाची साधना खऱ्या अर्थान करूंक पावतलो हीच सुचोवणी दिली न्हय बडे गुलाम अली च्या ह्या अप्रूप उतरांनी?

दुसऱ्यांकडल्यान आपणांक खूब कितें शिकपा सारकें आसा अशें मनशा कित्याक दिसना? खरेली उदरगत करून घेवपाची उमळशीक आसत जाल्यार चारूय वटांनी शिंपडिल्लें ज्ञानकण, सुरांचे धागे, उजवाडाकिर्णां तरेकवार कोराच्यो छटा, आमच्यांनी पावलां कणकणी पुंजावंक येतात न्हय? पूण दिसपाक लेगीत ईश्वरी कृपा आसची पडटा जावंये. नाजाल्यार मनीस आपणाल्या 'मीपणा' च्या जाळ्यांतच घुस्पून पडिल्लो आसता न्हय? 'हांव-म्हजें-म्हाका' ह्या चक्रांत घुंवत उरता जावंये मनीस चडकरून.

हालिसराक आमी पळयतात-भुरगो मात्सो तबलो जावं पेटी वाजोवंक लागलो, कांय तो तत्काळ टि.व्ही चेर येवंचो, वेदीर ताका कार्यावळ मेळची अशी आवयांची आनी भुरग्यांची धडपड, धांवपळ सुरु जाता.

केसरबाई केरकार ही नामनेची गायिका. २५ वर्सांच्या आपणाले साधने उपरांत वेदीचेर गायली. एक 'सा' खर लावपाक तिणें सात वर्सांचे तप केल्ले खंय.

खंयचीय कला जाव, तिचेर प्रभुत्व मेळोवपाक सतत परिश्रम आनी साधना-तपश्चर्या करची पडटा. हें व्हडा व्हडा कलावंतानीच सांगला न्हय आमकां!

कला आपणावपा खातीर केल्लें तप मागीर एक तांक दिता - सिध्दी मेळपाकुय दिता. आनी त्या सिध्दीतल्यान मेळिल्ली प्रसिध्दी हाच खऱ्या अर्थान लाभदायक जाता. कित्याक ती आमकां नमळाय शिकयता. हीच सुचोवणी दितात न्हय आमकां हे व्हड कलावंत ?



# पोराचें काळीज

एक नवें हॉटेल उकतें जाल्लें. जायती जायरात आयकल्ली. त्यादिसा आमी थंय गेलीं. थंय बायलो वावुरताल्यो. कांय ऑर्डरी घेताल्यो. कांय जेवणां हाडून देताल्यो. तांची चपळाय, हांसती मुखामळां पळोवन बरें दिसलें. तातूंतली एकटी, आमकां पळोवन तुरतूर करून आमचे म्हऱ्यांत आयली. आमकां नमस्कार करीत तेणें आमकां एका मेजावटेन व्हेले. त्यो सगळ्यो तरणाट्यो चलयो बऱ्यो न्हेशिल्ल्यो. शिडशिडीत आंगलोटाच्यो. स्मार्ट दिसताल्यो. हांव तांका पळयत उल्लें. घोवान म्हाका जागयलें,

'आगो, खंय लागल्यो गो तुजी नदर? मागय मगो कितें जाय तें.' त्या चलयेन मेनुकार्ड हाडून दिलें. ऑर्डर दिवंची म्हूण तिचेकडेन पळयत जाल्यार तिचे दोळे भरिल्ले. कितें जालें काय तिका? घडये गिरायकान अपमान बी केलो काय तिचो? काय धनयान बी तापयलें तिका? बाबडेचें तोंड सामकें बाविल्लें. म्हाकावं नज जालें. हांव तिका विचारलें,

'बाय बरें बी दिसना काय कितें तुका?'

'कशें कळ्ळें तुका? तिणें अजापान विचारलें. तुवें विचारलां म्हूण मुजरत सांगतां तुका. काल एक घडणूक घडली. सामकें हालयलें म्हाका त्या घडणुकेन. परती परती याद जाता पोराची. कामात कशेंच लक्ष लागना. परतें परतें भडभडून येता पोराची करणी येवजून.

कितें जालें? हांवें विचारलें.

एक सुपुल्लो भुरगो काल हांगा आयलो. आसतलो १०-११ वर्सां पिरायेचो हांवें सदचे भाशेन उदकाचो ग्लास मेजार व्हरून दवरलो. पोराचें मुखामळ सामकें अपुबार्येचें. दोळे लिखलिखताले. पूण पोर विचारांतसो दिसतालो.

'चॉकलेट आइस्क्रीम कशें?'

'५ रूपया' हांवें म्हळें.

'मँगो कँडी कशी?' ताणें विचारलें.

'२ रूपया' हांवें म्हळें.

गिरायकां खूब आसलीं. कामाची गडबड. म्हाकाय ह्या भुरग्याची भिरभिरं मारली. ताका सारकी जाप दिवपाक म्हजें लागीं वेळ नासलो, आनी पांसियेंसूर नासलें. हांवे पोराक फाफुडिल्लेवरी केलो.

पोरान बोल्स सासपिलें. बारीक चिल्लर भायर काडली. तो मेजूंक लागलो ताणें म्हळें, 'म्हाका एक सादीच मँगो कँडी दी'

हाँवे ताका कँडी दिली. आनी बील मेजार फोडलें. म्हजीय तकली तापिल्ली. पोर कँडी खावन गेलो. हांव मेज निवळ करूंक गेलें, जाल्यार कँडीचे बशयेंत ताणे ३ रूपया दवरिल्ले. टीप म्हणून. तें पळोवन म्हजें काळीज भरून आयलें. पोराचें काळीज कितलें व्हडलें? हांवें ताका कांयच न्हयशें केलें पूण पोर थंड आसलो. घडये ताका चॉकलेट आयस्क्रीम जाय आशिल्लें जावये, पूण टीप दिवपाखातीर ताणें आपल्या पोटाक मारलें. जिबेक कांटो लायलो. ही गजाल म्हज्या मनाक लागली. पोर पयशे सांसपितालो तेन्ना म्हज्यानूय विचारूं येतालें न्हय ताका? म्हज्यानूय दिवं येतालें न्हय चॉकलेट आयस्क्रीम ताका? पूण म्हाका तें सुचलेंच ना. हांव म्हजेच भिरकेंत. पोराचें काळीज व्हडलें. तशें म्हजें नासलें जावये. आनी म्हूण दुसऱ्याचो विचार लेगीत आफुडलो ना म्हज्या काळजाक. येदोसो पोर. पूण काळीज कितलें व्हड ! आपणाले वांगडाच घेवन आयिल्लो काय तो तसो म्होंवाळ, मोगाळ काळीज? म्हज्या वांट्याक कित्याक आयलें ना काय तशें काळीज? म्हजें मन हाका लागून सामकें बेचैन जालां. पोराच्या यादीन दोळे भरून येतात. तो पोर परतो आयले बगर म्हजें मन शांत जायतशें दिसना. केन्ना येत काय पोर परतून? हांव वाट पळयत आसां.

ती मनमेकळेपणान उलयली. ती खूबच अस्वस्थ जाल्ली. हेंय तिच्या काळजांतलें अप्रूप भावुकपण न्हय? नाय म्हळ्यार म्हजेय काळीज खंयतरी हाल्लें.



# फकत अभ्यास न्हय, ध्यासच हो !

कॉलेजीक बीएच्या निमण्या वर्सा आमका ज्ञानेश्वरीचो १६ वो अध्याय अभ्यासक आशिल्लो. तो शिकयतना प्राध्यापक वा. ल. कुलकर्णी सामके उमेदीन उलयताले. रसाळ ज्ञानेश्वरीतले रस, तांच्या प्रभावी उतरांतल्यान आमच्या काळजामेरेन पावयताले. हरशीं ज्ञानेश्वरींतली प्राकृत मराठींतली ओवी वाचतकच कळनासली, पूण अर्थ वाचतकच आनी वा लं च्या म्होवाळ उतरांतल्यान ती मनाक चड भावताली. परिक्षे उपरांत हांव ज्ञानेश्वरी हातांत घेवंक पावलें ना. म्हजेंच दुर्देव. घडये ज्ञानेशाची कृपाय म्हजे सारकिल्लेच्या संवसाराचे मोगांत घुस्पल्ल्या मनाचेर जावंक पावली ना जांवये. पूण ४० वर्सां उपरांत जेन्ना म्हज्या घोवान, सुरेशबाबान ज्ञानेश्वरीतल्यो आपणे कोंकणींत केल्ल्यो होंवयो म्हज्या हातांत दवल्ल्यो, तेन्ना त्यो वाचतकच मनाक खुबूच भावल्यो आनी पर्थून पर्थून वाच्च्योश्यो दिसल्यो. ज्ञानेश्वर केदे अलौकीक प्रतिभेचो मनीस, हाचो नव्यान प्रत्यय येवंक लागलो.

ज्ञानेश्वरासारक्या अप्रूप प्रज्ञावंत पुरुशाच्या अंतरंगांत रिगून 'ह्या हृदयींचे त्या हृदयीं घातले' अशी अनुभूती म्हजे सारकिल्लया सामान्य वाचप्याक जावप हें एक अजापच न्हय?

फाटलीं १२-१३ वर्सां सेगीत सुरेशबाबांक 'धम्मपद' 'भगवद्गीता' तिरूक्कुरळ' हांचो अणकार करपाची तळमळ कशी लागली? तांचे भितर ही उमळशीक कशी उप्रासली हाचेंच म्हाका अजाप. तसो तांचो पिंड भावीक अध्यात्माकडेन झुकपी न्हय. बुध्दीप्रामाण्याक चड मानपी.

आतां ६ वर्सां जालीं, सामको भार आयिल्लेवरीं, ह्या वावराक माथें मारून तांणी कोंकणींतल्या ज्ञानयोगाक आपलेपरीन एक आगळी वेगळी समिधा ओंपल्या. एक घडणूक सांगनशी दिसता.

ज्ञानेश्वर समाधी सप्त सुवाळ्याच्या निमतान सुरेशबाबान त्या वर्सा 'सुनापरान्तां'त संत ज्ञानेश्वरीची ओळख करून दिवपी एक लेख बरयिल्लो. तातूंत तांणी पसायदानाचो कोंकणी अणकारय दिल्लो. त्यादिसापासून ज्ञानेश्वरीन तांचेर मोहिनी घाली.

ज्ञानेश्वरीचें तांका पिशेंच लागलें. ज्ञानेश्वरी कशीच सोडीना जाली. तेवूय ज्ञानेश्वरीक सोडिना जाले. दीस आनी रात हातांत, मनांत, काळजांत ज्ञानेश्वरीच. येदो व्हडलो ९०३३ होवयांचो ग्रंथ कोंकणींत हाडचो अशें तांका दिसूंक लागलें. जायते फावटीं तांणी हें उलोवन दाखयलें खरें पूण ज्ञानेश्वरीचें हें प्रचंड स्वरूप पळयतकच सगली ज्ञानेश्वरी अणकारप आपणाकडल्यान जायतशें तांका दिसना जालें. म्हूण तांणी तातूंतल्यो देड हजार होवयो वेंचून काडल्यो. एक दीस अचकीत २ फेब्रुवारी २००२ दिसा फातोडेर तांका जाग आयली. तांणी म्हणलें - 'आगो सुधा, ज्ञानेश्वर म्हणटा, बाबा चल तूं फुडें. ज्ञानेश्वरीच दितली तुका तांक' हो माऊलीचो आदेश म्हणपी अंतर्मनाचो आवाज आयकून बसका मारली आनी ज्ञानेश्वरीक आरंभ केलो.

फाटलीं साडे पांच-स वर्सां सेगीत खर परिश्रमांतल्यान तांचेकडल्यान ही निर्मिती जावंक पावली. हाचे मदीं तांचेर जिवावयलीं संकश्टां आयलीं. दोनूय दोळ्यांत मोतिबिंदू जाल्ले. सारकें. दिसनां जालें. एका हातांत ज्ञानेश्वरीचो ग्रंथ, दुसऱ्या हातांत बहिर्गोल भिंग, ज्ञानेश्वरीचो ग्रंथ वयर सकल दवरप, उजव्या हातान बरप ही तांची कसरत सुरू जाली. पूण तातूंतय एक खेरीत खोस तांका मेळटाली. ज्ञानेश्वरीचे ४ थें संस्करण जातकच तांका दुसरे खेप काळजाची बायपास सर्जरी करून घेवची पडली.

ऑपरेशन थेटरालागीं पावतकच ताणे म्हाका आनी पुताक पळयत म्हणलें 'आगो, ज्ञानेश्वराच्या मनांत म्हजेकडल्यान ज्ञानेश्वरी पुराय करून घेवपाची आसत जाल्यार हांव परतो येन, ना जाल्यार बाय बाय !' प्रा. वा. लं. कुलकर्णी हांच्या लेक्चरांतलीं काय उतरां मनांत किणकिणूंक लागलीं. आमच्या देशांत सगले ईशज्ञान, सगली ब्रह्मविद्या संस्कृत भाशेंत बंदिस्त करून दवरिल्ली. ताका लागून लोकांक ब्रह्मविद्या जाणून घेवप खूब्ब कठीण आनी दुर्बोध जाल्लें. हाचेर बंड केलें

ते जैन आनी बुद्ध मुनींनी. संस्कृतांतलें ज्ञान आनी अध्यात्मविचार तांणी लोकभाशेंत हाडले. जैनांनी अर्धमागधींत आनी बुद्धान पाली भाशेंत.

१३व्या शेंडक्यांतल्या महाराष्ट्रांतय अशीच परिस्थिती आसली. म्हूण ज्ञानेश्वरांनी म्हणलां 'मराठियेचां नगरी, ब्रह्मविद्येचा सुकाळ करी'

घडये सुरेशबाबांच्या मनाची घेतिल्ली पकड, ज्ञानेश्वरीन कशीच सोडली ना, म्हूण ते म्हण्टात' ज्ञानेश्वरी आपणें करूंक ना, ज्ञानेश्वरानूच ती आपणाकडल्यान कोंकणी रसिक वाचप्यांखातीर करून घेतल्या.'

बेगिनूच रोसाळ ज्ञानेश्वरी तुमचे भेटीक येतली. कोंकणी आवयक सुरेशबाबान एक नवो अर्थपूर्ण अळंकार घातला, अशा उतरांनी जायत्या रसिक वाचप्यांनी आपणाल्या काळजांतले भाव उक्तायल्यात.



# "सुटली गे बाये !"

दोन दिसांखातीर भायल्या गावांक गेल्लीं. घरा आयले बराबर शेजारची आजी भायर पडिल्ल्याची खबर मांयन दिली.

''तुका फावता तेन्ना, तांगेर, पुता-सुनेक मेळून यो हां !

तिज्या मर्णाक तुमी पावलीं नात म्हूण मनांक लागलें. बरी बायल मनीस ती'' मांयन खेद उक्तायलो.

''आमच्या भुरग्यांची खूब अपुरबाय करी ती. तांका जें आवडटा तें मुजरत करून धाडी ती. आपलेपणान चल ती. हेरांक खोस दिवपी बायल ती'' मांयन तिची मनांपासून तोखणाय केली. तिचे म्हणपय खरेंच आसलें.

त्या जाण्टेलीचें मुखामळ सदांच हांसकुरें. दोळे शांत आनी धादोसकायेन भरिल्ले. हेरांखातीर इतल्या मायेमोगान वावुरिल्ली आसतली? तांचे खातीर खूब जीव धाडायलो आसतलो तिणें. आपणाल्या नातरांचीय खूब अपुरबाय केल्या जातली तिणें. तिच्यो म्होंवाळ, मोगाळ यादी तांच्या सगळ्यांच्या मनांत उरतल्योंच न्हय? तिच्या वियोगाचे दु:ख तांकां जाणवतलेंच न्हय? तांची बुजवण करूंकच जाय म्हूण हांव न्हावचे न्हावन तांकां मेळपाक भायर सरलें.

मातशें अपराधी भावनेनच हांव घराभायर सरलें. तांच्या घरांत पावल दवरलें. हॉलांत व्हडाव्हडान पदाचो आवाज. कांय भुरगीं धांवतालीं खेळटालीं. पदांचेर ताल धरून नाचतालीं. कांय अस्तुऱ्यो हांसत हांसत गजाली मारताल्यो. खिणभर दिसलें, हांव चुकून बी दुसरे सुवातेर बी पांवक ना मूं? एकदां घडिल्लें तशें. लग्नाक गेल्लें.

दोन तीन हॉल लागी लागींच आशिल्ले. चुकून दुसऱ्यांच्या लग्नाच्या हॉलांत पावलें. फुलांच्या सजावटींत दुसरीच नांवा आसली. मागीर लक्षांत आयलें. सट करून भायर सरलें हांव थंयसून.

घरांतले उमेदी-उत्साही वातावरण पळोवनय अजाप जालें. घरचो जाण्टो भायर आयलो. बरे उमेदीन ताणें म्हाका येवकार दिलो.

''तुमी आमगेर केन्नाच पांवक ना. आज तुमी आमकां 'सरप्रायज' दिलो.
मी पयलेच फावटी आमगेर येतात न्हय?'' टीव्ही, व्हीसीआरचेर सिनेमा चलिल्लो.
गळे सिनेमा पळोवपांत गुल्ल आसले. आमकां बसपाकय सुवात नासली. एके
गण्टेलेन उठून सुवात केली. वावराडेन ट्रेंत च्या आनी खावपाक हाडलें. बुजवणेक
तकच हरशीं खाण दिवपाची रीत नासता न्हय? मनाकय तें पटना जावयें. पूण
तांकां घडये नाच म्हणल्यार वायट दिसत म्हूण मन फाटीं फुडें जालें. इतल्यांन
हाका सुचलें.

हांवे म्हणलें, रागार जावं नाकात. न्हालेबगर हांव कांयच खायना. सगळेच
टेन आनंदी आनंद दिसलो. खंयच दुःखाची कुरू ना. खेदाची चिन्नां ना. मागीर
बुजवणेची उतरां दिवन तांकां तरी कित्याक त्रास करचो? हांवें चिंतलें. वाडदिसाचें
गेट टू गेदर' बी आसत अशें दिसतालें.

आतां उठल्यार बरें अशें चित्तालें. इतल्यात भितरल्यान घरची बायल
फुडें आयली. तिणें म्हाका हात दिलो आनी म्हणलें, ''तुमचे लिखाण बरें चल्लां
हां ! काल तुमचो लेख 'गोमंतकात' वाचलो. आनी फाटल्या सप्तकांत 'तरूण
भारतांत' खूब आवडले म्हाका ते तुमचे लेख. विशय बरो हातळ्ळा तुमी. तुमचीं
पुस्तकाय वाचतां हांव अदीं मदीं. त्या दिसा तुमी दिश्टी पडली. तुमी बरी साडी
न्हेशिल्ली. खंयसून घेतली ती तुमी?

हांवूय गोंदळ्ळें तिची ही उतरां आयकून. इतल्यांत तिणें कपालाक आंटयो
घालीत म्हणलें,

''म्हजी मांय सामक्या पोन्न्या विचारांची. तडजोड करपाची समजिकायच
नासली तिचेकडेन. दादले भायरच आसतात न्हय? तांकां कितें कळटात आमचे
त्रास आनी भोग? ती बरो तेंप बरी नासली. करूंक नाका तिचें सगळें? मांयबद्दल
ती कागाळ करीत उरली. त्या दादल्याचें तोंडय पडलें. तिच्या गुणांचीय तुस्त
करू येताली न्हय तिज्यान? हेरांचे दोशच व्हडलें करून दाखोवप हीच न्हय
तामसी मनाची वृत्ती? गुणय सांगू येतात न्हय?

''ती सुटली गे बाये. आमी तर खरींच सुटलीं'' तिची हीं सामकीं खटखटींत
उतरां आयकून म्हजें मन आखिन्न जालें.

आमची जीण इतली व्यस्त आनी रूक्ष जाल्या काय? आपणाल्या जिवाभावाच्या मनशाच्या वियोगाचें दुःख लेगीत न जाणवपा इतली मनाची संवेदना सामकी पातळ आनी शुश्क जावंक लागल्या? मनशाचो उपेग सोंपलो काय ताचेबद्दलची भावना सामकी इतली बोथट जाता काय?

दोळ्यांचो दिवो आनी हाताचो पाळणो करून तिणे तांका वयर काडले न्हय? तिणे जीणभर तांचेच खातीर जीव अर्पित केलो न्हय? दोळ्यांत तेल घालून तांका ल्हानाची व्हड केली, शिकयलीं, लग्नां केलीं, नातरांक सांबाळ्ळीं. हीय गजाल तीं विसरूंक पावलीं? जन पळभर म्हणतील हाय हाय ! हें सत खरेंय जावये. पूण खीणभर लेगीत तांणी मातपसून खेद उक्तायलो ना. तसलें एकूय उतर आयकूंक मेळ्ळे ना हाची खूब खंत मनाक भोगली आनी म्हजे मन जड जाले. जड पावलांनी हांव थंयसून सरलें. मनाक चुटपुटे लागून उरलें.

''सुटली गे बाये!''



# भुरग्यांच्या पांवड्यार देंवता तेन्नाच !!!

एका हायस्कूलच्या पालक शिक्षक संघाच्या अध्यक्षान फोन केलो,

'सुधाबाय उलयता?'

'हय, हांवें म्हणलें.

'हांव अमूक अमूक. तुमी आमच्या पालक संघाच्या मिटिंगेक 'भुरगीं आमचे ऐवज' ह्या विशयाचेर पालकां वांगडा भासाभास करपाक येवचे अशी आमची सगळ्यांची इत्सा'

भुरग्यांसंबदाचे विशय म्हज्या भोव आवडीचे. हांवें ताका हयकार दिलो.

उलयतां उलयतां हांवें म्हणलें 'खूब फावटीं, भुरगीं आमकां जायत्यो गजाली सागूक सोदतात. पूण आमी तांचे मात लेगीत आयकून घेतात काय? तांकां विचारचें पयलींच आमी ताकां नाका नाका तें सुनायतात. तीं बाबडीं आमची बडबड, कांचेवन आयकून घेतात. आवय-बापूय आड्डी मारून, शांत जातकच तीं खरेलें कारण सांगतात. आनी मागीर तें आयकून, आमकांच आमची लज दिसता. एक घडणूक सांगता.

एक धूव सांजची, उसरा मेरेन घरा पावली ना म्हूण आवयक खूब्ब हुस्को जालो. ती दारांत आयलेबराबर ती ताचेर आड्डी मारूक लागली. पोर निर्शेल्लेवरी जाल्लें. ओग्गी रावन ताणें आवयची खर उतरा आयकलीं-पचवलीं आनी काय वेळा उपरांत ताणें म्हणलें,

'आगे, आई तुका सकाळीं गजाल सांगता. कॉलेज सोंपले उपरात, हावआनी म्हजी इश्टीण अनिता घरा येतालीं. आपले घरा पावतकच ताणें आपणें केला तो प्रॉजेक्ट हांवे पळोवचो म्हूण खूब्ब आग्रो केलो. म्हज्यान ना म्हणूंक नज जालें. आनी दोगांय कुडींत पावता थंयच आसात. अनिताची आवय आमच्या दोळ्यांमुखार घुवळींत भुंयेर शेंवटून पडली. तिचेर उदक बी मारलें. पूण

ती शुध्दीर येना जाली. अनिता दोतोराक आपोवंक धांवलें. 'तूं रावता मगो तिचे वांगडा? हांव बेग्गीन येतां, ते म्हणसर रावं आं.' ताणें इतले सांगतकच हांवें ताचे आवयक एकटेच सोडून येवपाचें? मनीसपण न्हय गे हें?

म्हाका कळाव जातलो आनी तूं खूब हुस्को करतली, म्हूण कशेंय तरी कळोवंचे म्हूण परतें परतें मनांत येताले. पूण तांगेर फोन नासलो. हांवें कितें करपाचें? हे सगळें आयकून आवय चोर कशी जाली.

हें आयकना फुडें एका टिचरीन म्हणलें, 'सुधाबाय तुका एक घडणूक सांगू?'

हय तर ! हांवें म्हणलें.

एका बापायन आपणाल्या इश्टागेर वतकच, आपणाल्या भुरग्याक घरा सकयले बागेंत खेळूंक धाडलो. कांय खिणांनी पोर बापायक उलो मारूंक लागलो. बापूय गॅलरींत आयलो, वयल्यानच ताणे भुरग्याक म्हणलें, आरे, कित्याक उलो मारता रे तूं?

बाबा, पळय रे काय बरी हांयसा पेंवतात थंयच्या तळ्यांत !

हांगा आनी खंयची तळी? हांयसा खंयच्यान रे दिसतली तुका?

'बाबा, बाबा, पळय, पळय बरी तांबडी धवीं साळकांय फुल्ल्यांत तातूंत.'

'आरे सारको आसा मरे तूं ! काय पिसो जाला रे तूं ?'

'यो रे हांगा आणि पळय बाबा, सोबीत दिसता हें सगळें !'

बापायक मातशी तिडक मारली तो झरझरीत सपणावेल्यान देंवलो. भुरग्यामेरेन पावलो. तकलेर थापट मारीत कितें जाला ते तुका !

थंड राव नज तुज्यान ?

पोराचें सांगप चालूच आसलें.

'बाबा, बाबा, पळय रे, पळय रे'

तो ज्या बुराकांतल्यान पळयतालो, त्याच बुराकांतल्यान बापायन पळयलें तेन्ना पोर सांगतालो तो सगळो देखाव बापायक दिश्टी पडलो. बापूय भुरग्याच्या पांवड्यार देंवलो तेन्नाच न्हय ताका तो दिश्टावो जालो? भुरग्यांची नदर समजुपा खातीर तांच्याच पांवड्यार देंवचें पडटा न्हय आवय-बापायक?

ताणें सांगिल्ले हे घडणुकेन म्हजेय मन खंयतरी हालिल्ले वरी जालें.



# काळजाची भास !

सिंगापूर - थायलंड ट्रीपीर, १० भुरग्यांचो ग्रुप करून व्हेल्यार, तांका तिकिटेचेर २० टक्के कंसेशन मेळटलें - म्हूण एका विमान कंपनीन जायरात दिल्ली. ती वाचून कांय इस्कॉलांतले भुरगे म्हज्या फाटल्यान लागले.

टिचर, आमकां सवायेन सिंगापूर-पटाया-थायलंड-मलेसिया पळोवंक मेळटलें. टिचर, जायते आमचे इश्ट तयार आसात येवपाक.''

भुरग्यांची तळमळ-उमेद पळवन, तांचे खातीर हांवे फुडें सरून हें करूंक जाय अशेंय म्हाका दिसलें. धा भुरग्यांच्या पालकांची परवानगी घेवप, तांका मेळप, सगळ्यांचे पासपोर्ट करप त्या आफिसांत हेलपाटे घालप, ह्या कंपनीच्या अधिकाऱ्याक मेळप, तांचेकडेन भासाभास करप. ह्या बोवाळांत नाय म्हळ्यार म्हयनोभर धांवपळ करची पडली. एप्रिल अखेरीक गोंयातल्यान बोटींतसून मुंबय वचपाक भायर सरली. मुंबय पावली. सिंगापूरचें विमान वेळेर आशिल्लें. सगळ्यांचे सामान चेक करप, भुरगीं सगळीं विमानाभितर सरली काय नात म्हूण हजेरीय घेतली. विमानांत बसतकच जिवाक सू जालें. पयलेच फावटी धा भुरग्यांक घेवन, इतल्या परदेशांतल्या लांब यात्रेर हांव भायर सरिल्लें. नाय म्हळ्यार टेंशनाक लागून घालमेल जाली. सगळी भुरगी सारकीं थारावयल्यात हें पळवन बरें दिसलें. तांच्या मुखामळार हांसो आनी खोस दिसली. म्हज्या लागचो सीट रिकामो आसलो. इतल्यांत ॲअर हॉस्टेसीन म्हाकां विचारलें,

'ह्या भुरग्याक तुमच्या म्हऱ्यान बसोवंक शकता? हो भुरगो आपल्या गांवा, आवयबापायक मेळूंक चल्ला. सिंगापूराक.

''बरे भाशेन!'' हांवें म्हळें.

भुरगो शांतपणान बसलो. कांय वेळान विमान वयरसकल जांवक लागलें, गडगडूंक लागिल्ल्याचो आवाज येवंक लागलो. ॲअर पॉकिटस् येतकच अशेंच जाता हें आयकल्लेचं. भुरगो भियेल्लेवरी दिसलो. तो हातांत एक पॅड घेवन बशिल्लो. घडये ताका पेन दिल्यार तो चित्रांबी काडूंक लागत. ताचे लक्षय दुसऱ्या गजालींचेर वचत अशें चिंतून ताका हांवे पेन दिलें आनी म्हळें, ''बाबा, हें तुका म्हजें प्रेझेंट !'' तो मुमुरखोसो हांसलो आनी आपणालो हात दिवन ताणे थँक्स म्हळें.

हांव थायलंडाच्या ल्हान गावाची म्हायती घेवपाखातीर गायड बुकाचेर नदर घालतालें. थंयची देवळां-दोंगुल्ल्यो, देव-देवता, धार्मिक चिन्हां हाची जायती म्हायती मेळ्ळी. आमची भुरगीं हें सगळें पळवन खोशी जातली. ही ट्रीप सार्थक जातली हाचीय ताका खोस मेळटली, हो विचार आयलो. इतल्यांत म्हज्या हातार ल्हव स्पर्श जालो. त्या भुरग्यान आपणाले पॅड म्हजे मुखार दवरलें. तरेकवार सुंदर रंगीत सोबीत फुलां -रूखांचे प्राण्यांचे चित्र ताणे काडिल्लें. चित्र पळवन ताच्या अप्रुप कलेची मनापासून तोखणाय दिसली. ताजे फाटीर हात फिरयत हावें ताची अपुरबायेन तोखणाय केली. हांव हांसलें. तोय हासलो.

खावपाखातीर ॲअर हॉस्टेसीन त्या भुरग्याखातीर आनी म्हजे खातीर तरेकवर जिन्नस दिले. पूण ताका आनी म्हाकां वेगवेगळे. आमी दोगांयनीय, एकमेकाक दिवन वांटून खाले. हांव परतें, ती गायड वाचूंक लागलें. तो भुरगो परतो पितारूक लागलो. चित्रां काडपांत तो गुल्ल जालो म्हूण म्हाकाय बरें दिसलें. काय वेळा उपरान्त, म्हजे हाताक हात लावन ताणे आपणालें पॅड फुडें केलें. ताणे म्हजो चेरो पितारील्लो. म्हजे दोळे भरून आयले ताणे आपणाले मळबा येदे व्हडलें काळीज, त्या पेनातल्यान उकतायलें. पेनाच्या प्रेझेंटातल्यान ताज्या कृतज्ञतायेच्या खोलायेचो अप्रुप दिश्टावो जालो. उतरांची गरज नासलीच. काय खिणभितरच आमी एकमेकांच्या काळजाची भास सोदून काडली. आमी संस्कृती हुपली. आमचे भितरलें अंतर सामकें उणे जालें. मनशा मनशां मदल्यो वण्टी नाच जाल्लेवरी दिसलें. एकमेकांचे काळीज आपशींच उकतें जालें हेंच पुरोशें न्हय?

विमान सिंगापूराक पावलें. ॲअर हॉस्टेस आयली आनी त्या भुरग्याक घेवन वचूंक लागलीं. फाटी वळून ताणे म्हाकां पळयलें. ताचे मुखामळ आनंदान आनी खेदान भरील्लें. पेन दाखयत दाखयत हात हालयत तो भायर देवंक लागलो.

हावें ताका हात हालयत, ताणे पितारील्ले म्हजें चित्र दाखयत दाखयत, ताका बायबाय केलें.

ताचे मुखामळ अचळय खुबशें कितें सांगून गेलें.



# रितेपणाक फुल्लो चंवर

हांवें पर्स उक्ती केली. एका विणिल्ल्या सुपुल्ल्या पाकिटांत हांव पयशे दवरतां. बरी सुगुरव्याची ती पर्स. तिणें म्हाका भरभरून दिलां अशेंच दिसतालें म्हाका ! जे मायेन, अपुरबायेन ते जाण्टेले काकीन मुजरत विणून म्हज्या १२ व्या वाडदिसा भेट म्हूण दिल्लें. आयज मेरेन तें सुपुल्लें पाकीट, हांव म्हज्या पर्सींतच दवरतां. तिचो अप्रूप स्पर्श, मायेन म्हजे फाटीर हात ओंडटा अशें दिसता. ती सुखदिणी भावना म्हाका खोस दित आसता.

काका बापायचो बरो इश्ट. भुरगेंपणासावन काकी आनी काका खूब फावटीं आमगेर येतालीं. तीं. दोगांय आमची खूब अपुरबाय करतालीं. दरफावटीं, आमकां आवडटा तसल्यो चॉकलेटी, बिस्किटां, पिपीरमिंटां मुजरत घेवन येताली. म्हाका सुपारीची आवड म्हूण काकी वासाच्या सुपारीचीं धाकटुलीं पाकिटां म्हज्या हातार दवरी आनी मुमुरखीशी हांसताली. आमकां जायतो वेळ मांडयेर घेवन बसताली. मायेन सांसपिताली. आमकां हांसयी आनी आपणूय खळखळून हांसताली. आनंदी जोडपें तें !

अकरस्मात काळजाचो आताक येवन ती न्हिदेतच भायर पडली. काका सामको सतरवितर जाल्लेवरी जालो. काकाची ती दशा पळोवन खूब काकुळट दिसताली. खूब फावटी आमी तांकां आमी केन्नाच एकटो पळोवंक नासलें. काही सामकी देवभक्त. देवधर्म, व्रतवैकल्यां बी ती अखंड श्रध्देन आनी भक्तिभावान करताली. तिचे उलोवप-चलप लेगीत सामकें अहंकारविणे. देवूच चलयता म्हाका अशे तिचे दोळ्यांतले भाव. दुसरेच भाशेनची बायल आसली ती.

एकमेकांची तांची समजीकाय, तांची एकमेकावेली माया पळोवन म्हाका सदांच अजाप जातालें. जाण्टेपणांत लेगीत तीं एकमेकांचेर इतलो करसो काय मोग करतात हेंच एक कुंवाडें शें दिसतालें म्हाका.

पांच-स म्हयन्या उपरांत काकाक पळयलें जाल्यार ते चाफ्यांची फुलां विकत घेताले. काका तशे भावीक न्हय. ते देवळांत बी वचनासले. काकी तांकां खूब फावटी सांगी, 'येयात तुमी देवळांत भितर !' 'तांणी शांतपणान म्हणचे,

'आगो, तुकां देवळांत वचचें दिसता न्हय? तूं वच. 'तो आनी कांयच उलयनासतना, ती ये म्हणसर देवळाचे भायर पासयो मारी.

काकान म्हाका पळयलें. खूब खोशी जालो. ताणें हात हालयत म्हळें, 'सुधा, कितल्या तेपान गो तूं? यो यो भितर, बरी कॉफी घेवया. पावस शिडशिडूंक लागलो. म्हज्यान ना म्हणूंक जाले ना. ताचे वांगडा थोड्यो गजाली केल्यार ताकाय बरें दिसतलें म्हूण हांव घरा भितर सरलें. खिणा भितर काकान बरी कॉफी करून हाडली. आमी जायत्यो गजाली केल्यो. ताचे हांसप पयली भशेनशें दिसलें. ताचें दुख्ख घडये ल्हव-पातळ जालें जावंये. म्हूण म्हाकाय बरें दिसलें.

हांवे म्हळें, 'काका आतां हाव भायर सरतां आं. तांणी म्हळें, 'थांब गो बाय' ते उठले आनी भितर वचून ताणी पानांत गुठलायिल्लीं चाफ्याचीं फुलां काडलीं' तुकां आवडटात मगो हीं चाफीं ? म्हणीत तांणी दोन चाफीं हातार दवरलीं, आनी मागीर भितरल्यान निरांजन हाडून फुलवात लायली. म्हाका अजाप जालें. हांव तांकां पळयत उरलें. म्हाका पळयत तांणी म्हळें, 'आगो. अजूनय हांव नास्तिकच आसा. हें thank you (थॅक्यू) तुज्या काकीखातीर आसा. ती आसतना, हो कोनसो उजवाडान पर्जळीत जातालो. तिनसांजच्या वेळार, तिचे यादीन हें सदचें करतां त्या उजवाडांतल्यान ती म्हजे लागी उलोवंक लागता. तिकां चाफीं खूब आवडटालीं. ती हाडी आनी वाचतना २-३ चाफीं म्हज्या पुस्तकाचेर घालून वताली. जेन्ना जेन्ना हांव चाफो पळयता, तेन्ना ताचो घमघम म्हजे मन फुलयता. तीं चाफीं तिचे परडेंत दवरता. तिचे ज्ञानेश्वरीक घालता. इतलेंच, सैमातलो बदल जायत आसता. पिराय जाले उपरांत पानां झडटात. तांचे मरण. नव्यान तांबड्यो कोंवळ्यो आंकऱ्यो येवप हें हांवें पळयिल्लेंच. पूण सहचरणीच्या मरणां उपरांत अशें. तिचे यादी वांगडा सात्विकतायेन जियेवप, फुलांक मेळप, तांचेकडेन उलोवप, तातूंतल्यान खोस घेवप, तिचे श्रध्देचो मान राखप, हें सगळें करीत आसा आनी तो म्हण्टा' इतलेंच'! सहचरणीच्या वचपांत रितेंपण येवंक दिनासतना अशें ताचें भरभरून चंवरिल्लें जियेवप म्हजें मन हालोवन गेलें.



# म्हातारपणांतलें पांचवेंपण

एकटेन म्हणलें, ''सुधाबाय, तू सामकीच मुदार जाल्या मगे. हांव वळखूंकच विसरलें तुका. सामकी पिकल्या मगे तूं!''

''आगो, केंसाक कलप लावप सोडलां हांवें ! आगो, आतां उतरतीच पिराय न्हय म्हजी ? म्हातारपण लिपोवंक येता?'' हांवें हांसत म्हणलें. याद जाली.

पुरूक म्हातारपणाचो शाप मेळ्ळो, नाटकाचो अंक सोंपतां-सोंपतां तरणाटो, रंगेल पुरू एका खिणाभितर सामको जख्खड म्हातारो जाल्लो पळोवन त्या वेळार म्हजें मन हालिल्लें. पूण आतां म्हाका हो स्राप दिसना. घडये जुवानपणाचे रंग तातूंत नासुंये. झाडावयलो गुलाब फुलूंक लागलो काय तो सुंदर, सोबीत दिसता. हें खरेंच. पूण तो सुकतकच लेगीत ताचें सुंदरपण साप्प ना जायना. दुसरे भाशेनचें जाता खरें पूण ताचो मंद वासय जिवाक प्रसन्न करता. म्हाका तो वास आवडटा. तशेंच हें म्हातारपण !

तरणाटे पिरायेंतली सगळी धांवपळ आतां नाशिल्ली जाल्या. निवांतपण पदरांत पडलां. जाय त्या वेळार जाय तें आनी जाय तशें करपाक जाय ती उसंत आसा.

जीणभरचे बरे वायट अणभव पचयत पचयत मुखामळार त्या अणभवांचे तेज दिसता, अप्रुप समजिकाय दिसता. कर्तुपाच्यो रेशो उदेतात. ताका लागून कितलीं तरी मनशां तेजःपुंज (तेजिश्ट) दिसूंक लागतात. संवसाराचें तृप्तपण तांच्या मुखामळांचेर भरून ओतता. तांच्या बऱ्या वायट अणभवांचीं प्रतिकां तांच्या चलपाउलोवांत उक्ती जायत आसतात.तें पळोवपांत, आयकुपांत म्हाका सदांच खोस मेळटा. त्या अणभवांच्यो छटा तांच्या म्हातारपणाच्या निरयांतच जिव्यो टट्टटीत दिसतात. आनी म्हूण म्हाका म्हजें म्हातारपण मातूय जाणवना.

मन पाचवेंचार उरतकच निच्यो कितें करतल्यो? म्हज्या भावजेन म्हाका साडी दिली. हांवें ती उमेदीन तिका न्हेसून दाखयली. तिणें म्हणलें, ''सुधा, तूं

सदांच हेरांक खोस वांटीत आयलां. हे पिरायेर, ही साडी न्हेसतना लेगीत तुजें मुखामळ तरणेपणाची भास उलयतालें. तुजें म्हातारपण लेगीत पुसून गेल्लेवरी दिसलें. म्हाका तुजे इतली उमेद ना गो बाये. हांव तुका साडी दितां थंय आसा. म्हणल्यार दुसऱ्या खिणांतच ती न्हेंसून सामकें शांतादुर्गे भाशेन म्हजेमुखार उबें जालें गो बाये.''

आमच्या भुरगेपणांत एक जाण्टेली आमच्या शेजरा रावी. केन्नाय तिका पळोवचें - ती सदांच सारकी वेवस्थीत न्हेशिल्ली, केंसाचो आंबाडो सारको बांदिल्लो - सोबीत दीस. जयचे थंय तिचो आंबाडो. निमणेमेरेन एक इंचभर लेगीत देंवलो ना सकयल. ती आमचेकडेन उलयतासतना आपणाली पिराय विसरून सदांच फकांडां करी, खळखळून व्हडान हांशी. ती हांसतकच तिच्या पोल्यावयली खळी तर खूबच सोबीत दिस. हांवेंय निमणेमेरेन अशेंच सोबीत दिसचें-उरचें अशें म्हाकाय दिस.

म्हातारपण हें स्वयंसिध्द ना हें जरी खरें आसलें, तरी तें आपणाल्या कर्तुपान फुलोवंक येता न्हय? काळाप्रमाण आपणाक बदलून, ताचोय रस घेवपाचो. निमाणे ही परंपरा मनाक फुलयत, दुख्खाक फाटीं उडयत व्हडा कश्टान मेळोवची पडटा आनी जपचीय पडटा हेंय खरेंच.

हां हां म्हणसर जिणेंतलें भुरगेंपण सोंपून तारूण्यावस्था येता. तारूण्यांत दुसऱ्या भाशेन प्रवेश करचो पडना, तो एक वरच मेळिल्लेवरी नसानसांत येवन भिनता. सगळो संवसार तर तारूण्यान फुलिल्लेवरी दिसूंक लागता. तोंडावयलें कुतुहल, उत्साह, उमेद कुडीच्या कणाकणांतल्यान दिसूंक लागता. तारूण्य म्हणल्यार पाचवीचार झंझावाती वाट. वादळवाट म्हणल्यार लेगीत अतिताय जावची ना. संकश्टाकडेन झुजपाची उमेद. वायट अणभव कांयच न्हय कशे करून, मनाची उभारी तशीच दवरून जिद्द मेळोवप हीच न्हय ती तारूण्याची तांक?

हेरांचे खोशेंत निर्भेळ मनान आपूणय रमली काय आपणालेंय दुख्ख धांवन वता हें तितलेंच खरें. महाभारतातलो भीष्मच घेयात न्हय. पळोवंक गेल्यार तो ब्रह्मचारी. स्वताचो संवसार ना, भुरगीं बाळां ना. पूण कौरव-पांडवांत

रमून ताणें फकत उपदेश करीत, सल्लो दीत राज्य चलयलें. म्हणूनच महायुद्धाच्या वेळार तरणाट्यांक लजोवपी अशें ताणें युद्ध केलें. आनी म्हणून तो इतलीं वर्सां जगलो. आपणाल्या म्हातारपणाकच ताणें तरूण मनान तोंड दिलें.

सुरेशबाबांच्या – म्हज्या घोवान कोंकणींत केल्ले ज्ञानेश्वरीचें प्रकाशन जालें. कार्यावळ मनाभाशेन जाली, नातरांचे रिझल्टय बरे लागले, पुताचो सतकार करपाचें थारलां. एका फाटल्यान एक खोशेच्या घडणुको घडिल्ल्यान खोस भरून व्हांवताली. हांव म्हजेच गुर्मेंत चलतालें. इतले म्हणसर मार्गावयले एके दुख्खी कश्टी जाण्टेले अस्तुरेन म्हजो रस्तो आडायलो आनी म्हणलें, ''बाय, चलये. घे, आनंद घे. तरणाटी पिराय अशीच आसता. जिणेंत ही पिराय परती येना पळय. बरें दिसलें. तुज्या फुलपी – आनंदी तारूण्याकडेन पळोवन!''

त्यावेळार त्या उतरांचे मातूय म्हत्व दिसूंक नाशिल्लें. हांव तें साप्प विसरूनच गेल्लें. पूण आयज सत्तरीकडेन पावतकच हें उलोवप खिणखिणाक पटूंक लागलां.

संवसाराची जापसालदारकी सोंपली. नातरांच्या कंवळ्या आंकुरांकडेन, मात्शी जतनाय घेवन, मेकळेपणान तांचे वांगडा जुगलबंदी करून तांची मनासावन तोखणाय करीत, तशेंच तांच्या उतरांतल्यान सुचोवण्यो आयकत आयकत, जापसालदारकेन तांचेकडेन पळोवपाची नवी नदर येवंक लागल्या. कोणे तरी म्हणलांच, Try to keep yourself busy if you want to lead a happy life ! मागीर वावर करतां करतां खोस घेत, वेळय मजेंत वतलो.

खंयचोय वावर जीव ओतून करप म्हाका मानवता. तांतली खोस अप्रूप कशी. गीतेंतलो कर्मयोग फकत वाचीत बसचे परस तो प्रत्यक्ष कृतींत हाडून, अणभवपाक म्हाका आवडटा. आपणेंच आपणाक काबूंत दवरपाचो यत्न करपाचो. कांय वेळार म्हजें म्हाकाच हासूंक येता. परतें परतें मनाचे शिस्तींत तरी कितलें रावपाचें? आपणेंच लायिले संवयेखातीर आपणेंच कित्याक पिरंगुपाचें?

खरें पळोंवक गेल्या येद्या व्हडल्या समाजांतली आपणाली सुवात कणभरच आसता. पूण आपूणच ती उंचेल्या पांवड्यार व्हरूंक शकतां न्हय?

भुरगेपणांतल्यो, तरणाटे पिरायेंतल्यो ह्यो म्होंवाळ यादी खऱ्यांनीच मनभुलोवण्यो आसतात. तातूंतल्यान मन फुलून येता तातूंत रमतना, घरांत

ावुरतना, तांचेवांगडा आपलेपणान, मेकळेपणान भासाभास करतना नातरांची पेरायेचें जावन तांचेवांगडा खेळटना, तांचेर निरपेक्ष मोगाचो वर्षाव करतना मन प्रसन्न जाता. हीच तर आमची मोगाळ संस्कृती न्हय?

फाव त्या वेळार ग्रंथ ह्या बौध्दीक आनंदांत रमूक लावपी परमइश्टच. बरयतां बरयतां मन आपलेकडेन संवाद करूंक लागता. केदो वेळ तातूंत आमी उफेतात हाचें भान लेगीत उरना. हालीं तेंपार घोवाच्या - सुरेशबाबांच्या ग्रंथाचें वाचप-चिंतन करप उरलें. मन खिन्न जाल्ल्या वेळार दुख्खाचें आगर आशिल्लें महाभारत केन्नाय हातांत घेवचें. कितलीं तरेक तरांची व्यक्तीचित्रां, कितल्यो चित्र - विचित्र घटना. कितलींशींच मनशांच्या सभावाचीं वैशिश्ट्यां ! ताचे असख्य पांवडे आनी तासां आवयस, विचारच करूं नज ! मन सामकें अजापीत जाता. कृष्ण, अर्जुन, भीम, द्रौपदी हांची देखणयी रुपां पळयतना मजा दिसता. वाचनाक लागून गिन्यान जिवें टट्टटीत जाल्लेवरी दिसता. नाय जाल्यार आयुश्य जीण ही गिन्यानयात्राच आसा न्हय? कांय हातूंत वाटेकारी जातात तर कांय पयस धांवन वतात. ही यात्रा अखंड अविरत चालूच आसता. ताचे वांगडा निर्व्याज्य आसता.

ग्रंथा वांगडा संगीत. होय मनशाच्या मनाक अप्रूप शांतता दिवपी अणभव. हे खोशेंतय कुडीचीं गायन गात्रा फुलोवपाचें रसायन आसता.

भुरगेपणांतलीं पदां कानार पडटकच तर त्या संगिताच सूर जादू केल्लेवरी मन मंत्रमुग्ध करून उडयतात. पुंगेच्या आवाजाच्या ल्हारार जसो नाग दोलूंक लागता तशें मनय दोलूंक लागता. ती संगिताकडली अप्रूप इश्टागत, ना जाल्ल्या आत्मविस्वासाक ओडून हाडटा. इतलेंच न्हय तर दुख्खाकय परतावन लावपाची तांक दिता. तशेंच नातरांवांगडा लगान, देवदास, ल्वह ४२ मदलीं आधुनीक पदांय आयकूंक आवडटात.

केन्नाय पुरो जातकच, गात्रां थकतकच, भुरगेपणांतली याद मनाक फुलयता. एखादी पिकनीक, मनाक फुलयता, न्हाण जातकच जें ताजेंपण आनी उत्साह उमेद मेळटा ते ती दिवन वता.

एखाद्या वाटसरुभाशेन, तो जसो सामकारचे वाकडे तिकडे वाटेक सरळ करीत मार्ग सोदून काडटा. तशेंच हें मन ! सतत सोद घेवपी जाता.

तरणाटे पिरायेचेर भुरग्यांक वाडयत आसतना कितल्या तरी गजालींचो त्याग करूनय, किल्योशोच गजाली उरून वतात त्यो ह्या स्वस्थ-शांत काळांत करिनशें दिसतात. म्हणजे आपशींच मनाक उमेद येता. केन्नाय सांजवेळार न्हंयेचे देगेर एकटेंच बसून शांतताय अणभवची, ती पियेवन घेवची अशेंय हे पिरायेचेर दिसूंक लागता.

केन्नाय घरांत एकटें स्वस्थ बसतकच आपणालोच यशापयशाचो जमाखर्च मांडचोसो दिसता. आपणें रचिल्लीं सपना कितलीं पुराय जावंक पावलीं, हाचोय सोद घेवचोसो दिसता. मन भुतकाळांत रमता म्हणूनच कांय अपुरीं, कांय पुर्णत्वाक गेल्ली सपनां दोळ्यामुखार जिवीं टट्टटीत जातात. आनी जिणेंतल्या अपेशी खिणांक तीं ताबडतोब पयस करून यशाचोच विचार करूंक लायतात. जिणेंत पेलूंक जायनाशिल्ल्यो म्हत्वाकांक्षा, काळजांत बाळगून दुख्ख कित्याक ओडून घेवपाचें हें हांव करूंक पावलें ना, हाचो मनस्ताप कित्याक आपोवन घेवपाचो ? म्हणूनच घडये सत्तरीच्या घरांतले ह्या वाटचालीन म्हातारपण जाणोवक दिलें ना जायत. आता म्हजो परतीचो प्रवास सुरु जाला, जिणेचे दीस उणे उरल्यात हाचो खीणभर लेगीत विचार हांव करिनासतना खिणाखिणाच्याच विचारांत आसता.

निमणे म्हातारपण हें पिराचेयेर निंबून नासता. मनशाच्या पाचवेचार मनाच्या प्रवृत्तीचेर निंबून आसता. हाचोय दिश्टावो जायत आसा.

एकटेन म्हणलां तेंच खरें 'म्होवामुसाची जीणच अप्रुप कशी. गूं गायत दीसभर फुलांचेर नाचतना, थंयच्या म्होवा कणन्‌कण, थेंब-थेंब एकठांय करीत रावप. दुसऱ्यांखातीर !' हीच तर उतार पिरायेतल्या तारुण्याची मोख न्हय ? हें न्हय तें म्हातारपणांतलें पाचवेंपण ! ही न्हय ती हिरवळ, दोळ्यां-मनाक सूख दिवपी ?



# भुरगीं आमकां जागयतात !

आमी आमचे एका इश्टागेर गेल्लीं. दोन-तीन भाव एकठांय रावपी कुटूंब तें. एकत्र कुटूंब पळोवंक मेळप हालीं तेंपार कठीण जालां. पूण त्या घरांत चार पांच भुरगीं एकमेकां वांगडा, आपुलकायेन खेळटालीं. मेकळेपणान उलयतालीं - हांसतालीं. किटकिट्टालीं. पळोवन बरें दिसलें. ती हांगा थंय धांवतालीं. आमकां पळोवन इश्टाची बायल खोशी जाली. मायेमोगान तिणें आमका येवकार दिलो. तिचे वांगडा बसलां मात्र, सगळीं भुरगीं आज्ञे भोंवतणी एकठांय जालीं. आज्ञेन म्हजी वळख करून दिली.

'आगो, ही कोण जाणा मगो तुमी ? हिवूय एक टिचर आं ! हेडबाई, तुमचे हेडबाई भाशेन'' भुरगीं मुमुरखशी हांसली. आज्ञेक जायते प्रस्न विचारूंक लागलीं. तिका म्हजे लागी उलोवंक दिनाशिल्लीं. म्हज्यातली टिचर जागी जाली. हांवें म्हणलें, ''भुरग्यांनो, चित्रां काडपाक कोणा कोणाक आवडटा? चौगानींय हात वयर काडले.

''म्हाका आवडटा - म्हाका आवडटा'' पोरांनी उमेदीन म्हणलें, हांसती मुखामळां पळोवन हांवूय खोशी जालें. म्हणलें, 'चला तर. रंगीत पेन्सिली-ब्रश, रंग-कागद घेवन येयात. चवगांय पोरां धांवत गेलीं.

खिणांभितर सगळें साहित्य घेवन आयलीं.

कसलीं चित्रां काडूं आमी? एकट्यान म्हणलें.

''तुमकां आयज खंय वचचेंशें दिसता, कितें पळोवचेशें दिसता, कितें आपणावचें दिसता तें काडपाचें. पितारपाचें'' हांवे म्हणलें.

पोरांनी खोशयेन जमनीर थपकल माल्ली. पंगत करून बसलीं. पितारपांत गुल्ल जालीं. आमकांय मातशी थंडसाण मेळ्ळी. आमी उलोवपांत गुल्ल जालीं.

''बरें केलें गो बाये तुवें. मातूय उलोवंक दिवंची नासलीं आमकां. कामाक लायलें तें बरें केलें.

वरा भितर आवयो भितर सल्ल्यो. भुरग्यांनीं तांका वेंगायलें.

आपणालीं चित्रां दाखयलीं. तातूंतली एक आवय म्हजेसरी आयली आनी तिणे म्हणलें,

'सुधाताई, तुमी आमच्या भुरग्यांक बऱ्या वावराक लायलें आं. तांकां चित्रां पिंतारूंक लायिल्ल्यान आनी तुमी तांका बरे उमेदीचे शेरे-मार्कस दिल्ल्यान तीं सामकीं फुल्ल्यांत. तुमचेर सामकीं खुश जाल्यांत.''

'हांवूय एक टिचर न्हय गो भुरग्यांची?' हांवे म्हणलें.

''हय हय ! म्हूण तुका ही खुबी सादल्या.'' तिणें म्हाका उमेदीन सर्टिफिकेट दिलें''

'तुमचींय भुरगीं खूब गुणी आसात आं ! बरीं चित्रां काडल्यांत ताणीं. कल्पनाशक्ति बरी आसा तांची.'' हांवें म्हणलें.

दोगूय आवयो खोशयेन हांसल्यो. एके आवयन म्हणलें, ''आतां आमचीं भुरगीं चड सुबेज जाल्यांत. कसलेय प्रस्न विचारतात. शाणेपण सांगतात. आमी खंय चुकतात तें फाटी फुडें जायनासतना तोंडार सांगतात. तीं सांगतात तें सुरवेक आठ वर्सां पिरायेची चली म्हाका सांगता, ''आगे आई, कित्याक गे तूं पिरंगता? तुमी अशी कितें गे पिशेंपणां करतात? ओगीच बारीक बारीक गजालींचेर वाद करतात आनी आपणाली तकली तापोवन घेतात. कसल्यो फालतू गजाली मनाक लावक घेतात गे तुमी ! मनस्तापाक नाका आसतना आफोवणे दितात मगे तुमी''

पोराचें उलोवणें आयकूनय म्हाकाय भिरभिरी माल्ली. हांवें ताका म्हणलें, ''आं तुका दिसता मगो तुजी आवय पिशी म्हूण. मागीर तूं अशें कर. म्हाका बाजारांत व्हर आनी सोड थंय. आनी थंय तुका जाय तशी आवय मेळटा तिका घेवन यो.''

ताणें हांसत म्हणलें, ''करूं येतालें गे तूं म्हण्टा तशें. तूंच म्हजी आवय जाल्या न्हय?

तशीच आपणावची पडटली, आमकां आसा तशीच. पूण तांतूतच कितेंय पूण करूंक येता जाल्यार पळोवपाचें'' पळयलीं मगे आतांची पोरां? तिणें म्हणलें.

तिजी हीं उतरां आयकून मन हाललें. कोणेतरी एका बुदवंत मनशान म्हणिल्ल्या उतरांची याद जाली. आमचींच भुरगीं खंय, आमचें मदलें उणेपण सांगून, आमकां बरीं मनशां करतात. बरीं ह्युमन बिईंग्स करतात.

भुरगीं, आमचे मदलें उणेपण सांगून, आमकां जागयतात. मनांत हात घालून धवळून काडटात. आमचे मदल्या दोशांचे दर्शन घडयतात.

फालतू गजालींचेर आमी चड लक्ष दिवन मनाशी शांती वगडायतात. हेंच न्हय तें सांसणाचे सत, तें पोर सांगून गेलें?



# हातवारें धोणू आनी बाण?

हालीं तेंपार धोणू आनी बाण उजार करपी, पळोवंक मेळप भोव कठीण. पूण एक गजाल खरी. मनशां जायते फावटी एकमेकांवांगडा उलयतासतना, हातवारे करून उलयतात तें आमकां पळोवंक मेळटा. हातवारे करूनच आपणाल्यो भावना उकतावपी जायते जाण आमी पळयताच न्हय ? खंयतरी वाचिल्ल्या उतरांची याद जाता.

''हातवारे'' हे उतर पळयात. हातांचे वार ! हातांनी चलयिल्ले तीर-बाण. हातांनी हेरांक केल्लो घाव. आयकून मन अजापीत जालें. पयलेंच फावटी ह्या उतरांतलो सूचक अर्थ लक्षांत आयलो. अनेपेक्षितपणातय एक दुसरेच भाशेनची खोस आसता न्हय? त्याच खिणाक ज्ञानेश्वरीतल्या एका होंवयेचो उगडास जालो.

'पुढां प्रेम पाझरे, मागूनी चालती अक्षरे' जें उलोवपाचें आसा, ताचें पयलीच मोगाची झर लागतली. जो मनीस पंयलीच उणें उलयता, इतलेंच न्हय तर जो आपल्या उलोवपान कोणूय दुखवचो ना हाचीय जतनाय घेता, तो केन्नाच उपरोधिक उलयना; आपणाल्या कर्कश उतरांनी कसल्याच तंट्याक आपोवणेय दिना, हेरांची टरय उडयना, फकाणाय करिना, हेरांच्या मनाक झोंबत अशींय उतरां दिना, हेरांचे मन रक्तबंबाळ करपासारके विचारय मनात हाडिनात. उलोवपांतल्यान तशेंच हात हालयतना लेगीत तो जतनाय घेता. कोणूय बुडटा आसत जाल्यार ताका हात दिवंक फुडें सरता. भिवं नाका, हांव करता तुका आदार हे ही सुचोवणी दिवपाखातीर आपणाले हात उजार करता. कोणूय दुयेंत आसत जाल्यार आपणाल्या ल्ववपीक हातान ताका स्पर्श करता. हो स्पर्श त्या पिडित दुखेस्त मनशांक थंड सुखदिण्या वाऱ्याच्या झुळके भशेन दिसता. ताची दुख कांय खीण तरी नाच जाता. पूण काळजांत माया-मोग आसले बगर ताच्या स्पर्शान इतली याद कशी जावं येता? काळजांत मोगा वांगडा अहिंसेचीय भावना आसची पडटली न्हय? ज्ञानेश्वर माऊलीची उतरां हेंच सांगतात. एकाद्या फुलांत घमघम पक्व जालो काय तो कांय बोवाळ करिनासतना, अचळय भायर सरता. आनी मागीर आपशींच अहिंसेचो आचार सगळ्या अवयवांत दिसूंक लागता.

तलवार चलोवप, बंदूक झाडप, जावं खून मारामारी करप हें सगळ्यांनीच करूंक नजो. पूण सरळ सादें म्होवाळ उलोवप आमच्या सगळ्यांनी करूं येता न्हय? हांवें दुयेंतीक हात लायल्यार, म्हजो स्पर्श तांका खऱ्यांनीच सुखदिणो दिसत काय? फकत हात लांवक जाय म्हूण शुश्क सुको हात लायल्यार सुखदिणो कसो? ताचे फाटल्यान मायेची भावनाच आसची पडटली. न्हय? तरूच देंवतली न्हय ती माया त्या हातांतल्या स्पर्शातल्यान? कोणांक खबर? कशें कितें घडटा ते? तेंय एक कुवाडेंच न्हंय?

पूण ह्या सत्याची खऱ्यांनीच प्रचीती आयल्यार मन वळू येता न्हय ते दिकेन ल्हव ल्हव?

हातवारे करून खूबश्यो गजाली सांगूक येतात? जायत्यो गजाली सांगिल्ले सुचोवंक येतात. उतरां परस हातवारो कायं वेळार चड प्रभावीत जावंक शकतात पूण खूब फावटी हातवारे करून आमी आवेश आनी अभिनिवेशच दाखयतात काय? काय दिसनाशिल्लो अहंकार तातूंतल्यान उसळी मारून वयर सरता? पूण ताका कोण आडावंक शकता? प्रश्नच जावन रावतालो काय हो ? ..... जावनच रावतलो कांय हो – धोणू आनी बाण ?



# सात्वीक धादोसकाय !

कंप्युटराचेर चलो बशिल्लो. ताणें म्हणलें, 'मम्मा, वाच गे ही घडणूक !'

आज्यान नातवाक म्हणलें, 'आरे बाबा, मनांत मरे दोन लांडगे आसतात. एक लांडगो सदभावनेन भरिल्लो आनी दुसरो लांडगो दुर्भावनेन भरिल्लो.

नातवान विचारलें, 'आज्या, मागीर, हांतूतलो कोण जिखतलो?

'तूं जाका पोसतलो, जेवण-खाण घालतलो तो जिखतलो.' आज्यान म्हणलें.

आज्यान नातवाक सांगिल्ली ही गजाल ताका ताचे हे भुरगेपणाचे पिरायेचेर कळटली काय ना हें सांगूक येना. घडये कळत ना कळत, पूण जो कोण ताका पोसता तो वाडटा. तो जिखता इतलें तरीं ताका सारकें कळटलेंच न्हय? आमकां जाण्ट्यांक तरीं हें सगळें खरेपणान कळटाच अशें आसा? नाजाल्यार सदभावना आनी दुर्भावना हातूंतलो फरक सोंपेपणान समजूं येतालो न्हय मनशाक? ही गजाल वाचतकच, खूब दिसा पयलीं एक खबर खंयतरी वाचिल्ल्याची याद जाली. तोय संवाद म्हाका खूबश्यो गजाली सांगून गेल्लो - त्या खिणाक. तोय संवाद आसलो आज्या-नातवा भितर.

देव म्हणल्यार कितें? तो कितें सांगता? ह्या गजालींचेर विचार आयकून, नातू आज्या वांगडा चर्चीतल्यान भायर सरतालो. ताणें आज्याक विचारलें, 'देव म्हणचें कितें रे? तो कितें सांगूक सोदता आमकां?'

आज्यान म्हणलें, 'पळय, देव आमचे मदीं जें पळोवंक सोदता ताची आमकां मातपसून जाणविकाय नासता. फुडें आज्यान म्हणलें, 'चल उडय फातुल्ली उदकांत आनी त्या फातराक लागून भोंवतणी पातळिल्लीं ल्हारां-तरंगां. तूं अशेंच समज कीं, तूं स्वताच तो फातर उडोवपी मनीस. तूं जायतीं अशीं ल्हारां तरंगा तुजे जिणेंत निर्मूक शकता. पूण त्या ल्हारांक लागून हेरांकूय त्रास जावंक शकता.

नातवान विचारलें, 'त्रास कसो? कित्याक?'

आज्यान म्हणलें, 'सदांच मतींत दवर. जें तूं भितर उडयता, ताका तूंच स्वता जापसालदार आसता. त्या वर्तुळांत जें कितें बरें आसा, तेंच तातूंतलें बरेंपण हेरां कडेन पावतलें. देवान म्हणलां, तुकां अशें जियेवपाची गरज आसा. तुजी ही ल्हारां-तरंगा तुज्या तिडकीतल्यान जावं दुस्वासांतल्यान आयल्यात जाल्यार, ह्योच भावना तूं हेरां कडेन धाडटलो. तूंच ह्या बऱ्या वायट गजालींक पुरायेन जापसालदार आसा, ही सुचोवणी खिणाखिणाक देव आमकां दीत आसता.'

नातवान म्हणलें, 'ह्या आज्याच्या उतरांनीं हांव भानार आयलों. जण एकलो हें बरें-वायट, सदभावना-दुर्भावना ह्यो दोनूय तरेच्यो भावना निर्मूक शकता. ज्यो भावना तो निर्मिता त्योच ताज्यो भावना संवसारात पातळटल्यो. जर आमीच स्वता आंतरीक संघर्शात मत्सर, संशय, तिडक हातूंत घुस्पल्यात जाल्यार आमी संवसारात शांतता कशीच पातळूंक शकनात.

आमच्या काळजांतल्या बऱ्या भावनांचोच आमी प्रभाव घालूंक शकतात न्हय? आमचे बरे विचार हेरां मेरेन पावंक शकतात. आमी त्यो भावना उलोवन दाखोवं वा ना दाखोवं. जें भितर खतखतता, जें भितरच आसा, तेंच न्हय भायर सरतलें ! तेंच न्हय ओत्तलें भायर? जावं वायट, जावं बरें ! जिणेंतल्याह्याच वर्तुळांतल्यान सुंदरपण जावं असंतोश पातळावप जाता न्हय मनशाकडल्यान?

देवाक हेंच आमचे कडल्यान जाय. हाची आमची सगळ्यांनी घट याद दवरची हेंच सांगता न्हय देव आमकां? नातवान म्हणलें, 'ही देख हांव जीणभर घेत आयलां. आनी ही, ती म्हज्या भुरग्यांक दिवंक सोदता. हेच इत्सेन. हेच अपेक्षेन कीं, तेवूय ही बरी गजाल हेरांक दीत उरतले.

एकल्यान म्हणलांच न्हय? प्रत्येक दिसा, एका मनशाक जर तुमी हांसयलें, ताची उमेद वाडयली आनी ताजी वृत्ती प्रफुल्लीत केली तर तो दीस सार्थकी लागलो अशेंच म्हणचें पडटलें. आस्था-माया आमकां फुडें काडटा, धर्तरिर ह्या सुवातीचेर रावपाचें भाडें दिवपाक. हेंच न्हय तें सुखदिणे, सात्विक समाधान? ती धादोसकाय आमच्या पदरांत पडूं येता न्हय?



# पटना म्हणून न्हय हां !!!

म्हज्या घोवाची एक इश्टिण जायते तेंपान मेळ्ळी. सदचेभशेन तिणे हांसून येवकार दिलो ना. सामकी गुरमुरीत कशी दिसली. म्हणचे म्हूण म्हळें तिणें, 'आसात मरे बरीं' पूण त्या उतरांनी जीव नासलो. तिजें मन अस्वस्थशें दिसलें.

हांवे म्हळें, 'आयज तुका बरें बी दिसना काय कितें?' उबगल्लेवरी तिणे म्हळें, 'ना ना. तशें कांय ना. पूण पयर सावन हांव फोन लायतां भयणीक. ताजो चलो बरो ना. ताका हॉस्पिटलांत व्हेलां म्हूण कळ्ळें. वृद्धाश्रमांतल्यान भयण मुंबय हॉस्पिटलांत गेल्या म्हूण कळ्ळें. ताजेकडेन उलोवंकच मेळना, म्हूण जीव वयर सकल जाला. आरे ते वृद्धाश्रमांत गेलां ते पटना म्हणू न्हय आं, तर भुरग्यांबाळांचें करून करून थकलें तें. सामकें वाजेलेंय तें. थंय सुशेगसो दिसता ताका. मनाचेर कसलेंच चेंपण ना जाता न्हय रे ! एकाच श्वासांत तें उलयतालें. आपणाल्याच विचारांचें आत्मसमर्थन तें करतालें जावये.

म्हज्या घोवान फट् करून ताका म्हळें, 'आगो, पटना म्हणूनच एकमेकांपासून पयस जावपाचें तातूंत कितें ! दोन पिळग्यामदीं अंतर हें आसतलेंच. पयले पिळगेक दिसता तें दुसरी पिळगी मानूंक तयार जावंची ना. हें सभाविकच आसा. तातूंत समर्थन करपाचें कितें आसा? घोवाचीं उतरां ताका झोंबली जांवये. विदारक सत् आयकूं नज जाता न्हय? ताणें म्हळेंच.

'पटना अशें म्हणप ना. ताकाय स्वतंत्र जीण जगची अशें दिसचें न्हय? घोवा फाटल्यान ताणेंच भुरग्यांच्यो खस्तो खाल्यो न्हय? थोडे कश्ट काडले नात ताणे. जाण्टेपणांतय कित्याक करपाचे ताणें हे कश्ट? आतां थोडी मेकळीक ताका मेळूंक नाका?'

'हय. तूं म्हण्टा तेंच हांव म्हणटा. जेन्ना ताका ही मेकळीक मेळना तेन्ना ती ताका जंय मेळटा ती ताणें घेवपाचीच. ताजीं मतां ताजे वांगडा जेन्ना पटनात तेन्ना ही मेकळीक ताका मेळूंक पावची ना न्हय? म्हण्टकच तातूंत गैर कितें

जालें? भुर्ग्यांचीं मनां वेगळीं आसतलींच न्हय? तांकाय आमी स्वतंत्रतायेन जियेवपाची देख दिल्ली आसता न्हय गो', घोवान ताका म्हळें.

पूण ताका तें बरें मानवलें ना. सत् हें खूब फावटी खरच लागता मनाक. म्हज्याय मनांन ल्हारां उप्रासलीं. आमी जाण्टीं हें सत सोंपेपणान कित्याक मानून घेवंक पावनात काय? 'पडले वळण सकळ इंद्रिया' म्हणून काय आमचेच आमकां खरें आनी बरें दिसता म्हणून? होय आमचो अहंकार-मीपण न्हय? तेंच आमकां पिडटा जांवये. म्हणूनच आमी आमचें सोडूंक पावनात.

आतां आमची जीण आमी आमकां जाय तशी जियेलीं, भुरग्यांची जीण तांका जाय तशी जियेवंनी अशें आमकां दिसूंक फाव न्हय? आतां आमची जाणट्यांची परतीची वाट सुरु जाल्या, आतां हो परतीचोच प्रवास खोशयेन जियेवपाचो अशे मनापासून दिसत जाल्यार, भुर्ग्यांनी आपणाली जीण तांका जाय तशी जियेवपाची हें सत् जांव समजावपी मानून घेवपाची घडये तांक आमच्यात येवं येता. आपणाक दिसता तेंच खरें, आनी भुर्ग्यांनी तें तशेंच करचें अशी अपेक्षा दवरप, ताणी तें मानून घेवंचेंच असो अट्टाहास करीत जाल्यार अपेक्षाभंगाचेंच दु:ख, मनस्ताप पदरांत पडपाचो संभव चड.

घोवाचें उलवणे आयकून त्या इश्टिणीचें तोंड निर्शेल्लेवरी जालें. ताका तें बरें रुचलें ना शें दिसलें. ताजी तगमग, धडपड, अस्वस्थपण म्हाकाय जाणवलें. दर एक फावटी, सुनेच्यो तक्रारी करप, चल्याक दुशणां लावप, तें आयकून म्हाकाय वायट दीस. पूण तें वयान जाण्टें ! ताका कितें सांगतलें म्हूण हांवुय ओग्गी रावी. जण एकल्यान आस तशेंच आपणावपाची तांक येवप खुब्ब गरजेचें न्हय? सदांच हेरांच्या दोशांचे चिंतन कित्याक करप? तो वेळ तांच्या दोशांच्या जांव उणेपणाच्या ध्यानांत कित्याक व्यर्थ घालवपाचो? तांच्या बऱ्या गुणांचे चिंतन करीत जाल्यार आपणाल्या मनाकय शांतता न्हय? जे सुवातीर उजो लागता ती सुवात भाजून येता तशेंच दुर्गुणांच्या चिंतपान आपणालें मन भिल्ल्यान भाजून येताच जातलें न्हय? कित्याक ओगीच अस्वस्थपणाक आफोवणी दिवप?

दादलो आनी अस्तुरी प्रकृतीन-सभावान वेगवेगळीं. आवयचें मन दुसरेच भाशेनचें. भुर्ग्यांचे आनी तिजें नातें नाळेचें. तें सांगूक येवपाचें ना. ते अणभवानच

कळटा. हेंय जरी खरें, तरी पिलांक पाखा फुट्टकच पक्षीण जशी तांका मेकळेपणान उडूंक दिता, तशेंच आमच्यांनी करूंक येता न्हय? तांचे उडप संतोशकायेचें जांव म्हूण मागपाचें. तेंच आमच्या हातांत आसता. ताणीं कशें उडचें हें आमी कशें थारावपाचें? तांच्या उडपांत आमच्या अपेक्षांनी आडखळ हाडप फाव कशे जांव येता? गरजेशिवाय मनस्तापाक आमंत्रण न्हय हें? कुड्डी माया लेगीत तांका त्रास दिवपी थारूं येता न्हय? मागीर तेंच तेंच कित्याक करपाचें? ताजो तांका त्रास करचे बदला फाटल्यान सरील्लें बरें न्हय? तातूंतच शाणपण आसा. हीच शिकवण मनाक दिवंची पडटली. आमकांय आमचे विचार बदलचे पडटले. आमीय मात्सी आमकां मुदार करपाचो यत्न करूं येता. नाकाशिल्ल्यो गजाली आपणे जावंन आंगार ओडोवन घेवप हे कितपत फाव कशें जांव येता? भुर्ग्यांचेरय आमचे परसय तें बरें काम करूंक शकतात म्हणपाची श्रद्धा दवरूं येता. भुर्ग्यांची तोखणाय करून तांच्यान बरो आत्मविश्वास निर्माण करूं येता. म्हजेच कडल्यान हें काम बरें जातलें अशें तरी कित्याक दिसचें? वयपरत्वे शक्ति ल्हवल्हव उणी जातलीच न्हय? तरणाटेपण आनी जाण्टेपण एक जांव येता? निसर्ग आपली तांक दाखयतलोच न्हय? मागीर आपलेंच कर्तृप व्हडलें दिसचें असो अट्टाहास करप हातूंत कसलें स्वारस्य? आपणेच आपणाल्या मनाक हें विचारप फाव कशें जातलें न्हय? हें अशें आपूण नाका आसतना कित्याक करता? घडये ताजी जाप आमकां मेळूं येत. आमची जीण आमीजाय तशी जियेल्यात म्हण्टकच तांची जीण तांका जाय तशी जियेवंक दिवन तांकाय सुखान जियेवपाची संद दिवपाची आनी आमीय सुखान रावपाचें हेंच फाव कशें न्हय? आपणेच नाकाशिल्लें मायाजाळ विणून आपुणच तांतूत घुस्पून घेवप हे फाव कशें जांव येता ?



# “टिचर, ताची ख्यास्त म्हाका दी”

‘मनी वसे ते स्वप्नी दिसे’ अशी म्हणणी आसा न्हय? आयज हांव बल्कांवाचेर बशिल्लें. कांयच ध्यानी मनीं नासलें. मनांत कांय गजाली घर करून बसतात आनी झुप्प करून केन्नाय अचळय वयर सरतात म्हूण वाचिल्लें. म्हाका आयज हो अणभव आयलो. अचकीत एक सुपुल्ल्या भुरग्याचें मुखामळ नजरेमुखार आयलें.

पोर गयावया करतालो, ‘‘टिचर, ताका ख्यास्त दिवं नाका. ताच्या वाट्याची ख्यास्त म्हाका दी. तो म्हजो फ्रेंड ! क्षमा कर ताका.’’

पोराच्या उतरांनी मन कळवळ्ळें. गलबल्लें.

ती घडणूक .... दोगूय पोर इश्ट एकमेकांचे. चड करून एकमेकां वांगडा आसपी-भोंवपी खेळपी. पूण आयज दोगांयचीं मुखामळां तांबडीं गूंज जाल्लीं. बुरखे काडून झगडले. टिचरींनी दोगांकूय हाताक धरून ऑफिसांत हाडिल्ले. पोरांचीं तोंडां सामकीं निर्शेल्लीं. म्हजेकडेन पळोवंकूच तयार नासले दोगूय. धर्तरिर नदर लागिल्ली दोगांयची. सामके मोने कशे जावन राविल्ले. एकट्यानूय तक्रार केली ना. झगडीं कित्याक लागून जालीं, हेंवूय सांगूंक दोगूय तयार नासले. कोणेय पूण एका भुरग्याचे आवयक ही खबर दिली जावंये. ती धांवत धांवत ऑफिसांत आयली. म्हाका म्हणूंक लागली,

‘‘टिचर, म्हज्या भुरग्याचो कांयच गुन्यांव जांव नज. तो म्हजो अपुर्बायेचो भुरगो ! हो दुसरो भुरगो सामको मस्तो. म्हज्या पुताच्यो कळी काडीत आसता. ताचो हात सदांच वयर. पळय, म्हज्या पोराच्या पोल्याचेर रगत काडलां. बुरखे काडल्यात. तिणें त्या मस्त भुरग्याचेर व्हडले दोळे केले. दांत ओंठ खायत तिणें म्हळें, ‘‘गेले फावटीय, ह्या भुरग्यान म्हज्या भुरग्याक मारिल्लो. तो सामको पेडङ्यार भुरगो. ताका लागून म्हज्याय भुरग्याची वाट लागतली. तेन्ना ताका बरी ख्यास्त दियात. ह्या भुरग्याक इस्कोलांतल्यान काडून वडयात. दोगांक एका बांकार, लागीं लागीं बसूंकच दिवं नाकात.’’ ती आवय सामकी पेटिल्लेवरी भडभड करून उलयताली.

तिका मातशें थंड करचें म्हण हांवें म्हळें, ''पळयतां हां कितें जालां तें ! टिचरीक विचारतां – भुरग्यांकय विचारतां. तूं कदेलाचेर बस.'' तिका ऑफिसाच्या भायल्या कदेलाचेर बसयली.

वायट संगतीन आपणालो भुरगो इबाडत ही भिरांत ते आवयन उकतायली. माये पोटींच न्हय ! आपणालो भुरगो बरोच. तो कसलोच गुन्यांव करचो ना म्हूण खातरी दिवपी ही आवय. आपणाल्या बऱ्या भुरग्याक लागून तो मस्तो भुरगो बरो जांव येता, ही आस्त तिच्या मनांत कित्याक उप्रासलीना. आपणालें भुरगें गुणीं अशें आवयक दिसप घडये सभाविक जावंये, पूण तें केन्नाच चुकूं नज हाची खात्री दिवप हें फाव कशें जांव येता? दुसऱ्यांक सोपेपणान दोश दिवप हीच काय ती जनरीत? एका हातान ताळी वाजना हें ते आवयक खबर नासलें? पूण न्याय म्हज्याच भुरग्याक मेळूंक जाय, ताका लागून दुसऱ्या भुरग्यांचेर अन्याय जाल्यार कांयच पर्वा ना, अशीच भावना आसता काय चडशा आवयांच्या काळजांत? म्हणून न्हय हो सासणाचो संघर्श !

टिचरीक आफोवंक धाडलें. घडणूक कितें घडली हें जाणून घेवपाचें आसलें. हांवें तिका विचाल्लें, ''आगो, कितें घडलें?''

''मिसेस आमोणकर, खरें सांगता. हे दोगुय पोर तशे समजिकायेचे. बरे इश्ट कशे चलतात. खूब फावटी हांसोवन–उलोवन शिकोवपांत व्यत्यय हाडटात म्हूण तांका फाटल्या म्हयन्यांत हांवे एकमेकांपासून पयस बसयले. दोगुय पोर खूब रडले.

''आमी परते अशें करचे नात. आमकां क्षमा कर. एकमेकांच्या म्हऱ्यान बसय. एकमेकांबगर चैन पडना म्हूण दोगुय गयावया करूंक लागले. हांवे तांका परते एका बांकार बसयले. पूण अचकित तांचे कितें जाले तें कळ्ळें ना. हांव तांका झगडपाचें कारण विचाल्लें पुण दोगुय सांगपाक तयार नात. कोणाचो गुन्याव हें म्हाका सांगूक कळचें ना.'' टिचरीन खेद उकतायत म्हळें.

''बरें तर तूं क्लासीक वचूंक शकता'' हावें टिचरीक म्हळें भुर्ग्यांनी सांगपच न्हयकारलें आपणाल्या मौनातल्यान, टिचरय काय निर्णय सांगूक पावली ना, आवयन आपणाली भूमिका मांडली आता चिंतून निर्णय घेवपाचें म्हज्या

वांट्याक आयलें. मन, ख्यारस्त दिवपाच्या विरुद्ध. भुर्गे भुर्गेपणात अशे वागतलेच. पुण तांका मायेमोगान समजावणी दीत जाल्यार घडये तांच्या मनात परिवर्तन घडूं येता - आनी वायट वासना, भावना पयस जांव येता. ह्या गजालीचेर म्हजो पुराय विश्वास. तांका दोगांकुय हांवे परतें ऑफिसांत आफयलें. एका पोरान ऑफिसांत पावल दवरना फुडे म्हळे, ''टिचर, क्षमा कर आमकां म्हज्या इश्टाक ख्यास्त दिवं नाकात. ताजे वांटपाची ख्यारस्त हांव भोंगूक तयार आसा. ताणें म्हजे तकलेर पट्टी माल्ली खरी. पुण त्यावेळार म्हज्यानय ओगी रांव येताले. पुण म्हाकाय कितें जाले ते कळ्ळें ना. टिचर हांव तुमकां पायां पडटा. ताणे वाकून नमस्कार केलो. आनी म्हळें, टिचर तो म्हजो बेस्ट फ्रेंड ! ताका ख्यारस्त करू नाकात. पोराचो ताळो थरथरलो, दोळे भरील्ले. क्षमाभाव येदे पिरायेचेर? क्षमेची भास येवपाक काळीजय व्हडले. आसचे पडटा न्हय? मनीस आपणाले वांगडाच घेवन येता काय ही वृत्ती? पोराच्या उतरांत मान लेगीत सुडाची भावना नासली. रागाचीय भावना नासली. कितलें निश्पाप निरागस भुर्गेपण ! ताजे काळीज सद्भावनेनच भरील्ले जावये. दुसऱ्यांची ख्यारस्त, आपणे भोगपाची भास, काळीज व्हडले आसले बगर कशी येत?

मन खंयतरी हालले. पोरांची कळकळीची उतरां खूबशें कितें शिकोवन गेली.



# कर्माचें अनुश्टान ! पुण्याचें अनुश्टान !!!

वेंर्गुल्लया आयल्यान आशिल्लें न्हंयचे आड गेल्लीं म्हज्या एका शिक्षकाक मेळपाक. खूब जीव तांचो आमचेर. ते आमकां मेळटकच तांकाय उपाट खोस जाता; आनी आमकायबी. दोन तीन फावटी फोन करून ताणीं आमकां मुजरत 'न्हंयचे आड' येवपाचो आग्रो केलो. तांका दिल्ल्या शब्दापरमाण आमी थंय पावलीं म्हूण सर खूब खोशी जाले. ताणीं च्याचो बेतुय बरो केल्लो. तवसळी, भाकरी–चटणी. खूब वर्सांनी खाली तवसळी. जीव धादोस जालो.

सरान म्हळें 'बाब सुरेश, तुका एक विनंती. म्हजें घर राखपी मनीस तूं जाणा, तुकाराम, हांगा आसता तो. ताजे चलयेचें लग्न हालींच जालां. हांव लग्नाक पावलों ना. पूण आयज तूं आयला तसो वचेंशें दिसता. तुका मोटार चलोवंक बी त्रास जांवचो ना मूं?' ताणीं आपणाली इत्सा परगटायली.

घोवान वचुया म्हळें, 'हयतर! वचुंकच जाय. चला आतांच भायर सरूया'

'ना, बरोऽऽ पयस आसा तो गांव. आतांच सांगून धाडटां आयज सांजचीं येतात म्हूण' ताणीं खोशयेन म्हळें.

जेवण ताण जाल्लें. मात्सो दनपारचो दोळो लावन उठलीं आनी वचूंक भायर सल्ली. आमी दारांत पावल्यां मात, घरातसून जायतीं मनशां भायर सरलीं आनी व्हडा उमेदीन आनी हांसत्या मुखान आमकां ताणीं येवकार दिलो. अप्रुपशी खोस तांचे दोळ्यांत उपाट भरुन व्हांवताली. म्हजेंय मन भितल्ल्यान फुल्लें. तुकारामाली धूव, नाका दोळयां बरी शिरवंत पोर. काळें सांवळें खरें, पूण रुपाक लिखी. पोर उमेदीन हांगा थंय धांवतालें. एक तरणाटो पोर मुमुरखोसो हांसतालो. हावेसान बरो सडसडीत. लक्तुबायेचें तोंड. होच तुकारामाचो जांवय आसतलो, हांवे अदमास केलो. इतल्यांत तुकारामान म्हळें, 'हो आमचो जांवय आं !' ताणे आमकां वांकून नमस्कार केलो.

सगळ्यांकच आमच्या येवपाचो बोवाळ पडिल्लोसो दिसलो. घोवान धांवत वचून धोलतें वॉलतेर हाडलें. तुकारामाली धूव रांदचें कुडींत च्याची तयारी करुंक लागली, जाण्टेलीं कपबश्यो काडूंक लागलीं, एक सुपुल्लें चली जमखान पातळूंक लागलें. एक तरणाटी चली बिस्किटी बशेंत घालूंक लागली, जांवय धाकटुलें मेज घेवन आयलो. जण एकल्याचें अगत्य आनी आपलेपण पळोवन म्हजेंय काळीज भरुन आयलें.

घर सुपूल्लेंच. मंगळुरी नळ्यांचे पास्त. जमीन शेणांन सारयल्ली. सगळीं सुवात नितळ-निवळ. साडयेचे पड्डे केल्ले. वण्टीर गणपती-सरस्वतीची सुंदर चित्रां. त्या सुपुल्ल्या मेजार घाल्लो विणिल्लो तुवालोय मायेन येवकार दिवपाक दिसतालो. नवे सुनेन अपुबार्येन विणिल्लो जातलो. पोराची जायतीं सपनां त्या धाग्यांनी विणिल्लीं आसतलीं. दारामुखारच तुळस आशिल्ली. बरी पितारिल्ली. फुलांनीं पुजिल्ली.

आमी येतलीं म्हूण ताणीं पयलींच कालयल्ले फोव केल्ले आंसूये. ताणींच्या बी हाडून दवल्लो. फोवय रुचीक जाल्ले. तांची प्रीत भरशिल्ली न्हय तांतूत !

च्या बी घेवन आमी भायर सर्ल्लीं. घरचे जाण्टेलेन म्हळें, 'रावात आं कपलाक लायतां'. सुनेन होटयेचें ताट हाडलें. हांव बसलें. जाण्टेलेन म्हजी होंट भल्ली. आनी दोन पोटल्यो म्हजे हातांत दीत म्हळें, 'बाय, आमच्या शेतांतले आमचे हातसडीचे तांदूळ हे, आनी हे इल्ले फोव, आमचे हातचे' तिजें अगत्य दानत पळोवन आवयच्या अप्रूप मायेची जाणाविकाय जाली. कुळारच्या मायेन काळीज भरुन आयलें. सट करुन आईची याद जाली आनी दोळे भरुन आयले. आईय दरूवटी भायर सरतना, आपणाले हातान केल्ल्या लाडवाकापांची पोटली म्हजे हातांत दिताली. आईच्या रूपानच त्या जाण्टेलीचे हात म्हज्या पोटांत पावतले तर!

त्या सुपुल्ल्या घरांतली पावण्यांची सरबराय करपाची उमेद, मोग उदारपण पळोवन नकळयां मन तुळा करुंक लागलें. गिरेस्त कायेन भरिल्ल्या राजम्हालांतय जें वखदाक मेळूंक कठीण अशी ही अप्रुप गजाल, हे खोपींत पळोवंक मेळ्ळी. आमच्या देशांतल्या ह्या हजार खोपयांनी आमकां हो उतरां विरयत-मोनो आशिल्लो

मोग दिश्टी पडटा आसतलो काय? हेंच कीं, खरें कर्माचें अनुश्टान न्हय? म्हणूनच आमची संस्कृती इतल्या हजार वर्सांमिरेन तिगून उल्ल्या जातली. विचारांचीं जायतीं ल्हारां उप्रासलीं.

घरांत भरभरुन आशिल्ल्या गिरेस्तांचीं व्हडलीं व्हडलीं घरां आमी पळयल्यांत, पूण खूप फावटी थंय आपलेपण दिश्टीच पडना. पूण त्या खोपयेंत आपलेपणाचो, मनीसपणाचो जो दिश्टावो जालो ताका तुळाच ना. दुर्बळांच्या घरांनी घडये ऐश्वर्य नासत, पूण थंय काळीज आसा. दानत आसा. दुसऱ्यांक खोस दिवपाची इत्सा आसा, धडपड आसा. दुसऱ्यांक खोस दिवन आपूण खोशी जावपी वृत्ती आसा. मनीसपणान मनीसपण फुलोवपाची वानसा आसा. ह्या अप्रुप अशा काळजाचें दर्शन घडलें थंय म्हाका.

एका संताच्या उतरांची याद जाली. दानत आसपी दुर्बळ मनीस आपणाले सुपुल्ले, पोत्रे खोपींत एका खिणाभितर जितलें पुण्याचे अनुश्टान करता, तितलें आपणाल्या ऐश्वर्याचो, गिरेस्तकायेचो गर्व आसपी गिरेस्त आपणाल्या व्हडल्या हॉलांत लेगीत करूंक पावना.

संताच्या ह्या उतरांचें खरेंपण होलमलें आनी आपशींच तकली बागवली.



# ‘सुंदरपण सांसणाचें उरतलें दुख खिणाची’

एका व्हड चित्रकाराचें चरित्र वाचतालें. ताजे जिणेंतली एक घडणूक मन हालोवन गेली. ताका आर्थरायटीसाचो खूबच त्रास जावंक लागलो. बोटां घट जाल्लेवरी जालीं. बोटां चलना जालीं. ताचो ब्रश चलतना, ताच्या हाताक कितली दूख जाता, हें पळोवणाऱ्याक कळटालेंच. पूण तरीय आसतना, चित्रां काडपाचो ताचो अट्टाहास पळोवन ताच्या जिवाभावाच्या एका इश्टाचो जीव कळवळ्ळो. ताणें म्हळें, ‘‘आरे बाबा, म्हज्यान सामकें राव नज जालां म्हूण तुका विचारतां, हाताक आकांताळी दूख भोगता न्हय तुका? मागीर इतलो कित्याक धडपडटा तूं चित्रां पितारपाक? जीणभर न्हय रे तुवें हजारांनी चित्रां पितारल्यांत? आतां त्या हाताक, बोटांक मातसो विसव दी. कित्याक सोंसपाची इतली दूख?’’

ताणें जाप दिली, ‘‘आरे, सुंदरपण-सौंदर्य सांसणाचें उरतलें. दूख खिणाची. दूख पयसावतली.’’ केदें सोंशिकपण? निमणे मेरेन तो तशींच चित्रा पितारीत उरलो. संवसारांतलें ताजें चडांत चड प्रसिध्दिक पाविल्लें चित्र, ताणें मरचे १४ दिस पयलीं पुराय केल्लें. तो सौदर्याभितर सामको एकरूप जाल्लो काय? ताजें काळीजच रंगा-रूपान उपाट भरिल्लें जावंये. आनी म्हणूनच ताच्या बोटांतल्यान हातांतल्यान निमाणे मेरेन ते रंग कागदार उदेले आसतले. काळजांतल्या सद्भावनेनच रंगांचें रूप घेतलें काय? म्हणूनच ताका ती दुखय जाणवली ना? त्या सद्भावनेची तांकय घडये अप्रूप आसली जावंये. आनी म्हणूनच काय दुखीची पर्वाय करी नासतना ती सुंदर रूप घेवन प्रगट जाली? सांसणाची हेरांक खोस दिवपाक? ताच्या अप्रूप सद्भावनेक आनी कलेच्या उमळशिकेक ताची दुखय आडावंक पावली ना जावंये. ही जादूच म्हणपाची न्हय?

‘दूख खिणाची, सौंदर्य सांसणाचें उरतलें.’ ह्या ताच्या उतरांनी नाय म्हळ्यार म्हाका लजयलें.

पयरूच म्हजें धोंपर सुजिल्लें. किटकिटूंक लागलें. शेकलें, मलम लायलें. दुखीची गुळी घेतली. सगळें लक्ष धोंपरार. दुखी फुडें म्हाका सगळो संवसार नाका जालो. कांयच सुचना जालें. परती परती नदर धोंपरार. सगळें लक्ष म्हजे धोंपराचे दुखीचेर. कांयच करन दिसना जालें. कोणूय उलोवं लागलो – हांसूंक लागलो, सोंसू नज जालें. पूत–नातरां हो म्हजो मायेमोगाचो संवसार न्हय? तांतूतच दिस–रात घुसपून उरपी न्हय हांव? तोच न्हय म्हजो छंद? तेंच न्हय म्हजें व्यसन? पूण ते दुखीक लागून खिणाभितर हें मायाजाळ नाका जालें? फकत देवा रे म्हज्या ! दूख उणी कर रे ! म्हण धावो करीत उल्लें. हरशीं हांव म्हजेच मस्तींत गुल्ल ! भुरग्यांबाळांमदीं रंगिल्लें, घुस्पल्लें. देवाची याद केन्नाच जायना. पूण दुखीन म्हाका ब्रम्हांड आठवलें. देवाची याद जाली. घडये देवाची याद जावंची म्हणूनच कुंतीन देवाकडेन वेदना मागून घेतली काय?

पूण हो चित्रकार मात जगावेगळो. आपणाले वेदनेचेर ताणें कशें जैत मेळयलें काय? सुंदरतेचो खऱ्यांनीच ताका दिश्टावो जाल्लो काय? म्हूण तो दुखीचेर अशी मात करूंक पावलो?

येत काय ही तांक म्हजे भितर ?



# म्हजी खोस कित्याक ना केली तुवें ?

पासपोर्ट परतो नव्यान करपाचो आसलो म्हूण आमी पासपोर्ट ऑफिसांत गेलीं.

पासपोर्टाची फॉर्म घोवान भरून दिलो. काय रकाने भरपाचे आसले ताणे म्हळें, आगो, ते रकाने भर आनी डावे वटेन तूं सय कर.

हांव बारीक साणीन पळयत उरलें. वाचूंक लागलें. इतल्यान घोवान कितें पळयता? सगळे आयतें मेळटकच अशेंच जाता न्हंय?

''देवान हे म्हज्या वांट्याक दिलां, हेंच न्हंय म्हजे भाग्य? अशें म्हणीत हांव खळखळून हांसले. खुबळावपी मनय करपाची वृत्ती आसत म्हजेकडेन.

म्हज्या हांशाचो घडये घोवाक त्रास जालो जावये. आनी तिडकाय आयली जायत. सगलें सटासट जांवक जाय ही ताजी संवय. म्हजी संथगती पळोवन तोय सुबळ्ळो जायत. हे जाण्टेपणाक लागून घडूं येता न्हय? अज्ञानांत लेगीत सुख मेळटा अशें जायते म्हण्टात न्हंय? म्हजो अणभव येता त्या मनाक ब्रह्मनंदाच्या ल्हारांर उफोवपाचो योग येता जावये. हावें सय खंय करपाची हें हेरांनी सांगचें, ही भावना घडये आपली अपुर्बाय करून घेवपाचीय आसूं येता न्हंय? सुप्तपणान ती उकती जातां आसतली. कळ्ळे बगर.

ह्या धव्या केंसाच्या जाण्टेलेक आपणे आधार केलो, हें समाधान त्या ऑफिसांतल्या मनशाच्या पदरांत पडलें जाल्यार पडूं दी न्हंय? ही ताजी भावना समजून घेवपाची तांक म्हजेकडेन आयली जाल्यार भोव बरी न्हय ? म्हजेंय मन मस्तेंच कशें. आपुण गिन्यानी आनी सामखार ची अस्तुरी अज्ञानी, ह्या भावनेंतल्यान ताकाय आसुरी आनंद मेळूं येता न्हंय? तो ताणें घेवंचो अशें म्हज्या मस्त मनाक घडये दिसलें, जायत म्हाका कांयच कळना ही भावना, कांय वेळार एके तरेची नशा दिवंन वता न्हंय? फुडल्या मनशाची हालचाल,

ताज्या मुखामळोवल्यो ताज्यो भावना, वाचपांत लेगीत मजा आसतां, तांतल्यान जायतें विश्वरूप – दर्शन घडूं येता न्हंय ?

आपणाल्याच तांकीर, निमणेमेरेन हांव सगळें सट्सट् करूं शकत हीच घडये अहंकाराची भावना आसूं येता न्हंय ? ही 'मीपणाची' भावना काळजांत सदांच कित्याक बाळगुपाची ? जे सामखार आयलां ते तशेच सहजतायेन, आपणावपांत एक सात्विक आनंद मेळटा, असो अणभव म्हाका त्या खिणाक आयलो.

पुराय शरणांगतीची भावना जेन्ना मनात येता तेन्नाच न्हय हेरांचे हात फुडें सरतात आधार करपाक ? सुपुल्ल्या भुरग्यांचे हात अशेच तरेन शरणांगतीची भावना उकतायता म्हूणच न्हय ? दर एकलो ताका धरपाक–आधार करपाक फुडें सरता ? केन्ना येवंक पावतली ही पुराय शरणागतीची भावना म्हजे मनांत ?

द्रौपदीचे वस्त्रहरण जातना, द्रौपदीन कृष्णाचो धांवो केलो ताका आकांतान उलो केलो, ''म्हाका हांतल्यान वाटाय रे !'' कृशण मुमुरखोसो हांसलो, ''बाय, तुवें तुजो एक हात निरेर घट दवरून दवरला आनी दुसऱ्या हातांत तूं म्हाका वाटय म्हण्टां. तुजी अर्द श्रद्धा आनी विश्वास तुज्या हातार आनी अर्द श्रद्धा, विश्वास म्हजेर, ही अर्दकुटी श्रद्धा, विश्वास, कशी वाटायतली तुका ? तुवें दोनूय हातान पुराय शरणांगतीचे भावनेन तूं उलो मारशीत जाल्यारच तुका हांव आधार करूंक फुडें सरतलो न्हय ? द्रौपदीन आकांतान असहायपणान कृशणान उलो मारलो आनी कृशण तिका पावलो न्हंय ?

ह्याच विचारांत हांव गुल्ल आसलें, पुण घोवान धेंगसो घालतकच हांवुय जाग्यार आयलें.

ऑफिसांतल्या फुडल्या मनशाच्या दोळ्यांत म्हाका करूणेचे दयेचे ल्हारां दिश्टी पडले. ''ही जाण्टेलो त्या जाण्टेर कित्याक ताणशेता ? हांव करतांच न्हय तिका आधार ? ती म्हजी खोस तुवें कित्याक नाशी केली ? ताजे मुखामळ म्हाका हे सांगून गेले.'' उतरां विरयत.



# "श्वास" पळयतासतना !

'श्वास' सिनेमा सामको पळोवपासारको गे. तुका आवडटलोच तो. चल आतांच भायर सर. हांव ऑफिसांत वता आसतनाच तुका थिअेटरांत सोडटां'' पुतान म्हळें. पुताच्या अगत्यान आनी मायेन म्हजेंय मन फुल्लें. हांव बेगीबेगीन साडी न्हेसलीं आनी ताजे वांगडा भायर सल्लें. तिकेट काडून ताणे म्हजे हातार दवल्ली आनी आयनोक्साच्यां दाराकडेन बोट करीत ताणे म्हळें, ''हांगासून भितर वच गे !'' हात हालयत तो गेलो.

सिनेमा सुरू जालो. कायं वेळान तांतले प्रसंग पळोवन जिवाचो घुस्मटमार जावंक लागलो. वयलेवयर काळीज भरून येवंक लागलें. दोळ्यांतल्यान झरी लागल्यो. मन हालोवपी घडणुको घडटकच त्यो चलयो व्हडाव्हडान, खळखळून हांसताल्यो. तें पळोवन म्हजें मन विशण्ण जालें. दुसऱ्यांच्या जिणेतल्यो दुखदिण्यो घडणुको पळोवन ह्या-चलयांचें काळीज हाललें ना काय? हेरांच्या दुःखा वांगडा एकरूप जावचे सुवातीर हांकां हांसो आयलो? इतल्यो ह्यो तरणाट्यो चलयो घट काळजाच्यो जाल्यो काय? तांच्या काळजांतलें संवेदनशीलपणा साप्प बोथट जालें? दुसऱ्यांच्या दुःखाचीं फकाणां करप अशी हे नवे पिळगेची वृत्ती जावंक लागली काय? दुसऱ्यांचें दुःख पळोवपांत तांकां खोस मेळूंक लागली? दुसऱ्यांचें दुःख पळोन खोशी जावपी मनशांक (सॅडीस्ट) म्हण्टात म्हूण वाचिल्लें खंयतरी. पूण आयज तें चडूच जाणवलें. दुसऱ्यांक जाल्लो त्रास पळोवपांत काय विकृत मनांक घडये खोसय भोगता जावये. हाजी प्रचिती आयली. विज्ञानान इतली उदरगत केल्या खरी पूण ताणे हे तरणाटे पिळगेचें मनय मारपाचो यत्न चालू केला काय?

एक फावटी एका तरणाट्याचीं उतरां म्हजे कानार पडिल्ली तेन्नाय म्हज्या आंगार कांटो आयल्लो. ताणे म्हळें –

''आरे सभाग्या, ताजो आक्सिदेंत जालो आनी मेलो न्हय तो तांतूत? मेलो तो मेलो. तो जितो जांवचोच ना न्हय? पूण तो कितलो विद्रुप जाला तें पळोवंक हांव मुजरत हांगा आयलां''. कितलें विचित्र चिंतप हें ! भास लेगीत

तशीच शुष्क–भयांकूळ जाली न्हय? तामसीच आसूंक जाय हें मन ! तश्योच आसल्यो काय ह्योय तरणाट्यो?

दुसऱ्या एका तरणाट्याच्या उतरांची याद जाली. ''आरे मरतलोच न्हय तो ! सामको बेबदो जाल्लो तो. म्हूण ताका उजो लायतकच फुर्र करून पेटलो तो. तुजेंय घडये तशेंच जायत हा!'' व्हडान हांशिल्लो तो. आपणाल्या मर्णाचो साप्पच विसर पडलो जावये ताका. कितली ही बेपर्वा? उलोवंकच जाय म्हूण उलयतात काय हीं मनशां? काय तांच्या काळजांतल्या ह्या दुश्ट विकारांचें वीख ते ओकतात आपणाल्या उतरांतल्यान?

हेरांच्या दु:खान मन मातूय हालना. अशें कशें घडटा? कित्याक घडटा? फातरांकय पाजर फुट्टा म्हणटात न्हय? मागीर मनशाच्या मनांक पाजर फुटना? इतलें ताजें मन फातरापरसय सामकें घट्ट भावनाशून्य जाता काय? मातपसून काकूटीचें ल्हार उदेना ताजेर?

'श्वास' सिनेमा पळयतालें खरें, पूण ह्याच विचारान म्हजोय श्वास वयर सकयल जातालो. मातसो घुस्मटमार जातालो. एकाफाटल्यान एक प्रश्न उप्रासतालें. मन उखल्लेवरी जायत उल्लें.



# अप्रूप मोग

घोवान म्हणलें, 'सुधा, आयज आमच्या लग्नाक ४७ वर्सां जातात मगो? चल भायर वचुया. मजेंत मनोवया. बऱ्या हॉटेलांत वचुया.'

म्हाकाय खोस जाली. जेन्ना आमचें लग्न थारलें, तेन्ना त्यादिसाय आमी एका बऱ्या हॉटेलांत गेल्लीं. तेवेळची उमेदधुंदी घडये उणीय जाल्या आसत, पूण त्या म्होवाळ यादींनी तरी खोशयेल्हारार उफेवया अशें दिसलें.

आमी एका बऱ्या हॉटेलांत गेल्लीं. मेणवातीच्या मंद मंद उजवाडान तो हॉल धुंदीच्या वातावरणान भरिल्लो. नाय म्हणल्यार गात्रां शिरशिरलीं. मनय तन्ने जालें. थंय चड लोकय नासले. शांतशें दिसलें. एका मेजार आमी बसलीं. फुडल्या मेजार एक जाण्टेले जोडपें बशिल्लें.तो जाण्टोलो बरो घसघशीत आनी उंच आशिल्लो. धव्या मुद्याळ्या केंसांक लागून तो रुपेस्त आनी तेजिश्ट दिसतालो. जाण्टेली फाटमोरी बशिल्ली. ती नाजूकशी दिसताली. ती बरी न्हेशिल्ली.

तो अर्दी मर्दी तिचे पोले सांसपितालो. तांची ही जाण्टे पिरायेर लेगीत, इतली ताजी माय-मोग पळोवन बरें दिसलें. भोव दुर्मीळ चित्र पळोवंक मेळ्ळें. म्हज्यान राव नज जालें. हांवें घोवाक म्हणलें, 'आरे पळय पळय, तो जाण्टेलो ते जाण्टेलेची कितली माया करता तो. हें पळोवंक मेळप लेगीत कठीण जालां न्हय रे? अपुरबाय दिसली हें पळोवन.'

घोव मुमुरखोसो हांसलो. घडये 'ह्या जाण्टेल्याक कितें तोखेत बसला तूं? बरें बरें, कितें उलय-पयलीच्यो यादी कर' ही सुचोवणी ताणें दिली जावंये.

हांव घोवा वांगडा गजाली मारूंक लागलें. पूण परती परती म्हजी नदर तांचेर वच. ती जाण्टेली, दोनी हात मानगुटीवर दवरून, घोवा कडेन नदर लावन बशिल्ली. ताकाय ती घडये तोखणायेन पळयता आसतली. तेंच घडये तिचें विश्व जालां जायत. तोय जाण्टेली तिच्या माथ्या वयल्यान हात ओडी. तीं दोगांय एकामेकांच्या मोगा ल्हारांर उफेतालीं काय?

'सुधा, तुकां कितें जाय तें माग' घोवाच्या उतरांनी हांवूंय भानार आयलें. आमी जाय जाय ताची ऑर्डर दिली.

'आगो तुकां कुलफी आवडटा न्हय? वेटराक सांगून दवर.' घोवान म्हजी अपुरबाय केली म्हूण म्हजेंय मन फुलून आयलें. जाण्टेल्याचें उलोवप ल्हव ल्हव कानार येतालें. पूण व्हडलेशें कळनासलें. पूण इतल्यांत ती जाण्टेली व्हडा व्हडान उलोवंक लागली. हांगा थंय पळोवंक लागली. चुळबुळूंक लागली. अस्वस्थशी जाली. आनी म्हणूंक लागली,

'आरे, हांव वळखतां तुका? तूं कोण? ही खंयची सुवात? खंय आयल्यांत आमी?'

तो जाण्टेलो उबो रावलो. तिचे फाटीर थापटीत ताणें म्हणलें, 'आगो बाय, तूं म्हाका वळखताच. हांव तुजो घोव. आमी पणजेच्या हॉटेलांत बसल्यांत. आनी आतां मडगांवां चल्याक मेळूंक वतलीं. याद आसा मगो तुकां?'

'ना, कितें तें सारकें कळना. हांव घडये विसरलां जावंये.' तिणें म्हणलें.

ताणें म्हणलें, 'कायंच नज बाय. सगळी याद जातली तुकां. आतां तूं बरें करून जेव. तुका आवडटात ते जिनस मागल्यात. जेवन आमी घरा वचुया. रॅस्ट घेवया.' ताणें परतें तिच्या पोल्यांचरे हात ओडलो. साडयेक हात लायत ताणें म्हणलें, 'आयज बरें सोबीत दिसता आं तूं!'

तिचीं हीं अचकीत उतरां आनी घोवाची समजावणी आयकून धक्कोच बसलो. तिची यादस्ती नाच जाल्ली काय? म्हजेंय मन गलबल्लें. काळीज भरून आयलें. घडये तिका अलझायमर हें दुयेंस जालां जावंये. विस्मरणाचें हें दुयेंस. आपणाल्या अस्तित्वाचेंय विस्मरण जाता ताका लागून. आपूण कोण, हाचेंय भान उरना त्या मनशाक. पूण ते जाण्टेलेक मायेन समजून घेवपाची त्या मनशाची तांक पळोवन अजाप दिसलें. अस्सल मोग–माया कसलीय जादू घडोवंक शकता न्हय? मोग केन्नाच थकना हेंच न्हय सांसणाचें सत? जाचें काळीज मायेनच उपाट भरिल्लें आसता, ताकाच ही अप्रूप तांक मेळटा जावंये. आपणाल्या जीवनसांगात्याक एक अजाण भुरगें कशें मायेन समजून घेवपाचें हें गणित खूब

कितें सांगून गेलें. त्या गणितांतल्यान जाप घडये मेळ्ळी ना जायत, पूण ताची अप्रूप रीत मन हालोवन गेली.

दोळ्यांतल्यान घळळ करून दुकां गळ्ळीं तें कळ्ळेंच ना. घोव आनी हांव एकामेकां कडेन पळयत उरलीं. उतरां फुटनाच जालीं जाण्टेल्याचो अस्सल मोग आनी माया पळोवन.



# जाण्टेलें अस्तुरेचें सुंदरपण

त्या दिसा 'अस्तुरेचो दीस' मनोवपा खातीर जायत्यो अस्तुरी एकठांय जाल्ल्यो. एक जाण्टेली कुटत कुटत म्हजे वटेन येतासतना दिश्टी पडली. घडये चलतासतना खूब त्रास जाता आसतले तिच्या पायांक. म्हजे म्हऱ्यांतलें एक रितें कदेलय तिणें पळयलें जायत. ती हांसत हांसत म्हजे म्हऱ्यांत बसली. तिचें शांत, हांसकुरे, तेजिश्ट मुखामळ पळोवन म्हजेंय मन प्रसन्न जालें. तिचे दोळे मायेन भरिल्ले.

तिणें विचारलें, 'बाय तूं खंयची?' हांव म्हापशेंचें. हांवे म्हणलें.

बायलां, एकामेकांक मेळटकच खोशी जातात न्हय? बायलांची तांक पळोवन, हेर लोकांनी हो दीस मनोवपाची स्फूर्त मेळ्ळ्या हीच खऱ्या खोशयेची गजाल न्हय बाय?

ती जाण्टेली उमेदीन उलयताली. धव्या फुल्ल केंसाची. तिका दांतय नासले. बोळकेच जाल्ले. तिच्या मुखामळार जायत्यो निरयो आसल्यो. पूण तिचे हांसपान त्यो नाच्च जाल्ल्यो. ती सादी साडी न्हेशिल्ली. पूण तातूंतय ती सोबीत दिसताली. तिचें अप्रूप हांसप सुंदरतेचें दर्शन दिवन गेलें.

हरशीं म्हजें भशेनच्यो जाण्टेल्यो सदांच पिरंगतात न्हय? म्हजी धोंपरां दुखतात. म्हज्यान आतां चलूंक लेगीत जायना, म्हज्यान नज शें जालां. खूब अशक्ताय आयल्या. हीच न्हय आमच्या जाण्टेपणाची ना ना कराची घांट वाजूंक लागता. पूण ही जाण्टेली दुसरेच भशेनची दिसली. उमेद घेवपी उमेद दिवपी. बायलेची तांक हे संबंदी हयकारी नदरेन भरिल्लीं-रंगिल्ली तिचीं उतरां आयकून खूबश्यो गजाली शिकूंक मेळ्ळ्यो. थोडो वेळ काय जायना, ती उलयतासतना तिच्या दोळ्यांतले तेज खूब कितें सांगून वतालें. तिणें कसलोच मेकअप जावं सौंदर्याची प्रसाधनां उजार करूंक नाशिल्लीं. पूण तिचें हें सुंदरपण तिच्या काळजांतल्यानच मुखामळार उदेल्लें काय? तिच्या मनांतल्या सदभावनाचेंय पडबिंब पातळ्ळें जावंये तिच्या मुखामळार.

खंयतरी वाचिल्ल्याची याद जाली. एका सौंदर्य प्रसाधनाच्यो वस्तू करपी व्हडले कंपनीन एका जायरात दिल्ली. सुंदर बायल कोण आसा? आनी ती तुमकां कित्याक सुंदर दिसता हाचें संबंदी बरयात. आनी वांगडा तिचो फोटू धाडात. ही सर्तच आसली. हजार पत्रां आयिल्लीं तातूंतलें एक लक्ष ओडून घेवपी पत्र पळोवन तें पत्र मॅनेजरान कंपनीच्या अध्यक्षाकडेन दिलें. ते पत्र एका भुरग्यान बरयिल्लें. आवय-बापायन घटस्फोट घेतिल्ल्या परिवारांतलो तो भुरगो.

ताणें बरयिल्लें, म्हजेच शेजरा एका शेजान्न रावता. हांव तिका सदचो मेळूंक वता. ती म्हाका सदांच उमेद दिता. ती म्हणटा –

'तूं संवसारांतलो सामको बरो भुरगो. आनी म्हजे नदरेन तर तूं खूब म्हत्वाचो. तिचे वांगडा हांव इस्पिकी खेळटा. ती म्हजे जायते प्रॉब्लेम आयकून घेता. ती सदांच हांव वतासतना म्हाका सांगता, व्हड आवाजान,

'बाबा, तुजो म्हाका मनापसून खूब अभिमान दिसता. तूं खरोच अपुरबायेचो भुरगो.' 'हो फोटू. तुमकां दाखोवन दितली की, ही बायल सगळ्यांत सुंदर, सोबीत बायल म्हूण. हांव देवा कडेन मागतां की म्हाका अशीच तिचे भशेनची सुंदर बायल दिवची म्हूण.

'आरे, पत्र बरें आसा, ते अस्तुरेचो फोटू दाखय पळोवया' अध्यक्षान म्हणालें.

मॅनेजराक ताका फोटू दाखयलो. बरीच जाण्टी. व्हीलचेराचेर बशिल्ली. धवे फुल्ल केंस. पूण हांसत्या मुखामळाची.

अध्यक्षान हांसत म्हणलें – ह्या फोटूचो आमी कसोच उपेग करूंक शकनात. कारण तिचो हो फोटू पळोवप्याक सुचोवणी दितलो की, सुंदर सोबीत दिसपा खातीर ह्या कंपनीन केल्ल्या सौंदर्य प्रसाधनाची मातूय गरज ना.

तिका पळोवन म्हाका जाणवलें, ही हें सुंदरपण तिचे भितरच आसा आनी म्हणूनच तें मुखामळार उदेला. भितरच जर काय ना जाल्यार ते भायर कशें परगटत? मनांतल्यो भितरल्यो भावना जावं विकार लिपोवंक येतात त्या सौंदर्य प्रसाधनान?

नातवान एकदां म्हणिल्लें, आगे आजये तूं म्हातारी जाल्या म्हणटा खरी, पूण तूं पावडर लायता, लिपिस्टीक लायता मागीर?

आरे, तोंडार निरयो पडल्यात न्हय? त्यो लिपोवंक जाय न्हय? म्हूण हे पावडर हो मेकअप.

तुका कांयच निरयो पडूंक ना. ओगीच तूं ! ताणें म्हणलें - घडये हांव तांचे वांगडा तांचेच पिरायचें जाता. आमची जुगलबंदी चालू आसता, म्हूण घडये ताचें लक्ष, म्हज्या निरयांचेर वचूंक ना जायत. पूण ह्या सौंदर्य प्रसाधनाची तुका कांयच गरज ना, भितरच हांसो जावं खोस आयली जाल्यारच न्हय त्या हांश्या ल्हारार त्यो निरयो ना जावंक शकतात, हीच सुचोवणी नातवानय दिली जावंये न्हय म्हाका?



# ‘मुन्नाराक पावचे पयलींच पावलें मगो तूं थंय ?

मुन्नार भोव बरें हिल स्टेशन ! सैमान सामकें फुलिल्लें. थंयची थंडसाण मनाक थाकाय दिवपी. जायत्या आमच्या इश्टां कडल्यान आयकल्लें आमी. पुतान गोंय ते एर्नाकुलमाच्यो तिकेटी रिझर्व्ह करून हातांत दवरल्यो. प्रवास बरो जालो. सकाळीं १० वरांचेर एर्नाकुलमाक पावलीं. थंयसावन मुन्नार १५० किलो मिटर पयस ५००० फूट उंचायेवेली ती सुवात. ‘टॅक्सीन गेल्यार बरें’ घोवान म्हणलें. टॅक्सीची खबर काडूंक गेली. थंय एक निकतेच लग्न जाल्लें तरणाटे जोडपेंय आयिल्लें.

टॅक्सी ड्रायव्हरान म्हणलें, ‘तुमी चवगांय वांटून घेवन शकतात आं टॅक्सी’ तो तरणाटो आमचे कडेन पळयत मुमुरख्यांनी हांसलो.

‘बरे भाशेन’ ताणें म्हणलें.

आयच्या सारक्या जाण्ट्यां वांगडा येवपाक ताणें हयकार दिलो म्हूण म्हाकाय खोस भोगली.

घोवान म्हणलें, ‘सुधा, तूं फाटल्यान बस. हांव फुडें बसतां. नवें जोडपें न्हय ?

‘तुमकां पयलें प्रेफरन्स, फाटल्यान बसात दोगांय !’ घोवान म्हणलें आनी तांकां कुरू केली. टॅक्सी चालू जाली. पयली पांच धा मिणटां तुमी खंयची, आमी खंयची हे संबंदी भासाभास जाली आनी मागीर ती दोगांय आपले भितर गुल्ल जालीं. एकामेकांक तेंकून बसलीं आनी एकामेकांच्या हातांत हात घालून एकामेकांक तोखेवंक लागली.

मोगाच्या हुंवारांत हुफेवंक लागलीं. हांवूय म्हजे जिणेंतल्या सुरवेच्या म्होवाळ यादींनी फुल्लें. आमीय अशीं धुंद-फुंद जाल्ली न्हय त्या वेळार ! तो काळूच अप्रूप कसो. तन्नेपणाच्यो म्होवाळ यादी कातकुतल्यो करूंक लागल्यो.

ती वाटचाल कितली फुलोवपी रोमांचकारी आसली ! एके फाटल्यान एक घडणुको जिव्यो टट्टटीत जावंक लागल्यो. अप्रूप यादी उसळी मारूंक लागल्यो.

आमची पयली भेट ! मागीर वयले वयरच्यो भेटी. तातूंतल्यान मेळिल्ली, विसरूंक जायनाशिल्ली खोस ! कल्पनेंतल्या संवसाराक खोशयेचीं पाखां फुटिल्लीं. कितें करचें? कशें करचें? कांयच कळनासलें. भुंयेवयले आमचे पांय सुटिल्ले. मळबांतच उडयो मारपाचे धुंदीन फुलिल्लीं. सामके भुल्लसूनच गेल्लें हांव. घडये म्हजेच तंद्रीत, म्हजेच मस्तीन चलतालें आसूं येत हांव. घडये म्हजेच तंद्रीत, म्हजेच मस्तीन चलतालें आसूं येत हांव तेन्ना. म्हजे एके इश्टिणीचो बापूय म्हाका मेळ्ळो. ताणें म्हाका आडायत म्हणलें.

'आगो आगो सुधा ! खंय गो सपनांतून आशिल्ले वरी चलता मगो तूं ! मार्गाविले लोक दिसनात गो तुका? तूं सामकें दुसरेच भाशेन दिसूंक लागला मगो. सामके खोशये ल्हारान फुल्लां मगो तूं ! कितें खोशयेची खबर आसा काय कितें गो? मोगाची ल्हाराच उदेल्लीं काय म्हज्या मुखामळार त्या वेळार? ताणें हें गुपीत कशें वळखलें हाचें कुवाडेंच जावन, उरलां. ताची तीं उतरां आयकून हांवूय भुरकुटिल्लें, मुमुरखेशें हांशिल्लें. ते यादीनय म्हाका हांसो फुटलो.

एका म्हज्या प्रोफेसरान म्हणलें,

'आगो आतां कसली तुजी परिक्षा आनी रिझल्ट? तुवें परिक्षे पयलीच मेळयता न्हय गो फर्स्ट क्लास?'

युनिव्हर्सिटीच्यो परिक्षा १५ दिसां पयली तरी सोंपच्यो म्हूण बापायन म्हज्या लग्नाचो दिस १५ दिसा उपरांत थारायिल्लो. टायम टेबल लागले उपरांत. १५ एप्रिलाक निमणो पेपर आसलो. ३० एप्रिलाचो म्हूर्त धरलो. पूण युनिव्हर्सिटीच्यो परिक्षा फुडें धुकलत उरल्यो. २९ एप्रिल मेरेन. निमणे मेरेन हांव परिक्षेच्याच बोवाळांत उरलें. देवाची कृपा. ३० एप्रिल आयतार आशिल्ल्यान सुटलें. २९ एप्रिलाक निमणें दोन पेपर. देव कार्या दिसा तर हांव हॉलांत पेपर बरयत उरलें. चुडो लेगीत आदले दिसा रातचो घाल्लो. कशें पेपर बरयले देवाक खबर. कल्पनेच्या संवसारांत कितले तरी खीण हुफेताले मदीं मदींच पेपर बरयतासतना कसलीच

बरयतासतना कसलीच तमा पर्वा नासली. काय त्या वेळार? एकाच भावान रंगिल्लें. मोगाच्या ! मोगाच्या !!

तरेकतरांच्या यादींतच गुल्ल जाल्लें. अचळय, हांव ४५ वर्सां फाटल्यान गेलें. कांय खीण तरणेपण फुलून आयलें. इतल्यांत घोव गांवांचीं नांवां सांगूक लागलो. भुगोल सांगूक लागलो. कानार पडली ताचीं उतरां खरीं पूण काळजा भितर पावंक पावलीं नात. घोवाचीं उतरां कशीं विरगळ्ळीं तेवूय कळ्ळें ना. यादींच्या धुंद हुंवारांनीच तांकां गिळंकृत केलें काय?

'आगो, आगो, तूं ओगी शें? घोवान विचारलें त्याच वेळार हांव भानार आयलें. तंद्रेंतल्यान जागें जालें. म्हजें म्हाकाच खदखदून हांसूक आयलें. हांवें घोवाक म्हणलें,

'आरे ४५ वर्सां पयली तूं अशीं ही गांवांची नांवां आनी भुगोल सांगतलो आसलो म्हाका?

तोय मुमुरखोसो हांसलो. ताज्या हांश्यान सुचयलें,

४५ वर्सां फाटीं गेले मगो तूं ? म्हणूनच धतरिवयले तुजे पांय सुटले. आनी सरभोंवतणच्या परिसराचें भान तुका उरलें ना. तूं अचळय मायानगरींत पावलें आनी खोशयेन न्हावन आयलें. बेस बरें जालें न्हय? हांव मात उरलों सुको सडसडीत. मुन्नाराक पावचें पयलींच पावलें मगो तूं थंय !



# भुरग्याचें धनीपण आपले कडेन?

एके कार्यावळीक गेल्लें. कार्यावळ सुरू जाल्ली. इतल्यान एक तरणाटो सुपुल्ल्या भुरग्याक घेवन येतालो. तो सरळ म्हजे वाटेन आयलो आनी ताणें म्हळें,

''टिचर कशी आसा तूं?'' हांवें ताका बारीकसाणीन पळयलें. हो तरणाटो आमचो माजी विद्यार्थीच म्हूण लक्षांत आयलें.

''आरे, तानाजी मरे तूं !''

''हय हय टिचर ! इतल्या वर्सा उपरांत लेगीत तुवें म्हाका नांवान उलो केलो म्हूण म्हाका खूब अभिमान दिसलो. टिचर, हो म्हजो चलो. म्हजेच भाशेन दिसता न्हय?'' सुपुल्लो पोर अपुर्बायेचो दिसतालो ! सारकी बापायची प्रतिमा.

''हो म्हजो भुरगो ! म्हजेच भाशेन दिसता न्हय'' हीं ताचीं खोशये ल्हारां म्हजेय मनांत जायतीं ल्हारां उप्रासूंक लागलीं. त्या तरणाट्याच्या तोंडावेले भाव सुचोवणी दिवंक लागले.

म्हजो भुरगो. म्हजे पसून जाला. हांवूच ताका निर्मुपी. हांवूच ताका जन्म दिवपी. हेंच न्हय तें मी पण? अहंकार? भुरगें, खबर नाशिल्ल्या आनी अनवळखी सुवातींतल्यानच जल्मता न्हय? ती आपल्याक मेळिल्ली देणगी. आमी भुरग्याक निर्मुपी न्हय, मागीर हो भुरगो म्हजोच म्हूण ताजेर स्वामित्व गाजोवप. हें फाव कशें जांव येल? हे संबंधी खंयतरी वाचिल्ल्याची यादय जाली. तुजे कडल्यान तें भुरगें घडना. तुजेकडल्यान तें आकार घेना. आपणालें भुरगें सुंदर सोबीत जावचें अशें आमी सदांच आवंडेतात न्हय? पूण जेन्ना लोलो आमचे पदरांत पडटा तेन्ना आमी सामके हालतात. आनी तरूय आमी ताका म्हजें भुरगेंच म्हणतात. कोणें म्हळें तें सारकें खरें. आमी फकत पॅसेजीस (मदलो मार्ग) आसतात. हे व्हडले खेळीच्या अस्तित्वांत. ''हें भुरगें म्हजेंच'' हे स्वामित्व पणाचे, धनीपणाचे भावनेक लागीं करप फाव कशें जांव येत? कोणेच म्हणू नये हें म्हजें भुरगें म्हूण ! सगळीं भुरगीं हीं देवाचीं ! देवान दिल्ली ही देणगी. बक्षिसी आनी आमी फकत तांका

सांबाळपी मनशां. 'कॅअरटेकर'. ताजे परस चड कांयच ना. आमी देवाचे उपकार मानपाचे की देवान आमकां सोदून काडल्यात, भुरग्याचे 'कॅअर टेकर' जावपाखातीर. नव्या जिवाक फुलोवपा खातीर. तेंच न्हय खुपशे पुरो? हो एक खेळ. तोच खोशयेन खेळपाचो. भुरग्यांक वाडयतना आनंदान जियेवपाचें. पूण ताजें स्वामीपण, धर्नीपण घेनासतना. हें आमकां केन्ना कळत काय? आनी घडये कळतय बी, पूण वळत काय?



# कोणाचो कोण? मौज ही मौज दिवपी !

अनुभवानंदास्वामींचीं प्रवचनां हांवें जायते फावटीं संस्कार चॅनलावयल्यान आयकतां. तांचें सगळें सांगप सामकें सरळ कशें. शब्द जंजाळ ना. जायते स्वामी हांवें पळयल्यात. चडशा स्वामींची नुरा गंभीर कशी. घडये ज्ञानाचें खर तेज आसूं येता तांच्या मुखामळार. पूण हो स्वामी, सामको आमचे मदलो सर्व सादारण मनशा भितरलो दिसलो म्हाका. आमचेवरींच खळखळून हांसपी. हांसोवपी. उलोवपी बोलपी इश्टा भाशेन.

तांचें प्रवचन सोंपतकूच तांणी सांगलें, 'पांच दिसांचें शिबीर उटीक करपाचे आसात. जांकां येवपाचें आसा तांणी नांवां दिवचीं.

गेल्यार, गोंयचो उजो स सात दीस चुकतलो आनी तांची बरीं प्रवचनां, थंडसाणीन आयकूंक मेळटली म्हूण आमी थंय वचपाचो बेत केलो. २१ मेक आमी रेल्वेन वचपाक भायर सरलीं. २२ तारकेच्या सांजेवळा थंय पावलीं. भौशिक शाळेंत ह्या शिबिराची वेवस्था केल्ली. सुवात सामकी फुलिल्ली – चार दोंगुल्ले मदली. थंय उबे रावतकूच दिसतालो तो देखाव सामको मनभुलावणो आसलो. सैमाची सोबीतकाय चार पांच दीस पोटभर पळोवंक मेळटली म्हूण मन प्रसन्न जालें. सवरांचेर हॉलांत येयात म्हूण एकलो दादलो सांगून गेलो. तोंड बी धुंवन आमी तयार जालीं हवेच्या थंडसाणीन प्रवासाचो शीण खिणाभितर ना जालो.

आमी सगळीं स वरांचेर हॉलांत एकठावलीं. एका भक्तान ५ दिसांचें सगळें वेळापत्रक समजावन सांगलें. सकाळीं स वरांचेर चा, साडेसक ध्यान प्रवचन, मागीर साडेसात ते आठ नाश्ता. मागीर एक वर प्रस्न जापो, मागीर भोंवडी, साडेबारा ते एक मेरेन जेवण, दनपारां तीनाक परतें प्रवचन, पांचाक चा मागीर पासय, आठ साडेआठाक जेवण.

पासयेक, स्वामीय आमच्या सगळ्यां वांगडा भोंवताले, विनोद करताले, उलयताले, हांसयताले–मनमेकळे हांसताले. दर एकल्याची बारीकसाणेन वासपूस

करताले. ताणी आपणाले ब्रीद वाक्य बरयलें, 'मौज मे रहो' भुतकाळाची बाधा करुन घेवप ना. घडलां तें विसरायेर उडोवपाचें, भविश्याची चिंता करप ना, वर्तमानाचो प्रत्येक खीण खोशयेन जियेवपाचो. सगळें आध्यात्म तांणी सामकें ह्लकें फुलकें करून उडयिल्लें. आध्यात्म म्हळ्यार कितेंय तरी जड वजें कशें दिसं म्हाका. हांगा तांणी तें अलगद फुलावरीं करून उडयलें. [illegible] लोक आयिल्ले ह्या शिबिराक. ओरिसा, कोयमत्तूर, केरळ, बंगाल, कोलकाता, गोंयचोय आमी चाळीस जाणां आसलीं.

थंयसर मनश्यांचो तरेकतरा पळोवंक मेळ्ळ्यो. कांय तुस्तुरीत, हांगां थंय धांवत वावुरताले, कांय तळमळीन, खोशेन सेवा करताले, दुसऱ्यांखातीर वावुरताले. कांय हांसत्या मुखामळाचे, प्रसन्न तांचें हांसप. पळोवप्यांक आदेस करतालें. कांय भावीक कशे आपणालेच तंद्रेंत गुल्ल. कांय जाग तर, आमकां कितें पडलां? अशी निर्विकार नुरा घेवन; कांय जाण, हांव हांगा आयलां खरो पूण म्हजें मन हांगा ना असो भाव घेवन वावुरपी, कांय आनी हांव हेरांपरस कोणूय पूण व्हडलो आसा, अशा अहंकारांत बुडबुडिल्ले. एकलो शांतपणान एका कदेलाचेर बशिल्लो. ताणें शर्टाक रोटरी क्लबाची पीन लायिल्ली दिश्टी पडलो. तो खंय तरी रोटेरियन आसूंक जाय. आमीय रोटेरीयन. वळख करून घेवची म्हूण हांवें ताका विचारलें, 'तुमी खंयचे रोटेरियन?' ताणें मुमुरखेंच हांसून म्हळें, 'हांव कोयमत्तूरचो रोटेरियन. तुमीय रोटेरियन काय कितें?' 'हय हय ! हांवे म्हळें ताणें सट्ट करून उठून म्हाका हात दिलो आनी म्हळें, 'तुमी खंयसून आयल्यात?' 'गोंयांसावन' हांव म्हणटा थंय आसा इतल्यांत घोव आयलो. हांवें त्या मनशाची वळख करून दिली, 'हे पळय कोयमत्तूरचे रोटोरियन ! खोशयेन तांणी एकमेकांक हात दिलो. आनी ते गजालींत गुल्ल जाले.

तांणीं म्हळें, 'तुमची वळख जावन बरें दिसलें. तुमी दोन दिसांनी परते चलले न्हय? तुमची गोंयां वचपाची ट्रेन' घोवान म्हळें.

'हांव येता हां तुमकां मेळूंक ! ताणें उमेदीन म्हळें, ओगीच धांव धांव करून तुमी येवं नाकात. तुमचीय कामां आसतलीं न्हय ऑफिसांत?' घोवान ताका म्हळें.

इतल्यारूच तें उरलें. प्रवचनाचो वगत जालो म्हूण सगळीं हॉलावटेन वचूंक गेलीं.

आमी स्टेशनार पावतात थंयच आसात. इतल्यान बेगीबेगीन धांवतूच, हातांत एक पोती घेवन तो रोटेरियन दिश्टी पडलो. आमकां पळोवन खोशी जालो. ती पोती म्हज्या हातांत दीत ताणें म्हळें, 'म्हजी घरकान्न ह्या दिसांनी बरी ना. नाजाल्यार तुमकां हांव घराकडेनूच जेवंक आफोवंक सोदी. तुमकां जेवण केलेबगर जिवाक सूख लागना जालें. म्हूण हें इल्लेशें खावप घेवन आयला. मानून घेयात हां!' अचकीत ही ताची अप्रूप मायेची रीत पळोवन अजाप जालें आनी काळीज भरूनय आयलें. कोणाचो कोण हो? ना वळख ना देख, ना नातें ना पातें. ताणें तें इतलें मनाक कित्याक लावन घेतले काय? काळजांतली माया ओगी रावंक दिना जाली काय ताका? रगताच्या नात्याकय जाणवना न्हय हें अशें. नातें पातें खंय घेवन बसता हें सगळें? आस्थेचें मायेचें हें नातें एक अप्रूप दिश्टावो दिवन गेलें. ताच्याच गजालींनी आमी रमलीं. ताचो उगडास आमच्या खोशये ल्हारार उफेयत उरलो. फुडलो प्रवास सुखदिणो जालो. 'मौज में रहो'... 'मौज में रहने दो'... 'मौज ही मौज' हो मंत्रच कानांत गुणगुणत उरलो.



# जावं येत वानप्रस्थाश्रम-आनंदाश्रम?

म्हजे इश्टिणी वांगडा एक जाण्टेली आमगेर आयल्ली. सामकी हांसत्या मुखाची. खुबूच तेजीश्ट दिसताली. धवेफुल्ल केंस. इतलें पिरायेचें हें म्हातारपण तिचें सुंदरपण कशें राखपाक पावली काय? हें एक कुवाडेंच कशें दिसलें म्हाका. हें अजाप कशें घडलें काय तिजे बाबतींत? तिजी नजर लेगीत जायतें सांगून वताली. तातूंत मायेची आनी दयेची किरणां दिसतालीं. तातूंत मात्तूय 'मी' पणाचो लवलेशय जाणवलोना. घडये आपूण इतली सुंदर आसा म्हणपाची जाणविकाय तिच्या मनाक मात्तूय नासूं येत. घडये ती जीणभर खोशयेचे नदरेन, हयकारी नदरेनच हेरांकडेन, सैमाकडेन पळयत आयल्या जातली. आनी म्हूण घडये कसलेच तरेचो खेद जावं अपेक्षाभंगाचें दुःख तिच्या पदरांत पडूंक ना जावंये. म्हूण हीच खोस दोट्टी जावन तिच्या पदरांत पडलां जावं येता. म्हणुनूच सात्वीक सार्थकतायेचें तेज तिच्या मुखार आयिल्लें. जायत्या जाणांक तिणे सदांच आदार केलो जावंये. खूब जाण पयसुल्ल्यान हात करून गरजेवंतांक वाट दाखयतात. पूण तिणें घडये गरजवंताचो हात धरून तांकां फाव त्या मार्गार हाडून सोडले जावंये आनी म्हूण तिजी नुराच सुंदरपणान भरील्ली जावंये

खंय वाचिल्लें ते खरेंच. सूर्य केन्नाच अस्ताक वचना. सुर्याचो अस्त आमचे खातीर. तो खंय तरी उदेता. सुर्याक अस्त खबरच नासता. तो सदांच एक सारको उदेत आसता. प्रत्येक खीण ताका नवो जल्म दीत आसता. आमकां दिसता, तो अस्ताक वता म्हूण. पूण सूर्या खातीर ती सदांच उदेंत आनी तें सांसणाचें उदेवप.

सुर्याचो अस्त सोबीत सुंदर कित्याक? तर तें दुसरें उदेवप. ती दुसरे तरेची सकाळ आमी पळयतात. कितली सुंदर -भव्य आसता ती. कारण तिका जाण्टेपण-म्हातारपण खबरूच नासता. तिच्या ह्या म्हातारपणांत लेगीत एक आगळी-वेगळी सोबीतकाय आसता. हे घडये क्वचितच घडटा जांवये.

त्या जाण्टेलेचें मुखामळ म्हाका जायत्यो सुचवण्यो दिवन गेलें. 'बाय जंय जंय अशें घडटा थंय थंय तुकां नक्कीच कळटालें की ती जाण्टेली सर्वार्थान, सार्थकतायेन जियेल्या म्हूण. हेरांक खोशी करपाखातीर तिणें आपणाली जीण ओंपल्या रविंद्रनाथ टागोर खंय जसजसो जाण्टो जायत गेलो तितलो तो सुंदर दिसूंक लागलो. ताचे केंस धवे जांवक लागले, ताची कूड जाण्टी जायत गेली खरी, पुण ताजे पदरांत सुंदरपणाचें नवें तेज पडले जांवयेता. आपली जीण तो खोशयेन, समाधानान जियेलो आसतलो. अपेक्षेबगर आनंदाच्या ल्हारार उफेत रावलो जायत. नानाकाराची घांट वाजयलेबगर तो संगीत-काव्याच्या नशेंत जियेलो आसतलो म्हूण आनंदाच्या ल्हारांचें तेज ताच्या मुखामळार येत रावलां जायत.

अस्तेच्या निर्शेवणीचो लवलेशय ज्या मनाक लागना त्याच मनशाक मनाची स्थिरताय मेळटा न्हय? उदेंता म्हूण तो भुल्लसून वचना आनी अस्त म्हूण दुःख-विषाद, खेदान खचून वचना, पिचून वचना तोच मनीस थीर बुध्दीचो न्हय? तोच खरो स्थितप्रज्ञ न्हय? घडये तें थीर मनच, हे जीणें पलडतचो ब्रम्हानंद घेवंक पावता जांवये. होच न्हय खरो अध्यात्माचो मार्ग? म्हाकाय मेळत काय ही देख तांचेकडल्यान? तेच हे पिरायेवेलो हो वानप्रस्थाश्रम - आनंदाश्रम जांव येता न्हय?



# आलिया भोगासी असावे सादर !

नातवान चिकिचें पाकीट हाडून म्हज्या हातांत दिलें. आनी म्हणलें, 'आगे, आवडटा मगे तुका असली भिकणाची चिकी?'

पोरान मुजरत म्हजे आवडीचो जिनस हाडून दिलो म्हूण म्हजेंय मन फुल्लें. हांवें उमेदीन ताका म्हणलें.

'आरे, स्पेशल थँक्स हा बाबा!'

'ओके ! ओके ! म्हणीत तो हांसत हांसत उडयो मारीत गेलो. हांवें पाकीट फोडलें. चिकिचो कुडको करपाचो यत्न केलो. पूण हातान कुडको करूंक पावलें ना. घट आसली. सामकारच घोव पेपर वांचतालो. ताचे कडेन पाकीट दीत म्हणलें, 'आरे एक चिकिचो कुडको करून दिता रे?' म्हज्या हातांतली तांक आतां उणी जावंक लागल्याशी दिसता' मुमुरखोसो हांसून ताणें एक कुडको करून म्हज्या हातार दवरलो.

हांवें दातांनी बारीक कुडको करपाचो यत्न केला, पूण तेंय जायना जालें. हांवें घोवाक म्हणलें.

आरे, दांतय जाल्यात सामके अशक्त ! तुज्या दांतांनी कुडको करून दिता?

ताणें म्हणलें, 'आगो बऱ्या मनशाक सांगलें मगो तुवें ! म्हजे दांत तरी खंय घट उरल्यात? ताचेय खरें न्हय?

आतां दोगांयच्या दांतांनी, केंसांनी आपणाली सुवात हालयल्याच न्हय?

जाण्टेपणाचीच न्हय ही आमची वाटचाल पूण संवयीचें बोट तोंडांत म्हणटात तें फट न्हय. आपूण ही गजाल निमणे मेरेन करूंक शकता होच न्हय आमचो हट आनी अट्टाहास? आतां जर हें जायना म्हूण कळटकच खलबत्याचेर धाडावन, सोंपेपणान कुडके करूंक येता न्हय? जी पिराय वाडत गेल्या तशें जें जायत आयलां, ताका सोंपेपणान आपणावंक येता न्हय? पूण हें आपशीच घडत?

‘आरे, तुजे बगर कोणाक सांगतलें हें हांव? नातवांक सांगल्यार ते म्हणटले, ‘आगे, सारकी आसा मगे तूं हांवें तोंडांत घालून चिकेचो कुडको केल्यार, म्हजी उश्टी चिकी खातली गे तूं? सामकी हळशिकावणी गजाल मगे ही? तांचेय हें साप्प फट न्हय न्ही? तांकां हांव कितें सांगतलें मागीर?

शबरीन चाखून, गोड गोड बोरां पुंजायलीं आनी रामाक दिल्ली, आनी रामान तिची सद्‌भावना वळखून, ती उश्टीं बोरां भक्तीभावान खालीं न्हय? आतां हें नवे पिळगेक तरी खंय खबर आसा. ह्यो पुर्विल्ल्यो गजाली? ही गजाल आयकल्यार घडये आयची भुरगीं म्हणत.

‘शबरी सामकी पिशी मगे. देवाक तिणे उश्टी बोरां कशीं दिली गे? आनी रामाकय इतली बुद्ध नासली, तीं बोरां उश्टीं आसा म्हूण कळपाची? ताणें तीं खांवचीच कशीं? ताणें तीं उश्टी बोरां भायर मारून, हेर बरीं बोरां मागूं येताली न्हय? देवाक बरें तेंच दिवपाचें, हेंच सद्‌भावनेन तिणें ही गोड गोड बोरां रामाक दिल्ली न्हय? आनी तिणें हे अप्रूप मायेची तांक, मनाक कितली सुखदिणी करता हीच जाणविकाय जाली आसतली न्हय रामाक, त्या खिणाक? उश्ट्यांतल्यान लेगीत अप्रूप खोस मेळटा हीच न्हय ती भावना? नवे पिळगेच्या ह्या भुरग्यांक. हें कशें कळूं येत? आनी तांकां हें समजूंकच जाय, कळूंक जाय असो म्हजो तरी अट्टाहास कित्याक?

म्हजे मनान म्हाकाच विचारलें, ‘आगो, तुज्या दांतांनी आपणाली सुवात सोडल्या मगो? मागीर तुवें चिकी खावपाचो अट्टाहास हट सोडून दिवं येता न्हय? खाणरुचींत अडकल्ले मन म्हणूंक लागलें.

चिकी म्हाका मनापासून आवडटा. तिची रुच म्हाका खोस दिवन वता. ती चिकी हांवें सोंपेपणान सोडूंक शकता? आतां जें आवडटा तेंवूय ल्हवू ल्हवू सोडू दिवपाचें न्हय? हेंच जाय, तेंच जाय ही आशा दवरिनासतना आनी जिबेचे चोथले करिनासतना. हे संबंदी अलिप्तपणान चलप, हीच अध्यात्म मार्गाविली वाटचाल आसता, अशेंच सांगलां न्हय आमच्या साधुसंतानी? पंचेंद्रियांच्या पांच रसांपासून, शब्द, स्पर्श, रूप, रस, गंध हाचे पासून मुक्त जावपाचोच न्हय हो

सुवर्णमध्य? ताचे खातीर साधना करपाची गरज आसताच न्हय? पळोवया जाता जाल्यार?

मनान परती पलटी मारली.

जो मेरेन रूच आसा; जिरवण आसा, तो मेरेन कित्याक आवडटा तो जिन्नस, रुचीन खावचो न्हय? कुडीक-जिबेक लागिल्ल्या, इतल्या वर्सांची संवय, सोंपेपणान सोडून दिवप कठीणच न्हय? जिबेक आवडटा, तशें जाय जाय तें खायत आयिल्लें न्हय हांव आयज मेरेन? जिबेचें पोंतच न्हय हो सगळो घुस्पागोंदळ करता? जी जीब रूच दिता, आस्वाद दिता, खोस दिता, तीच केन्ना, वायट बोचक उतरांनी, हेरांच्या काळजाचें कुडके कुडकेय करता न्हय? तांकां खूब दुखताय.

दिल्ल्या मापान येता घरा अशें म्हणटा न्हय? दिल्लीं वायट उतरां परतीं येवन, आपणाले पदरांत मनस्ताप घालता न्हय? अती खाणे मसणांत जाणे असो आमचो आजो सांगी. तें जिबेकच लागून घडटा न्हय?

दोनी तरेंनी, तिचेर नियंत्रण दवरप संयम दवरप हेंच फावो कशें न्हय न्ही?

नवे नवे परिस्थितीक आयिल्ले अवस्थेक ल्हवू ल्हवू आपणावपाची संवय करून घेवप हेंच फावो कशें न्हय? मन थंडसाणीन समजावंक लागलें हेंय उणें न्हय न्ही?



# "ऐद्या व्हडल्यान कित्याक हांसता गे तूं?"

नातवान म्हळें,

''आगे आज्ञे ऐद्या व्हडल्यान कित्याक हांसता गे तूं?'' पोराची हीं उतरां आयकून, नाय म्हळ्यार हांवुय मातशें हालले. म्हज्या खळखळून हांसपाचो घडये पोराक त्रास जालो जावये. नाय म्हळ्यार तरेकवार टेंशना न्हय तांका? परीक्षेचें, अभ्यासाचें. ताज्याय कामांत, म्हज्या हाश्याक लागून व्यत्यय आयलो जायत. संवयीचें बोट तोंडात वताच न्हय? भुर्गेपणात सावन हांसतना म्हाका कसलेंच भान उरनाशिल्लें. अजूनय तशेंच आसा ! हाजी घडये नातवान म्हाका याद करून दिली जायत.

बापुय सदांच म्हणी, ''सुधा हांसत राव. मेकळेपणान हास. कोणाचोच धाक दवरी नासतना. सगळ्यो मनाक धोंसपी गजाली, हांश्याक लागूनच आपशीच पयस वतात. सगळीं टेंशनां खिणाभितर नाच्च जातात. एकदां बापायन म्हजे भयणी आनी म्हजे मदीं सर्त दवरली. तांतूत बापायनय वांटो घेतलो.

बापायन म्हळें, ''चला, सर्त लावया. जो चडातचड वेळ हांसता, मेकळेपणान, खळखळून हांसता, तो जिंकतलो. चला चालू करुया. एक दोन तीन.

आमी तिगांय हांसूक लागलीं, हांसून हांसून भयण थकली, थोडे वेळे उपरान्त बापायनय हांसो उणो केलो, पुण हांव मात हांसत उरलें.

म्हजी आई सदांच म्हजी खंत काडी. ती म्हणी, म्हजें हें चली सगळें बरें, गुणी, पुण होळो कशें हांसता. सामको दादलो कसो. ताजें कितें करपाचें? गेल्लें घरचीं मनशां कितें म्हण्टलीं? बापुयय ताका सांगता कशें जातलें काय हे चलयेचें फुडाराक?

एकदां क्लासीत हांव व्हडल्यान हांसलें म्हूण एके टिचरीन म्हाका क्लासी भायर उबें केलें. तिजो तास सोंपतकच दुसरो सर आयलो. ताणे म्हाका विचारलें,

''आगो, क्लासी भायर तूं उबेशें? आमचो तो सर सदांच उत्साही आनी उमेदी. भुरग्यांक समजुपी. आनी उमेद दिवपी.''

हांवे तांका म्हळे, 'सर, हांव सदचेभाशेन खळखळून हांसलें, हांवें मुद्दम करूंक नासलें हें ! पुण टिचरीक खूब राग आयलो. म्हज्या व्हडा हांशाचो. तिणे म्हाका वर्गाभायर घालें.

ताणे मुमुरखोसो हांसत म्हळें ''सुधा, देव तुका सदांच अशें हांसत दवरूं तूं चल क्लासीभितर आनी बस.''

जीणेत जायते फावटीं, ह्या सरांच्या उतरांची याद जाता. ताणे मनापासून दिल्ल्या ह्या आशिर्वादान म्हजें मन सदांच फुलून येता.

म्हज्या नातवाच्या ह्या उतरांतल्यान हांव ४५-५० वरसां फाटीं पावलें. म्हाकाय परतें भुर्गेपण मेळ्ळे न्हय? जायते फावटी खंय खंय वाचिल्लें. तें दोळ्यामुखार जिवे टट्टीत जावन उबें रावलें. तेवेळार ते घडये समजल्लें अशें म्हणू येना खळखळून हांसतना, ह्या वाचिल्ल्या गजालींची मातुय जाणाविकाय नासतालीं, पुण नातवाच्या उतरांतल्यान जागयल्यो न्हय ह्यो म्होवाळयादी?

एकट्यान म्हणिलेलें, चारुय वटेंनी पळयात, खूब फावटीं दिसता कीं हेरांच्या माथ्यार कसलें तरी व्हडलें वजें आसा. तीं एकसारकीं कसल्यातरी टेंशनाखाला आसतात. सगळ्या संवसाराचो भार तांच्या खांद्यार तीं व्हावयत आसतात. म्हूणच तीं घडयें हांसूक विसरतात जावये.

एके लग्न जाल्ल्या तरणाटे चलयेन म्हणिल्लें खंय, ''म्हजें लग्न जावन फकत वर्स जालां, पुण ह्या वर्सभरांत म्हजो घोव फकत ३ फावटी हांसला.'' घोवान हांसत खेळत आपले वांगडा वावुरचें अशें आसताच न्हय सपन नवे व्हकलेचे? तेन्ना एकट्यान सुचोवणी दिल्ली खंय. जर तुमकां तुमचे बायलेक आनंदित करपाचें आसत, तिका खोशी पळवपाचें आसत, जाल्यार तुमी तिजे वांगडा तासाभरांत तीन फावटी हांसचें.

आमी सदांच भुरग्यांचीं मुखामळां पळवची खंय. तांची मुखामळां निष्पाप हांशानच भरील्ली आसतात.

कोणे म्हळां, ''जर सर्गांत तुमकां पावल दवरचें अशें दिसता, ज्या सुवातीर तिडक–राग, असंतोष, दुःख ना, जाल्यार आमीं भुरग्यांभाशेन जावपाक शिकूंक जाय. भुरग्यांभाशेन जियेवपाचें. भुरग्याक खबर आसता, आपली आवय आपणा वांगडा आसा. तें मातुय भियेना. तें निश्चित जाता, आवयच्या वांगडा. खंयच्यान आवयक आपल्या भुरग्याक मातपरून दुखापत जावची न्हय अशेंच दिसता न्हय? आनी म्हूणच भुरगें सामके निर्धास्त आसता तिचे सहवासांत. आवय म्हजे वांगडा आसा, कांयच विपरीत जांवचे ना. सगळें सारकेंच आसतलें, सगळेंच बरें आसा. सगळें बरेंच जातलें. फाटल्यां आनी शंबर वरसां उपरान्तय. होच न्हय तो पुराय मनापासूनचो विश्वास, आनी अखंड श्रद्धा ताजी आपणाल्या आवयचेर? असलीच अविरत श्रद्धा आमी आमच्या विधात्याचेर दवरीत जाल्यारच न्हय आमचेर दैवी शक्तीची कृपा जांव येता? आनी हीच कृपा आमकां हांसयत उरतली. हाजो दुबाब उरचो ना.

''आरे बाबा हांस रे. देवान तुका गोरोपान, सुंदर केला. हांसतकच तूं चड सुंदर दिसतलो.'' अशें हांवे नातवाक म्हळे. ताची आनी म्हजी एक सारकी जुगलबंदी चालूच आसता. हांवुय खूबफावटी तांचे बराबरचेंच जाता. घडये म्हण्टात तें फट न्हय, जाण्टेपण हें दुसरें भुर्गेपणच न्हय? हाजेय भान, खूप फावटी म्हाका उरना.

ताणें सट् करून म्हळें, ''आगे, आज्जे हांसपासारके म्हजे कांय ना. ओगीच हांसपाचें?''

'हांसपासारके म्हजे कडेन कांयच ना' ताणे निर्विकारपणान म्हळें. खरेंच ह्या भुरग्यांक, ह्या पिरायेचेर इतल्या टेंशनाचो त्रास जाला काय? म्हजेय मन जायते प्रस्न म्हाका विचारुक लागलें. ह्या जायत्या टेंशनाक लागून, हांसपय विसरूंक लागली काय ही नवी पिळगी? अभ्यास, ट्युशन हाजें चेपण, स्वीमिंग, बॅडमिग्टन, क्रिकेट हांतूत हें मेळोवंक जाय, तें मेळोवंक जाय, इतले मार्क मेळोवंकच जाय ह्या अट्टाहासाक लागून पोरां सामकी वाजेल्यांत काय? जें

चिंतला तें मेळ्ळे ना जाल्यार येंवपी चेंपण, ताजे खातीरची धडपड, गडबड, चिंता, राग, तिडक हाका लागून तांचे भितल्लो आनंदच ना जांवक लागला काय तोच हांश्याक आडावंक लागला जावये.

खंय वाचिल्लें, दैवी हांसो, हो भायल्या गजालींचेर निंबून नासता तो [illegible] आसता. जण एकल्यामंदीं. तो आमकां मेळोवंचो पडना. ता [illegible] कडल्यान शेणला. कांय तेपा खातीर. म्हूण ताका सोदचो पडटलो, जागोवचो पडटलो.तो कसो जागोवंक येत?

प्रफुल्लित नदर, आनंदी वृत्ती हेंच न्हय अप्रुप वखद ताजेर? दोतोरांची म्हणणी आसा. जे लोक हांसतात, तांचे आरोग्य बरें उरता. आनंदीपण हें जीण [illegible] चालपाचें तेल - वंगण. तें दुःख ना करता, दुयेंसा उणी करता. आमचें वजें ल्हव करता. आनी तें आनंदीपण आमकां तिडकीपसून पयस व्हरता.

सर्वेक्षण सांगता कीं, जो पिरंगता ताजे ४२ स्नायु उजार जातात आनी जो हांसता ताजे १७ स्नायु उजार जातात. हांसपाची सगळ्यांत बरी गजाल म्हळ्यार तें सामकें वशेचें. पुण तो वसो मेळचो म्हूण वाट तरी आमी कित्याक पळवपाची? आमच्यांनी तें पयली दिवपी जांव येता न्हय?

हाश्यांची तांक सांगपी एक गजाल वाचिल्ली.

हांसो दिवपांत कांयच पयशे पडनात. पुण हांसो कितलेंशेच दितात. हें घडये खिणापुरतेच आसता खरें, पुण ताजी याद सासणाची जांव येता. हांसो जांका मेळटा, तांका तो गिरेस्त करताव. आनी तो दिवनय दिवपी गरीब जायना. मनीस कितलोय गिरेस्त वा बळिश्ट आंसू, ताचेविणे ते दिस काडूंक जमचें ना. तेंच परी कोणूय कितलो गरीब आंसू, तांका हांसो गिरेस्तच करता.

हांसो घरांत खोस हाडटा. धंद्यात सद्भावना निर्मिता. हांसो म्हळ्यार इश्टागतीची कुरु. तो थकिल्ल्याक निर्शेल्ल्याक आनंद, दुखेस्ताक आनंदाचे हुनेत दिता. हांसो म्हळ्यार सैमान दुःखाचेर निर्मिल्लें सगळ्यांत प्रभावी, बरें वखद.

आनी हें सगळें आसून हांसो विकतो मेळना, उधार घेवंक येना. आनी तो चोरूंक येना, कित्याक, तो मनासावन दिलेबगर ताका मातुय मोल नासता.

थोड्यांक दुसऱ्यांकडेन पळोवन हांसल्यारच सामकें पुरो जाता. तुमीच तांचे कडेन पळोवन, ताका तुमचो हांसो दियात; कित्याक जाका कोणाकुच हांसो दिवपाचो नासता, ताकाच ताजी खरी गरज आसता. जाच्या काळजांत, जांव मनात हांसोच ना, जाल्यार ते तरी कितें करतलें?

भितरच जर ह़ांसो ना जाल्यार ते तरी भायर कसो दितले?

कांय गजाली ज्ञानी लोकांनी सुचयल्यात.

सकाळीं उठले बराबर 'शुभप्रभात देवा' अशें म्हणात. दिसांतल्यान ३ वेळा खळखळून हांसात. नाश्त्यापयली, जेवणाआदीं आनी रातच्या जेवणा पयली.

सात्विक, बरो विनोद करपाची संवय वाढयात. ती संवय तुमकां खूब कठीण गजालींतल्यान पयस व्हरूंक पावतली. स्वत: चेरय हांसपाक शिकपाचें. सदांच उजवाडान भरील्ली सुवात पळवपाची. दर एक गजालीक दोन बाजू आसतात न्हय? एक़ उजवाडान भरील्ली आनी दुसरी काळखान भरिल्ली.

महात्मा गांधीजीन म्हळां तें फट न्हय.

''तुमच्या मुखामळार जर ह़ांसो नासत जाल्यार तुमी सारके न्हेसल्यात अशें म्हणूक जांवचे ना.''

आमच्या मुखामळार सदांच हांसो फुलत काय ना हें आमीच पळवपाचे सगळ्या संवसाराक उजवाड दिवपी-आनी चलोवपी हे ईश्वरी तांकीच जेन्ना आमचीं काळजाथावन अखंड, श्रद्धा निर्माण जातली तेन्नाच कांयच वायट जांवचे ना, होच अप्रुप विश्वास मेळटलो. आनी तोच विश्वास आमकां तरुन व्हरूंक शकता न्हय?

नातवाच्या उतरांनी जायत्या यादीच्या ल्हारांर हांव जायतो वेळा उफेत उरलें. ताका लागूनच न्हय म्हजे भुरगेपण जिवेटट्टीत जालें? हीच न्हय जादू केली ताज्या ह्या उतरांनी? नाय म्हळ्यार हें उकतें करतनाय हांश्याची खोस पडली म्हज्या पदरांत?



# म्हान काळजाची गवाय!

नातवान येवन खबर दिली –

''आगे, आज्ञे काकाचो मोबायल कोणे तरी फारायलो खंय.' पुताचो मोबायल फारायल्ल्याची खबर आयकून मन खिन्न जालें. परतो परतो तोच विचार मनाक धोंसूंक लागलो. कितले तरी फावटी तो मनांतल्यान मोखून भायर मारपाचो यत्न केलो, पूण तो मातूय थंयसावन हालना जालो.

म्हज्या मनान म्हाकाय विचारलें,

'आगो, इतली वर्सां तू गीता वाचता मगो? मागीर खरो गिन्यानी मनीस मेल्लया गेल्ल्याचो शोक करीना, अशेंच सांगलां न्हय श्रीकृष्णान अर्जुनाक? इतलों तेंप हें तत्वगिन्यान वाचून मातूय मनाभितर रिगूंक पावलें ना तुज्या?'

खऱ्यांनीच कांयच बरो परिणाम जावंक पावलो ना काय म्हज्या मनार ह्या गजालींचो? ह्यो सगळ्यो ऐहीक गजाली नाशवंत. केन्ना तरी त्यो नाच जातल्यो. आपल्याक ह्यो सोडून वचच्यो पडटल्यो हें सेगीत वाचत आयलां न्हय हांव? हाचो अर्थ कळुनूय कित्याक वळना म्हजें मन? हे अध्यात्म, हें गिन्यान खऱ्या अर्थान ज्या खिणाक पट्टा तेन्नाच न्हय मन शांत जांव येता?'

हेर सगल्यो गजाली चोरयेक वचूं येतात, पूण मनांतलें तत्वगिन्यान कोणूच चोरूंक पावंचो ना. तें कोणाकच फारावंक येवचें ना. हें तरी समजूंक जाय आसलें न्हय म्हाका?

अजून घट याद आसा म्हाका ते घडणुकेची. एकदां म्हज्या गळ्यांतली भांगरा सरपळी दवरिल्लेकडेन नाच जाल्ली. त्यावेळार म्हजे मायन–माईन म्हाका म्हणिल्लें,

'आगो सुधा, तुजी सरपळी गेली, ताचे फाटल्यान कसलो तरी ईश्वरी संकेत आसूं येत. कितेंय व्हडलें अपसरण येवचे बदला ती आपूण जावन गेली जावंये. इडा पिडा टळल्या म्हणपाचें. देव करता तेंच बरें आनी खरें. ह्या उतरांनी म्हजें मन शांत जालें. केदे व्हडलें समजिकायेचें मन तिचें? ती घडये गीताय

वाचूंक पावली ना जायत, ज्ञानेश्वरीय वाचूंक पावली ना जायत पूण खऱ्या अर्थानच ती ओवी जियेताली, अशेंच म्हणचें पडटलें न्हय? हें तत्वगिन्यान. हें अध्यात्म ती जात्याच आपणा वांगडा घेवन आयिल्ली काय?

जाणे मोबायल फारायलो, ताका घडये पयशांची खरेली गरज आसूं येता. घडये ताचो भुरगो-बायल खूब दुयेंत आसत. तांकां वखद-विरसद करपाखातीर, ताजेकडेन पयशे नासत, तांकां दुर्येसांतल्यान भायर काडपाखातीर, ताका मोबायलाचे पयशे उपकाराक पडले तर हें पुण्य आमच्या पदरांत पडूं येता न्हय? ताणें मागिल्लें जाल्यार हांव ताका पयशें दितलें आशिल्लें? पूण नाय म्हणल्यार हें परमार्थाचें पुण्य आपशींच पदरांत पडलां हे गजालीची धादोसकाय म्हज्या मनान घेवंक येताली न्हय?

हांव विचारांत गुल्ल आसलें, इतल्यांत पुतान येवन म्हळें,

'आगे मम्मा, आयज तू खंयचे तरी चिंतेंत आशिल्लेवरीं दिसली? आसा मगे बरी?' सट्ट करून पुतान हो प्रस्न विचारलो म्हूण हांवुय अजापलें.

'आरे, तशें कांय ना रे. पूण तुजो मोबायल कोणे फारायलो म्हूण कळटकच, तोच विचार म्हाका धोंसूंक लागलो.'

'आगे, सोडून दी गे मोबायलाचो विचार. वचपाचें तें गेलें. तें वतलेंच न्हय? ते सुवातीर नवो येतलो. ताचें कांयच घेवन बसपाचें ना! तो हांसत गेलो. कसलोच मनस्ताप ना. भावनांचो खवदळ ना. सगळें शांत शांत !

म्हाका मातूय हें ताचें तत्वगिन्यान कित्याक आपणावंक आयलें ना?

गांधीजीन बरयिल्ले एक अप्रूप घडणुकेची म्हाका सदांच तोखणाय दिसता. केद्या व्हडल्या काळजाचो मनीस हो? पुराय सद्भावनेनच भरिल्लो हो युगपुरूश रेल्वेच्या डब्यांत चडटना सट्करुन ताचें एक जोतें सकल पडलें थेट रुळाचेर. तांणी सट् करून दुसरेंय जोतें थंयच उडयलें. ताच्या वांगडच्या मनशाक गांधीजीन अशें कित्याक केलें तें कळूंक ना. आपलें जोतें पडलें हाचो खेद उक्तायलो ना, तें मेळोवपाची धडपडूय केली ना हाचेंय तांका घडये अजाप जालें जांवये. ताणे गांधीजीक विचाल्लें,

'बापूजी, तुमी दुसरें जोतें थंयच कित्याक वडयलें?'

'आरे बाबा, म्हजेकडेन एकूच जोतें उरलें न्हय? सकल पडिल्लें जोतें जाका मेळटलें, ताका तरी हें दुसरें जोतें मेळूंदी. ताका तरी तीं दोनूय जोतीं उजार करूंक मेळटलीं न्हय?'

कितले सहजतायेने म्हळें तांणी? 'हे विश्वची म्हजें घर !' अशें ही अप्रुप समजिकाय मेळप हीच न्हय तांच्या व्हडल्या काळजाची गवाय?



# करीत कोण पालव म्हाका हें कोडें सोडोवपाक?

फोन वाजलो. हांवें उखल्लो.

शुभप्रभात ! सुधाताई कशीं आसात तुमी? नमळायेन आनी आस्थेन भरिल्लो आवाज!

''सुरेशभाई आसात? तांचेकडेन उलोवंक सोदी हांव !'' ताणी म्हळें.

''ते नात. भायर सल्ल्यात. हांव ते येतकच तुमकां फोन करूंक लायतां हां.'' हांवें म्हळें.

तांचे ज्ञानेश्वरी संबंधी ते उलयताले. विद्वान आनी व्यासंगी मनीस. प्रत्यक्षांत ओवी जियेवपी.

उलयतां उलयतां ताणीं म्हळें,

''सुधाताई, एक गजाल सांगतां तुमकां. जो मनीस मार्गार चलत रावता ताका जाय ते लोक पळयत आसतात. द्वेशान, नसायेन जावं स्पर्धेचे भावनेन. पूण चलणारो तांचे कडेन पळय नासतना फुडेंच चलत रावता. एके सुवातीर पावतकच जेन्ना तो फाटल्यान वळून पळयता तेन्ना ते लोक आशिल्ले तेच सुवातीर आसतात. आनी तो मनीस खूब फुडें पाविल्लो आसता. मागीर कांय तेंपान अशी स्थिती येता की, तो मनीस खूब उंच पावंड्यार पाविल्लो आसता. फाटले सुवातेर आशिल्ले मनीस ताका पळोवंक सोदतात तेन्ना तांकां तांच्यो मानो उंच करून ताका पळोवंचें पडटा. तरी लेगीत तांची नदर ताचेर सारकी पावना. त्या लोकांची नदर इतली दुबळी जाल्ली आसता, की तांकां तो मनीस सारको दिश्टी पडना.''

त्या विद्वान मनशान ही गजाल सांगली. कितली मोलादीक ! घडये ताजोय हो अणभव आसत. तो जेश्ट अणभव. मन हाललें. तरेकतरांचे विचार उप्रासले.

लोक कितें म्हण्टलें? ह्याच कांचान न्हय आमी आमच्या हातांतलो बरो वावर सोडून दितात? तांचे टिकेन जांव न्हयकारी उलोवपाक लागून आमकां निर्शेवणी येता न्हय? आनी म्हणून थंयच आडखळत उरतात न्हय आमी? बरें कितें करूंक फुडें सरिल्ल्याची आमकां नसाय दिसता म्हूण काय? ताजो हो वावर खरोच बरो आसा हें मनाक भितल्ल्यान भाविल्लेंच आसता. बरें तें बरेंच न्हय? दर एकल्याची नदर विंगड विंगड अशेंच जरी म्हळें, तरी बरी गजाल सगळ्या संवसाराचेर बरीच न्हय? मागीर ताज्या बऱ्या वावराची अर्थअपुर्बाय करपाची आमकां वान्सा कित्याक जायना? ताका ताज्या बऱ्या वावराची पावती मेळत जाल्यार घडये तें काम नेटान फुडें व्हरपाची उर्बा मेळूं येता न्हय? पूण कित्याक घडना काय अशें हें आमच्या हातसून? हेरान केल्लो बरो वावर दोळ्यां दिसताच न्हय? मनाक जाणवल्लेवरी जाताच. पूण तें आपणावपाची मनाची तयारी नासता काय? मनांतल्यो नाकाशिल्ल्या विकारांक लागूनच हें घडटा काय? बरो न्हेशिल्लो - धजिल्लो मनीस आपणाल्या दोळ्यांक सोबीत दिसता हें आमी न्हयकारूंक शकतात? मागीर तें आपणावंकय कित्याक पावनात? घडये दोळ्यांमेरेन पाविल्ल्या सोबितकायेक, ताळ्यामेरेन वतासतना आमची नसायच आडायता काय? आनी म्हूण उतरां तोंडसून भायर सरनात? जें जाणवता तें उलोवन दाखोवपांत आमकां उणेपण दिसता म्हूण?

आपणाक मेळिल्ली खोस मागीर ती रंगांतल्यान जावंये, रूपांतल्यान जावंये, जांव उतरांतल्यान वा वावरांतल्यान जावंये, जांव सुरांतल्यान जावंये, ती हेरांक वाट्टूकूच दोट्टी जांव येता न्हय? घेवपी जेन्ना दिवपी जाता तेन्ना दिवपी आनी घेवपी दोगांय खोशी जांव येतात न्हय?

हें आमकां सगळ्यांक खबर आसाच न्हय? पूण कळूनय वळना अशें कित्याक घडटा काय? हें एक कोडेंच जावन आयल्या न्हय? करीत कोण पालव म्हाका हें कोडें सोडोवपाक?







# शाणपण लिपयिल्लें तुवें आयजमेरेन !

एके कार्यावळीक गेल्लें. हांसत येवकार दीत एकटेन म्हणलें, 'आगे सुधाबाय, सामकी पिकली मगे तूं ! केस तुजे सामकें धवे जाल्यात मगे !

अजापान ती उलयताली. हांवें हांसतच म्हणलें, ' आगो बाय, केंस धवे केन्नाच जाल्यात. पूण इतलो तेंप काळें लायतालें. आतां सोडून दिलें. खरो रंग वयर सरलो. आगो, मनाचो देंठ पाचवो आसा, पूण पिराय लिपोवंक येता ? हांवें विनोद करचो आनी तिका हांसोवचें म्हूण म्हणलें आनी हांसत ते अस्तुरेक हात दिलो.

तीय मुमुरकीशी हांसली. आमचे दोगांमदीं हो संवाद चलिल्लो, इतले म्हणसर एका बुदवंत मनशान अचकीत म्हणलें, 'आगे सुधाबाय, इतलो तेंप तुवें शाणपण लिपयिल्लें न्हय ? आतां तें सारकें तेजिश्ट जावन दिसूंक लागलां.' तोय हासूंक लागलो. घडये ताणें आमचो संवाद आयकलो जावंये.

नाय म्हणल्यार मन खंय तरी हाल्लें. जायत्यो यादी एकठावल्ल्यो. घडणुकी जिव्यो तट्टीत जाल्यो. दर म्हयन्याच्या निमाण्या दिसांनी हांवें घोवाक सांगचें, 'आरे, केंसाची काळपण वचूंक लागल्या. धवे केस दिसूंक लागल्यात. दोन दिसांनी पार्टी आसा न्हय ? लखलखीत जावन येता हांव. पावयता न्हय ब्युटी पार्लरांत ?'

घोवान म्हाका दर फावटीं ब्युटी पार्लरांत व्हरचें पड. घडये तें तांकां बरें मानवनाशिल्लें जावये. तो जायते फावटी म्हणी, 'आगो, कित्याक ते केंस काळे करता तूं ? हांव सामको धवो जाला न्हय गो. म्हजेवेल्यानच लोकांक कळटली न्हय तुजी पिराय ? लिपोवन जाता ? ना जाल्यार हेरांक दिसूंक येत हां, हो मनीस दुसऱ्याचे तरणाटे बायलेक घेवन भोंवता म्हूण.' तो अशीं फकांडां करून म्हाका जागोवपाचो यत्न करी. पूण हांव तें सदांच हांसपाचेर व्हरीं.

एक फावट आमी दोगांय ट्रेनींत मुंबय वतालीं. तिकीट चेकर आयलो. तिकेट मागूंक लागलो. घोवान तिकेटी काडून दिल्यो. ताणें म्हणलें, 'हिचें

आयडेन्टिटी कार्ड दियात.' ताणें फकत म्हजेंच वळख पत्र मागलें, 'आरे, सभाग्या, हांवें केंस काळे केल्यात रे बाबा !' हांवें ताका हांसोवचे म्हूण म्हणलें. तो म्हजेकडेन बारीकसाणीन पळोवंक लागलो आनी मुमुरखोसो हांसून फुडें गेलो. घोवान सोमतेंच हांसत म्हणलें, 'पळयलें मगो? आतां तरी पटलें तुका हांव कितें म्हण्टा तें? ताणे तुजेंच आयडेन्टिटी कार्ड मागलें. तूं सिनियर सिटिझन दिसना. हीच सुचोवणी दिली न्हय ताणें? घडये ताकाय बाबड्याक दिसलें जावंये, हो जाण्टेलो चळ्ळा जातलो आनी कोणायच्याय बायलेक घेवन वता जातलो मजेक.' हांवें तेंय हांसपाचेर व्हेल्लें तेन्ना. नाय म्हणल्यार मनाक कातकुतल्योच जाल्ल्यो त्या खिणाक.

आयज मन म्हजें म्हाकाच विचारूंक लागलें. पिराय वाडटा तशी अस्तुरी भितरल्यान इतली कित्याक कुळकुळटा? म्हातारपण कानाकडेन पयलीं कुजबुजूंक लागता खंय. म्हणूनच ती काचाबूल जाता काय? म्हातारपणाची तिका इतली भिरांत दिसता? आपणालें सुंदरपण आतां भंगूंक लागलां हेच भावनेन ती अस्वस्थ जाता काय? सुंदरपण हेंच तिचें खरेलें भुशण, अशें घडये ती मानता म्हूण काय? केन्नाय तरी ती जुवानी ना जातली, वाडटी पिराय ते जवानीक कशीच तिगूंक दिवची ना. हें मानूंकच तिचें मन तयार नासता म्हूण काय हो मनस्ताप? धव्या केंसांतल्यान आपणाल्या अणभवाचें शाणपण उक्तें जाता, अशें जर तिका खऱ्यांनीच दिशिल्लें जाल्यार, ती तें मुजरत काय करूंक धावची नासली न्हय? हारशांतलें आपणालें पयलीचेंच मुखामळ सोबीत दिसता काय तिच्या दोळ्यांक आनी मनाक? सौंदर्याचो भक्त जावप हें वायट न्हय न्ही? आमी अमेरिकेचे भोंवडेर गेल्लीं तेन्ना कोचांतल्यान प्रवास करतालीं. एक ७०-७५ वर्सां पिरायेची जाण्टेली अस्तुरी आपणालीं नाखटां रंगयताली. व्हडा उमेदीन आनी व्हडा उर्बेन. सौंदर्य प्रसाधनांतली तिची ही उर्बा पळोवन घोवान म्हणिल्लें, 'सुधा, पळय गो, कितले उमेदीन ती आपणालीं नाखटां पितारता ती ! आनी तुजीं नाखटां पळय. अर्द नेलपॉलिश गेलां, अर्द उल्लां तेंय विटकुरें. कोण तरणाटी? कोण म्हातारी?'

धव्या केंसांतय अप्रूप तेज आसता हें कळपाक इतलो कळाव लागलो म्हाका? हांव म्हज्याच मनाचें समर्थन करून घेना मूं? आतां पिराय वाडटलीच न्हय? नायलाज जाला. एकदां तर एकटेन म्हणिल्लें, 'आगे, सुधाबाय तुका

तांबडोच कोर आवडटा काय कितें? चडशे तांबडेच आसता न्हय तुजे ब्लावज? 'तुका ह्या कलराची ॲलर्जी बी आसा काय कितें?' अशें तिका विचारचेशें दिसलें पूण जिबेक आवर घाल्लो.

दुसरे अस्तुरीन विचारिल्लें, 'सुधाबाय, तुका काळ्योच साडयो चडश्यो मानवतात काय कितें? चडशें तुका काळ्याच साड्यांत पळयता हांव.' नकळत तिज्या मनाची काळपाण तिच्या उतरांतल्यान उक्ती जाल्या जातली म्हणीत हांवें मनाक थंड करपाचो यत्न केलो.

एकटेन तर म्हणलें, 'आवय, आवय सामके व्हंकलेच्या पाचवो साडयेचो कलर मगे हो ! पाचव्याचार चुड्याभशेन.' घडये जाण्टेपणांत तुका हें सोबना ही सुचोवणी तिणें दिली जायत. ताका उपाय ना. दर एकल्याची नदर. सोडून दिवपाचें, म्हूण हांव ओग्गी रावलें. एकटेन पयर म्हणलें, 'सुधाबाय, तूं अशीच धवी सामकी ग्रेसफूल आनी तेजिश्ट दिसता आं!' म्हजें मन फुल्लें.

तुस्त कोणाक नाका जाल्या? आपणालें जाण्टेंपण सोबीत दिसूंक लागलां. ही आयकुपाची खोस दुसरेच भाशेनची न्हय? हाचे पयलीं केंस काळे आसतना अशीं तोखणायेचीं उतरां म्हज्या पदरांत पडिल्लीं जाल्यार? घडयें म्हजे धवे केंस पळोवन हेंच तर तांणी सुचयलें ना मूं म्हाका? 'तूं सदांच टिपटॉप रावताली न्हय? सदाचं झेतान, पॉश कशी. पाश्चात्य बायलांचोच आदर्श दवरलो न्हय तुवें दोळ्यामुखार? सदांच बरें न्हेंसून-संवरून, सजून-धजून भायर सरताली न्हय तूं? माय जावन लेगीत, सुनांपरस जुवान जावपाचो यत्न करताली न्हय?

आतां तरी कळ्ळें मगे तुका की तू आतां जाण्टी जावंक लागल्या म्हूण? आतां शाणी जा. मनाक आवर घालं. चलप मंद कर. शाणेपण येवंदी फुलून.'

'जाण्टेंपण लिपोवं नाका
लिपून तें लिपचें ना
येतलें तें वयर उबून
धव्या केंसा-कोंबऱ्यांतल्यान
शाणेंपण जागें करीत.....
शाणेंपण जागें करीत.....'



# भांगराळें सतयुग ?

खूप दिवस झाले. लिहण्यासारखं काही सुचलच नाही. मन–बुध्दी अगदी रिकामीं झाल्यागत वाटलं. आज काहीतरी लिहायलाच हवं, ह्याच निश्चयान मी सकाळीच हातात पेन आणि पेपर घेऊन बसले. एरव्ही कोंकणीत माझी सुरवात होते पूण आज अकस्मात मराठी सुरवात जाली हेही म्हाका कळलें ना. घोवाच्या दुखण्याक लागून मनाचेर विलक्षण ताण आयलो आसत. हाजये भान उल्लें ना काय? जायत्या फावटी गीता वाचतां. खूबश्यो गजाली घडत आसतात. पुण तांचेकडेन अलिप्तपणान पळवपाची समजिकाय मनाभितर येवंक जाय, हीच शिकवण दिता न्हय? अध्यात्म मनाक कळटा पुण मन वळप कठीणच न्हय? सकाळचो नाश्तो करून, बागेतली फुलांपानांसवणी पळतासनां खोस मेळटा मन फुलता. आनी कितेंय स्फुरता तेन्ना बरयतां पुण मनाची ही तांक क्षीण जाली काय? अशेंच दिसूंक लागलें.

इतल्यांत बशिल्लेकडेन, एक मूय गळ्यार हुळहुळूंक लागली. हांवे देरेपेंत तिका हातानच चिडिल्ली. घडये म्हाका चाबचे पयलीच ती मेली जायत. जांव, हिका चाबून–दुखोवन पाप पदरांत घालू नये, ह्या भावनेन ती मूय मरणासन्न जाली जायत. घडये, मरचे पयली हेरांक दुखोवन पाप पदरांत घालू नये, ही सद्भावना तिज्या मनात उप्रासली जायत. दरफावटी चलताना ती हाजी खात्री दिवं येता? खूब फावटी आमी खिणाखिणाक दुसऱ्यांचेर नाकाशिल्लो शीण काडटांत तांचेर रागार जातात. तांचो मत्सरय करता. तांका वायट वायट उतरांय दितात. राग–द्वेष, मद, मत्सर ह्या षड्‌विकारांक लागून आमी हेरांचेर तुटून पडटात. निमणेमेरेन म्हजी ही मस्ती हांव सोपेंपणान सोडूंक पावना न्हय? निदान मूयेक ही सद्‌बुध्दी मेळ्ळी जायत. हें घडप भोव कठीण.

ह्या मूयेन मन हालयलें. तरेकवार विचार ल्हारां उप्रासली. संसाराचो निरोप घेवचोच पडटा न्हय केन्नातरी? ताजे पयली, हेरांक त्रास दिवंचे बदला, आपलो उगडास करपाची कृती आपल्या हातसून घडूंक जाय, अशें मनाक

सोपेपणान कित्याक दिसना? स्वार्थाची ही भावना, सतत आपणाक फायद्याचेंच चिंतता काय? म्हणूनच आमचो हात वयर येना जावये, हेरांक दिवपांत एक सात्विक आनंद मेळटा, हाजी जाणीवय मनशाच्या मनात येना काय? निमणेमेरेन संग्रह पुंजावचो, हीच तृष्णा, वखवख नडटाच न्हय मनशाक? मनीस आपणाल्याच मोगात पडटा जावये. सगळें 'मी' 'म्हणे' 'म्हाका' ह्याच चक्रात मन घुसपता जावये. हेरांनी म्हजे खातीर कितें करचें हाजीं अपेक्षा आमी सतत करतात न्हय? पुण दुसऱ्यांखातीर म्हज्या हातसून हें कित्याक घडना. हांजो स्पर्श लेगीत जायना न्हय मनशाच्या मनांक? तो स्पर्श जाल्लो जाल्यार सगळेच भांगराळे सतयुग जातलें आशिल्लें न्हय?







प्रिय सुधाबाय,

तुगेल्या ललीत लेखनाचो हांव एक चहातो. तें मागीर बालमनाचेर जावं पालकत्वाचेर. हांव नेमान वाचतां. तुगेली सहज व्हांवती भास, लेखनाची शैली, लालित्यपूर्ण संवाद आनी जीवनाक भिडपाचो दिश्टीकोन म्हाका भोव मानवता. तुगेले कांय ललीत निबंद कथा ह्या साहित्यप्रकाराक खूब लागीं आसात. ताचें कारण तुगेले लिखणेंतल्यान अचळय/असरपी लालित्य. ह्या तुज्या निबंदांनी कथेचीं बिजां आसात. एखाद्या कथालेखकाक सांपडिल्ली जाल्यार तांच्यो कथा जावं येताल्यो. पूण तुजो पिण्डूच निबंदकाराचो. देखून ते निबंद जावंक पावले. ह्या निबंदांचें मोल कथेइतलेंच आसा आनी देखून जांवये म्हाका तुजें लेखन खूब आवडटा.

मनशाचें दिसपट्टे जिणेत नित्य नवे अणभव येत आसतात. पूण तांचे नवेपण पारखुपाची नदर जाय. खूब जाण अशे आसात जे जिणेकडेन सदचेंच रडचक्र जाल्लेवरी पळयतात. कांय जाण हांसून खेळून दीस सारतात. दोनूय वटेनची जीण यांत्रिकीच. पूण तुजेसारकी सर्जनशील मनशां मात जिणेत उजवाडपी दरेक दीस हो नवो लेखून तांतूतली नवलाय सोदतात. हे नवे नवलायेचो सोद घेवपाची तुजी वृत्ती तुगेल्या लेखनांत परावर्तित जाल्ली म्हाका दिश्टी पडटा.

दुसऱ्यांच्या मनांचो थाव घेवपाची कळाशी जांकां सादल्या तोच सर्जनशील लेखक म्हूण नांवारूपाक येता. ताका मानसशास्त्राचीं पुस्तकां वाचपाची गरज पडना. हाचो प्रत्यय तुका पुंडलीक नायकाचे 'अच्छेवांत' वा महाबळेश्वर सैलाले 'काळी गंगा' त येतलो. तुजी तोखणाय म्हणून सांगना, तुजेयकडेन दुसऱ्याच्या मनांत रिगपाची ही कळाशी आसा म्हणपाचें तुज्या बरपांत ठांय ठाय दिश्टी पडटा.

– तुजो भाई
(दामोदर मावजो)